# ‘भट’कंती

एल्. श्रीधर भिकू भट








‘भट’कंती

(आत्मचरित्र)

एल्. श्रीधर भिकू भट

फोन : 9141876549

प्रकाशक :

**संजना पब्लिकेशन्स**

39, दत्तवाडी, सांगें,

गोंय. 403704

sanjanapublications2@gmail.com



**पयली उजवाडावणी** : 2021

छापणावळ :

**रिया ग्राफिक्स**

ओल्ड-गोवा

मांडावळ :

**अमोल कामत**

मुखचित्र :

**श्रीधर कामत बांबोळकार**

**मोल** : रु. 300/-

**Special Editon**

**'BHAT'KANTI**

**(Autobiography)**

**L. Shridhar Bhiku Bhat**

Phone : 9141876549

Publisher :

**Sanjana Publications**

39, Dattawadi, Sanguem,

Goa. 403704

sanjanapublications2@gmail.com



**First Edition :** 2021

Printing :

**Riya Graphics**

Old - Goa

Design :

**Amol Kamat**

Cover Page :

**Shridhar Kamat Bambolkar**

**Price : Rs. 300/-**



म्हाका
कार्कळा आपणावपी
**सदानंद हेगड्याक**
13 तारी काडून पावोवपी **बाप्पाक**
मन घट्ट करून धाडपी **आई-दादाक**
आनी
धाडपाचो प्रसाद दिवपी **दामबाबाक**
म्हजी ही जिणे काणी
मन:पूर्वक अर्पण





# स्वातींतलो मोती

आरे आरे, कितें हें
पळ्ळों पळ्ळों हांव
घर तें म्हजें मोगाचें
जालें काळें काळें मोड
उरल्लें फाटीं फाटीं
आनी वतां हांव नेटान
फुडें फुडें
खंय वतां हांव?
हे त्या रानांत?
हे त्या मसणांत?
काय वाळवंटांत?
कितें जातलें म्हजें!
आरे देवा,

कितें करूं, कोणां सांगूं?
म्हण्टां म्हण्टां
दिसलो तो म्हासागर
ऊंच ऊंच ल्हारांचो
गुर्र घस्स स्वरांचो
पडलों वचून त्या म्हासागरांत
पूण कित्यांत, खंय, जाणात?
स्वातीचे उगडे शिंपयेंत
आनीक कितें सांगूं?
म्हज्याच नकळटां
जालों हांव मोती
स्वातींतलो मोती!

अशी ही म्हजी काणी. 13 वर्सांचेर 13 तारी काडून कार्कळ पावलों. संस्कृत म्हाविद्यालयांत. शिकलों संस्कृत, आयुर्वेद. पूण जालों मास्तर फुरसती वेळार शिकिल्ल्या हिंदीचो. हिंदी पंडित वे? आयुर्वेद पंडित न्ही वे? कार्कळच्या सदानंद हेगड्याचे उपकार कितले मानूं? ताणें सुचयलें, म्हाका संस्कृत विद्यालयांत धाडचें म्हूण. थंयच मेळ्ळो म्हजे जिणेक आकार. उद्धार केलो म्हजो श्री सुधींद्र तीर्थ स्वामींनी. खूब लागींचे इश्ट ते म्हजे...

आरएस्‌एस् जालें गुरुकूल. जिणेक दिली सार्थकता, दिशा. अर्धांगी मेळ्ळी नशिबान. तीय म्हाका सांबाळून व्हरता तशी. धाडसान म्हज्या कार्यांत वावुरपी. जालीं भुरगीं गोदडेंतलीं रत्नां कशीं. व्हडलें आशा जालें दोतोर. दुसरें श्यामल जालें शाळेचें संचालक. आनी गोकुळ जालो उद्येजक, पुरुषार्थी.

देव, नशीब सदांच अनुकूल. ऐन वेळार देवान हात धरलो. गाडी चलत उरली. स्वता जोडले चारूच पयशे, पूण भुरग्यांनी कितें दिलेंना? तांच्याच आग्र्याक लागून ह्यो चार वळी बरोपाचें केलां धाडस. हांव न्हय लेखक, न्हय कवी, न्हय कलाकार.

सुरवेक म्हजी पुतणयी बाय उषा (बाळे), नात उर्वी आनी बाय अन्वेषा सिंगबाळाक घेवन एक ल्हानशी 37 पानांची काडली पुस्तिका. 'स्वातींतलो मोती' म्हूण. मागीर म्हजो पुतणयो संदेशाच्या आदारान ताचेंच केलें हें सविस्तर आत्मचरित्र. जांबावलेचो म्हाजन इतलोच कितें तो हांव आनी गोंयचे नामनेचे चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार हांचेमदलो समान धागो. पूण ताणें उमेदीन घेतली जापसालदारकी. अर्थपूर्ण मुखपृष्ठ चितारपाची. ना वळख, ना पाळख, पूण बाब दिनेश मणेरकार आनी संजना पब्लिकेशन्सान माथें माल्लें तें उजवाडावपाक.

हांवें खणून, हुमटावन, तोडून, मोडून, खुटून एकठांय केल्लीं पाळां, मुळां, फळां. तीं वेंचून घासून पुसून शिनलीं, कातलीं ह्या सगळ्यांनी. आनी शिजयलें म्हजे जिणेचें खतखतें. एकदां जिबेक लावन पळयात. लागलेंच रुचीक जाल्यार तांचें बरें मागात.

तुमचें देव बरें करूं.

**एल्. श्रीधर भिकू भट**

# अनुक्रमणिका







# सर्गसुखी लोलयें

**एल्.** श्रीधर भट .

वर्सः 1941.

पिरायः 15 वर्सां.

गांवः कार्कळ, कर्नाटक.

गोंयां सेगुंद ग्राव मेरेन शिकून परत कार्कळ नव्यान शाळा सुरू जाल्ली. शाळेचो पयलोच दीस. सदानंद हेगडोमामान शाळेंत व्हरून पावयलो.

"ही तुगेली शाळा. आतां तुवेन हांगाची शिकचें."

हांव गेलों भितर. मास्तरान नांव विचाल्लें, हांवें सांगलें:

"श्रीधर भिकू भट."

"तशी न्ही रे, तुगेल गांव खिंचो?"

एक सेकंद लेगीत वगडायनासतना हांवें नेट्टान सांगलें:

"लोलयें."

मास्तरान म्हजें नांव बरयलें: एल्. श्रीधर भट.

तें नांव आनी तो गांव अजून मेरेन म्हाका चिकटून बसला. लोलयां म्हजो

जल्मगांव. हांव थंय उल्लों असो तसों तिनेक वर्सां. मात काळजाच्या कुरकुटांत लोलयें गांव सासणाचो थपकल मारून बसला.

गोंयच्या दक्षिण तोंकावेलो तालुको काणकोण. आनी तातूंतलो निमणो गांव आमचो. लोलयें-पोळें. थंयच्यान गोंयची शीम हुपल्यार कारवार जिल्लो. कर्नाटकांतलो. पयलो गांव माजाळी. मडगांवच्यान वा कारवारच्यान बशीन आयले जाल्यार घरा वचपाक देंवपाचो स्टॉप माशें. निराकारा देवळाकडेन. असलें देऊळ गोंयांत आनीक खंय आसा जाल्यार हांव नकळो.

आमच्या गांवांत धालांचें एक पद आसा:

*संयभोंवतणीं न्हंयचो आकार*

*मदें निरंकार रे देवा मदें निरंकार*

हें देऊळ एका व्हडल्या फातराचेर वसयलां. फातराच्या चारूय वाटांनी उदक. दोंगरावयल्यान येता ती वाकडी न्हंय शेतां-भाटां पिकयत गांवांतल्यान येता आनी ह्या फातराक वेंगेंत घेवन अरबी समुद्राक वचून मेळटा. थंयच दुसरे वटेन गालजीबागची व्हडली न्हंय येवनय समुद्राक मेळटा. माश्यां देवळाकडेन रावनच हो त्रिवेणी संगम दिसता. गालजीबागची दर्यावेळ थंयच सुरू जाता.

कारवारच्यान कर्नाटकाची शीम हुपून हो रस्तो पोळें, शेळी, लोलयें करीत माश्यां येता आनी मुखार पैंगीण, पर्तगाळ करीत चावडेर, चार रस्त्यार वता. ल्हवू ल्हवू रूंद करीत तो हायवे जालो. राष्ट्रीय महामार्ग. आतां माशेंचो बाजार लागचे पयलींच चडटेवेल्यान नवो बायपास गेला. तो सरळ चार रस्त्यार वचून मेळ्ळा. हो रस्तो माशेंच्यान सुरू जाला थंय त्रिवेणी संगमाचें हें मनभुलावणें दृश्य पळोवपाक वा फोटू काडपाक रावलोना तो अरसीकच.

आनी ह्या फातराचेर देऊळ आसा श्री निराकार देवाचें. माशेंचो धाकलोसोच बाजारय थंयच. आऩी कुशीक देवाचें माडांचें भाट. फातराच्या चारय वाटांनी कांदळींचें रान. सुर्यास्त पळोवचो जाल्यार माश्यां देवळाकडेन रावन. सप्तरंगांतल्यान कितले रंग तयार जातात तें पळयत रावल्यार भान शेणून वचपासारको निसर्गाचो चमत्कार. दर दिसा वेगळ्या रंगांची होळी. दर दिसाचो सुर्याय वेगळो. चंद्र

कलाकलांनी देंवता आनी वाडटा म्हणटात. पूण सुर्याचे वेगवेगळे आकार आनी प्रकार पळोवपाक जाय जाल्यार माश्यां मुजरत येवचें. आख्खें वर्स काडल्यार पसून सुर्याचे प्रकार सोंपचे नात. आनी मळबांतल्या रंगांचे दिसाकणकणीं बदलपी कॅनव्हास तर सांगपाकच नाका.

माशेंचो फातोर हुपून कारवारा वाटेन वतलो जाल्यार चडटी लागता. वयर दोंगरार लांबचे लांब तळपाचेर हात-पांय लांब सोडून पसरिल्लें मळ. हाका माड्डीतळप म्हणटात. ताच्या मदल्यान हो रस्तो वता. पुराय मळ हुपून वसरतींतल्यान हो रस्तो परत सकयल गांवांत देंवता. हें शेळी. थंयच्यान मात्सो मुखार गेलो काय उजव्यान सकयल दर्या देगेर आसा तें पोळें. गोंयचो निमणो वाडो. थंय लागता तें पोळेंचें मॅट. आयची गोंयची शीम. तेन्नाची पोर्तुगालाची. मॅटापलतडीं कर्नाटक. तेन्नाचो म्हजो भारत देस.

कारवार वतना माड्डीतळपावेल्या रस्त्याचे दावे वटेन दोंगरासकयल आमचो लोंलयेंचो गांव. उजवे वाटेन लांबचें लांब तळपाचें मळ वचून सरळ दर्याक भिडटा. तो विशाळ दर्या पळयतकीर कोणाचेंय हड्डें भरून आयलेंना जाल्यार सांगचें. सकयल देंवपाच्यो कितल्योशोच वाटो. आनी फातरांनी लिपिल्ल्यो ल्हान ल्हान दर्या वेळो.

सुरवात माशेंच्यानच जाता. नवो मनोहर पर्रीकार बायपास सुरू जाता थंय दोंगरावटेन लागता तें मोबर. थंय दोन-चार घरां आसात. मुखार सात-आठ मीटर पासून आसचिना अशी येदीशी दर्या वेळ. देवळाकडल्यान व्हांवत येवपी वाकडी न्हंय आनी गालजीबाग न्हंय हांगांच दर्याक मेळटात. पलतडीन गालजीबागची दर्या वेळ. भरतेचेर आनी सुकतेचेर हांगां भोंवरे जातात. पोंवपा गेल्लेकडेन मात्सो मुखार गेल्यार भोंवऱ्यांत फारावपाची भिरांत. हांगां पोंवपी तितलोच तरबेज जाय. नाजाल्यार गेलोच म्हणपाचो दर्यांत व्हांवन. वसाडीचो अदमास घेवन हांगांच्यान व्हडीं घेवन लोक नुस्त्याकय वतात. ताजें फडफडीत नुस्तें घेवन येतात.

माश्यां मोबरारसावन शिमेर पोळ्यांमेरेन ल्हान व्हड वेळो, फातरां कोंडां आनी तळपां धरून वट्ट 30 सुवातो आसात. मदीं वेळ, मदीं फातर, मदींच लांबचें

लांब तळप अशीं एके हारीन. नुस्तें गरोवपाक वतल्या जाण्टेल्यांनी दवरिल्लीं नांवां. पयलीं येता मोबर. मागीर वाटुरें, तुळशी दांडो, कापशी गोल, शेंडी फोंड, माण्णें, भायलपार, शेंद्रें पार, शेंद्रें, सांगटां कोंड, तांबडें, पारये तोंड, कूप, फुलोर, कुचे फुलोर, उंडी, पोंगरें, माट्टळप, वर्कण, कुडवण, वोरण, मोयें, पांड, पांडवां तळप, दाबेल, माकडशें, तळपें, पोळें, गॅटर आनी बोंडके यॅळ.

ह्या पुराय दर्या वाठारांत लोकांची कायम वसती म्हणटात ती फकत पोळ्यां. बाकीकडेन गांवचो लोक वस्तेक वतात. रातीचें आळेण वांटून वचपाचें, ताज्जें फडफडीत नुस्तें धरपाचें आनी शीत म्हणटात तें लोणचें कशें तोंडा लावपाचें. ह्या सगळ्या दर्या देगांचें एक खाशेलेंपण आसा. हांगां मळ सोंपता आनी दर्या लागता. ताका लागून सगळ्याक भर दर्या देगेर सावें उदक मेळटा. म्हणटकीर रांदपाक उदक उणें पडना. हातूंतल्यो दोन सुवातो खाशेल्यो. एक शेंद्रेंची दर्या वेळ. थंय माडांचें कुळागरय आसा. आनी कुशीक गोड्या उदकाची झरय व्हांवता. दुसरें माट्टतळप. हांगां वेळच ना. आसा तें लांबचें लांब तळप. आनी ताचेर घस्स घस्स करीत येवन आपटुपी दर्या. पुनवेक वचपाचें आनी रात जागोवपाची.

ह्यो सगळ्यो काणयो आमी फकत हेरांकडल्यान आयकुपाच्यो. आमगेर नुस्तें वर्ज्य. म्हणटकीर वस्तीय वर्ज्य. दिसाउजवाडीं केन्नाय वचून आयले तितलेच.

माड्डीतळपावेल्यान दुसरे वटेन पूर्वेक दोंगरासकयल आमचो गांव वसला. दोंगरार काजू, आंबे, सायल, माट्टी अशे सगळ्या तरांचे रूख. दोंगर सोंपता थंय घरां. मुखार कुळागरां. कुळागरां सकयल शेतां आनी शेतांमदल्यान व्हांवपी वांकडी न्हंय, परत दुसरे वटेन कुळागरां, घरां, दोंगुल्ली आनी परत मळ. माड्डीतळपार उबो रावल्यार दुसरे वटेंचें मळ दिसता. ह्या दोन मळांमदीं सकयल दोंगुल्ल्यांच्या मुळसाकडेन आमचो गांव वसला. एका लांबलचक फोंडकुलांत. थंड शितळ. मनाकाळजाक शांतिकाय दिवपी.

माशेंच्यान लोलयांमेरेन लांबचें लांब शेत. मदीं थोडे माडांचे बांद. लोलयां गाळयांतल्या रानांतल्यान उदकाची न्हंय व्हांवता ती वाकडी-तिकडी जायत माश्यां वचून दर्याक मेळटा. हे न्हंयेभोंवतणीं आमच्या पूर्वजांनी गांव वसयलो.

न्हंयचे दोनय वटांनी शेतां. शेतावयर दोनय वटांनी कुळागरां. आनी कुळागरांनी आमचीं घरां. माड्डीतळपावाटेन काजळकेर जाल्यार दुसरे वटेन आगस. वयर मळार चडपी ल्हानश्यो दोंगुल्ल्यो. दोंगरावयर लांबचीं लांब मळां.

आमच्या आगस वाड्यार वचपाक निराकारा देवळाफाटल्यांतल्यान रस्तो वता. लोलयांमेरेन. पयलीं हो रस्तो नाशिल्लो. कुळागरांची धड सोंपून शेत लागता ताका आमी टांक म्हणटात. ह्या टांकावेल्यान पांयवांट वताली. एका भाटांतल्यान दुसऱ्या भाटांत वचपाक दरेकल्याचे आंकाडे. मदीं मदीं दोंगरांतल्यान येवन शेतांक मेळपी पांडी. पावसाचें उदक ह्या पांडींतल्यान व्हांवत सकयल येता आनी वाकडी न्हंय गिरेस्त करीत माश्यां देवळाकडेन दर्यांत भरसून वता. शेतांनी गोरवां व्हरपाचीं तींयबी पांडींतल्यानच. दर्याचें खारें उदक भितर सरचें न्हय म्हूण वचत थंय बांद. तातूंतल्यान उदक आडावन शेतां पिकोवपाचीं.

गांव शिकलो, नोकरे-धंद्याक भायर गेलो आनी शेतां आवय-बापूय नासून अनाथ जालीं. ताका लागून आतां शेतांनी मनशायेदें तण वाडलां. तें पळोवन भडभडून येता.

तेन्ना वर्साक भाताचीं दोन-दोन पिकां काडटाले. पावसांत सर्द आनी थंडी पडपाक लागतकीर वायंगण. पावसाचें उदक मात्शें देंवलें काय जुलयांत जोतां घेवन देंवले सगळे शेतांत. रोव मारून कणस फुलसर ऑक्टोबर येतालो. लुवन जातकीर मागीर शेतांक असोतसो दोन म्हयने सुशेग. धालां सोंपता म्हणसर डिसेंबरांत परत शेतांनी. बांद घालून खारें उदक आडावपाचें आनी लाटींनी, दोणींनी उदक काडून शेतां पिकोवपाचीं. कणस धरसर होळी येताली. ताचे पांच दीस पयलीं शिगम्याचे मेळ. घराघरांनी गोफ मारीत आनी तालगडी फुलयत घुमट-शेमेळाचे घुंवळेंत दरेका वाड्यावेलीं भुरगीं धरून जाण्टेमेरेन आख्खो गांव भोंवताले. एप्रिलांत परत लुवण. शेतांतच मळणेचीं खळां पडटालीं. जाण्ट्यांले धेंगशे खायत आमी तणार नाचप आनी लुविल्ल्या शेतांनी पुड्डे सोदप. मात्शे पुसप आनी मातयेसयत खावप. वर्साचे आठ ते णव म्हयने गांवचो लोक शेतांनीच मेळटालो म्हटल्यार जाता.

गांडे बांदाचे कुशीकच रेंवट शेत आसा. सोलयें म्हणटात ताका. सर्द जावचे पयलीं बांदे करप आनी कणंगां रोवप. संक्रांतीकडेन बांदे फोडून कणंगां काडप. तींयबी मातयेसयत खावप. कांय जाण ह्या शेतांनी कोबूय रोयताले. व्हडले दिवाळेकडेन तुळशी लग्नाक सगळ्यांगेर उसकांड्यांचो फार. धाकले दिवाळेक भात कांडून केल्ल्या तरातरांच्या फोवांचो भार.

गीम सुरू जालो काय दोंगरार काजी फुलताल्यो. घोटां आनी आंबेयबी. मागीर तन्ने बिबे धरून पावसांत किल्लोवपी बिबोळ्यांमेरेन आमीय काजींनी. फोगांचो रोस काडून हुर्राक आनी फेणी काडपाच्यो भाटयो पडटाल्यो. बियो विकून लोक जात्रा फुलयताले. आमच्यो चडश्यो जात्रा, काले आनी नाटकां ह्याच दिसांनी. दुसरे वटेन पावसांतल्या पुरुमेंताची तयारी. आंबे-पणसाचीं साठां घालप, भिंडां, अटंब काडून सोलां करप, कुंवाळे काडून वडयो करप, पापड सुकोवप हो वावरय चलतालो.

दोंगरावयर मळाचेर पावसांत कामतां. पूण ताची तयारी मात घराकडेन गिमा दिसांनीच सुरू. घरामुखार खानलां करून मिरसांग, वायंगीं, देठे, भेंडे अश्यो बियो रोवप आनी सद्दां उदकान शिंपप. पावस येयसर रोपे वयर सल्ले काय चल्ले सगळे रानांनी कामतां करपाक. सकयले रोपे व्हरून वयर लायतनाच तवशीं, मोगीं, चिबडां, घोसाळीं, दुदी, कुंवाळे, कारातीं अशी सगळ्या तरांचीं बियां रोवप. तेभायर कांय कुणग्यांनी नाचणें, हुडीद, मूग, कुळीदय लायताले. चवथ आयली काय मागीर सगळ्यांगेर खतखतें. आनी माटोळेक कामतांतल्या फळावळीचो शिरंगार.

आमचीं कुळागरां म्हटल्यार फकत माड आनी माडयो न्ही. घोटां, आंबे, पणस, निरपणस, पातपणस, पोपायो, केळी, तोरंगां, अटंब, व्हाळा धडयेर भिंडां, मदेंच खंय तरी एक-दोन जांब. तरातरांचीं फळझाडां. दरेकल्याच्या घरा कुशीक एक बांय. बांयचेर लाट. लाटीन उदक काडपाचें आनी मागांतल्यान सोडपाचें. कल्लीं घेवन शिंपपाचें. उदकान चिप्प भिजिल्लें कुळागर, सकयल शेत, न्हंय, पलतडीं परत कुळागरां. हाका लागून पुराय गांवांत शितळ वारें व्हांवता. अजूनय

म्हर्जी भुरगीं आनी नातरां लेगीत हांगां आयल्यार पिशीं जातात.

पयसो व्हांवचो अशें गांवांत कांय ना. पूण खावन-पिवन समृद्ध. घरामुखार कुळागरां, वयर दोंगरार काजी. पावसांत मळार कामतां. सकयल घराभोंवतणींय ल्हान ल्हान पोरसां. थंय तरातरांची भाजी, फळां आनी फुलां. दरेका घरा कुशीक एक गोठो जायच. गोठ्यांत बैल तितल्योच गायी-म्हशी. आज हांव मंगळुरा गोशाळा चलयतां ताचें रुजवण हांगांच घाल्लें दिसता. गोठ्याक लागून वता थंय शेणाचे थापे आनी दुदाचे व्हाळ. गाय व्हियेता काय म्हूण रावताले. मागीर वाड्यार सगळ्यांक पोस आनी चायबोयो. कुळागरांतल्या रोयणींचेर पावसांत अळमीं फुल्लीं जाल्यार वाडोभर अळमींच अळमीं. गिमांत घोटां धरून आंबे घोटीत रावपाचें आनी रसाळ पणस आनी बरकयांचो (कापे) फार. आंबे आनी पणसांचीं साठां, तवश्यांचें धोणस, चिबडाचें रसायण, शेवयो, दिवाळेकडेन फोव आनी चिरमुल्यो अशें कितें कितें म्हूण ना.

दरेकल्याच्या घरामुखार एक आंगण. खणून, पेटून फातरांनी घोंटून मागीर काळ्याच शेणान सारयिल्लें. आतांच्यो चकचकीत टायल्स ताचेमुखार कांयच न्ही. आंगणांत तुळस. तुळशीच्या लग्नाक कोबू. आंगणांभोंवतणीं तरेकवार फुलां. आबोलीं, गोंडें, चमेली, तरातरांचे चांफे. शिगमो आयलो काय घराघरांनी मेळ येतात. माटवांत नाचतात. गिमाच्या दिसांनी आमी चडशे माटवांतच. रातचें न्हिदप लेगीत कुळागरांतलो शितळ वारो घेत माटवांत. आयचो एसी ताचेमुखार फुकट. आजय हांव माश्यां वतां तेन्ना दिसाचोच माटवांत एक बरीशी लकणी काडटां. तृप्त जावन मंगळुरा येतां.

माश्यां निराकाराचें देवूळ जाल्यार लोलयां केशव आनी दामोदाराचें. गांवांतल्या चडश्या जाणांची कुळदेवता अंकोलेची आर्यादुर्गा. थंय यो वच त्रास जातात म्हूण आर्यादुर्गेचें एक देवूळ गांवांतय बांदलां. देवते देवूळ. त्याच देवळाफाटल्यान भाटांतच उक्त्यार एक बेताळ आसा. स ते सात फूट इतलो ऊंच. नागडो बेताळ. जीब भायर काडिल्लो. आमी तो पळोवपाक वताले. आनी मागीर रातीन सपनांत आंग काडून उठ्ठाले.

कित्याक म्हूण खबर ना. पूण माश्यां निराकारा देवळाकडले सगळे उत्सव चान्यांतले. लोलयेंचे मात सगळे उत्सव उमाशेचे. व्हडली जात्रा म्हटल्यार माशेंची चैत्रपुनव. व्हडल्या रथाची. सात रातींची. तेभायर कार्तिक पुनवेक सांगोड. दोन व्हड्यांचेर बांदिल्लो हो सांगोड निराकारा देवळाकुशीचे न्हंयेंत फेरयो मारता तें दृश्य पळोवपासारकें. आतां सांगडाचेर लायटी घालतात. पूण तेन्ना फकत पणट्यो पेटयताले. मागीर मागीर मेणवाती. दोनय व्हड्यांचेर मेळून लाकडाचो एक सांपळो कसो करतात. आनी ताचेर पणट्यो वा मेणवाती लायतात. आनी तळयेंत फेरयो मारतना कट्टेंतल्यान वाती पेटोवन उदकांत सोडटात. पुराय न्हंय बारीक बारीक दिव्यांनी लखलखून वता तें पळोवन कोणेंय पिशेंच जावपाचें.

लोलयां केशवा देवळाकडेन अक्तय (अक्षय तृतिया) आनी दामोदर देवाचो संवसार पाडवो. मात चैत्रपुनवे दिसा सांजे दामोदरा देवळाकडेनय ल्हान रथ ओडटात. निराकारा देवळाकडेन आसतात तशीं हांगांय दिवजां जातात. पूण गांव मात माश्यां निराकारा देवळाकडेन भरून ओत्ता. लोलयेंचीं हीं दोनय देवळां व्हडलीं. श्रीकेशव तर ग्रामदेव. गांवच्या वेगवेगळ्या वाड्यांवेले शिगम्या मेळ पासून केशवा देवळांतल्यानच भायर सरतात. पूण जात्रा मात हांगां भरना. ती माश्यांच.



आमचो बापूय भिकू राया भट. माळप्पा ताचो आजो. म्हटल्यार आमगेलो पणजो. आमी खंय पयलीं पै. मागीर भटपण करतात म्हूण भट जाले. केन्ना तें कोणाक याद ना. आमगेल्या दादाक, म्हटल्यार भिकू भटाक, दोन भाव. व्हडलो दामोदर. ताका शाणू देसाय म्हणटाले. आनी तिसरो नारायण. ताका नाना भट म्हणटाले. आमी ताका बाप्पा म्हणटाले. मुळांत आमी पलतडीन काजळकेर रावताले. राया भटाली बायल, म्हटल्यार आमगेली आजी, ह्या देसायागेरची. तिच्या भावाक भुरगीं नाशिल्लीं. म्हणटकीर म्हज्या व्हडल्या काकाक, म्हटल्यार

शाणूक (दामोदर) आगस वाड्यार देसायागेर पोसको दिल्लो. ताचे फाटोफाट आमीय रावपाक आगस आयले. कित्याक तें खबर ना. पूण एकाच घरांत चवथीक दोन गणपती पुजताले. एक देसायांलो आनी दुसरो आमगेलो भटांलो.

घरांत मदल्या सालांत शाणदाद रावतालो. आमी पडवेर रावताले. भायर एक वेगळी खोप काडून नाना भट रावतालो. म्हगेल्या दोगय काकांक परत भुरगीं जालीं नात. तातूंतल्या शाणू देसायान आमच्या पांच भावांमदल्या मनोहराक पोसको घेतलो. तोय शाणदादाभशेन मनोहर भटाचो मनोहर देसाय जालो. पयलो पोसको भाचो. दुसरो पुतणयो.

भिकू भटागेर जाल्लीं आमी स भावंडां. कृष्णाबाय सगळ्यांत व्हडलें. भावांमदीं सगळ्यांत व्हडलो वसंत भट. आमी ताका भाऊ म्हणटाले. दुसरो पोसको दिल्लो तो मनोहर. तिसरो हांव. चवथो गोविंद. ल्हान आसतनाच ताका दम्याचें दुयेंस जालें. ताका लागून तो लग्न जालोना. पन्नाशी हुपून साठी लागचेपयलींच तो भायर पडलो. सगळ्यांत धाकलो तो मोहनदास. ताका बाबू म्हणटाले. भुरगीं पसून ताका बाबूकाका आनी नातरांय बाबूआजो म्हणी.

म्हजो जल्म 27 डिसेंबर 1926.

आमकां पर्तगाळचो मठ सामको लागीं. लोलयें जातकीर पैंगीण. तो गांव सोंपता थंय पर्तगाळ. लोलयां आनी पैंगीणी मदीं गालजीबागची न्हंय. आनी पैंगीणीचे दुसरे वटेन तळपणची न्हंय. खोतिगांवांतल्या रानांतल्यान व्हांवत येवपी ही न्हंय पर्तगाळच्यान तळपणां वता आनी दर्याक मेळटा. हेच न्हंयचे देगेर गोकर्ण पर्तगाळ मठाच्या स्वामीन दुसरो मठ बांदलो. देऊळ रामाचें. ह्या मठांत वेदाभ्यासाची शाळा सुरू केल्ली.

आमचो दादा भिकू भट हांगांच भटपण शिकलो. मागीर भटपणाखातीर मुंबय गेलो. आमी मात सगळे लोलयांच. थंय ताच्या भटपणाचेर खूश जावन ताका कोणें तरी रुप्या ताट दिल्लें. तो मागीर पसून सदांच झेतान त्या रुप्या ताटांत जेवतालो. 1920 चें दसक सोंपतालें तेन्ना ताका जांबावले लक्ष्मीनारायणाच्या देवळांत भटपणाक आपयलें. तरीकय आमी लोलयांच रावतालीं. मागीर ताका

थंय रावपाक वेवस्थीत घर मेळ्ळें. फाटोफाट आमीय गेले. जांबावलेकार जाले.

तेन्ना जांबावले वचपाक मडगांवची बस धरप म्हटल्यार पयलीं लोलयेंच्यान काणकोणां चावडेर चलत वचप. गालजीबाग आनी तळपणच्यो दोन तारी काडप. हांव तेन्ना तीन वर्सांचो. म्हणटकीर हांव दादाच्या खांदार. तारयोय रोकडोच मेळनाशिल्लो. पलतडीन आसलो जाल्यार कुलो घालून आपोवप आनी तार येयसर वाट पळयत बसून रावप. दोन तारी हुपून चावडेर वचपाचें आनी कार्रेर धरून मडगांवां. मागीर थंयच्यान दुसरी कार्रेर धरून जांबावले. आज दोन–तीन वरांभितर माशेंच्यान जांबावले पावतात. तेन्ना फांतोडेर भायर सल्ल्यार सांजे जांबावले पावताले. तेंयबी तार आनी कार्रेरी बेगीन मेळ्ळ्यो जाल्यार. मागीर बऱ्याच तेंपान भाटपाळ, पर्तगाळ, पैंगीण, माशें असो रानांतल्यान रस्तो जालो. दोनय न्हंयांक व्हडलो रेवाडो घालून. आतां दोनय न्हंयांचेर पूल जाल्यात. सुपर हायवे जाला. मनोहर पर्रीकार मार्ग.

जल्माक येतकीर तीन वर्सांनी लोलयेंच्यान जांबावले हें म्हजे पयलें स्थलांतर. म्हजे जिणेंतली पयली भटकंती...





# जांबावलेचो पाय्टो

**जांबावली.**

प्रशासकी नदरेन पळयल्यार रिवण पंचायतीचो एक वाडो. पूण रिवण गांवांक म्हत्व ना तितलें म्हत्व ह्या एका वाड्याक. कारण हें दामबाबाचें थळ. मडगांवकारांचो ग्रामदेव. मडगांव ही आज दक्षिण गोंय जिल्ल्याची राजधानी. ताका गोंयची सांस्कृतीक राजधानीय म्हणटात. तितलेंच गोंयचें एक मुखेल वेवसायीक शार. वेपाराक वतले जाल्यार मडगांवां वचपाचें. खंय कांय मेळना तें मडगांवां मेळटा. आनी भावीक मडगांवकार मात जांबावले मेळटा. कांय ना जाल्यार दर सोमारा पालखेक नक्की. सरसकट पुराय साश्ट म्हाल जांबावलेच्या दामबाबाचो भक्त. हिंदू सोडातच, पूण क्रिस्तांव लेगीत तारवार वतलो जाल्यार जांबावले येवन राखणेचो प्रसाद घेतलेबगर बोटीर चडनाशिल्लो. धर्मांतर जालें तरी दामबाबाक विसल्लो नाशिल्लो. आजय ही दामबाबाची सासाय तशीच आसा.

जांबावले हो हेर गांवांभशेन थळाव्या शेतकारांनी वसयल्लो गांव न्ही. मडगांवां वेपार-वेवसाय करपी भाविकांनी वसयल्लो गांव. 1510 वर्सा पुर्तुगेजांनी गोंयचेर घुरी घाली. पयलीं इल्हॅश (तिसवाडी) आनी मागीर बारदेस आनी साश्ट म्हाल

जिखून घेतले. एका हातांत तरसाद आनी दुसऱ्या हातांत बायबल घेवनच पुर्तुगेज भारतांत आयिल्ले. आपलें राज्य प्रस्थापीत करपाखातीर तांणी बाटाबाटी सुरू केली. तेन्ना तिनीय म्हालांतलो भावीक हिंदू लोक देवाक उबारून घेवन न्हंयो हुपपाक लागलो. मडगांवकारांनी अशेंच म्हाड्डांतलें दामबाबाचें लिंग उखल्लें आनी रातयांत कुशावती न्हंय हुपली. मडगांवच्यान केपें, तिळामळ करीत ते आयले आनी जांबावले कुशावती न्हंयंत तांणी दामबाबाचें लिंग लिपोवन दवरलें अशें आमकां जाणटेले सांगताले. उपरांत रिवण देवान आनी प्रभून तांकां न्हंयेंपलतडीं जागो दिलो. देऊळ बांदपाखातीर. तें हें जांबावलेचें देवस्थान.

मडगांवच्यान जांबावले बशीन वतलो जाल्यार केपें, तिळामळ काडीत 22 किलोमीटर पडटा. रिवणां कोळंबा वचपाचो रस्तो वता ताचे दावे वटेन दोंगुल्ली जाल्यार उजवे वटेन लांबचें लांब मळ. ह्याच मळाचेर मठग्रामस्थांनी दामबाबाचें देऊळ वसयलें. ताचे भोंवतणी गांव वसयलो. गांव वसयिल्ल्यान जाल्लें देऊळ न्ही हें. देऊळ वसयिल्ल्यान जाल्लो गांव. गांवांत रावपी पुजारी, पैरीकार, सेवेकेरी आनी दोन म्हाजन. प्रभु हेगडे आनी भेंब्रे (मूळ प्रभु). परबुलें घर व्हडलें. पयलींच्यान ते जांबावलेच रावतात. हेगडे कोमिसांवांत येतकीर हांगां येवन रावले ते थंयच स्थायीक जाले. मडगांवां येवपा वचपाक तांचीच कार्रेर. दिसाक दोन वरारी. भटालीं चार घरां, वाजंत्री बी धरून धायेक पैरीकारांचीं घरां, धायेक गुरवांलीं घरां, वयर मळार रामराय प्रभुलो आनीक एक पसरो. एक कुंबार वाडो. देवळाची एक बांय, परबुगेरची एक बांय, रामनाथा देवळा फाटल्यान एक बांय आनी गोपाळकृष्ण भटागेरची एक बांय. गिमांत पाण्ट्याचें उदक.

दामबाबाचें आज आसा तें देऊळ पयलींचें मोडून नवें बांदलां. पयलींचें देऊळ गोंयच्या आदल्या देवळांवरी बसकेंच आशिल्लें. भायर सभामंटप, भितर चौक आनी गर्भकूड. देवळामुखार आर्क. दामबाबाचे उजवे वटेन लांबची लांब अगरसाळ. अगरसाळीचे फुडले वटेन भायल्यान देवते देऊळ. दावे वटेन मागीर मडगांवकारांक रावपाक कुडी काडिल्ल्यो. शिगम्याक आनी पिंडिकेक हांगां येवन म्हाजन आनी ग्रामस्थ रावताले. त्याच कुडींनी एक पसरो. थंय देवाक

दिवपाचे नाल्ल, फुलां, तेल, वात बी सगळें मेळटालें आनी जांबावलेकारांक जाय तो सगळो म्हाल. पसऱ्यामुखार म्हारांगण. ताचे दावे वटेन रामनाथ आनी मुळवीराचीं ल्हान ल्हान देवळां. दामबाबाची फाट आसा थंय अगरसाळी फाटल्यान निराकाराची घुडी. आतां ती देवते देवळाकडेन व्हेल्या.

फुडले वटेन आर्कामुखार एक व्हडलें पिपळा पेड. ह्या पेडार येवन दनपरां आड पडल्यार मळार व्हांवपी झुमझुमीत वाऱ्यार मस्त न्हीद लागता. ताचे आजूबाजूक सगळींच आऩीक चार पेडां. तातूंत एक नागाचें ल्हानशें पेड. दावे वटेन एक दसऱ्याचें पेड. दसऱ्याची पालखी ह्या पेडार वता. थंयच दाव्यान दाट वन. त्या वनांतय एक आंवाळ्या पेड. कार्तिक पुनवेच्या उत्सवाक दामबाब ह्या वनांत पालखेन वचून विश्रांती आनी वनभोजन घेता. थंयचे एक ल्हानशे अगरसाळेंत. उरिल्ले दीस तीच आमची शाळा.

देवळाफाटल्यान 200-300 मिटरांचेर कुशावती न्हंय व्हांवता. हे न्हंयेचेर न्हावपाचे कितलेशेच पाण्टे. मळ सोंपून न्हंय लागता थंय सकयल वचपाक पाण्टे केल्यात. ताकाच लागून घडये न्हंयेवेले हे सुवातेक पाण्टो म्हणपाक लागले जायत. ते न्हंयेंतल्यान वयर सरिल्ल्या व्हडल्या व्हडल्या रुखांची तेंगशी वयर मळाक तेंकता. पावसांत ही न्हंय उपाट भरून व्हांवता. सगळीं झाडां बुडटात. घसघस घालीत व्हांवपी न्हंयेंत फकत झाडांची तेंगशी तितली दिसता.

सगळ्यांत व्हडलो तो देवा पाण्टो. बाटाबाटेवेळार मडगांवच्यान हाडिल्लें तें लिंग हांगांच उदकांत लिपोवन दवरिल्लें. कार्तिक पुनवेक देव हांगांच न्हावपाक वता. म्हूण हो देवा पाण्टो. उरिल्ल्या वर्साचे तिनी त्रिकाळ गांवचो सगळो लोक ह्याच पाण्ट्यार न्हावपाक वता. पावलभर खळखळटें उदक धरून मुखार वता तितलो हो पाण्टो अगड जायत वता. माडभर अगड. आमी पोंवपाक हांगाच शिकले. चवथीचे सगळे गणपती हांगांच पावोवप. दुसऱ्या दिसा न्हातना त्यो तुटिल्ल्यो फुटिल्ल्यो मुर्तीं बूड मारून वयर काडप हो आमचो खेळ. माडभर खोल तळाक बुडी मारुन कोण सगळ्यांत पयलीं मुर्ती घेवन वयर येता तो जिखलो. हो आमचो खेळ. स्वास धरून रावन बुडी मारपाचो.

देवा पाण्ट्याचे वयले वटेन मेड्यां पाण्टो. ताकाच घोग्याचो पाण्टोय म्हणटात. हांगां पावसा दिसांनी घोगो घसघशांनी व्हांवता. देवा पाण्ट्याचे सकयले वटेन वाजंत्र्यांचो पाण्टो. ताका बायलांचो पाण्टोय म्हणटात. उत्सव आसता तेन्ना वाजंत्री न्हावपाक ह्या पाण्ट्यार वतात. नाजाल्यार भश्टेपणांत बायलांनी न्हावपाक वचपाचो हो पाण्टो. ह्या पाण्ट्यार आमकां वचपाक बंदी. वयर आनिकय एक पाण्टो आसा. चाफ्या पाण्टो. आमच्या कोणाच्याच घरांत न्हाणी, मान्नें ना. सगळ्यांनी पाण्ट्यार न्हावप. भायर पोरसांत तीन फातरांची रान्न. ल्हानशें भाण. आई फांतोडेर उठून थंय उत्क्यारच न्हाताली. नाजाल्यार गिमा दिसांनी तिळसांज जातकीर आई आनी दादा लाटण घेवन पाण्ट्यार वचून न्हावन येतालीं.

पाण्टो, देवळाचो वाठार आनी वयर लांबचें लांब मळ. हांगांय थोडीं घरां. तातूंत व्हडलें घर म्हटल्यार भेंब्र्याचें. ते देवाचे म्हाजन. मूळ परबू वा प्रभु. हेर सगळे मडगांव वा गोंयांत जळामळा आनी बाटाबाटीवेळार गोंय सोडून गेल्ले कारवार, कुमठा, मंगळूर मेरेन कर्नाटकांत आनी केरळांत कालिकत आनी कोचींतय. ते चडशे फकत उत्सवां वेळार येवपी वा कितेंय कार्य आसता तेन्ना देवाचो प्रसाद घेवपाक. चडश्या सेवेकऱ्यांचीं आनी भटांचीं घरां देवळा भोंवतणीं फुडल्यान फाटल्यान. मळार आयल्यान सातू भटाचें घर. मुळवीरा देवळाफाटल्यान संस्थानाचो पुरोयत विद्याधर भट रावतालो.

फाटल्यान पाण्ट्यार वतात थंय वाटेर दोन-चार क्रिस्तांवाचीं घरां. देवाक आयिल्ले क्रिस्तांव रातचे उल्ल्यार तांगेर पेइंग गॅस्ट कशे रावताले. प्रसाद फूल सकाळीं आठांक सुरू जातालें तें रातचें आरते पयलीं सोंपतालें. दनपरां अडेज ते सांजे स मेरेन क्रिस्तावांक प्रसाद. तांणी बसप लिंगाचे एके सायडीन. भितर चौकार तांकां प्रवेश ना.

प्रभु, हेगडे, पै, शणै, दुकळे हे हांगचे म्हाजन. हेर सगळे मडगांवकार ग्रामस्थ. ग्रामस्थांची चड गर्दी शिगम्याक. पिंडिकेवेळार मात फकत म्हाजन. उत्सवां वेळार बैलगाडयेंत पुराय संवसार घालून येताले आनी सात-आठ दीस रावताले. आतां आपापल्यो गाडयो घेवन येतात आनी न्हिदपाक परत आपापल्या घरा वतात.

तेन्ना अगरसाळींत चार हारींच्यो लांबच्यो लांब पंगती पडटाल्यो. उण्याच दोन पंगतींइतलो लोक जेवन वतालो. सकाळीं पेज, मागीर पाण्ट्यार न्हावप, दनपरां आनी रातचीं अगरसाळींत जेवणां आनी देवाक प्रदक्षिणा हो नित्यनेम.

शिगम्याक आनी पिंडिकेक दर रातचीं नाटकां. तेभायर कार्तिक पुनवेक सेवेकऱ्यांची देवळांत नाटकां. एकापरस एक कलाकार लोक ते. तांची गायन कला, अभिनय पळोवपासारको. उत्सवाच्या वेळार भार येतात. आश्वीन पुनवेक तापिल्ले कायलींतल्या खतखतीत तेलांत हात घालून वडे काडपी भारांचें तर आमकां सामकें अप्रूप. चैत्रांत रामनम, नवरात्रांत देवते देवळांत तरंगां, कार्तिकांत वनभोजन, फाल्गुनांत शिगमो आनी संवसार पाडव्याक पिंडिका. गांवांत गजबज तो इतलोच.

हे उत्सव सोडल्यार प्रसादाक वा अभिशेकाक येवपी म्हाजन वा मडगांवकारांचें यो-वच तितलेंच. नाजाल्यार जांबावले सगळें शांत, थंड. हांगाचो देव दामोदर, पूण विष्णू न्हय. शिव. अभिषेक प्रियो शिवः म्हणटात. कोणूय म्हाजन कुळावी आयल्यार म्हजो दादा तांकां जानवें घालून, दोन कोळशे हातांत दिवन, सोळा वांव राजून लागच्या देवा बांयचें उदक काडून देवा घाला म्हणटालो. केन्नाय पाण्ट्यार न्हायात आनी प्रदक्षिणा काडात म्हणटालो. किरिस्तांव आयल्यार सान्न घेवन पाण्ट्या वाट झाडून न्हाया आनी प्रदक्षिणा काडा म्हण सांगतालो. एकलो पैरीकार तर देऊळ, प्राकार आनी पाण्ट्यावेली वाट धरून पाण्ट्यार पसून झाडून निव्वळ करतालो. किरिस्तांव ताका पिशां दामोदर म्हणटाले. दादाच्याच न्ही, सगळ्याच भाविकांखातीर पाण्ट्याचें उदक हें वखदी तीर्थ.

सात-आठ वर्सांचो आसतलों हांव. म्हाका टायफॉयड जालो. जोर चडत आसतालो. मडगांवच्यान दादा वैद्यालें वखद हाडलें. तशेंच अगरसाळेंतलो व्हडलो तोप हाडून म्हाका त्या तोपांत बसयलें. आनी घालें थंड उदकाचें न्हाण. त्याशिवाय श्री दामोदराक एक हजार कोळशे भरून उदकाचो अभिशेक. थंड उदकाच्या न्हाणान जोर सडसडीत देंवलो. वखदान पुराय निवळ्ळों. पुंडलीक नारायण दांडे प्रोफेसर आनी एक व्हडलो कलाकार. आमचो म्हाजन. एक फावट

कांय कारणाक लागून ताची नोकरी गेली. दादाचें आयकून ताणें देवाक एक हजार कोळशे उदक घालें. दुसऱ्या दिसा नोकरेर परत यो म्हूण रकाद.

केन्ना केन्नाय मानसीक स्थिती बिगडिल्ले भावीक देवाच्या दारांत येताले. पिशें लागलें म्हणटाले तांकां. तांकांय तेंच भावार्थाचें वखद. पाण्ट्यार व्हरप आनी माथ्यार कळश्यांनी उदक घालून घसाघसा न्हाणोवप. 51 तुब्यां फुलां लावन दयेचो, राखणेचो प्रसाद घेवप.

लोलयेंच्यान जांबावले आयलों तेन्ना म्हजी पिराय फकत तीन वर्सांची. चड कांय कळनाशिल्लें. पूण पिराय वाडटा तसो हेर भांवडांवांगडा हांवूय जांबावले पुराय रमून गेल्लों. भावार्थाच्या न्हाणांत भिजून गेल्लों.





# भटालें घर

**आमचें** घर देवळाफाटल्यान. निराकारा गुडयेचे फुडल्यान. अगरसाळ सोंपून रावपाच्यो कुडी सुरू जातात थंयच. देवळाक फाट. पाण्ट्यावटेन फूड. हें पयलींच घर. ल्हानशेंच, पूण माळयेचें. उजव्यान शमणी, विनायक आनी फुडल्यान जयराम गजरे हांचीं घरां.

फुडें पडवी आनी मागीर साल. सालांत भितर कुशीक माळयेर वयर वचपाचीं सोंपणां. ताचे कुशीकच एक कूड. आयचे भाशेंत सांगप जाल्यार दादाचो मास्टर बॅडरूम. थंयच्यान भितर गेल्यार एक ल्हानशी कोठये कूड. ताचेकय फुडें भितर गेल्यार उजव्यान रांदची कूड आनी फाटल्यान बारीकशी पडवी. आंगण फाटल्यान. देवळांत वचपाक लागीं म्हूण फाटलें दारच फुडलें दार जाल्लें. माळयेर वयर गेल्यार उजव्यान एक कूड आशिल्ली. पूण माळयेचीं फळीं वयर-सकयल आनी मात्शे कुशीक गेल्यार तकलेक नळे लागताले म्हूण वापरप जायनाशिल्लें. आमचो भाऊ संगीत प्रेमी. तो आपल्यो संगिताच्यो मैफिली थंय फुलयतालो. शिगम्याक आयिल्ले लोक विश्रांती घेवपाक वयर माळयेर वचून आड पडटाले.

घरांत धायेक लोक. तेभायर कोण प्रसादाक आयिल्ले म्हाजन वा ग्रामस्थ

दनपारमेरेन वा सांजे उसरां मेरेन उल्ले जाल्यार जेवपाक आमगेर. तांकां सालांतच वाडप. दादा चडसो तांचेवांगडाच बसतालो. सगळ्यांक वाडून मागीर आई, आमची आजी (बा) आनी शेंवतें आका जेवतालीं. आईल्या बाळंटिरा वेळार बोरसांतली आजी (न्हेनी) येताली. तीय आसताली. तेभायर आमचे शाळेंत शिकोवपाक बोरसांतलो मामा येतालो. तोयबी आमगेरच रावतालो. आमी सगळीं दादा, आई, भुरगीं वांगडाच बसून केन्ना जेवलींच नात. आमी पांच जाणां. आमचें ताई कृष्णाबाय, भाऊ वसंत, मनोहर, हांव, गोविंद आनी बाबू.

जांबावले तशी पिकावळ साप्प उणी. नाच म्हटल्यार जाता. कारण पारंपारीक गांवांप्रमाण शेतकारांनी वसयिल्लो गांव न्ही हो. बाटाबाटेवेळार मडगांवच्यान लिंग काडून हाडून कुशावती न्हंयेंत लिपयिल्लें आनी मागीर न्हंयचे कांठार मळार देऊळ बांदून थंय ताची पुर्नप्रतिष्ठापना केल्ली. लांबचें लांब मळ तें. एकरांचे एकर. मदींच थोडे अस्तव्यस्त पसरिल्ले माड, हांगां एक पणस, थंय एक आंबो अशीं जळामळा झाडां. आईन घराफाटल्यान ल्हानशें पोरसूं केल्लें तितलेंच. नाजाल्यार केळी पानां हाडपाक लेगीत बद्द रिवणां वच्चें पडटालें. थंय रिवणां मात लोलयेंवरी कुळागरां, शेतां, भाटां सगळें आशिल्लें. गांवपणान वसयल्लो गांव. आमचे जांबावले म्हटल्यार मात निर्जन फकत देवळाभोंवतणची वस्ती.

प्रसादाक कळाव जालो वा निमणी कार्रेर चुकली काय अचकीत दादालो रकाद येतालो, रातचे इतले जाण जेवपाक आसतले. अश्या वेळार घस्स करून वाडिल्ल्या लोकांचो च्या-जेवणाचो आक्त घेवन बसप म्हटल्यार आईचेर येतालो काळ. फाटल्यान वचून कितेंय तोडून हाडटली म्हटल्यार कांय पिकावळय ना. कितें आसा तें घेवन रान्नीर चडोवपाचें.

नेसेसिटी इज मदर ऑफ इनव्हॅन्शन म्हणटात ताची जिती जिवी देख म्हटल्यार आमची आई. गरजेंतल्यान तिणें कितलिंशींच खाणां घडयिल्लीं. रसाळ पणस खावन जातकीर उरता ते मावेची करम खावची जाल्यार आईची. बरकयेची (कापो पणस) माव वेगळे तरेन रांदपाची. केळीचीं केळीं, केळफूल, बोंड सोडूनच दियात, केळी गाब्याची पासून रुचीक अशी भाजी करताली ती. एका

बटाटाच्यो कितल्योशोच भाज्यो. एक आलें-कोथमीर घालून जाल्यार दुसरी हींग आनी जिऱ्या पिठो घालून, तिसरी कांदो घालून जाल्यार चवथी कांदो, कोथमीर आनी करबेल घालून जाल्यार पांचवी फकत करबेल घालून. डबल रोटी हें तिचें वेळ साल्वार करपाचें इन्व्हॅन्शन. आनी रोटयेक लावपाक बटाटाच्यो तरातरांच्यो पातळ भाज्यो.

पापड करतकीर ते भाजपाचे, तळपाचे वा पापडाची किसमूर सगळेच करतात. पूण आमची आई पापडाचो रोसय करताली. आंबो खालो काय आमी काथो भायर उडयतात. आई मात काथ्याचोय रोस करताली. म्हस्का सांगांचो रोस जालोच, पूण म्हस्का फुलांचो रोस तर लाजवाब. तितलीच चाबून चाबून खावपाची म्हस्का शिगरांची भाजी. दाळी तर कितल्यो तरातरांच्यो. दाळींत केन्ना कांदो, केन्ना बटाट, केन्ना भेंडे, केन्ना घोसाळें, केन्ना तवशें, केन्ना मुळो, केन्ना म्हस्का फुलां जाल्यार केन्ना कारातें. आनी दरेके दाळीची रूच वेगळी. आमच्या दादाची जीब रुचीक वाग. आनी ताचे जिबेक न्याय दिवपी आमची आई - आपल्या नांवाक पुराय न्याय दिवपी अन्नपुर्णा.

किल्ल म्हटल्यार दादाक जीव की प्राण. पावस आयलो काय रिवणां वचून दादा साकांनी किल्ल हाडटालो. आनी ही एकेक प्रयोग करीत किल्लाच्या प्रकारांचो किल्लोच उबारताली. त्या किल्ल्याचो किल्लेदार दादा जाल्यार आमी सरदार, भालदार, चोपदार. किल्लाची सुकी भाजी, पातळ भाजी, करम, तळिल्लो किल्ल, किल्लाचो रोस, किल्लाची दाळ कितें म्हूण ना. किल्लाच्या तरातरांच्या पदार्थांचो पावसच.

प्रयोगशाळाच उबारिल्ली तिणें खाणांची. सायण्टिशट कशी. आमच्या भाऊली व्हडली धूव उषान (बाळे) ह्या सगळ्या खाणांचें पुस्तक काडलां हालींच. पोटपुजा म्हुणून. त्या पुस्तकान तर आवृत्तींचे विक्रमच केले गोंयांत.

देवळामुखावेलीं पेडां बी काडून वयर आनीक एक अगरसाळ आशिल्ली. ती फकत कार्तिक पुनवे वेळार वापरताले. उरिल्लें वर्सभर ती आमची शाळा. श्री दामोदर शाळा. फुडें गोंय मुक्त जातकीर रस्त्याचे दुसरे वटेन सरकारी शाळा

जाली तेन्ना ही देवाची शाळा बंद पडली. शाळेची फी चार आणे. शाळेंत तीस चाळीस भुरगीं. एकूच मास्तर. थंय साक घाल्ले आसताले. पांयार मांडी मोडून बरोवप. शाळा सकाळीं 7 ते 10 मेरेन चलताली. मागीर घरा वचून आईन केल्ली फुटी काफी पिवप, साकर लायिल्ली रोटी खावप आनी मारप धांव पाणट्यार. मस्तपैकीं पोंवन आनी मस्ती करून बारा अदमासाक घरा येवप. पेज जेवप. तोंडाक लावपाक शाक, रोस वा हून उदका सार. ती रूच आजून तोंडांत लाळ हाडटा. परत सांजे दोन ते चार शाळा.

म्हजो मामा मास्तर आशिल्लो. तो बोरसांतल्यान येतालो. बोरूस म्हणल्यार काणकोणां, पैंगीणच्यान तीन चार किलोमीटर भितर. लोलयें गांवचे शिमेर. मामा हरशीं आमगेर रावतालो. बोरसांतल्यान येतना चलतच येतालो. सांजेचो भायर सरून वाटेर रातचो बाळ्ळी मठांत न्हिदतालो. फांतोडेर तीन चार वरां चलून जांबावले पांट्या वटेन येतालो. हाडाचो मास्तर. आमचीं हाडां कुटून शिकयल्ले पाडे आज न्हिदेंतल्यान उठयल्यार पासून आमी कोणीय घडाघडा म्हणटले इतले तकलेंत रिगल्यात. कविताय तश्योच. ताला-सुरार गावन.

शाळेंत नागेश कुराडो म्हजो जानी दोस्त. शिकपाभायर आनिकय कितें करपाची खूब उमेद. तिसरी शिकतना तो आनी हांव मेळून एक हस्त पत्रिका काडटाले. गांवांत तेन्ना लोकमान्य टिळकाचो केसरी येतालो. तो वाचप. चडशें कांय कळनाशिल्लें. पूण जें कितें कळटालें तें सेलाद फोलीर बरोवप. तेभायर जांबावलेचेर, देवळाचेर आनी कांय घडिल्ल्या घडणुकांचेर. धा सेलाद फोलींचेर केल्लें बरप म्हटल्यार आमची हस्त पत्रिका.

उत्सवांवेळार काले, नाटकां जातालीं. केन्नाय नाटकांच्यो येसायो पळोवपाक वचप. तांकां प्रॉम्प्टर लागताले. आमकां सगळे संवाद तोंडपाठ. तांचीं नाटकां सोंपलीं काय आमचीं सुरू. घराचे पडवेंत चादरांचे पड्डे बांदप आनी नाटकां करप. खेळपाक कांयच ना जाल्यार लगोऱ्यो आसताल्योच. वांगडा झगडीं आनी गट्टी फू.

मळार बाळकृष्ण प्रभु, पसरकार रामनाथ प्रभु, बान्शि वासुदेव प्रभु आनी सकयल भेंब्रे. तांचेमदलो लक्ष्मीकांत भेंब्रे मडगांव चर्चीच्या स्कुलांत प्रॉफसोर

आशिल्लो. पापा म्हणटाले आमी ताका. गोंय मुक्तीच्या झुजांत वावुरतालो आनी राष्ट्र सेवा दलांतय सक्रीय आशिल्लो. तो सांजे आमच्या भुरग्यांच्यो शाखा घेतालो. ताचे भाव येताले ताचेवांगडा. ते आमकां लाठी, लेझीम, कवायती बी शिकयताले. म्हजे जिणेंत शिस्तीचो पयलो धडो हांवें थंय घेतलो. राष्ट्रप्रेमाचेंय बाळकडू मेळ्ळें. ताचो पूत उदय भेंब्रे आज एक लोकप्रिय वक्तो, विचारवंत आनी लेखक जाला.

पूण म्हज्या नशिबांत जांबावले चड तेंप नाशिल्लें. दादाच्या मतान शिकप चड म्हत्वाचें आशिल्लें. तिसरे उपरांत ताणें जांबावलेच्यान म्हजी बिटकी कवळ्ळी. लोलयेंच्यान हांगां येता म्हणसर सुरू जाली म्हजी दुसरी भटकंती...





# मडगांव

**मडगांवचो** गुरुदास शणै कारो देवाक येतालो तेन्ना जेवपाक आनी रात जाल्यार रावपाकय आमगेर आसतालो. ताची आनी आमच्या दादाची बरी इश्टागत. म्हणटकीर तांचेभितर थाल्लें, तिसरी जातकीच म्हाका मडगांवां धाडप. हांवें तागेर रावन मुखार शिकप. तेप्रमाण चवथेक म्हजो हजेरीपट मडगांवां कोंबांत आशिल्ल्या श्री दामोदर विद्याभुवन शाळेंत लागलो.

आज मडगांव म्हटल्यार गोंयांतलें सगळ्यांत चड गजबजिल्लें शार. पूण तेन्ना ताका शार म्हणचें काय व्हडलो गांव म्हणचें अशें आशिल्लें. जांबावलेपरस मात कितलेशेंच व्हड. जांबावले एक कारेंर येवप म्हटल्यार आमकां केदें अप्रूप. हांगां क्कार्तेलाभुखार उबे रावल्यार कितल्योशोच कारेंरी येतना वतना दिसताल्यो. तेभायर क्कार्तेलावेल्यो पुलिसांच्यो गाडयो. मडगांवकार ग्रामस्थ कोणूय गाडी घेवन जांबावले आयलो जाल्यार आमी भुरगे गाडयेफाटल्यान धांवताले. हांगां पांच-धा मिण्टांनी एक तरी गाडी भुर्र करून गेल्ली दिसतालीच.

ह्या शाराक मडगांव नांव कशें पडलें हाच्यो कितल्योशोच काणयो म्हाका तेन्ना आयकुपाक मेळ्ळ्यो. पुर्तगेज चडश्या नांवांनी 'ड' ह्या अक्षराचे सुवातेर 'र'

वापरताले. देखून मडगांवांचेंय 'मारगांव' जाल्लें. पूण कांय जाणांच्या मतान हें मूळ मठग्राम. जांबावलेचो शिगमो मडगांवकारांचो. आनी तो मनयता ती मडगांवच्या ग्रामस्थांची संस्थाय मठग्रामस्थ हिंदू सभा. तांच्या मतान हांगां पयलीं खूब मठ आशिल्ले. म्हूण हें मठग्राम. पुर्तुगेज आयले आनी तांच्या धर्मांतराच्या धोरणाक लागून ते देवळां मोडून उडोवपाक लागले. तेन्ना मडगांवांतल्यान देवळांय गेलीं आनी मठय गेले.

दुसरें मत वेगळेंच. मडगांवचो चडसो वाठार साळ न्हंयचे देगेर आसा. उदकान फुगिल्ली मरड जमीन. ताचें जालें म्हाड्डु. कोंब हें एक म्हाड्डु. दुसरें म्हाड्डु दामबाबाचें लिंग आसा तें आयचें फातोड्डें. अश्या म्हाड्डुांचें तें म्हाड्डुगांव. ताचें ल्हवू ल्हवू करून जालें मडगांव.

पुर्तगेज राजवटींत मडगांव शार एक मुखेल बाजारपेठ म्हूण उबी जाली. साळ न्हंयेंतल्यान म्हाल घेवन तारवां मडगांवां येतालीं. साश्टीकारांचो बाजार मडगांवां तो जालोच, पूण आख्खें दक्षिण गोंय आनी गोंयच्या हेर वाठारांतल्यान लेगीत बाजार करपाक लोक मडगांवांच येतालो. आजपसून तिसवाडेचो क्रिस्तांव काजराचें लुगट काडपाक मडगांवच्या रोपा आळींतच येता. परंपरा आनी भावार्थाचे भावनेन.

तेभायर आज मडगांवची नगरपालिका आसा ती तेन्ना पुराय साश्ट म्हालाची आशिल्ली. काम्र द सालसेत म्हणटाले तिका. ताका लागून सरकारी प्रशासनाचीं सगळीं कार्यालयांय मडगांवां. पुराय साश्टींतल्या लोकांचें यो-वच चालूच.

तरीकय त्या दिसांनी आवंताद पातळिल्लें शार आशिल्लें तें. आतांभाशेन दुकानांची गर्दी ना. ऐसपैस रस्ते आनी पयस पयस फाफसल्लीं घरां. एकामेकांक तेंकून घरां आशिल्लीं तीं कोंब वाड्यारच. कोंब वाड्यावेले बरेचशे लोक वेपारी. जांबावलेचे ग्रामस्थ वा म्हाजन. जांबावले येवन वचून आसताले म्हणटकीर तांची संवकळ आशिल्ली. तेंकून तेंकून घरां आसलीं तरी कोंब वाडो होयबी एक गांवचो वाडोच कसो आशिल्लो. म्हणटकीर म्हाकाय परकी गांवांत आयलों अशें दिसलेंचना. आशिल्लें तें फकत एका ल्हानश्या शाराचें अप्रूप.

मडगांव क्वार्तेला फाटल्यान कोरेंटीनाक वच्च्या रस्त्यार दाव्यान गुरुदासबाब

काऱ्यालें व्हडलें घर. चौकी आनी वयर माळी. ताका पांच चलयो आनी दोन चले. दामोदर आनी रामनाथ. दामोदर (दामू) म्हजे बरोबर शिकतालो. शाळेंतल्यान येतकीर सगळीं चौकीभर धुडगूस घालतालीं. दोन वर्सा तांगेर रावन शिकलों. तिसऱ्या वर्सा म्हजी पोटली उखलून व्हेली शांतारामबाब दलालागेर. तोय नेमान जांबावले येवपी आनी आमच्या दादाक खूब लागींचो. ते तर पांच जाण भाव. तेभायर तांचीं बायलां, भुरगीं मेळून घरांत विशेक लोक. तातूंत हांव एक.

पयल्या वर्सा चवथी पास जालों. पूण इतल्यान दादाचें समादान जालेंना. मुखार शिकतलो जाल्यार तेन्ना पुर्तुगेज शिकप सक्तीचें आशिल्लें. उणींच दोन वर्सां. प्रिमेर ग्राव आनी सेगुंद ग्राव. म्हटल्यार तांची पयली आनी दुसरी. पुर्तुगेज भाशेची तोंडवळख.

विद्याभुवनाच्याच फाटल्यान दत्ता कुंकळ्ळेकार हो मास्तर एक इश्कोल चलयतालो. वयर माळयेर तो पुर्तुगेज शिकयतालो आनी सकयल ताचो भाव कृष्ण कुंकळ्ळेकार इंग्लीश. दोन वर्सां हांव पोर्तुगेज शिकलों. प्रिमेर ग्राव करतां म्हणसर काऱ्यागेर रावलों. मागीर दलालागेर रावन सेगुंद ग्राव पुराय केलें. एके युरोपियन भाशेची वळख जाली. भाशा शिकपाक म्हाका तेन्नाच्यानच आवडटालें. आमच्या कोंकणी, मराठी वा हिंदीपरस वेगळ्याच सभावाची ही युरोपी भाशा शिकतना मजा आयली. येतना-वतना आमीय एकामेकांक पाचारपः

"कोमो व्होसे इस्ता?"

"इस्तो बों."

म्हटल्यार, 'तूं कसो आसा?' 'हांव बरों आसां.'

भाशा गोड लागताली. पूण पुर्तुगेज सोलदादांची मात भिरांत दिसताली.

आमच्या लोलयां क्रिस्तांव लोक साप्प उणो. जांबावले पाण्ट्यार वतना वाटेर एक दोन-चार घरां. पूण मडगांवां व्हडल्या व्हडल्या गाडयांनी भोंवपी क्रिस्तांव भाटकार. आनी कुशीच्या गांवांनी तर सगळो क्रिस्तांवच लोक. आमचीं देवळां तश्यो तांच्यो इगर्जी. आनी आमच्यो जात्रा तशीं तांचीं फॅस्तां. म्हजेखातीर हें आनीक एक अप्रूप. नावेलेचें फॅस्त व्हडलें. फॅस्ताक वतना नवे कपडे घालपाची

पद्दत. पूण म्हजेकडेन नवे कपडेच नाशिल्ले. दामूले कपडे म्हाका ज्युस्त जाताले. ते चडोवप आनी फॅस्त फुलोवन येवप.

केन्नाय सुटये दिसा दामू आनी हांव कोलव्यां तागेले आज्जेगेर वचप. चलत. क्वार्तेला फाटल्यान एक व्हाळ आशिल्लो. तातूंत साळकां जातालीं. तीं काडून नाचयत कोलव्यां वचप. एक दीस कोलव्यां गेल्ले कडेन म्हाका दामून काजूबिये बशेन दोन-तीन बियो दिल्यो. येंडी बियो. हांव खंय जाणा येंडी बियो म्हटल्यार कितें तें? बऱ्यो घोस्तान खाल्यो. घे रातभर हागवण. कोंकणींत कोणूय गबाळो आसल्यार ताका येंडो म्हणटात. पूण म्हाका मात कोणेय येंडो हें उतर काडलें काय आजूय पोटांत कुळ्ळ जाता.

एक दीस घराफाटल्यान संडासाकडेन आयलो सोरोप. सगळ्यांची भिवन गुळी. लागींच माकू म्हूण एक मुस्लीम रावतालो. ताणें त्या सोरपाक धांवडायलो. पूण सोरोप गेलो काय ना हाची कोणाकच खात्री ना. सगळ्यांचीच भिवन गुळी जाल्ली. रातीन सगळ्या जनेलांचेर म्हस्का झाडाचे ताळे दवल्ले. म्हस्का पाल्याच्या वासान सोरोप येना खंय. कशीबशी अर्दकुटे न्हिदेंत रात काडली.

जांबावले नाटकां खूब पळयल्लीं. शिगम्याक ग्रामस्थांचीं, पिंडिकेक म्हाजनांचीं आनी कार्तिक पुनवेक सेवेकऱ्यांचीं. तेभायर रिवणां विमलेश्वराचे देवळाकडेनय नाटकां पळोवपाक आमी चलत वताले. पूण मडगांवां मात महाराष्ट्रांतल्यान कंपनीचीं नाटकां येतालीं. हांव 'संशयकल्लोळ' पळोवपाक विद्याभुवनांत गेल्लों. रातीन सुरू जाल्लें नाटक फांतोड जायसर चलतालें. आश्वीनशेठ आनी रेवती जाल्यार फाल्गुनराव आनी कृत्तिका अशीं मुखेल पात्रां. एकामेकांचेर दुबाव घेतिल्ल्यान तयार जाल्ले मजेशीर प्रसंग. आनी नाटकांत तिशेक पदां. कर हा करि धरिला शुभांगी, मजवरि तयांचें प्रेम खरे, संशय का मनी आला, हा नाद सोड सोड, ह्रदयी धरा हा बोध अशीं एकापरस एक नाट्यगितां. आनी गावपी तितलेच खांपे. मागीर कितलोसोच तेंप तींच पदां तोंडार घोळटालीं. आजय याद जातात.

ताच्याकय व्हडलें अप्रूप सिनेमांचें. जांबावले आसतना केन्नाय देवळाच्या

सभाघरांत ल्हानसो धवो पड्डो लावन आनी गर्रर्र करीत भोंवपी प्रॉजॅक्टराचेर रिळां चडोवन दाखयिल्ले सिनेमा पळयिल्ले. पूण हांगां मडगांवांत भव्य पड्ड्याचेर सद्दां सिनेमा दाखयताले. आज नगरपालिकेचें गार्डन आसा थंय तेन्ना 'रॅक्स' नांवाचें सिनेमा थेटर आशिल्लें. पत्र्यांचें. फाटल्यान थोडीं कदेलां आनी मुखार जमनीर बसपाक जमखान. तिकेट चार आणे. थंय 'संत तुकाराम', 'ज्ञानदेव' अशे सिनेमा पळयिल्ले. रेडो वेद गायता, सोपान, ज्ञानदेव आनी मुक्ताबाई बशिल्लेकडेन वणतच उडत वता, तुकारामाच्यो गाथा इंद्रायणी न्हंयंत बुडयतात तेन्ना त्यो उफेवन वयर येतात, संत तुकारामाक व्हरपाक पुष्पक विमान येता आनी तो विठ्ठल विठ्ठल करीत मळबांत वयर वयर करीत सदेह वैकुंठाक वता ते प्रसंग पळोवन आमी धन्य जाल्ले. वतना तो गायता तें "आम्ही जातो आपुल्या गावा, अमुचा रामराम घ्यावा" हें गीत तर आजूय तोंडार घोळत आसता. आनीक दुसरें एक गीत तर जिणेचें तत्वज्ञानच सांगताः

आधी बिज एकलें
बिज अंकुरले, रोप वाढलें
एका बिजा पोटी
तरु कोटि कोटि
जन्म घेति सुमने फळें

1940 च्या अदमासाक शिक्षण पुराय करून हांव परत जांबावले पावलों. चवथी पास जाल्लों. सेगुंद ग्राव जाल्लों. पूण मजा म्हणल्यार हातांत एक्लूय सर्टिफीकेट नाशिल्ली. तांणी दिलीयना. हांवें मागलीयना. कोणाक ताचें भानच नाशिल्लें.





# पांच पांडव

**जांबावलेचें** आमचें घर म्हटल्यार धर्मशाळा कशी. केन्ना कोण भितर सरत नेम ना. म्हाजन आयले जाल्यार जेवपाक आमगेरच. आनी कोणूय ग्रामस्थ प्रसाद घेवपाक कार्रेरीन आयलो आनी कार्रेर परत मडगांवां वचसर पाकळी झडलिना जाल्यार तींय जेवपाक आमगेरच. सकाळीं च्यायेकय आमगेर. ना म्हटल्यार रामनाथा देवळाफाटल्यान तेलंग श्रीधर शणैली खानावळ आशिल्ली. तरीकय शिताचीं तपलीं आमगेर कितले फावटी रात्रीर चडटालीं नेम ना. दादा देवळांतल्यान केन्ना कोणाक घेवन भितर सरत हेंय सांगू नजो.

पूण आईन केन्नाच तोंड वाकडें केल्लें म्हाका याद जायना. आईचें नांव अन्नपुर्णा. नांव सार्थ करपीच हात तिचो. एकापरस एक रोस आनी भाज्यो आईनच करच्यो. सादी बटाट शिनपाक आदोळेर बसली जाल्यार कातरून ताटांत उडयिल्ल्यो बटाटाच्यो शिरो पळयत बसचें. मिशीनांत घालून कातरिल्लेभशेन. एक ल्हान ना, एक व्हड ना. ज्युस्ता ज्युस्त. आमी शिवराक. कांदो आनी लसूणपसून ना. तेभायर जांबावले काय शेतकारांनी वसयिल्लो गांव न्ही. पोरसांत कितें पिकता आनी मडगांवच्या बाजारांतल्यान केन्नाय कोणी कितें हाडटा तातूंतल्यान आईन

जेवण करचें. पूण तिचे जेवणाचे प्रयोग चालूच आसताले. तिच्या हाताक रूच आशिल्ली. आनी आमच्या दादाचे जिबेक. तीच जीब आमकांयबी आयली. आईन आपले रांदची कुडीची प्रयोगशाळा केल्ली.

रात-दीस रांदा-वाडा-उश्टीं काडा. केन्ना खंय भायर सरली ना, सिनेमा वा नाटक पळयलें ना. एकदां कुळारा गेल्ली आनी वतना म्हाका घेवन गेल्ली. आमचें आजोळ बोरसांत. बोरूस तशें पडटा लोलयें गांवांत. पूण थंयच गालजीबाग न्हंय व्हांवता. आलतडीन पैंगीण आनी न्हंये पलतडीं लोलयें गांव सुरू. आनी तातूंतलो पयलो वाडो हो. बोरूस. तळपणची तार काडून चलत पैंगिणीं येवप आनी दोंगर चडून बोरसांत. व्हाळ हुपून पलतडीन बोरसांत मामालें घर. साकवावेल्यान कसरत करीत व्हाळ हुपप.

मामालें घर म्हटल्यार व्हडलो वाडो कसो. व्हडले चौकेचें घर. चौके भोंवतणीं एकेकल्याचीं बिराडां कशीं घरां. एके वटेन व्हडलो दरबार कसो हॉल. जमीनदाराक सोबसारको. थंय एके वटेन वण्टीक तेंकून सगळीं शस्त्रां दवरिल्लीं. तलवारी धरून आर्मांमेरेन सगळ्या तरांचीं. दसऱ्याक शस्त्रपूजन जाता. चवथीक तर सगळें घर भरून ओत्तालें. कोण खंय घर सोडून दुसऱ्या गांवांत गेल्ले ते लेगीत चवथीक येतालेच. गांवांतलो सगळ्यांत व्हडलो गणपती मामागेर. ताका उखलून सकयल व्हाळाचेर बुडोवपाक व्हरपाक चार-चार मनीस लागताले. घराभोंवतणीं व्हडलें कुळागर. कुळागरांत माड, माडयो, आंबो, पणस, पोपायो, केळी, अटंब, म्हस्का झाडां कितें म्हण ना. सगळ्या तरांचीं फळां आनी फुलां. आमच्या लोलयेंच्या घरापरसय व्हडलें भाट.

आमी बोरसांत गेल्लीं. हांव आसत चारेक वर्सांचो. दोन दीस म्हगेल्या मामागेर रावन मागीर आमी तिगेल्या मामागेर गेले. तिगेलें आजोळ कडवाड. म्हटल्यार कारवारा. कारवार म्हटल्यार भारत देश. आनी गोंय पोर्तुगालांत. म्हणटकीर कार्रेर फकत पोळ्यांमेरेनच वताली. आमकां कडवाड वच्ची वाट रानांतल्यान. बोरसांतल्यान वयर रानांत चडप आनी मळावेल्यान उबे फातराकडल्यान शीम हुपून मुडगेरी वचप. मुडगेरीच्यान असनोटी.

थंय काळी नदी लागताली. येदी व्हडली न्हंय हांव पयलेच फावट पळयतालों. हांवें पळयल्ल्यो त्यो न्हंयो गालजीबाग, तळपण आनी कुशावती. आमगे कुशावती म्हटल्यार तर सामकीच अरूंद. ते मानान गालजीबाग आनी तळपण बऱ्योच रूंद. तरीकय आलतडच्यान तारयाक पलतडीं उलो घालचो आनी तेवटेच्यान तारयान कुलो घालीत येतां येतां म्हूण हात करचो. पूण काळी न्हंय केदी. पलतडचें कारवार येदेशें दिसतालें. उदक काळेंशार. आमच्या जांबावले पाण्ट्याभशेन न्हय. जांबावले पाण्ट्यांत तळाचें नुस्तें पासून दिसता. हांगां भितर नदर मारल्यारय कांयच दिसना. थंययबी तार आशिल्ली. गालजीबाग-तळपणचे परस मातशें व्हडलें व्हडें. व्हलाण्याचें. त्या व्हड्यांत बसून पलतडीन सुंकेरी बंदरार वचप. थंयच्यान परत चलत कडवाड. आतां कारवारच्यान कडवाड वचपाक रस्तो जाला. बशी आसात. आनी अस्नोटी कोंकण रेल्वेचें स्टेशनय जालां.

रघुपति भट हो तिगेलो मामा कडवाडच्या व्यंकटेश मठांत भटपण करतालो. मठाच्याच वाठारांत तांचेंय एक घर. माघाच्या म्हयन्यांत शुक्ल पक्षांत रथसप्तम येता. आनी मागीर माघ शुद्ध नम. आयच्या कॅलेंडराप्रमाण म्हणटले जाल्यार सादारण जानेवारी-फेब्रुवारींत केन्ना तरी. बरो व्हडलो उत्सव. रथसप्तमीक धाकलो रथ. आनी नमी दिसा व्हडलो रथ. लोक हो व्हडलो रथ ओडून विठोबाच्या देवळामेरेन व्हरतात आनी परत हाडटात. दोनूय वटांनी लोक उबो रावता आनी रथाचेर केळीं मारता.

आमगेली आजी येवन वचून जांबावले आसताली. दादाची भयण शेंवतें आकाय चडशें जांबावलेच आसतालें. दोगय जाणां माथ्यावेल्या पदराचीं. आज्याक पळयिल्ली म्हाका तरी याद जायना. आज्जेक आमी न्हिनी म्हणटाले. ती चडशी आईच्या बाळंटिरा वेळार जांबावले येताली. येतना बरें पणसा साठ बी करून हाडटाली. शेंवतें आका चडशीं भायलीं कामां करी. रिवणां चलत वचून केळी पानां काडून घेवन येई. तेन्ना खाण-जेवण केळीं पानांचेर. नाजाल्यार पत्रावळ. तें सगळें शेंवतें आका करी. कश्टी जिणें ताचें. ना भुरगें ना बाळ.

आमी स जाणां. एक धूव आनी पांच पूत. सगळ्यांत व्हडलें कृष्णाबाय.

ताई म्हणटाले आमी ताका. वाटकुळ्याच तोंडाचें. परकर घालतालें. 14-15 वर्सांचें आसतना ताचें लग्न जालें. तेंयबी बद्द धारवाडा. थंयचो गोविंद भट म्हूण रेल्वेंत पे क्लार्क म्हूण रिटायर जाल्लो. पे क्लार्क म्हटल्यार आमकां दिसलें कोण तरी व्हडलो ऑफिसर. ताचो पूत लक्ष्मीनारायण. तोयबी रेल्वेंत तिकेट चॅकर म्हूण कामाक लागिल्लो. ताका नाना म्हणटाले. दोगय रेल्वेंत. धारवाडा व्हडलो बंगलो. भट बंगलो सैदापूर म्हटल्यार धारवाडा फामाद. धारवाड बस स्टँडार वा रेल्वे स्टेशनार देंवचें आनी टांगेवाल्याक भट बंगलो म्हूण सांगचें. ज्युस्त हाडून घरामुखार सोडटाले.

ताईचें लग्नय थाटामाटान जाल्लें. जांबावलेच. त्या काळार 700 रुपया हुंडो दिल्लो. 25 रुपयांचो शहापुरी शालू हाडिल्लो. काशिनाथ दामोदर नायक हें मडगांवचें एक प्रस्थ. व्हडलो वेपारी. ताची बायल थोडे दीस जांबावले येवन राविल्ली. आमगेर येवन वचून आसताली. ताईचो खूब मोग करी. ती म्हणपाक लागली, आमी लग्नाची बारात काडुंया. तांगेली शेवर्लेट गाडी आशिल्ली. ताचें टॉप काडूंक मेळटालें. ते उक्ते गाडयेंत बसोवन शाळेकडल्यान देवळामेरेन बारात काडिल्ली. सांगाताक गॅस बत्त्यो आनी वाजंत्री. म्हाका दिसता त्या काळांतली जांबावलेची ती पयली आनी निमणी बारात.

मागीर ताई धारवाड गेलें. खूब काम पडटालें ताका. तातूंत एका फाटोफाट बाळंटीर. पयल्याच बाळंटिराक ताका जांबावले हाडिल्लें. तेन्ना जांबावले दोतोर कोण ना. पोटांत दुखता म्हणटकीर जयरामाली आवय, बाया वैजीण, आयिल्ली. चडूच त्रास जावपाक लागले तेन्ना देसाय म्हणून एक दोतोर रिवणा आशिल्लो. ताका आपोवन हाडलो. 24 तास वळवळ्ळें. आमची भिवन गुळी. पयली चली जाली. नलन. ताईक सगळींच चार भुरगीं. मागीर अशोक, कांचन आनी कामाक्षी. चवथ्या वेळार बाळंत आसतनाच ताईक न्युमोनिया जालो. भुरगें जालें, पूण ताई भायर पडलें.

नानान मागीर दुसरें लग्न केलें. घरचे घराच. दादाली एक भयण चिना(आका) लोलयां लग्न करून दिल्लें. ताका पांच भुरगीं. व्हडलें सुमित्रा(आका) लोलयेंच्या

गोपिनाथ आचार्याक दिल्लें. दुसरें कमल. ताचें लग्न नानाकडेन जालें. तिसरें अमरावती पैंगिणी वासुदेव फळदेसायाक दिल्लें. कांतू फळ म्हणटाले ताका. निमणे दोन पूत. वासुदेव आनी केशव. कमलाक परत नानाकडल्यान पांच भुरगीं जालीं. रामनाथ, रेवती, रोहिणी, निलिमा आनी रेखा. नानालो परिवार म्हटल्यार ताचेभाशेनच बरो गडगंज. वट्ट णव भुरग्यांचो. एकाफाटोफाट एक सगळीं ग्रॅज्युयेट जालीं. नानाक ताचो व्हडलो अभिमान.

ताईल्या लग्नावेळारच भाऊची मूज जाली. तोय देवळांत भटपणाक लागलो. मनोहराक केप्यां जुवीज कारापूरकारागेर रावन इंग्लीश शिकपाक घालो. फुडें ताका लोलयां आमच्याच घरांत दादालो व्हडलो भाव दामोदरान, म्हटल्यार शाणू देसायान पोसको घेतलो. म्हजे फाटलो गोविंद चड शिकलोय ना आनी लग्नय जालोना. ताका दम्याचें आशिल्लें. सगळ्यांत धाकलो बाबू. तो शिकलो, स्टेट बँकेंत लागलो आनी मॅनेजर जावन रिटायर जालो.

सामको ल्हान आसतना बाबूक लिव्हराचो त्रास आशिल्लो. मद्रासच्यान कोणें तरी हाडिल्लें वखद चलतालें. दादान ताका पाण्ट्यार घेवन वचप आनी उदारो न्हिदून ताका पोटार घेवन पोंवप. थंय न्हाल्यार तो बरो जातलो अशें तो मानतालो. तातूंतल्यानच बाबूय ल्हवू ल्हवू पोंवपाक लागलो. इतलो ल्हान आसतना पोंवपाक लागपी आमचे मदलो तोच. पावसांत पाण्ट्याक हुंवार येतालो. सकयल देंवपाचीं पंचविशेक सोंपणां बुडटालीं इतलें वेल्यान उदक व्हांवतालें. सकयलीं झाडां अर्दापरस वयर बुडटालीं. हुंवाराचें तें रौद्र रूप पळोवनच कोणाकय धडकी भरपाची. त्या हुंवारांत पसून दादान बाबूक घेवन उदकांत उडी मारप.

असोच एक दीस दादा आनी बाबू न्हावपाक गेल्ले. सोंपणां बुडून उदक वयल्यान व्हांवतालें. कुमठेचो दास शणै थंयच न्हातालो. ताणें म्हटलें, "बाबू ऊड." बाबून उडी मारून सोडली. त्या हुंवारांत बाबूलें कितें चलता? हुंवाराच्या लोटाबरोबर लागलो व्हांवन वचपाक. सगळ्यांचीच भिवन गुळी. व्हांवत व्हांवत बाबू लोटाबरोबर पलतडचे वटेन पावलो. दादा हे वटेन आलतडीन. अचकीत बाबूक पतलडच्या एका झाडाचो खांदो मेळ्ळो. तेद्याय भुरगेपणांत हुशार

आशिल्ल्या बाबून झाडाचे खांदयेक घट मिठी मारली. दादान आनी वेळ केलोना. तशीच माल्ली हुंवारांत उडी आनी व्हांवत व्हांवत पावलो बाबून धरिल्ल्या झाडाकडेन. आनी थंयच्यान बाबूक धरून त्याच हुंवारांतल्यान आलतड धल्ली.

पावस सोडत जाल्यार उरिल्ल्या दिसांनी पाणटो म्हटल्यार आमचें दुसरें घरच कशें. सुटयेच्या दिसांनी तर सकाळीं आठ-णवांक वचून पाण्ट्यार पडप ते बारां वरांचेर पेज जेवपाक वयर. मागीर दनपरां जेवन तीन-चारांक उदकांत उडी मारप ते सुर्याचो निरोप घेवन वयर. सगळे पोंवपाक थंयच शिकले. ताई भायर पडटकीर तागेलीं भुरगीं कांय तेंप जांबावले येवन राविल्लीं. तातूंत खासा करून कांचन आनी कामाक्षी तर बरीं पोंवपाक लागिल्लीं. पोंवप, स्वास धरून बुडी मारप, माडभर तळाक वचून थंय उडयिल्ल्यो मुर्ती वयर काडप, झाडाचेर वयर चडून वेल्यान सकयल उदकांत सूर मारप आनी वरांचीं वरां पोट वयर काडून मडें कशे उदकाचेर पडून रावप. आमचीं भुरगींय अशींच पाण्ट्यार पोंवपाक शिकलीं. गिमाच्या दिसांनी मागीर बदल म्हूण केन्ना केन्नाय आमी चलत रिवणां वताले. थंय एका भाटांत उदकाचो घोगो पडटालो. त्या घोग्याचेर न्हावप.

भुरगेपणांतली आमची अर्दी जीण उदकांतच गेल्या म्हटल्यार जाता.

देऊळ आनी ताचे भोंवतणीं थोडीं घरां आशिल्लीं तरी जांबावली तशें रानच. एक दीस एक वाग चाळवलो. गांवांत येवन पाडकां, रेडकां, कुकडां खावपाक लागलो. आतां कितें करपाचें? जांबावले वेल्या अगरसाळे फाटल्यान दामोदर केणी म्हणून एक जाण्टेलो रावतालो. तो ब्रह्मचारी. ताचे कडेन एक आर्म आशिल्लें. मुळवीरा देवळा फाटल्यान विद्याधर भटाचें घर आनी पोरसूं. पोरसांत एक बांय. वाग थंय येई. थंयच एक बोकडो बांदलो. आरती जातकच रातीन 10 वरांचेर सुमार केणीबाब आर्म घेवून विद्याधर भटाल्या घराच्या जनेलाफाटल्यान वागाक दपून बसलो. मध्यान रात लागीं येता म्हटल्यार खट खट आवाज आयलो. वाग बोकडी धरूंक पावता म्हणसर ढम्म.. ढम्म... गुळयो सुटल्यो. वाग गरगरत थंयच ठार. आमचें घर लागींच. पूण आमकां भुरग्यांक मात दुसऱ्या दिसा खबर कळ्ळी. तिखट मीठ लावन सांगिल्ली. आंगार कांटो हाडपी.

जितले जेवणा-खाणाचे दर्दी तितलेच आमगेले सगळे संगीत आनी नाटकांचे दर्दी. भाऊच्यो तर माळयेर संगिताच्यो मैफली चालूच आसताल्यो. भाऊ पेटयेर जाल्यार पसरकार पोमू दाद तबल्यार. वीणाय शिकतालो. नाटकांनी तर सगळेच पार्ट करताले. सोडून हांव. ल्हान आसतनाच गोंयच्यान पयस गेलों आनी नाटकय म्हाका पयसावलें. बाबून पासून नाटकांनी कामां केल्यांत. गोविंदान कामां केलीं नात. पूण संगीताच्यो मैफली आनी कंपनीचीं नाटकां मात चुकयनाशिल्लो. रामनमीक नाटकां पळोवपाक पर्तगाळी पासून वतालो.

मनोहर तर नाटकांत सामकोच तरबेज. गायतालो, पार्ट करतालो आनी नाटकां बसयतालोयबी. बायलांचेय पार्ट करतालो. अभंग, भजनांय करपी. ताची घरकान्न सुलू (सुलोचना आनी लग्ना उपरांत शोभा) तशेंच. बरें गावपी आनी नाट्यकलाकारय. सुब्राय शणै बुयांवाली ही व्हडली धूव. म्हारांगणाकडलो पसरो तीं चलयतालीं. थंयच नाटकांतल्यान दोगांयचें जुळ्ळें. 'एकच प्याला' नाटकांतलो सुलूचो सिंधूचो पार्ट आजून सगळे याद काडटात. मनोहरानय केल्लो तो याद काडटात. दोगांय जितलीं बरीं कलाकार तितलींच स्वातंत्र्य लढ्यांतलीं झुजारी. सत्याग्रह करून दोगांनीय बंदखण भोगल्या. अभिनय, संगीत, साहित्य, देशसेवा, समाज सेवेचें आदर्श जिणें तांचें. लग्नानंतर दोगय घोव-बायलांनी कश्टीक जिणे भोगलां. लोलयेंचीं आमचीं तांचीं भाटां शेतां तांणीच पळयल्यांत.

ल्हानपणासावन मनोहर एकलोच लोलयां आनी जांबावले अशें करीत आसतालो. थोडो तेंप शिकपाखातीर केप्यां कारापूरकारागेर रावतालो. तागेलो पोसको बापूय शाणदाद हो बरो चिकित्सक आनी हुशार वाचक. नेमान लोकमान्य टिळकांचें 'केसरी' वाचतालो. स्वातंत्र्याचेर तावातावान उलयतालो. मनोहराचेर घडये ताचेच संस्कार जाल्ले आसत. कारण शिकतां शिकतांच मनोहरय गोंयच्या स्वातंत्र्यलढ्यांत पडिल्लो. आनी ताका ताच्या पोसक्या बापायचो तेंकोय आशिल्लो. फुडें मनोहर गांधीवादी चळवळींत घुस्पलो, तितलोच कट्टर लोहियावादी जालो. डॉ राममनोहर लोहियाच्या अभ्यास वर्गांखातीर बेळगांवां वचून येतालो. दुसरे वटेन म्हजेर राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे संस्कार जाले. हांव

संघाचो स्वयंसेवक जालों. पूण आमच्या दोगांयमदीं केन्नाच वाद जाल्ले म्हाका याद जायनात. उलट एकामेकांविशीं आपुलकीच चड. कारण निमणे दोगूय चळवळे.

आमी पांचय भावांनी एकामेकांक सोडूंक नाशिल्लें निमाणे मेरेन. पांच पांडव कशे. आनी भाऊ म्हणटा तो खरेंच धर्मराज. हांव आर. एस. एसांत गेलों तेन्ना कॅम्पाक म्हाका 50 रुपया फी भरची पडटाली. हांवें भाऊक चीट बरोवप. दादाक, म्हज्या बापायक केन्ना बरोवप ना. भाऊ म्हाका पयशे धाडटालो. लग्न जातकर हांव बायलेक घेवन गोंयां येतकीर गाडी करून आमकां भोवंडावपीय तोच. हांव पयस आशिल्लों, पूण म्हजी नेमान वासपूस ताणेंच चड करप, पयशे जाय काय विचारप. खऱ्या अर्थान कुटुंबाचो मुखेली कसो वावुरलो. मनोहर चड घरा भायरच उरलो. गोविंद निमाणे मेरेन लग्न जालो ना. बाबू बेंकेचो ऑफिसर, सामको शिस्त प्रिय. भाऊलो आर्थिक वेव्हार, भुरग्यांले शिक्षण हाची वासपूस तोच करी.

पूण ह्या भावांचो वांगड म्हाका ल्हानाचो व्हड जातना जाय तितलो मेळ्ळोना. कारण मडगांवच्यान जांबावले येयसर रोकडीच सुरू जाली म्हजी आनीक एक भटकंती.





# सात न्हंयांपलतडीं

**साता** समुद्रापार एक जग आसा म्हूण आयकल्लें. थंयच्यानच दर्यांतल्यान येवन पोर्तुगीज आमचेर राज्य करताले जाल्यार भारताचेर ब्रिटीश. पूण म्हजे जिणेची नवी सुरवात साता न्हंयांपलतडीं एका पुरायपणान अनवळखी गांवांत सुरू जातली हें खबर नाशिल्लें. म्हजी पिराय तेन्ना 15 वर्सांची. 1941. सेंगुद ग्राव पुराय करून हांव मडगांवच्यान परत जांबावले आयिल्लों. अर्थात, गांवांत पावलों म्हूण भुल्लुसून गेल्लों. भाव आनी इश्टांवांगडा मळां आनी रानां पाड घालूंक लागिल्लों, पाण्ट्यार मनसोक्त बुडटालों.

माघाच्या म्हयन्यांत म्हजी मूज जाली. मूज म्हटल्यार व्रतबंधन. वेदाभ्यास शिकपाक काशी वचप. आतां ती फकत परंपरा म्हूण तिगून उरल्या. पूण म्हज्या नशिबांत मात खऱ्यांनीच व्रतबंधन आशिल्लें. मंगळूर आयल्यान कार्कळ म्हूण गांव आसा. थंय रावपी सदानंद हेगडो जांबावले देवाक पाविल्लो. म्हजी मूज जाली म्हूण कळटकीर ताणें दादाक सांगलें:

“कार्कळा एक चांग संस्कृत पाठशाळा आसा. श्रीधराक थंय धाड. संस्कृत शिकतलो.”

“जायत”, दादाक कल्पना भावली, “पूण रावप-जेवप कशें कितें?”

“थंय रावपा-जेवपाची वेवस्था आसा. पयलीं आमगेर रावका. मागीर पाठशाळेंत. पेटय ताका कूडले.” (धाडून दी ताका रोकडोच)

इतलें सांगून सदानंद हेगडो गेलो कार्कळा. भटांनी वेदाभ्यास शिकप आनी संस्कृत पंडित जावन घराण्याची भटपणाची परंपरा मुखार व्हरप ही तेन्नाची रीत. तेन्ना फोनबी कांय ना. वतना पत्तो दिवन गेलो. दादान रोकडीच म्हजी वचपाची तयारी सुरू केली.

आतां केन्नाय भुरगीं वा नातरां विचारतातः

“तुका कांय वायट दिसलें नाव्हें? घर सोडून वच्चें म्हणून?”

पूण हांव खंय जाणा आशिल्लों हांव खंय वतां म्हूण? लोलयेंच्यान जांबावले आयिल्लों. थंयच्यान शिकपाक मडगांवां गेल्लों. तसोच आतां कार्कळ. शिकपाचो नवो गांव. नवी शाळा. उलट इल्ली उमेदच जाल्ली. भाव आनी इश्टांचो सांगात चुकतलो म्हूण मात्शें वायट दिशिल्लें. ना न्ही. पूण इतलें न्ही. संवयशी जाताली.

बाप्पा, म्हटल्यार म्हजो काका नारायण भट, तेन्ना जांबावले आशिल्लो. ताणें म्हजी पोटली उबाल्ली. आईन वांगडा एक ट्रंक दिल्ली. तातूंत म्हजे कपडे, तुवालो बी. हांवें ट्रंक उबाल्ली. परत एक फावट हांवें कुशावती न्हंय हुपली. मडगांवच्यान आतां कार्रेर सरळ पोळ्यां मॅटामेरेन वताली. अर्दफोंडार तळपण न्हंयेचेर आनी पैंगीणी गालजीबाग न्हंयेचेर पूल जाल्ले. तेन्ना दोन तारी चुकल्यो. रातचे लोलयां घरा रावले. दनपरां जेवन आमी दोगय भायर सल्ले.

म्हजी नवी भटकंती सुरू जाली...

कार्रेरीचीं वाट पळयली ना. चलत वचून पोळें मॅट काडलें आनी माजाळे आमकां बस मेळ्ळी. थंयच्यान सदाशिवगड. परत एक फावट काळी नदीचें दर्शन जालें. व्हड्यांत बसून पलतडीं सुंकेरी पावसर सांज जाल्ली. पन्ना सावकार म्हूण एकलो जांबावले येतालो. तो कारवार रावतालो. रातचो तागेर मुक्काम केलो.

आयचो तिसरो दीस. फांतोडेर उठून कुमठाची बस धल्ली. वाटेर वतना पयलीं लागलें अंकोला. बाप्पान म्हाका सांगलें:

"हें अंकोला. तुगेल्या आईवाडच्यान बोरसांतली कुळदेवता श्रीआर्यादुर्गा हांगां आसा. पांय पड."

हांव रोकडोंच पांयां पडलों. पूण म्हाका मजाच दिसली. आमच्या लोकांची कुळदेवता हांगां म्हैसूर प्रांतांत. गोंयचे शिमेभायर भारत देशांत. आनी हांगां रावपी कितल्याशाच लोकांचो देव मात गोंयांत!

"आमच्या लोलयां देवते देऊळ आसा तें पळयलां न्ही तुवें? तें आर्यादुर्गेचें देऊळ. पूण हें मूळ देवस्थान. बांदल्यार दोन-अडेच शेंकडे जातले."

बशींतल्यान देंवले जाल्यार आनीक एक न्हंय. गंगावळ्ळीं. काळी नदीपरस ल्हान. तारींत बसले आनी बाप्पान तारयालागीं गजाली मारपाक सुरवात केली. आमच्या बाप्पाक बारीक सारीक गजालींची म्हायती जाणा जावन घेवपाची खूब उमळशीक. तांच्यो गजाली आयकतां आयकतां म्हज्याय गिन्यानांत भर पडटाली.

तांच्या गजालींतल्यान कळ्ळें, अंकोल्याक स्वातंत्र्य लढ्याचोय इतिहास आशिल्लो. 1930 वर्सा महात्मा गांधीन मिठाचो सत्याग्रह केल्लो तें हांवें वाचिल्लें. ते उपरांत खंय हांगांय सत्याग्रह जालो. सगळ्यांत पयलीं अंकोलेच्या दर्यावेळेर. ह्या सत्याग्रहाक हजारों लोक जमिल्ले खंय. स्वामी नित्यानंदान ते सभेक संबोधीत केल्लें. कितल्याशाच जाणांक अटक जाल्ली. सत्याग्रह मात फाफसत गेलो. कुंदापूर, उडुपी आनी मंगळूरमेरेन. सुमार 45 दीस हो सत्याग्रह चल्लो.

आयकून आंग शिरशिल्लें. हांव आनी म्हजो इश्ट नागेश कुराडो जांबावले लोकमान्य टिळकाचो 'केसरी' वाचताले ताची याद जाली. तें वाचून आमचे आमीच कांय देशभक्तीच्यो काणयो घडयताले. आनी कांय सेलाद फोली घेवन तांचेर बरयिल्ल्या ह्या काणयांचो पेपर काडटाले. चडशें काल्पनीक. पूण हांगां मात हांव प्रत्यक्ष खऱ्यो काणयो आयकतालों. मनांतल्यान म्हाका दिसलेंयबीः कितले भाग्यवान हे लोक? म्हाका ह्या प्रदेशाचें एक वेगळेंच आकर्शण निर्माण जालें.

चित्तां चित्तां कुम्मठा पावले. कुम्मठा हो आयच्या उत्तर कन्नडा जिल्ल्यांतलो एक तालुको. हांगां अघनाशिनी म्हूण न्हंय व्हांवता. बाप्पान एक मजेशीर गजाल सांगलीः

"जाणा मरे, गोंयांतय अघनाशिनी म्हूण एक न्हंय आसा. (आतां तिका

झुवारी न्हंय म्हणटात). बाटाबाटेवेळार थंयचो लोक हांगां येवन स्थायीक जालो तेन्ना घडये तांणीच हे न्हंयेक आनी गांवाक हें नांव दवल्लां आसतलें."

ताणें आपले भाशेन एक अदमास शेंवटिलो.

ते रातीं कुमठा म्हालांतल्या हेगडे ह्या गांवांत आमी भक्त शणैगेर रावले. तोय जांबावले येवपी वचपी. बाटाबाटेवेळार येवन हांगां राविल्लो गोंयकार. ही एक गजाल बरी आशिल्ली. गांव नवो आशिल्लो. पूण रातचे रावताले तें घर सामकेंच परकें नाशिल्लें. हांव तांकां सगळ्यांक वळखनाशिल्लों. पूण ते दादाक आनी बाप्पाक बरे वळखताले. सगळे जांबावले देवळांत येवपी-वचपी.

जेवणाचेर तांच्यो खबरो चलताल्यो त्यो आयकतालों. पुर्तुगेजांचे बाटाबाटीवेळार तांचे पूर्वज मडगांवचो देव जांबावले दवरून न्हंयो हुपीत ह्या वेगवेगळ्या गांवांनी येवन स्थायीक जाल्ले. वेगवेगळो धंदो, वेवसाय वा नोकरी करून जगताले. दर्यादिग लागींच आशिल्लें आमचें लोलयें आनी ह्या गांवांनीय तसो व्हडलोसो फरक नाशिल्लो. कोंकणी उलयताली ती मात्शी वेगळी आशिल्ली. पूण जांबावले देवळांत येवपी हे लोक आमगेर जेवपाकय आसताले. ताका लागून तांची कोंकणी कानार पडत आशिल्ली. तेन्ना भाशेचोय व्हडलोसो त्रास जालोना.

आज चवथो दीस. कुमठाची अघनाशिनी काडपाक व्हड्यांत बसले. बाप्पाल्यो सदचेभाशेन तारयाकडेन गजाली सुरू जाल्यो. तो सांगतालो:

"आमची ही अघनाशिनी न्हंयी पुरा नितळ आनी निवळ. उगम जाता शिरसी. त्या घाटांतल्यान येवनु हांगां अरबी समुद्राक मेळटा."

तारीन पलतडीं वचून आनीक एक बस धल्ली. होन्नावर वचपाक. बशींतल्यान वतना हांव वाठार नियाळटालों. आपूण खंय तरी परक्या गांवांत पावलां अशें दिसच नाशिल्लें. गोंयचेवरीच घरां. थोडींशीं नळ्यांचीं. चडशीं कोलवाचीं. कांय घरांक वयर ल्हानशी माळीय आशिल्ली. आमचेभाशेनच घरामुखार ल्हानशें पोरसूं. आनी ताचे भोंवतणीं वंय. करड आनी झोपांतल्यान वाकड्यो तिकड्यो वचपी पांयवाटो. बशींनी चडपी-देंवपी वा रस्त्यार दिसपी लोकांचो भेस मात मात्सो वेगळो. आमचेवरी धोतराचो कांसाटो मारिल्ले साप्प थोडे. चडशे लुंगी मारपी.

जांबावले येताले तेय तशेच लुंगी मारून येताले. देखून म्हाका तांचीय संवकळ जाल्ली. म्हाका दिसतालें हांव गोंयांतच खंय तरी भोंवतां.

हें सगळें पळयत नियाळत आमी पावले होन्नावर. आज रातीन मुक्काम सुब्बा हेगडेगेर. जेवन भायर सोप्यार बशिल्लेकडेन तांगेल्यो गजाली आयकतालों:

"होन्नावरु म्हुळ्यारी आदींसावन वेपाराचें केंद्र. अरब लोक वेपारा येवचें तेन्नासावनु. मसाल्याचो वेपारू. पयलीं अरबू आनी मागीर युरोपी पुर्तुगेज आनी ब्रिटिश व्यापारी. सगळ्यांत व्हडलो वेपारु मिरयांचो. सोळाव्या शेंकड्यांतु हांगां किल्लो बांदलो आनी अठराव्या शेंकड्यांतु ब्रिटिशांनी बांदले व्हडले व्हडले गोदाम."

ही जमीन इतली सुपीक आनी पिकाळ आसपाक आनीक एक कारण म्हुटल्यार हांगांची शरावती न्हंय. ह्या वाठारांतली सगळ्यांत व्हडली आनी सोबीत न्हंय. सह्याद्रीच्या रानावनांतल्यान देडशें किलोमिटरांवयर प्रवास करीत अरबी समुद्राक येवन मेळटा. ताचेपयलीं बरीच वयर रानांत एकदम फांकारता आनी अडेचशें मीटर उंचायेवेल्यान घसघस करीत कोसळटा. ह्या वाठारांतलो सगळ्यांत व्हडलो घसघसो. जोग (जोग फॉल्स).

दुसऱ्या दिसा सकाळीं भायर सल्ले तेन्ना हांवेंय बारीकसाणेन नदर माल्ली. हांगांय माड, माडयो, आंबे, पणस दिसताले. आनी दरेका माड-माडयेचेर आनी झाडांचेर लेगीत चडयिल्ल्यो मिरवेली.

न्हंय आशिल्लीय बरीच रूंद. ताका लागून तार काडून पलतडीं पावपाक खूब वेळ लागलो.

आज ह्या मार्गार कोंकण रेल्वे जाल्या. ह्या रेलमार्गावेलो दोळ्यांक सुखावपी पूल खंयचो आसत जाल्यार तो शरावती न्हंयेवेलो. कर्नाटक राज्यांतलो आनी कोंकण रेल्वे मार्गावेलोय सगळ्यांत लांब पूल. 2060 मिटरांचो. ताचे आज मळबांतल्यान काडिल्ले कितलेशेच फोटे पळोवपाक मेळटात. पुराय न्हंयेचेर वांकडोच पातळिल्लो लांबलचक सोरोप कसो दिसता. माडांनी आनी झाडांनी भरिल्ले जमनीवेल्यान सुरू जाता तो मर्दींच परत माडांनी घुसता आनी परत न्हंय

पार करून येता.

आतांय रेल्वेंतल्यान वतना ती न्हंय पळयतां तेन्ना, ती तेन्नाची तार, तो व्हांवपी शीतळ वारो, मदीं पावतकीर चारूय वटांनी भरिल्ली ती शांतताय, पोटांत उठिल्लो गुळो सगळ्यो यादी जोग फॉल्सावरी घसघश्यांनी कोसळपाक लागतात.

आज पांचवो दीस. पुराय दीस बस, तार, बस, तार असो गेलो. कितल्योशोच न्हंयों. वाटेर भटकळ लागलें. बाप्पाल्यो गजाली आनी म्हायती काडप चालूच आशिल्लें. हांव मनांत साठयतालों.

हेंयबी एका तेंपार वेपाराचें व्हडलें केंद्र आशिल्लें. तांचो वेपार अरबांलागीं जातालो. ते घोडे विकताले आनी हांगांचे लोक मिरयां. मदींच पुर्तेगेजांनी दोन फावट भटकळ जिखपाचो प्रयत्न केलो. पूण भटकळाचेर राज्य करपी राणी चेन्नाभैरादेवीन दोन फावटीं तांकां हारयले. देखून तांणी तिका नांव दवल्लें - रायना द पिमेंतो.

''म्हटल्यार मिरयांची राणी,'' हांवें म्हजी सेगुंद ग्राव पुर्तुगेज भायर काडली. बाप्पा खूश.

थंयच्यान बैंदूर सौपर्णिका न्हंयची तार आनी उप्पुंद न्हंयची तार काडली. वाटेर बशीन वतना मरवंतेचो सोबीत रस्तो लागलो. एके वटेन न्हंय जाल्यार दुसरे वटेन दर्याची वेळ. मदल्यान रस्तो. आमी न्हंयचे देगेवेल्यान वतात काय दर्या वेळेवेल्यान तेंच कळनाशिल्लें. मज्जा आयली.

बाप्पाकय म्हाका दिसता हो वाठार खूब आवडटालो. तो प्रस्नार प्रस्न विचारीत आशिल्लो, कोणाकोणाक. बशींनी, व्हड्यांनी, कोण मेळटा ताका. फुडें वतकीर आमकां गंगोळ्ळी न्हंय लागली. पयलीं खंय तिका पंचगंगावळ्ळी म्हणटाले. कारण दर्याक मेळचेपयलीं हांगां पांच ल्हान ल्हान न्हंयांचो संगम जाता. सौपर्णिका, वराही, केडाका, चक्र आनी कुबजा. आनी पुर्तुगेजांनी खंय हांगांय कांय तेंप राज्य केल्लें. सोळाव्या शेंकड्यांत गोंयचेर घुरी घालून पुर्तुगेजांनी बाटाबाटी केली आनी उपरांत कितलेशेच क्रिस्तांव जाल्ले गोंयकार हांगां येवन स्थायीक जाले. उपरांत सतराव्या शेकड्यांत पुर्तुगेजांनी हांगांय घुरी घाली. कारण

तेन्ना हें व्हडलें बंदर आशिल्लें. पूण अशीं तशीं पंचविशेक वर्सां. तितलेभितर ताणी थंय एक चर्चपासून बांदली. फुडें पुर्तुगेजांक धांवडयतकीर ती मोडली. तेन्ना ह्या वाठाराचेर राज्य चलतालें तें नायक घराण्याचें. मागीर फुडें नायकांची एक राणी राज्य करपाक लागली आनी तिणें ती चर्च परत बांदली. आजय थंय क्रिस्तांवांची वसती आसा. तांचीय आडनांवां खंय नायक म्हूण आसात. म्हाका ही मजाच दिसली.

थंयच्यान कुंदापूर पावले. थंय गजालींतल्यान बाप्पान खबर काडली ती तर सामकीच मजेशीर आशिल्ली. कुंडवर्मा म्हूण एक राजा आशिल्लो खंय. ताणें पंचगंगावलीच्या क्षेत्रांत कुंडेश्वराचें देऊळ बांदलें. ताचेवेल्यान ह्या वाठाराक कुंदापूर म्हूण नांव पडलां आसतलें. ह्या ल्हानशा शारांत सगळ्याच वाटांनी उदक लागता. एके वटेन गंगोळ्ळी, दुसरे वटेन कलाघर न्हंय. जाल्यार दोंगरावटेन दोनय न्हंयांक जोडपी खाडयेचें उदक. पश्चिमेक अरबी समुद्र.

थंयच्यान पावले ब्रह्मावर. हांगां परत दोन न्हंयो लागतात. पयलीं लागता सीता न्हंय. आनी उपरांत ब्रह्मावराचे दुसरे वटेन सुवर्णा न्हंय. परत दोन तारी. बाप्पा विचारतालो, तारयो सांगतालो, हांव आयकतालोंः

"ह्यो दोनय नदी हंगारकट्टे मेळटाची आनी हातांत हात घाल्नु अरबी समुद्रांत वताची. हांगां ब्राह्मण वसती मस्त. म्हुण्णू हें ब्रह्मावर."

ह्यो दोनय तारी काडून आमी उडुपी पावले. थंय आचार्य म्हणटात तागेर पावले. नांव आतां याद जायना. दीसभर बस-तार-बस-तार करीत जीव जाम जाल्लो. बाप्पाक कळ्ळें दिसता. ताणें सांगलेंः

"जाले हां, पावले आमी. फाल्यां कार्कळ पावतले. आज प्रवासाचो निमणो दीस. आनी हाचेफुडें तार लागचिना."

इल्ले इल्ले करून आमी दर्याचो वाठार सोडून दोंगरावटेन वताले तें कळटालें. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर बस धल्ली आनी सकाळींच कार्कळ पावले. बाप्पान वासपूस करीत सदानंद हेगड्यालें घर सोदून काडलें. म्हजो मुक्काम आतां तागेर. हें म्हजें नवें घर.

पांच दिसांचो प्रवास करून सव्या दिसा आमी कार्कळ पाविल्ले. देवाक मेळपाक हेगडोमामासारके कितलेशेच लोक जांबावले येताले. ते इतलो प्रवास करून येताले? कितें ही देवाची सासाय?

बाप्पान मात सुशेग घेतलोना. दनपरां जेवन तसोच परतो वचपाक भायर सल्लो.

"बरो करून शीक हां" म्हूण सांगून फाटीर थापटिलें आनी तडक चलपाकच लागलो.

हांव खंय जाणा आशिल्लों आतां हीच म्हजी कर्मुभूमि म्हूण? उमेदीन न्हिदलों. नवो गांव, नवी शाळा, नवी भटकंती.





# कातळांचें कार्कळ

**कार्कळ** हो उडुपी जिल्ल्यांतलो तालुकोयबी आनी त्या तालुक्याचें शारयबी. ल्हानशेंच. तालुक्याचो बाजार हांगां आसा देखून हें शार. नाजाल्यार गांवच तो. आजून बाजून काळीं काळींच फातराचीं तळपां. आमचे जांबावलेच्या पाण्ट्यार आसात तशीं. पूण आमचीं तळपां ल्हान. हांगां लांबचीं लांब तळपां. वचत थंय तळपांच्यो दोंगुल्ल्यो. घरांय त्याच काळ्या फातरांचीं. कन्नडांतल्यान करि म्हटल्यार काळो, कल्लु म्हटल्यार फातर. तातूंतल्यान कारिकल आनी मागीर कार्कळ अशें नांव पडलें म्हणटात. ह्या शारांत दोन तळीं आसात. तातूंतलें व्हडलें तळें तें आने-केरे. ह्या तळ्यांत खंय रायाले हत्ती न्हाताले. दुसरें तळें तें रामसमुद्र सरोवर.

एका तेंपार जैन राजा हांगां राज्य करताले खरे, पूण आतां जैनांची वसती खूब उणी जाल्या. अशीतशी दोन टक्केबी आसत. तांचो एक ल्हानसो बाजारय आसा. ताका हारेनकेरे, म्हटल्यार पोरणो बाजार म्हणटात. पूण तेन्ना बांदिल्लीं सुमार 18 जैन मंदिरां हें कार्कळाचें व्हडलें आकर्शण. ते लोक देवळांक बसदी म्हणटात. ह्या तीर्थक्षेत्राक भेट दिवपाक कितलेशेच लोक येतात.

हातूंतलें सगळ्यांत व्हडलें आकर्शण म्हटल्यार अखंड फातरांतल्यान उबारिल्लो साडेएकेचाळीस फूट उंचायेचो गोमटेश्वर. श्रावणबेळगोळा उपरांत ह्या बाहुबलीचो नंबर लागता. काळ्याच तळपांची एक व्हडली दोंगुल्ली शाराचे मात्शी भायर आसा. ते दोंगुल्लेचेर हो महाकाय बाहुबली विराजमान आसा. नागडो उगडो. आरे बापरे, येदो व्हडलो! आमच्या लोलयां देवते देवळाफाटल्यान कुळागरांत अशीच एक मूर्त आसा. नागडो बेताळ. आसत अशीतशी स फुटांची. तीयबी अशीच आसा. काळ्याच फातराची. आमकां घराकडेन सांगताले, ही खंय गोंयांतली बेताळाची सगळ्यांत व्हडली मूर्त. आमकां ती केदी व्हडली दिसताली. पूण हो बाहुवली केदो. आमच्या नागड्या बेताळापरस स–सात पटींनी व्हडलो. महाकाय.

ते ऊंच दोंगुल्लेचेर विराजमान जाल्लो तो बाहुबली पळयतकीर दिसता, हो हांगां उबो रावन पुराय कार्कळाचेर नदर दवरता. ताका पळयतकीर पुराय कार्कळच एक मंदीर कशें दिसता. वयलें मळब म्हटल्यार ताचें छप्पर आनी भोंवतणचीं झाडां पेडां म्हटल्यार देवळाचे खांबे कशे. सैमीक देऊळ. जैन लोकांचें. दर बारा वर्सांनी ह्या गोमटेश्वराचो महामस्तकाभिशेक जाता. घे लोकांची गर्दी पडटा. जगभरांतल्यान जैन भावीक हे जात्रेक येतात. आमचो जांबावलेचो शिगमो कांयच न्ही ताचेमुखार. दोळे दिपकावन सोडपी सुवाळो.

साडेएकेचाळीस फुटांचे हे मुर्तेक अभिशेक करपाखातीर ताच्याकय चड ऊंच अश्यो लाकडाच्यो माळयो तीन वटांनी उबारतात. पयलीं 1008 कोळश्यांनी उदक न्हाणयतात आनी मागीर सुरू जाता धोल ताश्यांच्या गजरांत महामस्तकाभिशेक. पयलीं हांडयांनी भरून हाडिल्ल्या दुदाचो अभिशेक. मागीर तांदळा पिठाचो शिंवोर. मागीर नाल्लाचें उदक आनी उसाच्या रोसाचो अभिशेक. मागीर वयल्यान सकयल मेरेन पुराय मुर्तेक हळद आनी चंदनाचो लेप. मागीर पवित्र सुगंधी अष्टगंधांचो अभिशेक. मागीर रंगबिरंगी फुलांच्या पाकळ्यांची पुष्पवृष्टी. उपरांत पुराय मुर्त उदकान न्हाणोवन निवळ करून हो देखदिणो सुवाळो सोंपता. ह्या बाहुबलीचे दोंगुल्लेफाटल्यान एक व्हडलें तळें आसा. रामसमुद्राचें तळें. ह्या महाकाय तळ्या

काठार रावन हो महासुवाळो पळोवपाक आनीकय चड मजा येता.

स्वातंत्र्या उपरांत आतां भारतीय पुरातत्व खात्यान ही सुवात राष्ट्रीय दायज म्हूण जाहीर केल्या. वांगडाच चातुर्मुख बसदी नांवाचें आनीक एक जैन देऊळ. हेंयबी तळपाचेरच बांदलां. तेंयबी पुराय काळ्या फातरान. छप्परपासून फातरांचेंच. हाका चारूय वटांनी एकेच तरेचीं दारां आसात. सगळीं गर्भगृहांत वतात. थंय भगवान महावीराच्यो आनी हेर देवदेवतांच्यो मुर्त्यो आसात. ह्या देवळाक भेट दिवपाकय हजारांनी भावीक कार्कळा येतात.

आमचींय देवळां कार्कळांत आसात. तातूंतलें अनंतपद्मनाभाचें देऊळय राष्ट्रीय दायज म्हूण जाहीर जालां. तेभायर श्रीव्यंकटेशाचें देऊळ, मारुती मंदीर अशीं कितलिशींच. कार्कळा लागींच्या अत्तूट गांवची सँट लॉरेन्स चर्चय पळोवपासारकी आसा. फुडल्यान बांदिल्ल्या दोन लांबलचक मनोऱ्यांक लागून जादुई नगरींतलो राजवाडो कसो दिसता. तेभायर एक जुम्मा मशीदय आसा.

मात भोवसंख्य लोक हिंदू. आमच्या जीएसबींचीय वसती खूब व्हडली. बाजारय चडसो तांचोच. तेभायर मुसलमान, कोंकणी क्रिस्तांव, जैन आनी कांय बौद्ध लेगीत आसात. ताका लागून हें येदेशें शार म्हटल्यार एक भोवधर्मी, भोवसांस्कृतीक, भोवभाशीक वाठार जाला. दरेकल्याची आवयभास वेगवेगळी. कन्नड, तुळू, उर्दू, ब्यारी आनी आमच्या गौड सारस्वत ब्राह्मणांची कोंकणी. शाळेंत संस्कृत शिकलोंच. पूण ह्या गांवान म्हाका बाकिच्च्योय भासो शिकयल्यो.

मुखेल बाजाराचो रस्तो लांबचे लांब. दोनय वटांनी फुडल्यान दुकानां, फाटल्यान घरां. चडशीं आमच्या जीएसबी लोकांचीं. मदींच श्रीव्यंकटेश देवस्थान. ताचे कुशीक विशेक फुटांचो मारुती. शेत आनी भाट होच हांगाच्या लोकांचो मुखेल चरितार्थ. दर शेनवारा बाजार भरतालो. तेन्ना आजुबाजूच्या गांवांतल्यान शंबरांनी बैलां गाडयो शारांत येताल्यो. तांची लांबची लांब रांग लागताली. बैलांचें खाण म्हटल्यार कुळीत. आजूबाजूच्या घरांनी कुळीत शिजोवन, दाट सार दवरून, बैलांक खावपाक घालप. बाजार म्हटल्यार शेतांतली पिकावळ, शेतांतलीं आवतां, घरांतलीं आयदनां असोच सगळो. पारंपारीक बाजार.

दुसरो चरितार्थाचो मार्ग म्हटल्यार 30 छाप विडयांच्या फॅक्टरींतली विडयो वळपाची नोकरी. कार्कळाचो बी मंजुनाथ पै हो ह्या भारत विडी फॅक्टरीचो मालक. आमच्या जांबावलेच्या दामबाबाचो कुळावी. हांव कार्कळांत आयलां ताचे धायेक वर्सांपयलीं, सादारण 1930 वर्सामेरेन, तो वेंकटरमणाच्या देवळामुखार खंय एक ल्हानशें दुकान भाड्यान घेवन थंय विडयो वळटालो. 17 वर्सांची पिराय. फकत 30 रुपयांचें भांडवल आनी एक सायकल. देखून फुडें विडयेचेंय नांव 30 छापच दवल्लें. सायकलीचेर भोंवन आजूबाजूच्या गांवांनीय विडयो विकतां विकतां ह्या गौड सारस्वत ब्राह्मणान आपलो धंदो इल्लो इल्लो करून वाडयलो. हांव कार्कळांत पाविल्लों तेन्ना ताची पयली फॅक्टरी उबी जाल्ली. कार्कळ तालुक्यांतले शेकड्यांनी लोक ह्या फॅक्टरींत कामाक वताले. आख्खो गांव ताका 'विडीआप्पा' म्हूणच पाचारतालो. फुडाराक ही 30 छाप विडी आख्ख्या भारतांतली पयल्या नंबराची विडी जाली. म्हाका ताचो डबल अभिमान. कार्कळाचो म्हूण आनी जांबावलेचो म्हूणय. मात हांवें केन्नाच विडी ओडली ना.

असो हो कार्कळाचो ल्हानसोच पूण अप्रूप गांव. सैमाच्या गोपांत वशिल्लो, वेगवेगळ्या धर्मांच्या देवदेवतांचे सासायेंत जियेवपी आत्मुसुखी गांव. वयर दोंगुल्लेर वचून पळयत जाल्यार लांबचें लांब सुस्त पडिल्लो दिवोड कसो दिसता. वचत थंय काळीं काळींच तळपां, तळपांमदीं आशिल्लीं तळीं, तळयेचे कुशीक वसयिल्लीं शेतां, ल्हानशीं भाटां आनी झाडां-पेडां. आमचेभाशेन कुळागरां नात, पूण माड-माडयो वचत थंय धोलत आसतात.





# पाठशाला

**ह्या** माडांवांगडा हालत धोलत म्हजी नवी शालेय जीण कार्कळा सुरू जाली. गांवांतच पूण मात्शें भायर भुवनेंद्र संस्कृत महाविद्यालय आशिल्लें. मद्रास विश्वविद्यापीठाकडेन संलग्न. काशी मठाच्या भुवनेंद्र स्वामीच्या नांवान हें महाविद्यालय सुरू केल्लें. ह्या महाविद्यालयांतल्यान शिरोमणी ही पदवी घेवन म्हाका भायर सरपाचें आशिल्लें. सगळें शिक्षण संस्कृतांतल्यान. चार वर्सांचो डिग्री कोर्स. प्रिलिमनरी आनी फायनल अश्यो दोन परिक्षा. मात तेखातीर दोन वर्सांची प्रवेश परिक्षा दिवची पडटाली. मद्रास विश्वविद्यापीठाच्यो वेगवेगळ्यो पदव्यो आशिल्ल्यो. साहित्य शिरोमणी, ज्योतिष शिरोमणी आनी आयुर्वेद शिरोमणी. तेभायर कन्नड पंडित.

पूण हांव तर फकत चवथी शिकिल्लों. कॉलेजींत पावपाक म्हाका थोडीं वर्सां आशिल्लीं. ते खातीर आमच्या कॉलेजीन एक पाठशाळाय सुरू केल्ली. कॉलेज पांच किलोमीटर भायर आसा देखून गांवांत पाठशाळा सुरू केल्ली. ताचे वर्ग वेंकटरमण देवळाचे माळयेर आनी तळयेचे पडवेर घेताले. चवथी मराठी पास म्हणटकीर तांणी म्हाका सव्वेच्या वर्गांत प्रवेश दिलो. बाजाराच्या रस्त्यारच हें

लांबचें लांब देऊळ आशिल्लें. हांव रावतालों थंय हेगडोमामाच्या घराकडल्यान सामकें लाग्गीं. म्हजी शाळा थंय सुरू जाली.

पयल्याच दिसा शाळेंत व्हरपाकबी कोण ना. पाटी माल्ली खाक्यांत आनी गेलों एकलोंच. हांव लोलयेंचो म्हूण म्हजें नांव घालें - एल् श्रीधर भट. ही कर्नाटकी पद्दत. मागीर जल्मतारीख विचारली. हांव खंय जाणां हांव केन्ना जाल्लों तें? म्हजे कडेन जल्माचो दाखलोय ना आनी चवथेची वा सेगुंद ग्रावाच्यो सर्टिफिकेटीय नात. कितें करतलों? इतल्यांत म्हाका याद जाली. माघाच्या म्हयन्यांत मूज जाल्ली तेन्ना आईन म्हणिल्लें, श्रीधराक 14 लागलीं. थंयचे थंय तोंडी हिशेब केलो आनी अदमासान एक तारीक मास्तराचेर शेंवटिली. 16 डिसेंबर 1927. ती म्हाका चिकटली.

विशेक वर्सांफाटीं पंच्यात्तरी हुपले उपरांत परदेशांत धुवेगेर वचपाक पासपोर्ट करपाक जाय देखून जल्म दाखलो हाडचो पडलो. म्हणटकीर गोंयां वचून पुर्तुगेज तेंपावेलो जल्म दाखलो सोदून काडलो. बरेच त्रास पडले सोदपाक. कारण म्हजी खरी जल्म तारीक आशिल्ली - 27 डिसेंबर 1926. आनी नांवय दुसरेंच. कृष्णराय भट. हें नांवय म्हाका केन्नाच कोणें सांगलें ना.

सव्वेचो वर्ग वेंकटरमण देवळाचे माळयेर चलतालो. संस्कृत हांव बरें शिकतालों. पूण कन्नडय शिकप सक्तीचें आशिल्लें. आनी म्हाका तर कन्नड ओ काय ठो कळनाशिल्लें. पयलीं मराठी आनी मागीर संस्कृत, दोनय देवनागरी लिपयेंतलीं. अ-आ-इ-ईची बाराखडी. पुर्तगेज शिकपाखातीर रोमी लिपी. आनी उच्चार आ बे से डे अशे. आनी आतां कन्नड शिकपाखातीर ही तिसरी द्रविडी लिपी. पूण उच्चार मात देवनागरीसारकेच. बरोवपाची पद्दत मात सामकीच वेगळी. जिलब्यो कश्यो. तातूंत मूळ स्वरांचोय गोंदळ. मराठी देवनागरींत 12 स्वर, संस्कृतांत 15, पुर्तुगेजींत 9 जाल्यार कन्नडांत 14 स्वर. ह्या सगळ्या गोंदळांत कन्नडाचे हांवें वेवस्थीत बारा वाजयले. पयल्या दोन परिक्षांनी संस्कृताचे पेपरच कितें ते सारके बरयले. कन्नडांत दुदी.

ताका लागून हेगडोमामान रमानाथ भट ह्या मास्तराक सांगून म्हाका कन्नड

शिकोवपाची वेवस्था केल्ली. सवेची वार्षिक परिक्षा येयसर ताणें म्हजी गाडी रुळार हाडली. संस्कृतावांगडा कन्नडाकय मार्क बरे पडले. तरीकय कन्नड जुजबीच येताली. पूण म्हाका दिसता हांव शिकपाकय बरो आशिल्लों. कारण सातवेक सायड मारून म्हाका सरळ आठवेच्या वर्गांत व्हरून उबे केले. डबल प्रमोशन. माळयेवेल्यान हांव तडक तळयेचे पडवेर पावलों.

कोदंडराम जोशी नांवाचो आमचो हेडमास्तर सदांच सांगतालो, सगळ्यो भासो शिकात, पूण इंग्लीश मात शिकातच. मॅट्रिक्युलेशन इंग्लीशींतल्यान करपाक जाय अशें ताचें म्हण्णें. ताणें स्वताच फुडाकार घेवन इंग्लीश शिकोवपाक सुरवात केली. पुर्तुगेजींत णव स्वर शिकून आयिल्ल्यान म्हाका चड त्रास जाले नात. मजा येवपाक लागली. इतले म्हणसर आमचो आनीक एक मास्तर अण्णप्प पैन सांजे हिंदीचे वेगळे वर्ग सुरू केले. तीय शिकलों. दक्षिण भारत हिंदी प्रचार सभेची मध्यमा परिक्षाय पास केली. आतां आठवी पास जायसर म्हाका कितल्योशोच भासो येताल्यो. कोंकणी, मराठी, संस्कृत, हिंदी, कन्नड, इंग्लीश आनी इल्लीशी पुर्तुगेजयबी. तेभायर गांवच्या वातावरणाक लागून तुळूय उलयतालों.

आठवे उपरांत णव्वी आनी धावी म्हटल्यार तेन्ना दोन वर्सांची प्रवेश परिक्षा. कॉलेजींत वच्चेपयलींची एँट्रॅन्स. ताचेय वर्ग वनभोजनाकडल्या महाविद्यालयांतच जाताले. कार्कळ शाराचे भायर सुमार पांच किलोमीटरांचेर ही वनभोजनाची सुवात आसा. दोन एकरांवयर सगळो काळे शिळेचो दोंगरच. मदल्यान एक ल्हान व्हाळ व्हांवता. ताचे धडेर कितलिशींच झाडां पेडां. शीतळ व्हांवपी वारें. थंयच काशी मठाच्या स्वाम्यांची ल्हानशी मठी कशी आसा. कार्तिक पुनवेक श्रीवेंकटरमण देव हांगां वनभोजनाक येता. शेंकड्यांनी भावीक येतात. थंय वनभोजन जाता.

कार्कळाचो पुलिकेरी सुब्बा कामत हाका भुरगीं नाशिल्लीं. काशीमठाच्या भुवनेंद्र स्वामीन प्रसाद दिलो आनी ताका संतति जाली. ताची आपणाक जमता तशी परतफेड म्हूण सुब्बा कामतीन ही येदी व्हडली जमीन काशी मठाक दान दिली. आपणेंच स्वाम्याखातीर एक ल्हानशें कृष्ण मंदीर बांदलें आनी मात्शें वयर हें भुवनेंद्र महाविद्यालय बांदून दिलें. निवासी स्वरुपाचें. तेभायर संस्थेच्या

खर्चाखातीर म्हूण शंबर मुंड्यांची उत्पन्नाची जमीनय दिली.

प्रवेश परिक्षेंत पावतकीर हांवें हेगडोमामाचें घर सोडलें. फुडलीं स वर्सां ह्या महाविद्यालयाच्या हॉस्टेलांत रावन शिकपाचें. एके वटेन महाविद्यालयाची इमारत. लांबची लांब. रस्त्याचे दुसरे वटेन आमचें हॉस्टेल. धा कुडी. तातूंत पंचविशेक विद्यार्थी रावताले. चडशे सिनियर. आमी ज्युनियर दोग-तीग जाणच. जेवप-खावप अगरसाळींत. ती आशिल्ली व्हाळापलतडीं कृष्ण मंदिरा फाटल्यान. सकाळची पेज आनी दनपारचें-रातीचें जेवण. न्हावपाक परत वनभोजनाच्या व्हाळाचेर.

व्हाळापलतडीं मातशे उंचायेर स्वाम्याचें श्री कृष्ण मंदीर, सकयल ल्हानशी तळी. थंय सुकृतींद्र स्वामींचो शिष्य, फुडाराचे स्वामी, सुधींद्र स्वामी दोन वर्सां शिक्षण घेताले. म्हजी आनी तांची बरी इश्टागत जाल्ली. स्वामी जावपी मनीस कितलो हुशार आनी शिटूक आसता ताचो अणभव तेन्ना आयलो. आमी वांगडाच सोप्यार बसून कॅरम खेळटाले. खांपो खेळपी. एक फावट स्ट्रायकर हातांत आयलो काय अर्दाच्या वयर बोर्ड खाली. तीक्ष्ण नदर, बारीकसाणेन घुलो नियाळप, एक माल्ल्यार दुसरी खंय वतली ताचोय अदमास घेवप आनी थंड तकलेन अचूक खेळप.

एके वटेन शिक्षण चलतालें आनी दुसरे वटेन भारताचें स्वातंत्र्य युद्ध पेटिल्लें. महात्मा गांधीच्या अहिंसक मार्गान. कार्कळ गांवांत आनी आमच्या महाविद्यालयाच्या भुरग्यांमदीं ताची चर्चा जाताली. 8 ऑगस्ट 1942. गांधीन 'चले जाव' चळवळीची घोशणा केली आनी दुसऱ्या दिसा ब्रिटिशांनी गांधीक अटक केली. ताचो निशेध म्हूण भारतभर चले जावाचे नारे दीत मिरवणुको सुरू जाल्यो. 'क्विट इंडिया'चें वारें भारतभर पातळ्ळें. मागीर कार्कळ कित्याक फाटीं उरतलें?

कार्कळा जाल्ले मिरवणुकेंत आमी विद्यार्थीय वांटेकार जाल्ले. पुराय शारभर भिरांकूळ वातावरण तयार जाल्लें. आमी सगळेच पेटिल्ले. कांय ना म्हटल्यार हजारभर लोक एकठांय जाल्लो. सामान्य मनीस धरून वेवसाय-धंदो करपी

मालक लोक लेगीत सामील जाल्ले. तेभायर आमचेसारके कितलेशेच तरणाटे विद्यार्थी. मिरवणूक पुलीस स्टेशनाकडेन पावली. थंय पुलिसांनी बोर्डच लावन दवरिल्लोः 'खबरदार, फुडें येवनाकात'.

पूण कोणूच आयकुपाचे मनस्थितींत नाशिल्लो. 'चले जाव', 'छोडो भारत' अशे नारे दीत मिरवणूक तशीच फुडें गेली. शाराचे भायर सुमार दोन मैलांचेर तालुका ऑफीस आशिल्लें. थंय पावसर मिरवणूक आनीकय खुबळिल्ली. पुलिसांक कशीच आटापाक येना जाली. तांणी लाठीमार सुरू केलो. मेळत ताका बडयत सुटले. सगळे लोक हांगां थंय फाफसले. व्यकंटेश प्रभु म्हूण आमचो कार्कळाचो एक तेलाची गिरण चलयतालो. ताची तर तकलीच फोडली. एम डी अधिकारी म्हूण आनीक एकल्याक रगतबंबाळ अवस्थेंत हॉस्पिटलांत घालचो पडलो. सरकारान जमावबंदी जाहीर केली.

पुराय कार्कळ शारांत मरण-शांतताय पातळिल्ली. कोण्ण भायर सरनाशिल्लो. मात भितल्ल्यान खतखत्तालो.

दुसरे वटेन एकार एक खबरो येवन आपटत आशिल्ल्यो. भारतभर वचत थंय मिरवणुको, लाठीमार, गोळीबार. सत्याग्रही जखमी जाताले, बळीय पडटाले. पूण चले जाव चळवळ खरच जायत वताली. इतल्यांत उडुपीच्यान एक खबर येवन आपटली. कोणाच्या हातांत तिरंगो दिसत जाल्यार ताका धरताले. तरीकय स्वातंत्र्यसैनिकांनी निश्चेवच केल्लो, तिरंगो हुबयतलेच. थंय अनंतेश्वराच्या देवळामुखार एक मानस्तंभ आसा. सुमार 60 फूट उंचायेचो. शेष शेरिगर नांवाचो एक तरणाटो रातीच्या काळखांत दोरी घालून ह्या स्तंभाचेर चडलो आनी ताणें तिरंगो हुबयलो.

ही खबर आयकून आमचीं सगळ्यांचींच शिरंतरां शिरशिल्लीं.





# गोंयची भोवंडी

**1943** वर्स येयसर म्हजी विश्वनाथ भटालागीं वळख जाली. तो आमचो सोयरो. भावोजीचो (नानाचो) बापोल भाव. मुडगेरीचो. म्हज्याकय चार वर्सांनी व्हडलो. कॉलेजींत शिकतालो. हांव सामकोंच भुल्लुसलों. मुडगेरी म्हटल्यार गोंयांक सामकें तेंकून. सदाशिवगडालागीं. आईवांगडा कडवाड तिच्या आजोळा वतना आमकां मुडगेरी लागतालें. शिकतां शिकतां ताचेलागीं वळख वाडत गेली. हांवें णव्वी आनी धाव्वेची प्रवेश परिक्षा पास केली. चार वर्सांभितर हांव कॉलेजीच्या हुंबऱ्यार येवन उबो राविल्लों. आमी दोगांयनी थारायलें, आतां गोंयां वचून येवया. म्हाका घरा वच्ची तान लागिल्ली.

आयिल्ले वाटेन तशेच बस–तार–बस करीत कितल्योशोच न्हंयो हुपून आमी जांबावले पावले. गोंयां परत येतना काळीज भरून आयिल्लें. लोलयें, जांबावले, घर, पाण्टो, देऊळ सगळें दोळ्यांमुखार नाचपाक लागिल्लें. जांबावलेचे म्हजे इश्ट याद जातालें. केन्ना काय जांबावले पावतां आनी पाण्ट्यार उदकांत घस्स करून घालून घेतां काय जाल्लें. वाटेर वतना विश्वनाथाक हांव फकत जांबावलेच्योच

गजाली सांगीत सुटिल्लों. आनी तो आयकत गेल्लो. इतलीं वर्सां घरची याद जायनाशिल्ली अशें न्ही. पूण पोटांतच आसताली. मदींमदींच गुडगुडटाली. पूण आतां गळ्याकडेन पाविल्ली.

तीन दिसांचो प्रवास करून निमणे आमी जांबावले पावले. घराकडेन दादा-आई सगळीं खूश. आईन तर घट्ट वेंगेंत धल्लो आनी म्हजें जांबावले गळ्यांतल्यान रडत भायर सल्लें. दोळ्यांतल्यान व्हांवपाक लागलें. आनंदाश्रु म्हटल्यार कितें आसता तें पयले खेपे प्रत्यक्ष अणभवतालों.

मागीर आनी कळाव केलोना. आईन कितें दिल्लें तें कशें तरी पोटांत घालें, तुवालो घेतलो आनी विश्वनाथाक घेवन माल्ली पाण्ट्यार धांव. दोगय जाण मस्त पोंवले.

रातचे जेवणा ताटार दादान वासपूस केलीः

"शिक्षण कशें चल्लां?"

"प्रवेश परिक्षा पास जालों. आतां हांवें थारावपाक जाय, खंयच्या विशयांत शिरोमणी जातलों तें," हांवें सांगलें. विशय खंयचे खंयचे तेंय सांगलें.

"आयुर्वेद घे", दादान सांगलें. हांवें तकली हालयली.

रातचे न्हिदिल्लेकडेन आमच्यो ताण खबरो. भाऊ, मनोहर, गोविंद आनी बाबू. एकार एक प्रस्न विचारताले. हांव सांगीत गेलों. चार वर्सां कार्कळ रावन म्हजी कोंकणीय बदलिल्ली. मदीं मदीं तांचेचवरी कानडी हेल येताले. ते म्हाका हांसताले. निमणें दादान धेंगसो घालो तेन्ना तकलेर चादर ओडून न्हिदले. भाऊक सक्काळीं उठून देवळांत आरतेक वचपाक जाय आशिल्लें. कितल्या वर्सांनी सुस्त न्हिदलों. फाल्यांची चिंता करिनासतना.

दुसऱ्या दिसा विश्वनाथाक घेवन माल्ली पिपळा पेडार धांव. इश्टांक मेळपाक. वेंकट भट, नागेश कुराडो, प्रेमदास सावयकार, राम म्हालो, रामकृष्ण पिरुलो, मनोहर सोनीलो. मागीर चार दीस फकत त्योच गजाली. म्हज्यो कार्कळाच्यो. कानडी हेलाच्या कोंकणींत. तांच्यो जांबावलेच्यो. अस्सल जांबावलेच्या कोंकणी हेलांत. म्हजे लागीं फकत शाळेंतल्योच गजाली नाशिल्ल्यो. स्वातंत्र्य लढ्याच्योय

आशिल्ल्यो. छोडो भारत, मिरवणूक, सत्याग्रह, लाठीमार, मानस्तंभावेलो तिरंगो अश्यो जायत्यो.

आमगेली आई म्हटल्यार सुगरण. तिचें नांवच अन्नपुर्णा. चार वर्सांनी तिचो पूत घरा आयिल्लो. कितें करूं कितें नाका जाल्लें तिका. खा खा खालां हांवें त्या दिसांनी जांबावले. तेंच तेंच खावन वाज आयिल्ले आमीय पोट फुटसर खाताले. सकाळ-सांज पाण्ट्यार वचून बुडटाले.

कार्कळा ही एक गजाल म्हाका चुकताली. वेगवेगळ्या तरांच्यो दाळी आनी भाज्यो खावन आयिल्ली जीब चुरचुरत रावताली. म्हजी ती परिस्थिती येवजून आईय चुरचुरताली. आनी मागीर सुटयेंत येतकीर म्हजेर खाणा-जेवणांचो शिंवोर करताली. आईचे प्रयोगशाळेचेर भार येतालो.

भावंडां आनी इश्टांलागीं खेळून-झगडून, खावन पिवन तृप्त जावन, पाण्ट्यार न्हावन आनी आईच्या मोगांत चिप्प भिजून हांव आनी विश्वनाथ परत कार्कळ वचपाक भायर सल्ले. तारी काडीत प्रवास नाका म्हूण मडगांव वचून ट्रेन धल्ली आनी करूड वचून थंयच्यान बस धरून कार्कळ. बेगीनय पावले.

फुडले खेपे गोंयां परत गेलों तों 1947 वर्सा. भारत स्वतंत्र जाल्लो तेन्ना. मे म्हयन्याचे सुटयेंत आमी बेळगांवां आरएस्एस्च्या ऑफिसर्स कॅम्पाक आयिल्ले. म्हजे वांगडा आनीक तीन इश्ट आशिल्ले. कासारगौड आनी मूडबिद्रीचे. राम नायक, कृष्ण नायक आनी विनायक शणै. तांचेय पूर्वज बाटाबाटीवेळार गोंय सोडून आयिल्ले.

मंगळूराचे इशान्येक कार्कळ जाल्यार उत्तरेक कासारगौड. आयचें केरळ राज्य कासारगौडाच्यान सुरू जाता. मंगळूराक तेंकून आशिल्ल्या कासारगौडाच्या वाठारांत कन्नडिगा जाल्यार दक्षिणेक मलबारावटेन मल्याळी. थंयच्यान मंगळूर बशीक देड वराची वाट जाल्यार कार्कळा अडेच वरांची. इतलें तेंकून. तेन्ना कासारगौड हें दक्षिण कन्नडांत आसचें काय केरळांत हो वाद तेंगशेर पाविल्लो. दुसरे वटेन कुंदापुर, उडुपी, कार्कळ, मंगळूर ते कासारगौडामेरेन मेळून तुळूनाडू करचें अशीय एक चळवळ चलताली. डॉ शिवराम कारंथ आनी गोविंद पै सारके

आमचे कोंकणी मनीस ह्या आंदोलनांत कन्नडिगांवाटेन आशिल्ले.

कासारगौडाक बहुसंगम भुमी म्हूणय वळखतात. कन्नड, मल्याळी, तुळू, कोंकणी, मराठी, उर्दू आनी ब्यारी अशो सात भासो हांगाचे लोक उलयतात. तातूंत कोंकणी उलोवपी सामकेच उणे. आसत तेन्ना एक धायेक हजार लोक. फकत तीन ते चार टक्के. पूण वेपार धंद्यांत आशिल्ल्यान तांची समाजांत वट चड आशिल्ली. तातूंतल्यानच जावंये, संघांतले हे तीग जाण म्हजे बरे इश्ट जाल्ले. तेन्ना आमी चारूय जाणांनी थारायलें, गोंयां वचप. पूण डायरेक्ट घरा ना. पयलीं गोंय पळोवप आनी मागीर घरा.

ते प्रमाण बेळगांवच्यान अनमोड घाटांतल्यान बशीन येवन आमी फोंड्यां देंवले. थंयच्यान रामनाथीं येवन थंय रात काडली. दुसऱ्या दिसा बांदोडेंची महालक्ष्मी, नागेशींचो नागेश, म्हाड्डोळची म्हाळसा, मंगेशीचो मंगेश अशें करीत आनी ओल्ड गोवाच्यो इगर्जी पळोवन पणजे महालक्ष्मी देवळांत वचून रातचे रावले. चलतच गेले. अंत्रुजेचो तो कुळागरांनी आनी झाडा-पेडांनी भरिल्लो पांचवोचार वाठार हांवूंय पयलेचे खेपे पळयतालों. गोंयकार खरों, पूण लोलयें, मडगांव, जांबावले हाचेमुखार केन्नाच पावलों नाशिल्लों. कुलदेवता म्हणटकीर म्हाड्डोळाच्यो बी गजाली फकत आयकून आशिल्लों. देवळांचो वाठार म्हणटकीर म्हजे तकलेंभितर जांबावलेसारकेच गांव आशिल्ले.

पूण हें गांव वेगळेच. देवळां व्हडलीं व्हडलीं. दरेक देवळामुखार ऊंच ऊंच दीपस्तंभ, मुखार तळीं, भोंवतणीं शेतां आनी कुळागरां. काजी लागिल्ल्यो, घोटां आनी आंबेय लागिल्ले. अणसांचोय गोड गोड वास. तातूंत भर म्हूण चान्नां, चुन्नां, करंजांय लागिल्लीं. घमघम सुटिल्लो सगळ्यांचो. सगळें वातावरणच सुगंधीत. खर वतांत इतले चलत भोंवले खरे. पूण पुरो जालेंना.

म्हजेपरस तांकां गोंय पळोवपाची उमळशीक चड आशिल्ली. तांचें हें मूळ पीठ. कुळार कशें. तांणी फकत ह्या वाठाराच्यो गजाली तांच्या जाण्ट्यांकडल्यान आयकल्ल्यो. आतां देवळां भोंवता भोंवतां ते हांगच्या जाण्टेल्यांलागींय उलयताले. तांचेकडल्यान इतिहास जाणा जावन घेताले. तातूंतल्यान म्हज्याय ज्ञानांत भर पडटाली.

अंत्रूज म्हालांत कांय न्ही म्हटल्यार धायेक व्हडलीं देवळां आशिल्लीं. मागीर देवळाच्याच वाठारांत हेर देवांचीं ल्हान देवळां वा घुमट्यो आनी मूळ पुरूस. पुर्तगेजांनी पयलीं सोळाव्या शेकड्यांत गोंयचे तीन म्हाल जिखले – तिसवाडी (इल्हॅश), बार्देस आनी साश्ट. आपली सत्ता प्रस्थापीत करपाखातीर बाटाबाटी सुरू केली. तेन्ना धर्मनिश्ठ गोंयकारांनी आपापले देव उखल्ले आनी अघनाशिनी न्हंय हुपली. कांय जाणांनी अंत्रूज म्हालाच्या रानांनी देव लिपयले जाल्यार कांय जाण जमता थंय देवाची प्रतिश्ठाना करून फुडें गेले. आलाशिरो सोदीत अंकोलेच्यान मंगळूर, कासारगौड आनी बद्द कोची मेरेन.

आमकां पयलीं लागली कवळेंची शांतादुर्गा. ती खंय आशिल्ली साश्ट म्हालांतल्या केळोशी गांवांतल्या देऊळभाटांत. कुठ्ठाळे आनी केळोशी हे दोनय गांव एकामेकांक तेंकून अघनाशिनी (झुवारी) न्हंयच्या काठार आसात. आतां फोडून ताचो मुरगांव तालुको केला. ही खंय मूळची सांतेर. म्हटल्यार मातयेची रोयण. कुशीक कुठ्ठाळे मंगेशाचें देऊळ. थंयच्या लोकांनी वांगडाच दोनय देव आनी लिंगां उखल्लीं आनी उमाशेचे रातीं व्हड्यान पलतड मारली. पलतडीं राज्य आशिल्लें मुसलमान राजा आदिलशहाचें. आनी थंयचो थळावो सरदार आशिल्लो सरदेसाय. देखून आमचे देव हांगां सुरक्षीत उरतले अशें तांकां दिशिल्लें. उल्लेयबी.

कवळें हो खंय मूळ म्हारवाडो. देवी शांतादुर्गेक आसरो दिलो थंयच्या म्हारांनी. थंयच्या एका ल्हान घरांत मुर्तीची प्रतिष्ठापना केली आनी ते लागले फुडले वाटेक. पोटापाणयाच्या. ह्या दलीत लोकांक आजूय देवळांत मान आसा. आनी सरदेसाय आयलेबगर पालखी हालना.

ह्याच थळांत आनीकय देव आसात. खासा करून नारायण देव, गणपती, भगवती, म्हारवाची शीला आनी म्हारवाचें पेड. कुशीकच कैवल्यापूर मठाधिशांचो मठ आसा. आमी सगळ्याच देवदेवतांचें दर्शन घेतलें.

फुडें लागलें श्रीरामनाथाचें देऊळ. तो मूळ साश्टी लोटलेचो. तांणीय अशीच न्हंय हुपली. ह्या मठाचे म्हाजन गोकर्ण मठाचे आनी काशी मठाचेय. वैष्णव आनी शैव. रामनाथ देवाच्या त्या थळांत आनीकय देव आसात. सांतेर, कामाक्षी,

लक्ष्मीनारायण, गणपती, बेताळ आनी काळभैरव. तेभायर आदिपुरूस.

थंयच्यान आमी पावले बांदोडेच्या महालक्ष्मी देवळांत. ही मूळ देवता खंय कोलवेंची. थंयच्यान रासय लोटले येवन ते न्हंयेपलतडीं दुर्भाट पावले आनी थंयच्यान मजल दरमजल करीत बांदोड्यां. थंय आमकां एक वेगळीच काणी आयुकपाक मेळ्ळी. महालक्ष्मीची मूर्त खंय व्हड्यांत घालून न्हंय हुपून हाडली दोगा बिगर-सारस्वतांनी. तांचीं नांवां सप्ता आनी फटो. बांदोड्यां पयलींसावन महालक्ष्मीचें देऊळ आशिल्लें. थंय ताणी पुर्तगेजांनी मोडिल्ल्यो मुर्ती तांकां दिल्यो आनी तांची पुनर्प्रतिष्ठापना जाली. तेभायर ह्या थळांत नारायण देव, बाळेश्वर, रवळनाथ आनी नारायण पुरूस आसात.

नागेशीचें देऊळ जितलें फामाद तितलीच नागेशीची तळी. ती तळी खरी, पूण अखंड व्हांवत आसता. देखून सामकी नितळ निवळ आसता. हें आयकलें आनी वतांत करपल्ल्या आमी सरळ तळयेंत घालून घेतलें. व्हांवत्या उदकाचे तळयेंत न्हावपाचो अणभवूच वेगळो. नागेश हो हांगांचो मूळ देव. बाटाबाटीवेळार हाडिल्लो न्हय. सुमार पंदराव्या शेंकड्यांतलो. तांचे कुशीक श्रीलक्ष्मीनारायण आनी गणपतीच्योय मुर्ती आसात. एक वेगळोच अणभव घेवन आमी फुडले वाटेक लागले.

थंयच्यान फर्मागुडेची दोंगुल्ली काडून आमी पावले म्हाड्डोळा. हांगां केन्ना काय पावन जाल्लें म्हाका. ही आमची कुळदेवता. जायांचे पुजेची देवता. ही मूळ वेर्णेची. ताका आजुनूय पोरणें म्हाड्डोळ म्हणटात. नशीब आमचें थंय वेर्ण्यां देऊळ मोडून पुर्तगेजांनी इगर्ज बांदलिना. आतां थंय भाविकांनी म्हाळशेचें व्हडलें संस्थानच उबें केलां. पूण जागृत देवस्थान म्हूण  भावीक मात ह्याच म्हाड्डोळच्या देवळांत येतात. ह्या चारहस्ती देवतेच्या हातांतलो त्रिशूळ आनी खंजीर पळोवन आंग शिरशिरता. ह्या देवळामुखावेलो ऊंच दीपस्तंभ तर दोळे दिपकायता. पूण ताचेकय दोळे दिपकायता ती ताचे कुशीक आशिल्ली तितलीच ऊंच महाकाय दिवली. इतली व्हडली दिवली खंय संवसारांत खंयच ना.  म्हजे हड्डें इल्लें चड्डूच फुगलें इश्टांमुखार. कितेंय जाली तरी आमची कुलदेवता!

मागीर देऊळ लागलें तें मंगेशाचें. केळोशीच्यान उखलिल्लो रामनाथ रामनाथीं जाल्यार वांगडाच उखलिल्लें मंगेशाचें लिंग इतलें पयस म्हाड्डोळा प्रियोळांत. आतां मंगेशाक लागून ह्या पुराय वाठाराकच मंगेशी म्हणटात. गौड सारस्वतांवांगडा चित्रापूर सारस्वतांचीय ही कुलदेवता. ह्या थळांत आनीकय देवदेवता आसात. पार्वती, गणेश, नंदिकेश्वर, भगवती तशेंच मुळकेश्वर, वीरभद्र, सांतेर, लक्ष्मीनारायण, सुर्यनारायण, गरूड आनी कालभैरव अशे ग्रामपुरूस.

ह्या सगळ्या इतिहासाचेर चर्चा करीत चलत चलत आमी पावले पोरण्या गोंयां. ओल्ड गोवा. एका तेंपावेली पुर्तुगेजांची राजधानी. सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेक जेन्ना पुर्तुगेजांनी गोंयांचेर स्वारी केली तेन्ना तांणी पयलीं जिखली ती आदिलशहान वसयिल्ली ही राजधानी. बाटाबाटी सुरू जातकीर थंयचे लोक देव घेवन न्हंयांपलतडीं गेले आनी पुर्तुगेजांनी हीं देवळां मोडून इगर्जी बांदल्यो. पोरण्या गोंयां तर कितल्योशोच इगर्जी आनी कपेलां उबाल्लीं. पूण अठरावो शेंकडो येयसर एकार एक मलेरिया, कॉलरा, प्लेगाच्यो धामी आयल्यो. ताका लागून पुर्तगेजांनी हें शार वाऱ्यार सोडलें आनी पणजे लागीं केली. पोरणें गोंय उजाड जालें. एका तेंपार खंय ह्या एका पोरण्या गोंयांतच दोन लाख लोकांची वसती आशिल्ली.

आतां थंय थोड्योच इगर्जी उल्ल्यात. खासा करून सां कॅथेड्रल आनी बासिलिका बाँ जीजस ह्यो दोन व्हडल्यो इगर्जी. तातूंतले एके इगर्जींत सांत फ्रांसिस झेवियराची कूड दवल्ल्या. बाटाबाटेउपरांत क्रिस्तांव जाल्ल्या लोकांची हिंदू संस्कृती बदलपाखातीर जुलमी इन्क्विझिशन ताणेंच हाडलें अशें कांय इतिहासकार म्हणटात. थोडे म्हणटात ना. पूण आज ताका गोंयचो सायब म्हणटात. ताच्या नांवान गोंयचें सगळ्यांत व्हडलें फॅस्त हांगां जाता. लाखांनी लोक येता. गोंयच्यान आनी गोंयांभायल्यान लेगीत. पूण हेच बाटाबाटेचे धोरणाक लागून म्हज्या इश्टांचे पूर्वज मात आज कर्नाटकांत स्थायीक जाल्यात.

पुर्तगेजांनी तिनूय म्हालांत मेळून तिनशेक देवळां मोडलीं, धर्म भ्रश्ट केलो, संस्कृती भ्रश्ट केली, पूण ते मनां भ्रश्ट करपाक शकले नात. आज लेगीत

जांबावलेच्या देवळांत प्रसाद पाकळी घेवपाखातीर कितलोसोच क्रिस्तांव लोक, खासा करून साश्टीच्यान, येता. आपल्या पूर्वजांचो धर्म आनी देवळां म्हूण ते आजून त्या देवांक मान दितात.

थंयच्यान तशेच चलत आमी पणजे पावले तेन्ना सांज जाल्ली. महालक्ष्मीच्या देवळांत वचून रात थंय काडली. थंय आमकां आनीकय एक मजेशीर गजाल समजली. गोंयांत पुर्तुगेजांचें इन्क्विझिशन एकुणिसाव्या शेंकड्याचे पयल्या दसका मेरेन उल्लें. पूण मागीर पुर्तुगेजांनी आपलें अत्याचाराचें धोरण बदल्लें. देवळां बांदपाक परवानगी दिली. तेन्ना बांदिल्लें पयलें देऊळ म्हटल्यार हें महालक्ष्मी देऊळ. 1812 वर्सा इन्क्विझिशन बरखास्त केलें. आनी 1818 वर्सा हें देऊळ बांदलें. तेंयबी पुर्तगेजांचे राजधानींत. ताचे आदीं 1764 ते 1783 ह्या विशेक वर्सांभीतर पुर्तुगेजांनी गोंयचे उरिल्ले वाठार जिखून घेतिल्ले. पेडणे, सत्तरी, दिवचल, फोंडें, सांगें, केपें, काणकोण अशे सगळे. पूण तेन्ना धर्मांतर बंद जाल्लें आनी देवळां मोडपय. ताका लागून स्थलांतरीत केल्लीं देवळां कोणे मोडलीं नात.

हो सगळो इतिहास जाण्टेल्यांकडल्यान आयकत आमी पणजे रात सारली आनी दुसऱ्या दिसा जांबावले गेले. थंय एक दीस रावन, पाण्ट्यार न्हावन, आईचें जेवण जेवन म्हजे तिनूय इश्ट परत गेले. हांव मात म्हयनोभर रावलों आनी कॉलेज सुरू जावपा वेळार परत गेलों. कार्कळ.





# आर. एस्. एस्.

**1945** वर्सासावन म्हजी एक समांतर जीण सुरू जाली. पाठ्यपुस्तकी शिक्षण आनी समाजपुस्तकी शिक्षण. चार वर्सांची आयुर्वेद विशारद डिग्री घेवपाक म्हाका पांच वर्सां लागलीं. पूण ह्या पांच वर्सांत जीवनशैलीचीय एक डिग्री कशी म्हाका मेळ्ळी. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघांत.

तशी आरएस्‌एसाची आनी म्हजी तोंडवळख हांव कार्कळा आयिल्लों तेन्नाच जाल्ली. संघान व्यासपौर्णिमा मनयल्ली तेन्ना. पयलेच खेपे हांव असली कार्यावळ पळयतालों. व्यासपौर्णिमा म्हटल्यार गुरुपौर्णिमा. मुखार एक भगवो ध्वज रोयिल्लो. आनी सगळे प्रार्थना करताले. मागीर कांय जाण उलयले. पूण कन्नडांतल्यान. म्हाका तातूंतलें और और हें परतपरत वापरिल्लें उतर सोडून कांयच कळ्ळें ना. पूण उपरांत पाठशाळेंत शिकतना कन्नडय शिकलों. लोक कितें उलयतात तें कळपाक लागलें.

प्रवेश परिक्षेच्या दोन वर्सांच्या कोर्साखातीर नव्या महाविद्यालयांत गेलों थंयच म्हजी आनी विश्वनाथ भटाची वळख जाल्ली. वळख जाल्ली सुरवेक

म्हजे भावोजीचो मेवणो आनी कॉलेजीचो सिनियर म्हूण. पूण ताणेंच म्हाका संघाचे शाखेर व्हेलो. थंय तो भगवो झेंडो हांवें परत पळयलो. सगळे ध्वजाक वंदन करताले आनी शाखेक सुरवात जाताली.

*नमस्ते सदा वत्सले मातृभूमे*
*त्वया हिन्दुभूमे सुखं वर्धितोऽहम् ।*
*महामङ्गले पुण्यभूमे त्वदर्थे*
*पतत्वेष कायो नमस्ते नमस्ते ।।*

ल्हवू ल्हवू करून पुराय प्रार्थना तोंडपाठ जाली. संस्कृत शिकतालों. तेन्ना अर्थ समजुपाक वेळ लागलोना. तो अर्थ मनाकाळजांत घोळयत एक नवो जीवनमंत्र घेवन म्हजी जीण सुरू जाली. आतां व्यासपौर्णिमेचो अर्थ म्हाका पुरायेन होलमल्लो.

महर्षि व्यास हो आमचो भारतवर्षाचो आदिगुरू. पुराय मानवजातीक मार्गदर्शन करपी ऋषी म्हूण ताका जगदुरूय म्हणटात. आनी ताकाच लागून गुरुपौर्णिमेक व्यासपौर्णिमाय म्हणटात.

*गुरुर्ब्रह्मा गुरुर्विष्णुः*
*गुरुर्देवो महेश्वरः*
*गुरुः साक्षात् परब्रम्ह*
*तस्मै श्रीगुरवे नमः*

ही जरी आमची गुरूविशींची भावना आसली तरीकय संघ पळयतना फकत परब्रह्मामदीं गुरूक पळयना. संघांत गुरू म्हटल्यार केवळ एक व्यक्ती न्हय. तें एक तत्व. खंयचेच एके व्यक्तिमदीं सगळे गूण आसपाक शकनात, मागीर ती व्यक्ती केदीय व्हडली जावं. देखून संघान आपलो गुरू मानला तो भगवो ध्वज. काळोख हें अज्ञानाचें प्रतीक जाल्यार उजवाड हें गिन्यानाचें. अज्ञानाचो काळोख पयस करपाखातीर सुर्याचीं किरणां फांतोडेच्या पारार जो उजवाड फांकयतात तो हो भगवो रंग. तेचखातीर भगव्या ध्वजाक गुरूस्थानीं दवरून परमपुज्य डॉ हेडगेवारान दरेके व्यक्तीमदीं समर्पणाची भावना जागोवपाच्या उद्देशान भगव्या

ध्वजाक गुरू मानला.

म्हाका जें कितें मेळटा तें ह्या समाजाकडल्यान मेळटा. पयसो, सूख आनी सुरक्षितताय. तेन्ना ह्या समाजाचें रीण फारीक करप हें म्हजें कर्तव्य. हें सगळें आसा तें समाजाचें, परमेश्वराचें. हांगां म्हज्या अहंकाराक सुवात ना. अहंकार, ईर्ष्या, पदांचो हावेस, सुवार्थ ह्यो सगळ्यो राक्षसी वृत्ती. ह्या आसुरी वृत्तींक तिलांजली दिवन त्याग, तपस्या, मोग, निरहंकार अश्या गुणांक आपणावप हीच खरी गुरुची पुजा. हेंच खरें जिणेचें सार्थक.

म्हजे गरजेपुरतें तितलें दवरप आनी उरिल्लें सगळें समाजाक ओंपप ही म्हजी मोख हांगांच थाल्ली. म्हजे जिणेक एक मोडण मेळ्ळें. एक ठोस दिशा मेळ्ळी.

कॉलेज तशेंच हिंदीचें शिक्षण आनी संघांतलें शिक्षण अश्या दोन समांतर ट्रॅकांचेर हो प्रवास सुरू जालो. हे दोन ट्रॅक केन्ना एक जाले तें म्हाका कळ्ळें लेगीत ना. पूण ह्या समर्पीत ट्रॅकावेल्यान म्हजो प्रवास आजय अखंड चालू आसा.

विश्वनाथावांगडा 1945 वर्सा जांबावले गेल्लों तेन्नाच दादान सांगिल्लें आयुर्वेद घे म्हूण, देखून घेतिल्लें. पूण आमकां आयुर्वेद शिकोवपी शिक्षक सामकोच नवो आशिल्लो. आयुर्वेदाची प्रॅक्टीस तर ताणें केन्नाच केली नाशिल्ली. तेन्ना तो कितें शिकयतालो ती फकत थियरी. परिक्षेक लागता ती. हांवूंय आयुर्वेद परिक्षेपुरतोच शिकलों. शिकपाची गोडी नाशिल्ली अशेंय न्ही. उलट भगवद्गीतेच्योबी सर्ती जाताल्यो थंय म्हाका इनामां लेगीत मेळटालीं. तरीकय आयुर्वेदापरस शाखाच ही म्हजी चड लागींची शाळा जाली.

वांगडाच आनीक एके चळवळीचो नकळटांच हांव वांटो जावन गेलों. दक्षिण भारत हिंदी प्रचार सभा. हिंदी शिकप, शिकोवप आनी हिंदीचो प्रसार करप हें उद्दिश्ट घेवन महात्मा गांधीन 1918 वर्सा हे सभेचें मुळावण घाल्लें. महात्मा गांधीच्या फुडाकारान डॉ सी पी रामस्वामी अय्यर आनी एनी बेजण्टान मेळून मद्रासांत ही सभा सुरू केल्ली. केरळ, आंध्र प्रदेश, तामिळनाडू आनी कर्नाटकांत हिंदीचो प्रसार करपाखातीर. तांच्यो हिंदीच्यो परिक्षा दिवप म्हटल्यार हिंदीचो प्रचारक जावपावटेन एकेक पावल मारीत वचप. पाठशाळेंत शिकतनाच

हांवें सभेच्यो मुळाव्यो प्रथमा, मध्यमा अश्यो परिक्षा पास केल्ल्यो. कॉलेजींत पावसर मुखाल्ल्यो परिक्षा दिवपाक सुरवात केली. पयल्याच वर्सा प्रवेशिकेची परिक्षा दिली आनी बरे तरेन पासय जालों. भारत स्वतंत्र जावच्या तीन दिसांपयलीं हिंदी विशारद परिक्षाय पास केली.

कॉलेजीचें दुसरें वर्स सुरू जालें आनी म्हजो संघांतलो सहभाग दिसान दीस वाडतच गेलो. त्याच वर्सा कार्कळा जाल्ल्या संघाच्या आयटीसी कॅम्पांत हांवें वांटो घेतलो. आयटीसी म्हटल्यार धा दिसांचो इन्स्ट्रक्टर ट्रेनिंग कॅम्प. ह्या कॅम्पांत वांटो घेतकीर शाखाप्रमुख जावपाची तांक येता. संयुक्त अभ्यास, अभ्यासिका अशें सगळें कितें ह्या कॅम्पांत जाता. कवायत, दंड, लाठी, योग हांचें खर ट्रेनिंग. ह्या कॅम्पांतल्यान राष्ट्रप्रेमाची जाणीव आनीकय प्रबळ जाली. परत कॉलेजींत आयिल्लों तेन्ना हांव संघाचो एक अविभाज्य भाग जाल्लों. राष्ट्रप्रेमाची एक नवी दिश्टी मेळिल्ली. एके वटेन स्वातंत्र्याचो लढो चलतालो जाल्यार दुसरे वटेन ब्रिटीश वतकीरय आमचें मुळावें वैभवसंपन्न राष्ट्र नव्यान उबारून खरें स्वातंत्र्य हाडपाक जाय हो साक्षात्कार जाल्लो.

फाल्यां ब्रिटीश हांगासून वतकीर स्वतंत्र जातलो तितलोच आमचो भारत देश? काय आसेतुहिमाचल हो आमचो खरो भारत देश? हो भारत देश परत प्रस्थापीत कसो जातलो? ब्रिटिशांनी हांगां फकत वेपाराखातीर राज्य केलेंना. तांणी आमची मानसिकता बदलावन उडोवपाचो प्रयत्न केलो. देशाच्यो शिमो थारावन आपणें भारत देश घडयला, नाजाल्यार तो केन्नाच इतलो एकसंघ नाशिल्लो हो गैरसमज पातळायलो. आपापणामदीं लढायो करीत आशिल्ल्या आनी वेगवेगळ्या जमातींमदीं विभागिल्ल्या समाजाक ब्रिटिशांनी एकठांय हाडलो हें आतां आमचे कांय भारतीय फुडारी लेगीत मानपाक लागिल्ले.

पूण हाचेर गुरू गोळवलकर गुरुजींचें विवेचन वाचलें आनी ताचेर चर्चा केली तेन्ना सत्य कितें तें होलमलें. मुसलमान वा ब्रिटिशांवरी आमीय आर्य लोक भायल्यान आयिल्ले हो समज कसो चुकीचो तें तांणी वेवस्थीत समजावन सांगिल्लें. मांस कच्चें न्हय तर भाजून खावचें हें लेगीत पाश्चात्य लोकांक खबर

नाशिल्लें त्या काळासावन राष्ट्र ही संकल्पना घेवन ह्या जगांत कोण उबो राविल्लो आसत जाल्यार तो आमचो भारत. राजा भरतान निर्मिल्लो.

*उत्तरं यत्समुद्रस्य हिमात्देश्चैव दक्षिणम् ।*

*वर्षं तद् भारतं नाम, भारती यत्र संततिः ।।*

संस्कृत विद्यापीठांत हांव शिकतालों तेंच तर गुरुजीन अचूक सांगिल्लें. तेंयबी आतांच्या न्हय तर वेदकालीन श्लोकांचो आदार घेवन. समुद्राचे उत्तरेक आनी हिमालयाचे दक्षिणेक आसा ती भूंय म्हटल्यार भारत आनी थंयचे लोक ते भारती. आनी हे संदर्भ फुडें पुराणां आनी महाकाव्यांनीय मेळटात. आयचें अफगाणिस्तान म्हटल्यार तेन्नाचें उपगणास्थान. महाभारतांतलो शल्य राजा थंयचोच. आयचें काबूल आनी कंदाहार हो मुळांत गांधार देश. कौरवांची आवय गांधारी हांगाची. महाभारतांतलें इरावत म्हटल्यार इरावती न्हंयचो वाठार. तिबेट म्हटल्यार त्रिविप्टप. हांगां देव रावताले. आनी कैलास तर परमेश्वराचें निवासस्थान. गंगा, सिंधू, ब्रह्मपुत्रा ह्या पवित्र न्हंयांचें उगमस्थान आशिल्लें मानससरोवर तर आमचें सगळ्यांत पवित्र थळ. आजलेगीत हिंदू मनीस स्नान करतना सगळ्या न्हंयांक अर्घ्य ओंपताः

*गंगे च यमुने चैव गोदावरि सरस्वति ।*

*नर्मदे सिंधु कावेरि जले स्मिन् सन्निधिं कुरूं ।।*

फकत ब्रिटीश सत्तेक विरोध करप म्हटल्यार राष्ट्रवाद न्हय आनी ब्रिटिशांक धांवडावन आमी भारतीय राज्यसत्तेर बसप म्हटल्यार स्वराज्य प्रस्थापीत करप न्हय. राजकीय सत्ता ही आमच्या भारताची मोख केन्नाच नाशिल्ली आनी राजा-महाराजा हे आमच्या समाजाचे केन्नाच मार्गदर्शक नाशिल्ले. भारतीय समाजाचे खरे मानदंड आनी पथदर्शक म्हटल्यार सर्वसमर्पित वृत्तीन लोकांच्या कल्याणाखातीर आपली जीण ओंपपी आमचे ऋषीमुनी. आमचे धर्मसंस्थेचे प्रतिनिधी. धर्मसत्ता हीच अंतीम सत्ता. राजा हो हे नैतीक अधिसत्तेचो एक निशठावान अनुयायी. हे घडयेक आमचे आदर्श म्हटल्यार ब्रिटीश सत्तेआड आवाज काडपी स्वामी रामकृष्ण परमहंस, स्वामी विवेकानंद, महर्षी रमण, योगी अरविंद हे अध्यात्मपुरुष. ताणी

सांगिल्ल्या मार्गार वचून भारत राष्ट्र पुनर्प्रस्थापीत करप ही स्वराज्याची खरी मोख.

आनीक एका प्रस्नाची जाप ह्या कॅम्पांत मेळ्ळी. राजकारणांत धर्म हाडप हें चूक काय बरोबर? युरोपीयन आनी हेर पाश्चात्य देश हे बरोच काळ धर्मसत्तेखाला चलताले. तेयबी धर्माविशींच्या साचेबद्ध समजुतेखाला. धर्मगुरूंचे हे सत्तेआड बंड करून तांणी नवी राज्यवेवस्था प्रस्थापीत केल्ली. पूण गुरुजी सांगताले ते प्रमाण उजवाड आनी काळोख हांचेमदीं जितलें अंतर आसता तितलें पाश्चात्यांची धर्मधारणा आनी आमची धर्मधारणा हांचेमदीं फरक आसा. आमचेखातीर धर्म वा अध्यात्म म्हटल्यार आचारविराचारांची एके विशिश्ट चौकटींतली नेमावळ न्ही. आमचो धर्म आनी आमचें अध्यात्म म्हटल्यार आमचे पुराय जिणेचो दिश्टीकोण. राजकीय सत्ता वा अर्थीक सत्ता आसता तशी आमी धर्म ही आनीक एक सत्ता कशी माननात. आमचेखातीर धर्म वा अध्यात्म म्हटल्यार जिणेचो दृष्टिकोण. सर्वांगपरिपूर्ण जीण, समाजाच्या सगळ्या आंगांचे पावंडे उबारपी तत्वज्ञान आनी जिणेक गिन्यानाची जोड दिवन जिणेचो दृष्टिकोण व्यापक करपी जिवनरस. आमचे राष्ट्रीय अस्मितायेचो प्राण.

आतां हांव शाखाप्रमुख जाल्लों. मागीर फुडलें पावल साहजीकच आयलें. ओटीसी. म्हटल्यार ऑफिसर्स ट्रेनिंग कॅम्प. सुमार 30 दिसांचो. हे कॅम्प तीन वर्सां करपाचे. तिसरो कॅम्प जाता तो नागपुरा. संघाच्या मुख्यालयांत. ते वाटेन चलपाची म्हज्या मनाची तयारी जावपाक लागिल्ली. म्हणटकीर त्या वर्सा मे म्हयन्याचे सुटयेंत हांव जांबावले गेलोंना. बेळगांवां गेलों. एका म्हयन्याच्या ओटीसी कॅम्पाक.

*न त्वहं कामये राज्यं, न स्वर्गं, नपुनर्भवम् ।*
*कामये दुःखतप्तानां प्राणिनामार्तिनाशनम् ।।*

म्हाका राज्य करपाची इत्सा ना, सर्गाची आस ना वो मोक्षाचीय ओढ ना. चिडुल्ल्या चेपिल्ल्यांचें दुख्ख पयस करप होच म्हजो हावेस.

समाजाची सेवा हीच परमेश्वराची सेवा ही आमच्या आदल्या म्हालगड्या ऋषी आनी संतांची शिकवण. हो मंत्र घेवनच हांव ह्या कॅम्पांतल्यान भायर

सरलों. विशुद्ध चारित्र्य, विनयशीलता आनी भलायकेन घटमूट रावप हो पयलो पावंडो. अहंकार मनशाक सकयल्या पावंड्यार व्हरता. ताचेपसून मुक्त रावप हें स्वयंसेवकाचें पयलें कर्तव्य. बुन्यादीचो फातर केन्नाच कोणाक दिसना. दिसता ती ताचेर उबारिल्ली इमारत. ती बांदपाखातीर बुन्यादीच्या फातरावरी अदृश्य रावन कार्य करपाचो एक नवो मंत्र म्हाका ह्या कॅम्पांत गावलो.

एके वटेन संस्कृत शिरोमणि इंटर वर्स सुरू जालें आनी दुसरे वटेन संघाचें कार्य. सद्दां शाखेर वचप हो नित्यनेम जाल्लो. त्याय वर्सा सुटी पडटकीर ओटीसीच्या दुसऱ्या कॅम्पाक परत बेळगांवां गेलों.

दरेकल्याच्या काळजांत राष्ट्रप्रेम जागोवप हीच आतां मोख थाल्ली. तेविशींचे गुरुजीचे विचार सामकेच मोलादीक. राष्ट्रकार्य करपी दरेका स्वयंसेवकाच्या अंतस्करणांत एक श्रद्धा आसप साप्प म्हत्वाची. सगळीं मनशां गुणीच आसतात आनी खंयची ना कसली जापसालदारकी घेवपाची तांक तांचेमदीं आसता. समजा हे गूण तांचेमदीं नासत जाल्यार स्वसंसेवकामुखावेलें तें खरें आव्हान. ताचेमदीं ते गूण तयार करप ही खरी सत्वपरिक्षा. कोणूच जल्मासावन देशद्रोही नासता. कांय वेळार राष्ट्रदिरोधी विचारांचेर टिका ही करचीच पडटा. पूण तेन्नाय त्या लोकांविशीं आदरभाव दवरून हें कार्य करपाक जाय. दरेकल्याचे सदूण वळखून ते विकसीत करपाक जाय.

कॅम्प सोंपलो आनी संघांतल्याच दोगा-तिगां इश्टांवांगडा गोंयां गेलों. तांचे वांगडा गोंय भोंवलों. ते गेले. हांव फाटल्यान रावलों. सुटी सोंपली आनी परत कार्कळा आयलों. एके वटेन देश स्वतंत्र जावपाचो वेळ लागीं पाविल्लो. दुसरे वटेन देशाची फाळणी जावपाचीं उलोवणींय निमण्या पावंड्यार पाविल्लीं. देशांत सगळ्याकच अस्वस्थता सुरू जाल्ली. संघान तर हे फाळणेक खर विरोध केल्लो. हिंदू आनी मुसलमान एकठांय आयलेबगर देशाक स्वातंत्र्य मेळचें ना अशी भुमिका आमच्या राष्ट्रीय फुडाऱ्यांनी घेतिल्ली. आनी दुसरे वटेन हिंदू आनी मुसलमानांक दोन राष्ट्रांमदीं विभागून आमचो देश स्वतंत्र करपाचें कारस्थान चलतालें. हातूंतल्यान दोनय वाठारांतल्या हिंदू आनी मुसलमानांचे घराबे

सासणाखातीर विस्थापीत जातले हाचो लेगीत विचार जायनाशिल्लो. राष्ट्रीयत्वाचे खंयचे व्याख्येंत हें बसतालें? पूण संघाची ही राष्ट्रीयत्वाची भुमिका आयकुपाचे मनःस्थितींत कोणूच नाशिल्लो.

दुसरे वटेन संघ आनी काँग्रेसीच्या ह्या राजकारणांत म्हाकाच विस्थापित जावचो पडटलो हें हांव नकळो आशिल्लों. संघाच्या कामाक लागून हॉस्टेलाचेर पावपाक म्हाका तिळसांजचीं सातबी जातालीं. आनी हॉस्टेलान तर नवो नेम केल्लो. स भितर सगळ्यांनी जेवन घेवपाक जाय. आमच्या हॉस्टेलाचो सुपरिंटेंडेंटय काँग्रेसवालो. पूण आमच्या जिल्ल्याचो संघचालक कार्कळ सदाशिव राव होच आमच्या मॅनेजमेंटाचोय अध्यक्ष आशिल्लो. हांव हॉस्टेलाचेर दर दिसा जेवपाक उसरां पावतां म्हूण म्हजेआड कागाळ गेल्ली. पूण आमच्या अध्यक्षान कानार केस ओडले आनी हांव साल्वार जालों.

हांव हॉस्टेलार पावतालों तेन्ना रांदचे कुडींत दिवो लेगीत नासतालो. कॅरोसिन मेळना म्हूण निमित्य सांगून काळोख करताले. म्हजेकडेन तर सादी टॉर्च लेगीत नाशिल्ली. तसोच काळखांत बसून जेवतालों आनी रुमार वतालों.

पूण मर्दींच मॅनेजमेंट बदल्ली. हॉस्टेलाच्या सुपरिंटेंडेंटाक चेव आयलो. एक दीस हांव जेवपाक वचनासतना हॉस्टेलाचेरच न्हिदून उरलों. जालें. इतलेंच निमित्य घेतलें आनी ताणें म्हाका हॉस्टेलांतल्यान सग्ळ भायर काडलो.

हांव बेघर जालों.

खंय वचप, खंय रावप कांयच सुचना जालें. माथ्यार ट्रंक घेतली आनी सरळ अनंतशयन गेलों. सदाशिव रावागेर. येकडीच खटपट करून म्हाका म्हयन्याक दोन रुपया भाड्यान एक कूड मेळ्ळी. सादी काळखी कूड. वीज ना, न्हाणीय ना, म्हणटकीर उदकाचो तर प्रस्नूच ना. सक्काळीं उठून दोन किलोमीटर चलत रामसमुद्र सरोवराचेर वचप, थंयच न्हावन बिवन येवप आनी परत येवन कॉलेजींत वचप. आमच्या संघांतलो एक स्वयंसेवेक बी सुब्राय म्हाल्या हाणें तागेर म्हजी जेवपाची वेवस्था केली. शेषगिरी प्रभु म्हूण आनीक एकटो म्हाका म्हयन्याक एक रुपया स्कॉलरशीप दितालो. एकली बायल तातूंतच भागोवन घेवन म्हाका सकाळचें

नवटांगभर दूद हून करून दिताली. अडेच ते तीन आण्यांत ब्रेकफास्ट जातालो.

घरा कांयच कळयलें ना. संघाच्या एका निश्ठावान स्वयंसेवकामुखार आयिल्लें हें संकश्ट पेलपाचो हांवें निश्चेव केल्लो. एके वटेन आमचो भारत देश स्वतंत्र जावपाचे वाटेर पाविल्लो. परकी राज्यसत्तेचो काळोख पयस जावन स्वातंत्र्याची फांतोड उजवाडपाचो वेळ लागीं येतालो. आनी हांव मात - स्वातंत्र्यांतल्यान स्वराज्य प्रस्थापित करूंक सोदपी चळवळीचो एक प्रामाणिक स्वयंसेवक - म्हज्या हक्काच्या हॉस्टेलांतल्यान काळखे कुडींत पाविल्लों...





# घर संवसार





1) भिकू राया भट 2) आई अन्नपुर्णावांगडा (दाव्यांतल्यान) इंदिरा वसंत भट, शोभा मनोहर प्रभुदेसाय, मीरा श्रीधर भट आनी सुमन मोहनदास भट. (फाटल्यान उबे दाव्यांतल्यान) वसंत, मनोहर, गोविंद, श्रीधर, मोहनदास



आशाचे व्हाड्डिकेवेळार भाव, भावजयो आनी भुरग्यांवांगडा



# घर संवसार



श्रीधर आनी मीरा भट



आशावांगडा श्रीधर आनी मीरा भट



कुटुंबः श्रीधर आनी मीरा. (बशिल्लीं) आशा,
मांडयेर गोकुळ, श्यामल आनी रामदास



मेवणो गोपाळकृष्ण कामतीवांगडा



आशाचो मांव डॉ सुधाकर रावावांगडा





नातरां (गोकुळाच्यो धुवो)
शरण्या आनी शिवानी

श्यामलाचो मांव
एस्. पी. तोनशे

# घर संवसार



पिरायेचीं 60 वर्सां घरकात्र मीरावांगडा



85 व्या वाडदिसा मंगळूरचे आमदार श्री. के. राम भट्ट आनी विश्व हिंदू परिषदेचे वरिश्ठ प्रचारक बाबुराव देसाई हांचे हस्तुकीं भोवमान



90व्या वाडदिसा ओवाळटना धुवो आशा, श्यामल आनी सून गायत्री



90 व्या वाडदिसा जांबावले आपल्या भावा–भयणांच्या नातरांवांगडा



धुवो आनी पुतांचीं भुरगीं आनी पणटुरांवांगडा



# बंदखण

**भारत** स्वतंत्र जालो खरो, पूण फाळणेन सगळें वातावरणच बदलून उडयलें. भारतांतल्यान पाकिस्तानांत आयिल्लो आनी पाकिस्तानांतल्यान भारतांत आयिल्लो सुमार देड कोटी लोक विस्थापीत जालो. सगळ्यांचे संवसार आरत्याचे परते जाले. पिळग्यांनी पिळग्यो जंय तांणी आपली जीण सारिल्ली तेच आपापले गांव, जमीन, घर-दार सोडून भायर सल्ले. इतिहासाकडलें आपलें नातें सासणाचें तोडून. जिवाभावाचो आपलो वाठार आनी यादी काळजाच्या कुरकुटांत साठोवन.

दुसरे वटेन भारतांतल्या दोनय धर्मियांमदीं दंगल उसळ्ळी. लाखांनी लोकांचे जीव गेले. भारतांतल्याच लोकांनी एकामेकांचीं रगतां व्हांवयत तिरंगो वयर चडयलो. सासणाखातीर भारत-पाकिस्तान नांवाची खुटी मारून ब्रिटीश परत गेले. गांधी-नेहरू-जीनाचे चुकीचे राजनितीचे घाय मात आमी सोशीत रावले.

हे घाय पेकता थंय आशिल्ले, 30 जानेवारी 1948 ह्या दिसा महात्मा गांधीची हत्या जाली. पुण्याच्या नथुराम गोडसे नांवाच्या 38 वर्सांच्या तरणाट्यान सरळ बिर्ला हावसांत वचून सांजेचे प्रार्थनेक भायर सरिल्ल्या गांधीचेर ताचे फुड्यांत

वचून गुळयो घातल्यो.

ही घडणूक घडली तेन्ना आमचे सरसंघचालक गोळवलकर गुरुजी आशिल्ले मद्रास. बसका अर्दार सोडून ते बेगोबेग नागपूरा आयले. हे हत्येचो फकत निशेधच करून संघ रावलो ना, पूण दुखवटो म्हूण 13 दीस शाखा बंद दवरपाचो गुरूजीन आदेश दिलो. संघाच्या इतिहासांत हें पयलेचे खेपे घडटालें. वादळ, वारें, पावस कितेंय येवं, पूण शाखा ही चलपाकच जाय हो संघाचो नेम. संघान तो पयले खेपे मोडलो. त्या महात्म्याक आदरांजली दिवपाक.

पूण पुलिसांनी अटक केल्लो गोडसे केन्ना तरी खंय संघाचोय स्वयंसेवक आशिल्लो. उपरांत हिंदू महासभा. तितलेंच निमित्य पुरो जालें. भारतभर लोकांनी संघाक टार्गेट केलो. गोडसे ब्राह्मण देखून पुणे शारांत तर घराघरांनी घुसून ब्राह्मणांक मारले. भारतभर संघविरोधी वातावरण तयार जालें.

3 फेब्रुवारी दिसा काँग्रेस सरकारान गुरुजीक अटक केली. दुसऱ्याच दिसा भारतभर संघाचेर बंदी घाली. संघाचे स्वयंसेवक भारतभर दहशतवादी करण्यो करतात, चोरयो करतात, दरोडे घालतात, दंगल माजयतात, बंदुको घेवन खून करतात अशे तरेचे फटीचे आरोप करून सरकारान आपले बंदीचें समर्थन केलें. कार्कळांतय कांय लोक आमचेकडेन आमीच हत्यारे जाल्लेवरी पळोवपाक लागले. भारतभर पुलिसांनी अटकसत्र सुरू केलें. संघाच्या कितल्याशाच स्वयंसेवकांक कादयेंत घालें.

पूण सगळ्या वाटांनी पोलीस तपास करून लेगीत गांधी हत्या संघान केली असो पुरावो मेळूंक पावलोना. आज लेगीत मेळिल्लो ना. नासलोच तो मेळटलो कसो? देखून दुबावीत म्हूण अटक केल्ल्या स्वयंसेवकांक निमणें सोडचें पडलें. ऑगस्ट येयसर गुरुजीचीय सुटका जाली. पूण नागपूराभायर खंयच प्रवास करपाक जायना, जाहीर सभा घेवंक जायना आनी सरकाराचे परवानगेबगर कांयच प्रसिद्ध करपाक जायना अश्यो अटी घालून.

ऑक्टोबर येयसर ह्योय अटी सरकाराक सदळ करच्यो पडल्यो. भायर प्रवास

करपाचेर घाल्ली बंदी काडली आनी गुरुजी गेले सरळ दिल्ली. कारण प्रधानमंत्री नेहरू आनी गृहमंत्री सरदार वल्लभभाई पटेलाक कितलिशींच पत्रां धाडून लेगीत सरकार संघावेली बंदी काडपाक तयार नाशिल्लें. देखून सरकारालागीं आमने-सामने उलोवणीं करपाक गुरुजीन राजधानी लागीं केली. एक तर गांधी हत्येंत संघाचो सहभाग सिद्ध करात नाजाल्यार बंदी उठयात असो सरळ पावित्रो गुरुजीन घेतिल्लो. तांची मागणी अमान्य जाली. मजगतीं संघान काँग्रेसींत येवचें असो प्रस्ताव पटेलान दिलो. पूण गुरुजीन तो सरळ भायर माल्लो. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ ही एक सांस्कृतिक संघटना, तेन्ना ती खंयच्याच राजकीय पक्षांत विलीन जावपाक शकना अशी सरळसोट भूमिका गुरुजीन घेतली.

काँग्रेस सरकारान गुरुजीक सांगलें, तुमी परत नागपूरा वचात. गुरुजीन सांगलें, वच्चों ना. सरकाराच्या आडमुठ्या धोरणाचो निशेध म्हूण 9 डिसेंबरा गुरुजीन आमकां सगळ्यांक आदेश दिलोः सगळ्या स्वयंसेवकांनी सत्याग्रह करपाचो. शाखा सुरू करून सत्याग्रह. दुसऱ्याच दिसा गुरुजीक परत अटक करून नागपूरा तांची रवानगी केली.

आमकां चेव चडलो. वासुदेव प्रभु म्हूण आमचो एक स्वयंसेवक आशिल्लो. ताचे माळयेर आमी जमले. हांव, वासुदेव, रमानाथ आनी रामचंद्र भट. मुखेल शाळेंतल्या आठवी-णववेच्या भुरग्यांक घेवन गांधी मैदानाचेर शाखा घेवपाचें थारलें. माळयेरच बसून 'संघावेली बंदी काडात' म्हूण शायेन बरयल्लो पोस्टर तयार केलो. रातच्या काळखांत सायकल घेवन वचून हांवें तो पोस्टर गांधी मैदानालागसर मारिगुडी देवळामुखार लायलो. सकाळफुडें रामचंद्र भटान शाखा घेतली. पूण पुलिसांक कळसर शाखा फाफसल्ली.

सांजे स वरांचेर शाखाप्रमुख म्हूण म्हजी ड्युटी. स वरांचेर हांव भगवो घेवन मैदानार गेलों, भगवो लावपाक पिल्लूक माल्ली. भरभर करून जळामळां आशिल्ले भुरगे मैदानार जमले. प्रार्थना म्हणपाक सुरवात केली. पुलीस आमकां जोखूनच आशिल्ले. चारूय वटांनी आयले आनी लागलेच आमकां बडोवपाक.

चुकून कोणय धांवन गेल्लो आसत. सगळ्यांक अटक केली आनी चलयत व्हेलें तीन किलोमीटरांचेर आशिल्ल्या तालुको ऑफिसांत. वाटेर सगळे लोक पळयताले. आमी शूर वीर कशे चलताले.

भारतभर सगळ्याकच सुमार 80 हजार स्वयंसेवकांनी हो अभिनव सत्याग्रह करून अटक करून घेतिल्ली. तातूंतलेच आमी.

तालुको ऑफिसांत व्हरून सगळ्यांचीं नांवां बरोवन घेतलीं आनी आमची वरात व्हेली परत शारांत आशिल्ल्या हॉस्पिटलांत. मॅडिकल करपाखातीर. आनी तशीच वरात परत तालुको ऑफिसांत. आमचेवांगडा आशिल्ले शाळेंतले भुरगे आबूज जाल्ले. आमी तांकां धीर दिलो. तांचे पालकय पाविल्ले. तांकां पळयतकीर तांच्या जिवांत जीव आयलो. सकाळ जायसर पालक परत आयले. तातूंतले थोडे स्वताच वकील. हेर लोक आपापले वकील घेवन आयले. सगळ्यांक जामीन मेळ्ळो. उरले फकत आमी दोग-तीग जाण. हांव, सुब्राय मल्ल्या आनी रामचंद्र भट. आमकां व्हरून उबे केले उडुपी मॅजिस्ट्रेटामुखार. वांगडा कोणूच वकील ना. सुब्रायानच आमची बाजू मांडलीः

"आमी कसलोच देशद्रोह केल्लो ना. आमी केला तो निखटो गांधीन सांगिल्लो सत्याग्रह. तेन्ना आमी गुन्यांवकारी न्हय."

पूण कांयच परिणाम जालोना. आमकां तीन म्हयन्यांची सक्तमजुरीची ख्यास्त जाली.

आमची रवानगी जाली कण्णनूर सँट्रल जेलांत. केरळांत. कासरगौड काडून मुखार. कार्कळाच्यान सुमार शंबर किलोमीटरांचेर. ब्रिटिशांनी बांदिल्ली ह्या वाठारांतली सगळ्यांत व्हडली बंदखण. लांब-रूंद. चारूय वटांनी दोन-तीन मनशां उंचायेच्यो वण्टी. लांबच्या लांब आळीन कादयो. मुखार उक्त्यार फकत तण, तण आनी तण. अदीं मदीं पोपायो. दरेके कादयेक एकेक लोखणाचें दार. एक-दोन मनीस न्हिदपाक शकतात येदीच कादय. भितर संडास ना आनी न्हाणीय ना. एक बुडकुलो. मदींच केन्नाय जाल्यार तातूंत मुतपाचें. तेच हिमसाणींत

न्हिदपाचें. एक कांबळ हातुळपाची, एक वेल्यान घेवपाची. सकाळीं स वरांचेर भायर काडटाले. सांजे स वरांचेर परत भितर. सकाळफुडें सातांक जोंधळ्याची इडली आनी वाळची भाजी. आमचे वांगडा हेर वाठारांतलेय स्वयंसेवक आशिल्ले. तांकांय थंयच घाल्ले. एकामेकांक मेळपाक दिनाशिल्ले. तरीकय जमता तश्यो चार गजाली मारताले. परत वताले, काळखा कुडींत.

आमी कांय चोर-लफंगे नाशिल्ले. दरोडेखोर वा खुनीय नाशिल्ले. आमी आशिल्ले राजकीय कैदी. तरीकय आमकां मेळटाली ती वागणूक हेर गुन्यांवकारांसारकीच. ताचेर आमी बोवाळ घालो. आठ-धा दिसांनी आमच्या मागण्यांक येस मेळ्ळें. त्या काळखी कुडींतल्यान आमकां भायर काडले. सगळ्यांक एका लांब हॉलांत घालें. सेकंड क्लास फॅसिलिटी कशी. सगळ्यांक वांगडा दवल्ले. थंय संडासाची वेवस्थाय आशिल्ली. सगळे वांगडाच आशिल्ल्यान धीरय आयलो. आमी दर दिसा आमची प्रार्थनाय सुरू केली.

सगळेच भारतीय संस्कृतीविशीं अभिमान बाळगुपी. पूण बऱ्याचशा जाणांक हिंदी येनाशिल्ली. शिकपाची उमेद आशिल्ली. म्हजेभितल्लो 'हिंदी' जागो जालो. तांकां हिंदी शिकोवपाची जापसालदारकी हांवें घेतली. दर दिसा नेमान हिंदीचे वर्ग सुरू केले.

हिंदीचो शिक्षक म्हूण म्हजी कारकिर्द सुरू जाली जेलांत. हिंदी शिकयत हांवें तीन म्हयन्यांची ख्यास्त भोगली. आनंदान. उमेदीन. गर्वान.

तीन म्हयन्यांनी मार्चांत आमची सुटका जाली. हांव परत कार्कळा आयलों. निमण्या वर्साचे परिक्षेचो फॉर्म भरपाची तारीक जावन गेल्ली. म्हजें वर्स गेलें. रावतालों ती कूडय गेल्ली. पूण पश्चात्ताप जालोना. पश्चात्ताप जालो तो एकेच गजालीचो. ह्या सगळ्या बोवाळांत म्हजो तिसरो आनी निमणो नागपूराचो ओटीसी कॅम्प जावपाक शकलो ना.

घरा कोणाकच कांयच सांगलें ना. रकादय धाडलो ना. पूण मुखार कितें करपाचो हो प्रस्न आशिल्लोच. हेरांक सगळ्यांक आपापलीं घरां आशिल्लीं,

कुटूंब आशिल्लें, आवय-बापूय आशिल्ले, फुडें कितें करप हें सांगपी मार्गदर्शक आशिल्ले. म्हाका कोणूच नाशिल्लो. संघ हेंच म्हजें कुटूंब आनी स्वयंसेवक हेच म्हजे कुटुंबीय. चार दीस ह्या स्वयंसेवक भावंडांच्या घरा हांगां थंय रावलों. पूण हें सदांकाल काय परवडपाचें नाशिल्लें. चुकिल्ली परिक्षा फुडल्या वर्सा दियसर कितें तरी करपाक जाय आशिल्लें.

इतल्यांत आमच्या हिंदी प्रचार सभेकडल्यान कळ्ळें कीं तामिळनाडूंतल्या त्रिचनापल्लींत हिंदी प्रशिक्षण कॅम्प आसा. हिंदी प्रचारक जावपाक शिक्षक प्रशिक्षण. ते खातीर दालमिया शिश्यवृत्ती आशिल्ली. हांवें आनी रामचंद्र भटान थारायलें, त्रिचनापल्ली वचपाचें. त्रिचनापल्ली (त्रिची) हें तामिळनाडूंतलें दक्षिण भारत हिंदी प्रचार सभेचें प्रांत कार्यालय. दक्षिण भारतांतली हिंदी प्रचाराची चळवळय गांधीन मद्रासांतल्यानच सुरू केल्ली. आमी त्रिचनापल्ली गेले. आमच्या दोगांवांगडा कर्नाटकांतलो उडुपा म्हूण एकलो आशिल्लो. हेर सगळे मद्रासांतलें वा केरळांतले.

गांधी हत्येक लागून आरोपी म्हूण तीन म्हयने बंदखणींत काडिल्ले. आतां गांधीचें हिंदीचें सपन पुराय करचें म्हूण हिंदी शिक्षक जावपाखातीर भायर सरिल्लों. म्हजें म्हाकाच हांसपाक आयलें. गांधीन स्वतंत्र केल्ल्या भारतांतलो केदो हो विरोधाभास!

दक्षिण भारतांत हिंदीचो प्रसार करप इतलीच गांधीजीची मोख नाशिल्ली. वांगडाच हिंदूंची संस्कृतप्रचूर हिंदी आनी फारशी भाशेचो प्रभाव आशिल्ली उर्दू हांचें फ्युजन करून पुराय भारत देशाखातीर एक प्रमाण भास घडोवपाचीय मोख हिंदी प्रचार सभेन दवरिल्ली. गांधीजीन ते कल्पनेंतले भाशेक नांव दिल्लें - हिंदुस्तानी. ताका लागून ह्या कॅम्पांनी हिंदीवांगडाच उर्दू भाशेचेंय प्रशिक्षण दिताले. एक मुन्शी शिकयतालो. त्रिचनापल्लीच्या ह्या कॅम्पांत हांव उर्दूय शिकलों. म्हज्या भाशा गिन्यानांत आनीक एके भाशेची भर पडली. कोंकणी, मराठी, हिंदी, कन्नड, तुळू, पुर्तुगेज आनी इंग्लीशीवांगडा आतां उर्दूयबी.

हो कॅम्प हिंदीच्या अभ्यासाचो नाशिल्लो. हिंदी शिकोवची कसो ताचो आशिल्लो. प्रशिक्षण कॅम्प सोंपलो आनी आमी परतेचे वाटेक लागले. पूण सरळ कार्कळा आयले नात. पावल्यातच मद्रास प्रांतांत जाल्यार वाकडी वाट करून कांय इतिहासीक आनी धर्मीक सुवातो पळोवनच या म्हूण भायर सल्ले.

सुरवात केली त्रिचनापल्लीच्यानच. थंयच्या रॉक फोर्टाविशीं सगळेच उलयताले. हो ऊंच अखंड फातोर हिमालयापरसूय चड आदलो म्हूण सांगताले. 300 कोटी वर्सांपयलींचो खंय. देखून तो पळोवपाची उमळशीक आनीकय वाडिल्ली. इतलो तेंप म्हाका दिसतालें, कार्कळांत बाहुबलीची मूर्त आसा तो फातोर सगळ्यांत व्हडलो. पूण हो ताच्याकय महाकाय आशिल्लो. 272 फूट. वयर वचपाक मेज्जून 344 सोंपणां.

हांगां सकयल मुळसाकडल्या विनायक देवळाकडल्यान वयर तेंगशेर आशिल्ल्या गणपतीच्या आनीक एका देवळामेरेन तीन-चार ल्हान-व्हड देवळां आसात. सगळ्यांत प्राचीन तें पल्लवांनी सव्या शेकड्यांत बांदिल्लें देऊळ. ताका सकयली गुहा म्हणटात. वयले गुहेंत दुसरें देऊळ. दोनय देवळां आसा तोच फातर कोरांतून उबारिल्लीं. तेभायर राजवाडोय आसा. आनी उदकाचें एक तळेंयबी. हांगाचो निमणो राजा विजयनगराचो. मागीर हो किल्लो ब्रिटिशांनी बळकायलो.

त्रिचनापल्लीकच तेंकून आशिल्लें तंजाऊर. तें पळोवपाची ओढ म्हाका आनीक एके गजालीक लागून आशिल्ली. छत्रपती शिवाजी महाराजान स्थापन केल्ल्या हिंदवी स्वराज्याची शीम महाराष्ट्रांतल्यान सुरू जाताली ती दक्षिणेंत म्हैसूर प्रांत काडून मद्रास प्रांतांतल्या तंजाऊरा सोंपताली. शिवाजीचो धाकलो सावत्र भाव व्यंकोजी उर्फ एकोजीन विजापूर सल्तनताची आदिलशाही सोंपोवन हांगां मराठ्यांचे राज्य स्थापन केल्लें. सतराव्या शेंकड्याचे अखेरेक. उपरांत शिवाजीचो नातू आनी राजारामाचो पूत दुसरो शिवाजीमेरेन हें राज्य उल्लें. 1855 वर्सा ब्रिटिशांनी तें जिखून घेतलें. परकी सत्तेकडल्यान हातासून घेवन भारतीय संस्कृती रुजोवपाचें काम मराठा स्वराज्यान केल्लें. गोंयची पुर्तगेजांची सत्ता हातासप मात

मराठ्यांक शक्य जालेंना. देखून तंजावराचें म्हाका वेगळेंच आकर्शण आशिल्लें. थंयचो मराठ्यांचो राजवाडो आनी गोपूरांच्या स्थापत्यशास्त्रान बांदिल्लीं देवळां पळोवन आमी फुडें गेले.

मदुराई म्हटल्यार आमचो गोंयचो अंत्रूज म्हाल कसो. देवदेवतांचो. सगळ्या वाटांनी गोपुरांच गोपुरां. एक आनी दोन न्हय, तब्बल चौदा. सगळ्यांत व्हडलें आनी प्राचीन म्हटल्यार मीनाक्षी अम्माचें देऊळ. वैगेई न्हंयचे तिराचेर वसयल्लें हें गोपुरांनी भरिल्लें देऊळ पळोवन खऱ्यांनीच दोळ्यांचे पारणें फिटलें. जिवाक धन्य धन्य दिसलें. कितें तें वास्तुशास्त्र आनी कितें ते आमचे वास्तुशास्त्री.

थंयच्यान गेले सरळ कन्याकुमारी. आमच्या भारतांतलें एक पवित्र थळ. पूर्वे चो बंगालचो उपसागर, पश्चिमेचो अरबी समुद्र आनी दक्षिणेचो हिंदू महासागर हांचो पवित्र संगम भारत देशाच्या ह्या तोंकार जाता. आसेतु हिमाचल म्हणटात तेन्ना होच संगम सादपाखातीर म्हाका वावुरपाचें आशिल्लें. त्या संगमाचो मनाकाळजाथावन हांवें दोळे धांपून आशिर्वाद घेतलो.

आज कन्याकुमारी हें पर्यटनाचें थळ जालां. 1970 वर्सा उबारिल्ल्या विवेकानंद स्मारकाक लागून आनी मागीर 2000 वर्सा उबारिल्ल्या तामिळ संतकवी तिरुक्कुरलाच्या महाकाय पुतळ्याक लागून. पूण आमी गेल्ले तेन्ना हें कांयच नाशिल्लें. आशिल्लें तें कन्याकुमारीचें देऊळ आनी तो शांत-प्रशांत महासागरांचो संगम. तें पळोवन भरून येवपी काळजांतलो उमाळो.

थंयच्यान केरळांत भितर सल्ले. त्रिवेन्द्रम वचपाक. आयचें तिरुवनंतपुरम. केरळ राज्याची राजधानी. राजा रवि वर्मासारको आमच्या देव-देवतांक चित्ररूप दिवपी चित्रकार ह्याच त्रिवेन्द्रमांत जल्मल्लो. थंयचें पद्मनाभस्वामी मंदीर आनी बाकीचे राजवाडेबी पळोवन आमी आमची यात्रा सोंपोवपाची थारायली. मजल दरमजल करीत परत कार्कळा आयले.

परत आयलों खरो. पूण आतां पयलो प्रस्न उबो रावलो तो रावप खंय? कारण कांयच न्ही जाल्यार आयुर्वेद शिरोमणीची फायनल परिक्षा दिवपाकच जाय

आसली. ती नाजाल्यार घरा कितें तोंड दाखयतलों? तो प्रस्न सोडयलो वासुदेव राव ह्या आमच्या फुल टायम प्रचारकान. संघाच्या कामाक लागून नेमाप्रमाण ताणें घर-दार सोडिल्लें. पूण आपलें घर ताणें म्हाका रावपाक दिलें. तांचें दुकान आशिल्लें. आनी त्या दुकानाफाटल्यान आशिल्ली एक कूड. ते कुडींत हांव रावपाक लागलों. खावपा-जेवपाचीय वेवस्था तागेरच. थंयच रावन संघाचें काम करीत हांवें मार्चाच्या म्हयन्यांत आयुर्वेद शिरोमणीची फायनल परिक्षा दिली.

जे गजालीखातीर भटकंती करीत मार्शेच्यान जांबावले आनी जांबावलेच्यान कितल्योशोच न्हंयो हुपून हांगां कार्कळ आयिल्लों ती मोख निमणें स वर्सांनी तोंडार येवन राविल्ली. पूण परत गांवांत वचपाचो योग नाशिल्लो. भटकंती सोपूंक नाशिल्ली.





# नागपूर व्हाया आंध्रा

**रिजल्टाची** वाट पळयतालों तेन्नाच कळ्ळें मंगळूराचे हिंदी विशारद विद्यालयांत फूल टायम शिक्षकाची नोकरी आसा. हिंदी प्रचार सभाच हें स्कूल चलयताली. सकाळीं 9 ते सांजे 4 मेरेन काम. हांवूंय हिंदी विशारदमेरेनच शिकिल्लों. पूण वांगडाच त्रिचनापल्ली वचून घेतिल्ल्या शिक्षकी प्रशिक्षणाचें सर्टिफिकेट आशिल्लें. रामकृष्ण नावडा म्हूण प्रचार सभेचो सचीव आशिल्लो. शाळाय तोच चलयतालो. ताणें सांगलें यो, हांव गेलों.

1941 वर्सा कार्कळा आयिल्लों. 1950 वर्सा मंगळूर पावलों. तेन्ना नकळो आशिल्लों हांव म्हजे कर्मभुमींत पावल दवरलां. गोंयां जल्मल्लों, कार्कळा घडलेलों आनी आतां मंगळूर पाविल्लों. थंय जी एस नगरकर म्हूण जांबावलेचो एक म्हाजन आशिल्लो. तागेर कांय दीस रावलों आनी मागीर रावपाक एक खोली केली. आनीक दोग जाणांवांगडा. सदाशिव कामत म्हूण एकटो पोस्टांत काम करतालो. आनी पुरुषोत्तम म्हूण दुसरो शाळेंत शिक्षक. म्हयन्याक 15 रुपया भाडें तिगूय जाण वांटून घेताले.

पगार 50 रुपया, 27.50 रुपया म्हारगाय भत्तो आनी 10 रुपया सिटी

अलावन्स. वट्ट म्हयन्याची जोड 87 रुपया आठ आणे. जेवपाक हॉटेलांत. अडेज आण्यांक ब्रेकफास्ट, म्हटल्यार म्हयन्याक साडेचार रुपया. 30 रुपयांत दोन वेळच्या जेवणाचीं 60 कुपनां. तेभायर भाडें. कपड्यांचो खर्च चड कांय नाशिल्लो. दोन-तीन सदरे, दोन लुंग्यो, एक तुवालो आनी हेर भितरले कपडे. पयलीच नोकरी इतलीय वायट नाशिल्ली. ब्रह्मचारी आनी घर-दार कांय ना म्हणटकीर परवडटालें.

शाळेचें काम सुरू जायसर रिजल्ट आयलो. म्हाका आयुर्वेद शिरोमणीची पदवी मेळ्ळी. पूण उपेग कितें? प्रॅक्टिकल अणभव शुन्य. आयुर्वेदाची प्रॅक्टीस सुरू करपाचें धाडस जालेंना. मात हिंदी शिकोवपाचो अणभव आशिल्लो. ताकाच लागून तर नोकरीय मेळिल्ली. म्हणटकीर हिंदीचेर चड लक्ष दिवपाचें थारायलें. शिकोवपांत दीसभर वतालो. उरिल्लो वेळ राष्ट्र भाषा हिंदी प्रवीण परिक्षेचो अभ्यास करपांत काडलो. त्या वर्सा परिक्षा दिवन प्रवीणय जालों.

ह्या बोवाळांत संघकार्याकडेन चड लक्ष दिवंक पावलोंना. फकत न चुकतां सकाळफुडें प्रभात शाखेक तितलों वतालों. हेर कांय जबाबदारी घेवप शक्य नाशिल्लें. संघाची ही एक गजाल म्हाका खूब भावताली. तुका जमता तितलें काम कर, पूण हेर व्यापांक लागून संघाकडलो संपर्क तोडनाका.

हांव विशारद विद्यालयांत कामांत घुस्पलों, पूण वर्सभर चलून शाळाच बंद पडली. म्हजी पयली नोकरी गेली.

आतां कितें करतलों? परत कार्कळा वचप शक्य नाशिल्लें. मंगळूरा रावप शक्य नाशिल्लें. गोंयां वचूनय कितें करतलों? बेठोच घरच्यांक भार. घेतिल्ले डिग्रीचो कांयच फायदो नाशिल्लो.

थारायलें. मद्रास वचपाचें. सभेच्या हेडक्कार्टसांत. त्रिचनापल्ली गेल्लेकडेन हिंदी प्रचार सभेच्या कितल्याशाच सिनियर लोकांकडेन वळख जाल्ली. शिक्षा मंत्री, परिक्षा मंत्री, सचीव अशे सगळेच. जूनाच्या म्हयन्यांत, भर पावसांत म्हजीं सपनां भिजयत मद्रास पावलों.

भितर सर जाल्यार मुखार म्हजो त्रिचनापल्लीचो शिक्षकच उबो. ताणें वासपूस केली. हांवें सगळें सांगलें. तो म्हणपाक लागलो, ''भिनाका. हो पळय आमचे

सभेचो एक प्रचारक आंध्राच्यान आयला. बेजवाडा (विजयवाडा) शाराकडल्यान मुखार एका गांवांत हिंदी विशारद विद्यालय चलयता. ताका शिक्षक जाय. वता?''

ना म्हणपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. हांवें सोमतीच म्हजी साटली पोटली उखल्ली आनी लागलों आंध्राचे वाटेक.



व्यंकटेश राव एक खर गांधीवादी. बेजवाडा काडून मुखार एक गांव आशिल्लो. पामरू. त्या गांवांत ताणें ही शाळा सुरू केल्ली. गुरुकुलावरी. आंध्र प्रदेशाच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान हांगां भुरगे हिंदी शिकपाक येताले. थंयच रावन शिकताले.

गोंयच्यान कार्कळ, मंगळूर आनी मद्रास. पूण आजूनमेरेन हांव पश्चिमेकच आशिल्लों. आतां मात दक्षिण भारतांतच, पूण पश्चिमेसावन पूर्वेक वतालों. अरबी समुद्राकडल्यान बंगालच्या उपसागरावटेन. बेजवाडा (विजयवाडा) शार काडून दोन शारां मुखार एक स्टेशन येता. थंय देंवपाचें आनी बैलगाडयेन पामरू वचपाचें.

स्टेशनार देंवन आमी बैलगाडयेंत बसले. हेर गांवांवरीच गांव. हांगांय भातच रोयताले. तशींच शेतां. तशेच बांद. पूण एक फरक म्हत्वाचो. हांगां माड उणे, ताड चड. ताडाक हांगां तेलुगुंत तालि वा नामताडू म्हण्टात. कांयकडेन पोटूताडूय म्हणटात. आतां म्हाका हांगां तेलुगु शिकची पडटली. आनीक एक भास. मातयेच्या रस्त्यार बैलगाडी गडगडटाली, वांगडा म्हजी चिंतनांय गडगडटालीं. खंय आयिल्लों? खंय पाविल्लों? फुडें कितें? हांगां कितले दीस? काय हांगांच? लोलयेंचें हें पाखरू उडत उडत पामरु पाविल्लें...

पाभरू हो आंध्र प्रदेशाच्या कृष्णा जिल्ल्यांतलो एक गांव. कृष्णा न्हंयचो एक कालवो ह्या गांवांतल्यान वता. देखून पिकावळ बरी आसता. तेलुगु देसम पक्षाचो संस्थापक एन् टी रामाराव ह्या गांवचो. देखून फुडाराक ह्या गांवाची बरीच उदरगत जाली. आतां तें शार कशें जालां. पूण तेन्ना एक सादो गांव आशिल्लो.

तांचें हिंदीचें विद्यालयय मजेशीरच. इमारतबी कांय ना. कालव्याचे देगेर

बांदिल्ल्यो ताडाच्या मल्लांच्यो खोपी. तातूंत विद्यार्थी रावताले. एकच पक्कें कशें दिसपी घर. म्हाका व्यंकटेश रावान त्या पक्क्या घरांत व्हेलो आनी सोप्यार बसयलो.

''आप यहाँ रहेंगे'', ताणें सांगलें. घरांत न्ही, सोप्यार.

म्हजी कांयच हरकत नाशिल्ली. खंय तरी नोकरी आनी आलाशिरोय मेळ्ळो हाचेरच हांव खूश आशिल्लों.

पूण त्या सोप्यार हांव म्हयनोभरय न्हिदलोंना. तेलुगु शिकपाकय पावलोंना. त्याच वेळार हिंदी प्रचार सभेन आग्रा शारांत हिंदी उच्च शिक्षणा खातीर एक प्रशिक्षण आयोजीत केल्लें. दक्षिणेच्या चार प्रांतांतल्यान चार जाणांक धाडपाचें केल्लें. तेखातीर डाल्मिया स्कॉलरशिपय मेळटाली. हांवेंय अर्ज केलो. सिलॅक्ट जालों. पामरू सोडून हांवें आग्राची वाट धल्ली...

हेर तीग जाण मद्रासाच्यान भायर सल्ले. म्हजी रेल्वे तिकेट तांचेकडेन आशिल्ली. हांव तांकां विजयवाडा वचून मेळ्ळों. आमचें रिजर्वेशन आशिल्लें. जिणेंत पयलेच खेपे हांवें थ्री टियर बोगी पळयली. स्वताचो म्हूण एक सीट. रातचो न्हिदपाखातीर तुजो स्वताचो बर्थ. पांय सोडून न्हिदपाचें. आवांताद न्हिदलों.

इतलो तेंप दर्या देगेवेल्यान भोंविल्लों. आतां भारताच्या पोटांतल्यान. देड हजार किलोमिटरांचें अंतर. पावपाक तीन दीस लागताले. आंध्रांतल्यान महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश असो प्रवास करीत मागीर आग्रा. वाटेर नागपूर लागतालें.

नागपूर! आमच्या राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें मुख्यालय. आमची स्वयंसेवकांची काशी. गांधी हत्ये उपरांत संघाचेर बंदी आयली, सत्याग्रह करतना म्हाकाय बंदखण जाली आनी नागपूरांत जाता तो तिसरो ओटीसी कॅम्प म्हाका चुकलो. तें मुख्यालय पळोवपाची उमळशीक मनांत उडयो मारपाक लागली.

रेल्वेंत ब्रेक जर्नी करपाक मेळटा म्हूण आयकल्लें. टीसीक विचारलें. तो म्हणपाक लागलो, जाता. मागीर आनी फाटी-फुडें विचार केलोना. नागपूरा देंवन सोडलें. रिक्शा केली आनी गेलो तडक आमच्या संघाच्या मुख्यालयांत. रेशम बाग मैदानालागीं आशिल्ल्या केशव स्मृति मंदिरांत.

हांव नाागपुरा गेल्लों तो काळ मात्सो धामधुमीचो आशिल्लो. डॉ श्यामाप्रसाद

मुखर्जीन कॉंग्रेसीच्या केंद्रीय मंत्रीपदाचो राजिनामो दिल्लो. संघाची विचारधारा मुखार घेवन वचपी आमचो स्वताचो राजकीय पक्ष घडोवपाचेर खल चलतालो. आरएस्एस् हो राजकीय पक्ष करचो ही कल्पना गुरुजीन फाफडून उडयिल्ली. ह्या सगळ्या बोवाळांत गुरुजी नागपुरा आसत काय? आसल्यारय म्हजेसारक्या एका सामान्य स्वयंसेवकाक मेळत काय? दुबाव मनांत घोळयतच हांव आमच्या मुख्यालयांत भितर सल्लों.

मुखार व्हडलें पटांगण. एके कुशीक देवळाची घुडी कशी आनी तातूंत डॉ केशव बळीराम हेडगेवाराचो राजाच्या थाटांत मांडयेर मांडी घालून बशिल्लो पुतळो. कार्यालयाचे कुशीकच एक गांवठी नळ्यांचें माळयेचें घर. कार्यालयांत वच्चेपयलीं आमच्या संस्थापकाच्या पुतळ्याक वंदन केलें  आनी कार्यालयांत गेलों. गुरुजी नागपूरांतच आशिल्ले. हांवें खंयच्यान आयलां, वाटेर देंवन हांगां कसो आयलां सगळें सांगलें. तांणी गुरुजीक मेळपाक परवानगी दिली.

बाळासाहेब आपटे नांवाचो एक संघाचो एक म्हालगडो फुडारी थंय मेळ्ळो. हांव हिंदीचें प्रशिक्षण घेवपाक वता म्हूण ताका अजाप जालें. संघांत हिंदीपरस संस्कृताक चड म्हत्व आशिल्लें. पूण हांवें आयुर्वेदांत संस्कृतांतल्यान शिरोमणी पदवी घेतल्या म्हूण आयकून मात तो खूश जालो.

गांवठी नळ्यांच्या त्या घरांत माळयेर एके कुडींत गुरुजी रावताले. येदे व्हडल्या राष्ट्रव्यापी संघाचो मुखेली एका येद्याशा घरांत रावता? तोय कसलोच थाटमाट नाशिल्ले एके कुडींत? गुरुजींचें व्यक्तिमत्वय तितलेंच भारदस्त. इतलो तेंप फोटयांत पळयिल्ल्या गुरुजीक आज हांव प्रत्यक्ष पळयतालों. हड्ड्याकडेन पाविल्ली ती दाढी, मानेवेल्यान सकयल पाविल्ले केंस, रूंद कपाळ, तिक्ष्ण दोळे. गुरुजीक वंदन करतना हड्डें भरून आयलें.

गुरुजीन सगळी वासपूस केली. म्हजी तशेंच कार्कळ आनी मंगळूराच्या संघकार्याचीय. गुरुजीचो आशिर्वाद घेवन तेच रातीं हांवें दिल्लीची ट्रेन धल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळफुडें आग्रा पावलों.

दक्षिणेक सावन उत्तरेक म्हजी नवी भटकंती सुरू जाली...





# आग्राका हिंदीमहल

**आग्रा** कॅण्टोनमॅंट स्टेशनापयलीं आग्रा सिटी हें स्टेशन येता. ताका राजा की मंडी अशेंय म्हणटात. हांव थंय देंवलों. आमचे नागरी प्रचारिणी सभेचें कार्यालय स्टेशनालागींच आशिल्लें. आग्रा कॉलेजी फुडल्यान. थंय नावडा म्हूण एक सचीव आशिल्लो. ताचेकडेन वचून नोंदणी केली आनी म्हज्या वांगडा आयिल्ल्या इश्टांक मेळपाक गेलों. ते आदल्या दिसा पाविल्ले.

आग्र्याविशीं खूब आयकल्लें, वाचिल्लें. खासा करून ताजमहालाक लागून. थंय प्रत्यक्ष वतकीर ताचो आनीकय कितलोसोच इतिहास कळ्ळो. मुळांत ही मुगल साम्राज्याची राजधानी न्ही. एका तेंपार ल्हान गांव आशिल्ल्या ह्या वाठारांत राजधानी वसयली ती 1504 वर्सा सिकंदर लोदीन. दिल्ली सल्तनतीच्या ह्या दुसऱ्या सुलतानान दिल्लीची राजधानी आग्रा व्हेल्ली. मुगल भारतांत येवचे विशेक वर्सां पयलीं. फुडें सिकंदराचो पूत इब्राहीम सत्तेर आयलो तेन्ना 1526 वर्सा बाबरान पानिपताचे लढायेंत ताचो पराभव केलो आनी सल्तनत हातासली. तेन्नासावन आग्रा मुगलांची राजधानी जाली.

उपरांत अकबर, जहांगीर आनी शहाजहानमेरेन राजधानी आग्राच उरली.

फुडें शहाजहानान राजधानी दिल्ली व्हेली, तिका शहाजनाबाद अशें नांव दिलें आनी आपली सगळ्यांत मोगाची बायल मुमताजाचे यादीक आग्रा हो ताजमहाल उबाल्लो. पूण ताचो पूत औरंगजेबान बापायकच कैद केलो आनी सत्ता हातासतनाच राजधानी परत आग्रा व्हेली. थंयच्या लाल किल्ल्याचे कादयेंत बसून आपणेंच उबारिल्ल्ल्या ताजमहालाकडेन पळयत शहाजहानान निमणो स्वास घेतलो.

यमुना न्हंयचे देगेर पुराय संगमरमरान बांदिल्लो हो महल खऱ्यांनीच पळोवपासारको. आमी तो सकाळफुडें पळयलो, दनपारचो, सांजेचो, रातचो आनी खासा करून पुनवेचे रातीं. दरेक अणभव वेगवेगळो. आनी तातूंत चान्न्यांतलो ताजमहाल तर सगळ्यांत अप्रतीम.

अकबराचे पन्नाशेक वर्सांचे अमदानींत आग्र्याची आनीकय उदरगत जाली अशें सांगतात. सगळ्या मुगल बादशहांमदलो हो एक मात्सो वेगळोसो बादशहा. जितलो विद्वान तितलोच कलामोगी. ताणें आग्रा किल्लो धरून वेगवेगळ्यो खाशेल्यो इमारती बांदल्योच, पूण फतेपूर सिकरीसारकें एक नवें शारय वसयलें. तेभायर वेपार, कला, शिक्षण हांचीय उदरगत केली. ताका लागून आग्रा हें भारतांतलें एक मुखेल केंद्र जालें.

आनीक एके घडणुकेक लागून म्हाका आग्र्याविशीं उमळशीक आशिल्ली. हेच राजधानींत छत्रपती शिवाजी महाराजान औरंगजेबाक सासणाची बुद्द शिकयिल्ली. पुरंदराचो तह जातकीर मिर्जा राजे जयसिंगावांगडा तो आपलो धाकटुलो पूत संभाजीक घेवन आग्रा आयिल्लो. थंय ताका नदरकादयेंत दवरलो तेन्ना ताणें थोडे दीस बरो ना म्हूण नाटक केलें. मागीर बरो जालो अशें सांगून सगळ्यांक मिठाय वांटली. आनी एक दीस त्याच मिठायेच्या पेटाऱ्यांतल्यान बापूय-पूत पसार जाल्ले. स्वताक पुराय हिंदुस्तानाचो शहेनशहा समजुपी औरंगजेबाच्या तोंडाक पानां पुसून. त्रिचनापल्ली गेल्लों तेन्ना मराठा साम्राज्याची दक्षिणेची शीम तंजावर पळोवन आयिल्लों. आतां मुगल सल्तनतीक आव्हान दिवपी आग्रा पळयतालों. नकळटांच म्हजेभितर वीरश्री संचारली.

प्रत्यक्षांत राबितो सुरू जालो तेन्ना मात ही वीरश्री कांय प्रमाणांत शेळेली.

नागरी प्रचार सभेच्या वाठारांतच आमकां रावपाक दोन कुडी दिल्ल्यो. न्हाणी-संडास ना. तेन्ना न्हावप-धुवप सगळें भायर आशिल्लें उदकाचे एके टांकयेर. ऑक्टोबरमेरेन बरें आशिल्लें. पूण नोव्हेंबर लागीं आयलो आनी ल्हवू ल्हवू उदक झेल जावपाक लागलें. सकाळफुडें तो कुडकुडो सोंसपाचो न्ही. तापमान सात आनी आठ सेंटिग्रेडीचेर पावतालें. केन्ना केन्ना तर शुन्याचे सकयलय वतालें. मागीर हांवें एक आयडिया केली. सक्काळफुडें उठून दंड-बैठको काडप, पुराय आंग हुमेन भरप आनी भायर गुडयेकडेन आशिल्ल्या सार्वजनीक नळार वचून न्हावप. थंय दीसभर बायलां यो-वच करतालीं. देखून सक्काळफुडें स वरांचेर वचून न्हावप. हें उदक टांकयेच्या उदकाइतलें झेल नासतालें. पिकासांवांक आमच्या गोंयांत 'झेलाद पिकासांव' कित्याक म्हणटात तें थंय होलमलें.

जेवपा-खावपाची वेवस्था तांणी केल्ली. थंय रांदप्याक महाराज म्हणटात. हो महाराज येवन रांदतालो. आनी आमी भालदार-चोपदार ताणें केल्लीं खाणां गरम गरम रोटी वा फुलक्यांक लावन बरीं चोपून-चाखून खाताले. दक्षिण भारत आनी उत्तर भारताचे संस्कृतायेंत कितलो फरक आसा तो ह्या खाणांतल्यान कळटा. आमचे थंय सगळें कितें तांदळांभोंवतणीं घुंवता, जाल्यार हांगां गंवांभोंवतणीं. शीत ना. रोटी, चपाती, फुलका, पुरी, पराठा अशेंच सगळें. वांगडा भाजी नाजाल्यार दाटसो रोस.  भल्ला म्हूण एक मेळटा. आतां ताका आलू टिक्का म्हणटात. उकडिल्ले बटाट चिड्डून मसाल्यांनी भाजप आनी चेटणी लावन खावप. परवल साग, परवल की सब्जी, आलू परवल. बोटां लेगीत चोखून खावपाइतली रुचीक. तेभायर नरगिसी कोफ्ता, दालमोथ अशे वेगवेगळे पदार्थ. जितले मसालेदार तितलेच रुचीक. सकाळफुडें ब्रेकफास्टाक कचोरी, जिलेबी वा आग्राचो फामाद पेठा. एक आनी दोन न्ही, पेठाचे प्रकारय कितलेशेच.  पेठा गुलाब लड्डू, कंचा पेठा, केसर अंगूरी पेठा, केसर पेठा, लाल पेठा, नारियल पेठा, पान पेठा, रसभरी पेठा, सैंडविच पेठा, पनीर पेठा. आतां तर चेरी आनी चॉकलेट पेठाय मेळटा म्हूण आयकलां. तेभायर चिकन-मटनाचेय कितलेशेच प्रकार आशिल्ले. पूण आमी शिवराक. जिबेक ती वाट बंद.

आग्रा पाविल्लों ताच्या तिसऱ्याच काय चवथ्या दिसा ताजमहाल पळोवपाक

गेल्लों. येतना पळयत जाल्यार यमुना न्हंयचे देगेर संघाची शाखा लागल्या. तसोच शाखेकडेन गेलों आनी शाखा प्रमुखाक मेळ्ळों. तो म्हणपाक लागलोः

"कल ही गुरुजी आये थे. वह दक्षिण भारत का स्वयंसेवक आया है क्या ऐसा पूछ रहे थे. वही हो ना आप?"

हांव आयकून अजाप. येदो व्हडलो सरसंघचालक. ताच्या माथ्यार कितल्योशोच जापसालदारक्यो. तातूंत ह्या दिसांनी तर काँग्रेसीक सोडून वेगळो राजकीय पक्ष काडपाचेर रणकंदन माजिल्लें. आनी ह्या सगळ्या बोवाळांत म्हज्यासारक्या एका सामान्य स्वयंसेवकाची तांणी याद दवरिल्ली. ओगीच न्ही, संघ इतलो व्हड जालो. मनांतल्या मनांत हांवें गुरुजीक परत वंदन केलें आनी अभिमानान भगव्यामुखार उबो रावलों. म्हजी शाखा हांगांय सुरू जाली.

हांगां आमचेभाशेन हिंदी प्रचार सभा नाशिल्ल्यो. नागरी प्रचारिणी सभा. कारण हांगांची भाशाच हिंदी. पूण मुळांत ती देवनागरींत बरयनाशिल्ले. हिंदीचो हो पुराय वाठार म्हटल्यार पयलींचें मुगल साम्राज्य. मागीर जावं तो आयचो उत्तर प्रदेश, उत्तराखंड, मध्य प्रदेश, बिहार, हरयाणा, राजस्थान. मुगल साम्राज्याची राजभास उर्दू आनी शिक्षणाचीय भास उर्दू. ती बरयताले अरबी आनी फारशी लिपयांनी. मात लोक उलयताले ब्रज, अवधी, मागधी, कनौजी, भोजपुरी, बक्षा, बुंदेली अश्यो भासो. सगळ्यो हिंदीक लागींच्यो. पूण बरयताले मात अरबी आनी फारशी लिपयांनी. तेभायर नोकरेखातीर उर्दूय शिकताले.

आमच्या गोंयांतय अशेंच जाल्लें. पुर्तुगेज राजवटीचो नेम म्हूण पुर्तुगेज शिकताले. हांवूय शिकिल्लों. पूण आमी उलयताले कोंकणी. पुर्तुगेजांचे राजवटींत ती बरोवपाकय लागले रोमी लिपयेंतच. देवनागरी लिपी कुशीकच पडली. गोंय मुक्त जावन भारतांत विलीन जातकीर देवनागरी लिपयेचो अधिकृत वापर सुरू जालो. आज तर ती शिक्षणाचीय लिपी जाल्या आनी केंद्रीय साहित्य अकादेमीनय देवनागरीच मानून घेतल्या. आमच्या कर्नाटकांत आनी केरळांतय आतां कन्नड वा मल्याळी लिपीबदला देवनागरी वापरपाची चळवळ ल्हवू ल्हवू सुरू जाल्या.

हीच गजाल उत्तर भारतांतय जाली. मुगल साम्राज्य लयाक वचून ब्रिटीशांचें राज्य आयलें आनी देशी भाशेंतल्यान शिक्षण दिवपाचें नवें वारें तयार जालें.

आवयभास ही शिक्षणाची आनी वेव्हाराची भास जावपाक लागली. तेन्ना केन्ना देवनागरी ही ह्या थळाव्या इंडो-आर्यन भासांची निसर्गीक लिपी म्हूण मान्य जाली. ''उलयतात तें बरयात, पूण नागरींतल्यान'' अशी एक चळवळच उबी जाली. नागरी प्रचारिणी सभेची स्थापना जाली 16 जुलय 1893 वर्सा. काशींत वाराणसीच्या क्वीन्स कॉलेजींतल्या तीन विद्यार्थ्यांनी हॉस्टेलांतल्या वारांदार बसून तिची स्थापना केल्ली. बाबू श्यामसुंदर दास, पं. रामनारायण मिश्र आनी शिवकुमार सिंह. उपरांत पंडित मदनमोहन मालवीय हांचे मुखेलपणाखाला एक चळवळच पुराय उत्तर भारतांत उबी जाली. तांणी पुराय अभ्यास करून 100 पानांचो एक अहवालच तयार केलो आनी ब्रिटीश सरकाराक दिलो. ताचेर विचारविनिमय करून निमणे 15 एप्रील 1900 ह्या दिसा सरकारी कामकाज आनी शालेय अभ्यासांत देवनागरी लिपयेंतल्यान बरयल्ले हिंदीचो वापर जातलो अशें अधिकृत परिपत्रक भायर सल्लें. तेन्नाच्यान चळवळीक आनीकय नेट आयलो. 1910 वर्सा नागरी प्रचारिणी सभेन पयलें हिंदी साहित्य संमेलन घेतलें. मुखार महात्मा गांधीच्या फुडाकारान दक्षिण भारत हिंदी प्रचार सभा आनी राष्ट्रभाषा प्रचार समिती, वर्धा स्थापन केल्यो. गांधीचो पूत देवदास तेखातीर पयलो प्रचारक म्हूण मद्रास गेलो. 1911 वर्सा आग्र्यांत नागरी प्रचारिणी सभा स्थापन जाली. हिंदी आनी वांगडाच हेर आवयभासो नागरींतल्यान बरोवपाचो प्रचार करप ही हे सभेची मोख आशिल्ली.

तेंच सूत्र धरून आमी दक्षिणेंतल्यान उत्तरेक पाविल्ले. इतले पयसुल्ल्यान आयिल्ले खरे. पूण आमचो हिंदीचो वर्ग चलतालो फकत एक वरभर. तोयबी सांजेचो. हिंदी साहित्य संमेलनान सुरू केल्लो एम्‌एच्या पावंड्यावेलो कोर्स. हिंदी साहित्य रत्न. पूर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अश्यो दोन परिक्षा. एक परिक्षा आमी थंयच आग्र्या दिली. वर्ग नांवाचेच. जमनीर बसपाचें.

पूण वर्गाभायर मात हिंदीचो खूब अभ्यास केलो. नागरी प्रचार सभेचे इमारतींत बरें ग्रंथालय आशिल्लें. बरें व्हडलें. कितलिंशींच आदलीं पुस्तकां थंय वाचपाक मेळ्ळीं. उपन्यास-सम्राट मुन्शी प्रेमचंदान धनपतराय ह्या टोपण नांवान उर्दूंतल्यान बरयल्ल्यो कांय कादंबऱ्योय चाळपाक मेळ्ळ्यो. कांय हस्तलिखितांय आशिल्लीं.

हें वाचनालय म्हटल्यार आमचें दुसरें घर जाल्लें. सकाळफुडें ब्रेकफास्ट घेवप आनी लायब्ररींत वचप हो नित्यनेम जाल्लो. पोटाची भूक महाराज वेवस्थीत भागयतालो. आमच्या मनाची भूक मात हे लायब्ररींत भागून भागनाशिल्ली.

वेगवेगळीं खाणां जितलीं रुचीन खाल्लीं तितलीच आमची मनाची रूच आनी मेंदवाची भूक भागोवन घेवपाचें भाग्य आमकां आग्र्यांत मेळ्ळें. एकापरस एक हिंदी प्रकांड पंडित, साहित्यीक, समीक्षक, प्राध्यापक हांकां प्रत्यक्ष मेळपाचो सहयोग. सगळ्यांत चड डॉ रामविलास शर्मा. राजपूत कॉलेजींत तो इंग्लीश विभागाचो मुखेली आशिल्लो. पूण तितलोच व्हडलो हिंदी समीक्षक म्हूण ताची नामना आशिल्ली. ऋग्वेद ते मार्क्स अशो सगळ्यो विचारधारा पचयिल्लो विद्वान. हिंदी समिक्षेच्या मळार आचार्य रामचंद्र शुक्ला उपरांत ताचें नांव घेताले. ताणें साहित्याची समिक्षा फकत साहित्य प्रतिभेचो कस लावन केन्नाच केलिना. समाजकारण, अर्थकारण, राजकारण, इतिहास अश्या सगळ्या गजालींचे कसवटेर घांसून ताणें दरेका साहित्याचें आलोचन केलें. भाषा, साहित्य आनी समाज असो त्रिवेणी संगम साधून साहित्य समिक्षा करपी आनी स्वताचीय साहित्य निर्मणी करपी ह्या विद्वानाक मेळ्ळों हें म्हजें भाग्यच. खासा करून हिंदी साहित्यांतलो महान कवी निराला उर्फ सुर्यकांत त्रिपाठीच्या काव्याची ताणें केल्ली समिक्षा अजरंवर जाली. आमी मेळ्ळे तेन्ना चाळिशीचे ऐन उमेदींत आशिल्लो. ताचेकडल्यान परवानगी घेवन आमी ताच्या एम्‌एच्या क्लासीक वचून नेमान बसताले.

तितलोच व्हड साहित्यिक आनी समीक्षक म्हटल्यार बाबू गुलाबराय. आमी आग्र्या पावले तेन्ना सेंट जॉन्स कॉलेजींतल्यान हिंदी विभागाध्यक्ष म्हूण रिटायर जाल्लो. भारत सरकारान आतां ताचो स्टॅम्पय काडला. निबंध आनी समिक्षेच्या मळार ताणें केल्लें लिखाण वाचीतच आमी व्हड जाल्ले. विशारद करतना ताचो 'हिंदी साहित्य का सुबोध इतिहास' आमी शिकिल्ले. ताच्या लिखाणाचें खाशेलेंपण म्हटल्यार ताची शैली जितली भावपूर्ण तितलीच विनोदी आनी व्यंगात्मक. एखाद्रो कठीण विशय लेगीत ह्या आंगांनी केळोवन तो वाचनीय करतालो. कबीर आनी सूरदासाच्या साहित्याचेर तर ताचें सुमराभायर प्रभुत्व आशिल्लें. ताच्या घरा वचून आमी ताचे फाटीकच लागले, आमकां सूरदास

शिकय. निमणें ताणें मान्य केलें आनी आमी रातीं सपनांतय सूरदास गावपाक लागले.

रांगेय राघव होय असोच आग्रा रावपी हिंदी साहित्यांतलो एक माहीर. कविता, कथा, कादंबरी, नाटक, निबंध, इतिहास आनी वांगडाच समीक्षा अशीं साहित्याचीं सगळींच मळां कुशळटायेन हाताळिल्लो अश्टताशी साहित्यिक. कथेचो पारंपारीक आयाम बदलून आधुनीक कथेचें मुळावण घालपी प्रयोगशील लेखक. आमी मेळिल्ले तेन्ना ताची पिराय आमचेइतलीच. तिशीचे फाटिफुडें. पूण साहित्य मात म्हालगड्यांलागीं सर्त करपाइतले तांकीचें. फकत पिरायेक लागून न्ही, पूण आनीक एके गजालीक लागून तो आमकां आमचोच कसो दिसतालो. ताचें मूळ नांव तिरुमल्ले नंबाकम वीर राघव आचार्य. गांव तिरुपती, आंध्र प्रदेश. तेलुगु मनीस. पूण हिंदीचें म्हत्व आनी सामर्थ्य ताका होलमल्लें. आनी ताकाच लागून तरणे पिरायेर कवितेंतल्यान हिंदी साहित्याची कारकीर्द सुरू करतकीर एक समर्थ कथाकार म्हूण तो वयर सरतालो. 'घरोंदा' ही ताची कादंबरी तेन्ना पुराय साहित्यिक मळार गाजताली. उपरांत कॅन्सराच्या दुयेंसाक लागून चाळिशींत पावल दवरचे पयलींच ताका मरण आयलें. पूण ताच्यासारक्या सिद्धहस्त साहित्यिकाक मेळून आमची जीण मात आनीकय गिरेस्त जाली.

आग्रा शारांत फकत शहाजहानाचो ताजमहाल नाशिल्लो. आमच्या हिंदुस्तानी साहित्याचो सरताजय आशिल्लो. कितलिशींच कवी संमेलनां, गोष्ठी, संगोष्ठी जायत आसताल्यो. आमी पिशे कशे हे साहित्य-यमुनेंत पोंवत रावताले. तितल्यान समादान जालें ना देखून साहित्य-गंगेंत बुडून येवया म्हूण एक फावट प्रयाग पसून वचून आयले. हिंदींतली नांवाजती कवी आनी कथाकार महादेवी वर्मा प्रयागांत स्वताचें एक महिला विद्यापीठ चलयताली. गंगा न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या ह्या विद्यापीठांत कवी-गोष्ठी जावपाच्यो आशिल्ल्यो. तें यूग आशिल्लें एकापरस एक खडेगांठ हिंदी कवींचें. आनी हे सगळे आमचे सपनांतले कवी ह्या गोष्ठींक येवपाचे आशिल्ले. सुर्यकांत त्रिपाठी उर्फ निराला, सुमित्रानंद पंत, जयशंकर प्रसाद, मैथिली शरण गुप्त आनी स्वता महादेवी वर्मा. चान्ने रातीं जाल्ल्या त्या गोष्ठींनी आमी चिप्प भिजले. तें सर्गसूख याद केल्यार आज लेगीत आंगावेली

ल्हंव उबदार जाता.

ह्या पुराय वाठाराचो राजभाशेचो प्रवास उर्दू ते हिंदी असो जाल्लो आसत. पूण हांगांच्या जनमानसाचेर मात खरें राज्य केलें तें ब्रज भाशेन. एक विशिश्ट हेल काडून उलोवपाची ही तरा इतली मधूर कीं ते उलयतात काय गायतात असो कोणाकय प्रस्न पडत. भक्ती पंथाच्या काळांत एकापरस एक संत कवींनी ब्रज भाशेक आपले काव्य प्रतिभेन गिरेस्त केलें. मागीर जावं तो सूरदास, अमीर खुसरो, रहीम, रसखान वा घनानंद. तांच्या योगदानान ही एक साहित्यिक भास जाली. फकत उत्तर प्रदेशांत न्ही, हरयाणा, मध्य प्रदेश आनी राजस्थान मेरेन. आनी ही परंपरा ह्या वाठारांतल्या सगळ्याच हिंदी साहित्यिकांनी मुखार व्हेली. आजय ब्रज भासा भारतीय साहित्य जगताचेर व्हडा अभिमानान राज्य करता.

मथुरा, वृंदावन आनी हाथरसाकय ब्रज भाशा सर्रास उलयतात. ह्या हाथरस शारांत एक ब्रज भाषा संमेलन जाल्लें. काँग्रेसीचो खासदार आनी नामनेचो हिंदी साहित्यिक सेठ गोविंददास उद्घाटक म्हूण आयिल्लो. एकापरस एक हिंदी कवी, कथाकार ब्रज भाशेचे मोगी. तेय आयिल्ले. तो तर एक वेगळोच अणभव आशिल्लो.

जांबावलेच्या पाण्ट्यार मनसोक्त न्हावचें तसो हांव हिंदी साहित्याच्या पाण्ट्यार न्हा न्हा न्हालों. सकाळचों, सांजेचों, रातीचों. एप्रिलांत आमचो कोर्स सोंपलो. हिंदी साहित्य रत्नाची पूर्वार्ध परिक्षाय दिली. सुमार आठ म्हयन्यांच्या ह्या यादगार कोर्सा उपरांत आमी आमची बिटकी कवळ्ळी. वाटेर येतना परत एक भोंवडी केली. प्रयाग, पटणा, शांतिनिकेतन, कलकत्ता, जगन्नाथपुरी. हांव परत विजयवाडाच्यान पामरू आयलों आनी सोप्यावेल्या घरांत रावन हिंदी शिकोवपाक लागलों. पूण जुलय ते एप्रील ह्या आठ म्हयन्यांत कितलोसोच शिकिल्लों. कितलेशेच अणभव गांठीक मारिल्ले. एक वेगळीच धुंदी चडिल्ली. आठ म्हयन्यांचे भटकंतीन म्हाका कितलोसोच गिरेस्त केल्लो.





# जनसंघ स्थापना

**एखाद्रे** इतिहासीक घडणुकेचो साक्षीदार जावपाक मेळटा तो भाग्यवानच. आग्रा आसतना म्हाका हें भाग्य लाबलें. भारतीय जन संघाचें संस्थापना अधिवेशन. 21 ऑक्टोबर 1951. रघुरामल आर्य कन्या विद्यालय, सँट्रल दिल्ली. फकत 200 प्रतिनिधी आशिल्ले. तातूंतलों हांव एक. प्रतिनिधी म्हूण न्हय, उमेदीन गेल्लों. आज 70 वर्सां उपरांत भारतीय जनता पार्टीचें केंद्रांतलें नरेन्द्र मोदी सरकार आनी उत्तर भारत धरून कितल्याशाच राज्यांनी भाजपाचीं सरकारां पळयतां तेन्ना मनाक जी खोस भोगता ती सांगप कठीण. आनी परत परत दोळ्यांमुखार येता तें जनसंघाचें पयलें अधिवेशन. फाटल्या 70 वर्सांचो राजकीय संघर्शाचो आनी खांचखळग्यांचो तो पुराय प्रवासच दोळ्यांमुखार नाचपाक लागता.

गांधी हत्येफाटल्यान संघाचो हात आशिल्लो हें कोणूच सिद्ध करपाक शकले नात. पूण संघाचो हात मात काँग्रेसीच्या फातराखाला चिड्डुल्लो. एक तर काँग्रेसींत येयात नाजाल्यार संघावेली बंदी चालूच उरतली अशी सरळ धमकीच जवाहरलाल नेहरू आनी वल्लभभाई पटेलासारक्या काँग्रेस फुडाऱ्यांनी दिल्ली.

तातूंत नेहरू देशाभायर आसतना संघवाल्यांक काँग्रेसींत प्रवेश दिवपाचो निर्णय जालो, पूण भारतांत परत येतकीर नेहरून ह्या निर्णयाक एक अट जोडली. संघ सोडात आनी काँग्रेसींत येयात. तें शक्य नाशिल्लें आनी बंदेची तरसाद तकलेर हुमकळायत संघकार्य करपय शक्य नाशिल्लें. अश्या प्रसंगार संघाचो एखाद्रो राजकीय पक्ष आशिल्लो आनी आमचे प्रतिनिधी संसदेंत आशिल्ले जाल्यार ही बंदी येवप शक्यूच नाशिल्ली अशें मत कांय जाण मांडटाले.

कारण गांधीहत्या करपी नथुराम गोडसे हो हिंदू महासभेचो वांगडी आशिल्लो. पूण प्रत्यक्षांत बंदी घाली ती राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचेर, हिंदू महासभेचेर न्ही. गुरुजीवांगडा महासभेचो फुडारी स्वातंत्र्यवीर सावरकराक आनी आनीक थोड्या तांच्या फुडाऱ्यांक अटक केल्ली. पूण हिंदू महासभेचो वांगडी डॉ श्यामाप्रसाद मुखर्जी केंद्रीय मंत्रीमंडळांत आशिल्लो. ताका लागून महासभेचेर बंदी घालिना. उरफाटें गांधी हत्ये उपरांत 15 दिसांभीतर हिंदू महासभेन आपलें राजकीय अस्तित्वच गुठलायलें आनी ती एक सामाजीक आनी सांस्कृतीक संघटना जाली. मुळांत सामाजीक आनी सांस्कृतीक संघटना आशिल्लो राष्ट्रीय स्वयंसेवक मात काँग्रेस सरकाराचो मुखेल राजकीय टार्गेट जालो.

ह्या घडणुकांक लागून संघाचोय एक राजकीय पक्ष आसचो हो विचार आकार घेवपाक लागिल्लो. स्वता गुरुजीचो हे भूमिकेक खर विरोध आशिल्लो, पूण चर्चा थांबलिना. 11 जुलय 1949 दिसा संघावेली बंदी काडली आनी एकेक करून अटक केल्ल्या कार्यकर्त्यांकय सोडले. फुडल्याच म्हयन्यांत हिंदू महासभेनय आपलो पवित्रो बदल्लो. आपलें राजकीय कार्य परत सुरू केलें. हाचेर खर हरकत घेवन डॉ मुखर्जीन हिंदू महासभेचो राजिनामो दिलो. म्हणटासर एप्रील 1950 त भारत-पाकिस्तानामदीं 'दिल्ली' करार जालो. दोनय देशांतल्यान अल्पसंख्यांकांक पुराय राखण आनी स्वातंत्र्य दिवपाच्या ह्या करारांतल्या कांय कलमांचेर डॉ मुखर्जी आनी नेहरूचें वाजलें. पूर्व पाकिस्तानांतल्या (आयचो

बांगला देश) हिंदूंक भारत सरकारान पाकिस्तानाचे दयाभावाचेर सोडून दिलां अशी खर टिका डॉ मुखर्जीन केली आनी आपलो निशेध नोंदवपाखातीर मंत्रीपदाचोय राजिनामो दिलो.

बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना अशी परिस्थिती डॉ मुखर्जीची जाल्ली. पक्षूय ना आनी मंत्रीपदय ना. पूण तो आपल्या निर्णयाचेर ठाम आशिल्लो. ही तत्वनिश्ठा पळोवन जेलांतल्यान सुटिल्ले कितलेशेच संघाचे फुडारी डॉ मुखर्जीक मेळ्ळे आनी नवो राजकीय पक्ष घडोवपाचो प्रस्ताव ताचे मुखार दवल्लो. तेखातीर फुडाकार घेतलो संघाचो प्रचारक आनी काश्मीरांतलो फुडारी प्रा बलराज मधोकान. आरती-परती चर्चा जावन निमणें गुरुजीनय आपली भुमिका जाहीर केलीः

"संघांतल्या स्वयंसेवकांनी वैयक्तीक पावंड्यार राजकीय पक्षाचें काम करपाक हरकत ना."

प्रा. मधोकावांगडाच पंडित दीनदयाळ उपाध्याय आनी अटलबिहारी वाजपेयीकय संघान अधिकृतपणान भारतीय जन संघांत राजकीय काम करपाखातीर धाडले. हिंदू राष्ट्र ही मुखेल संकल्पना घेवन भारतीय जन संघाचे स्थापनेचें कार्य सुरू जालें. वर्सभर चल्लें.

जन संघाचे स्थापनेच्यो बातम्यो आग्रा आशिल्लेकडेन आमच्या कानार पडत आशिल्ल्यो. कारण मुखेल काम चलतालें तें दिल्ली, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश, पंजाब, हिमाचल प्रदेश आनी राजस्थानांत. तेभायर पेप्सू. म्हटल्यार पातियाळा आनी इस्ट पंजाब स्टेट्स युनियन. पातियाळा आनी पूर्व पंजाबांतलीं संस्थानां मेळून तेन्ना हें एक तात्पुरतें राज्य घडयल्लें. शिमला, कसौली, कंडाघाट, धरमपूर आनी चैल हीं संस्थानां. हांगां सगळ्याक जनसंघाच्यो राज्य समित्यो स्थापन जाल्ल्यो. जनसंघाचे हे स्थापनेची एक गजाल म्हाका खूब भावली. पयलीं केंद्रीय पांवड्यार समिती घडोवन मागीर भारतभर हो राजकीय पक्ष घडलो ना. पयलीं वेगवेगळ्यां प्रांतांनी बसका, सभा घेवन चर्चा जाली, कांय प्रांतांच्यो समित्योय स्थापन जाल्यो आनी उपरांत दिल्ली मुखेल अधिवेशन जालें. जनसंघ मूळ घट

करून वयर सल्लो. वडाच्या रोपाचो महाकाय रूख जाता आनी ताचीं पाळां परत जमनींत रुजतात तशें.

म्हजी पिराय तेन्ना अशीतशी 25 वर्सांची. आंगांत रगत सळसळटालें आनी मनांत देशप्रेम खतखत्तालें. हिंदू राष्ट्राची संकल्पना राजकीय मार्गानच प्रत्यक्षांत येवपाक शकता ही ठाम धारणा म्हजीय जाल्ली. तेच इर्ष्येन हांव आग्र्याच्यान दिल्ली पावलों. दोन दीस चलिल्ल्यो सगळ्यो चर्चा आनी भाशणां आयकलीं.

पश्चिम बंगालांतल्यान आपली राजकीय कारकीर्द सुरू केल्ल्या डॉ श्यामाप्रसाद मुखर्जींक ह्या संमेलनान जनसंघाचो संस्थापक अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलो. स्वातंत्र्य लढ्यांत काँग्रेसमन म्हूण वावुरिल्लो दिल्लीचो मौलीचंद शर्मा उपाध्यक्ष जालो जाल्यार संघाचो प्रचारक आशिल्लो काश्मीराचो प्रा. बलराज मधोक सरसचीव. त्याच वर्सा ताणें अखिल भारतीय विद्यार्थी परिषदेचीय स्थापना केली. तेभायर दीनदयाळ उपाध्याय, अटलबिहारी वाजपेयी अश्या कितल्याशाच फुडाऱ्यांचीं भाशणां फुड्यांत रावन आयकलीं. वाजपेयी तर आमचेच पिरायेचो. देखून तो तर इल्लो चडच भावलो.

डॉ मुखर्जींचें भाशण सामकेंच प्रभावीत करपी आशिल्लें. ताणें सांगिल्लें तें फुडाराक आज खरेंय जालें:

"आज भारतीय जनसंघाच्या रुपान अखिल भारतीय पावंड्यार एक नवो राजकीय पक्ष उदेला. फाल्यां तो ह्या देशाचो मुखेल विरोधी पक्ष जातलो. आनी फुडाराक होच पक्ष आपले मातृभूमीकडेन भक्तीभाव आनी निश्ठा दवरून भावचार आनी विवेकाचे बुन्यादीचेर ह्या देशांतल्या समेस्त जनांक एका सुत्रांत बांदतलो."

डॉक्टरान मुखार आनीक एक गजाल सांगली, ती मनांत पक्की बसली.

"हो काँग्रेसींतल्या बंडखोर आनी असंतुश्टांनी घडयिल्लो पक्ष न्ही. काँग्रेसीचो वैचारीक दृष्टिकोण आनी धोरणां जांकां मान्य नात तांचो हो पक्ष. हाका वैचारीक बुन्याद आसा. नव्याताल्ल अश्या राष्ट्रवादाचो गाभो आसा."

पंडित दीनदयाळ उपाध्यायाच्या एकात्म मानवतावादाचे संकल्पनेविशीं

आयकल्लें, वाचिल्लें, पूण ती संकल्पनाय ह्या अधिवेशनांत प्रत्यक्ष याचि देही याचि डोळा आयकुपाक मेळ्ळीः

"आमी समाजाक स्वयंभू मानतात. राजसत्ता हें ह्या समाजाचें एक आंग. राज्यवेवस्थेवरी आनीकय वेगवेगळ्यो संस्था त्या त्या वेळाचे गरजेप्रमाण तयार जातात. दरेक व्यक्ती ह्या विंगड विंगड संस्थांचें आंग आसता. जसो हांव एका कुटुंबाचो आंग, एके जातिवेवस्थेचो आंग, हांव वेपारांत आसत जाल्यार ते वेपार वेवस्थेचो आंग आनी हो समाज मानवतेखातीर वावुरता जाल्यार ते मानवतेच्या वावराचोय एक आंग. म्हटल्यारच खंयचीच व्यक्ती ही एकांगी आसपाकच शकना. आमी भोवआंगी. तरीकय आमी सगळे एकामेकांक आदार दिवन एकात्मतेच्या भावनेन वांगडा वाटचाल करतात. दरेके व्यक्तिमदीं कितें ना कितें गूण हो आसताच. जो ह्या गुणांचो बरे तरेन वापर करता तो सुखी जाता, जो करना तो दुख्खी जाता. आमच्या भारत देशाची संस्कृती समग्रतावादी जावन आसा. ती सार्वभौमीकय आसा. पश्चिमेच्या देशांभशेन हजारांनी वादांनी घुस्पल्ली समाजवेवस्था न्ही आमची. आमच्या पुराय सृश्टींतच एकात्म भाव आसा. सभ्यतेंतल्यान उदरगत हो आमचे संस्कृतायेचो स्थायीभाव. तेंच खरें एकात्म दर्शन आनी तीच भारतीय संस्कृती. हो भारत देस आमकां नव्यान उबारपाचो आसा."

ह्या अधिवेशनान फकत राजकीय मोख थारायलिना; अध्यात्मिक मोखय थारायली. एक देश, एक संस्कृती, एक राष्ट्र आनी धर्म राज्य. कायद्याचें राज्य. भारतीय संस्कृति आनी मर्यादेक पाळो दिवन हें राष्ट्र उबारपाचें. दरेका नागरिकाक समान स्वातंत्र्य आनी समान संदी दिवन एक बलशाली, संघटीत, प्रागतिक आनी आधुनिक राष्ट्र उबारपाचें. जगांतल्या सगळ्या देशांमदीं सगळ्यांत बळिश्ठ आनी विकसनशील देश म्हूण भारताची उदरगत करपाखातीर वावुरपाचें. काम खूब कठीण आशिल्लें, पूण अशक्य नाशिल्लें. खंय तरी सुरवात जाल्ली.

त्याच वर्सा जाल्ले पयले लोकसभा वेंचणुकेंत जनसंघाक फकत तीन सिटां मेळ्ळीं. तातूंतलो एक डॉ श्यामाप्रसाद मुखर्जी. पूण जनसंघाक किंकोत करप

केंद्र सरकाराक जमलेंना. वेल्यान लोकसभा अधिवेशनांतले भासाभाशेवेळार एका दिसा प्रधानमंत्री नेहरू आनी डॉ मुखर्जीचें सरळ सरळ वाजलें:

उलयतां उलयतां नेहरून डॉक्टराक उद्देशून म्हटलें:

"जनसंघ इज अ कम्युनल पार्टी. आय विल क्रश जनसंघ."

तितल्याच नेटान डॉक्टर मुखर्जीन नेहरूक जाप दिली:

"माय फ्रँड पंडित जवाहर लाल नेहरू सेज दॅट ही विल क्रश जनसंघ, आय से आय विल क्रश धिस क्रशिंग मेंटॅलिटी."

जालेंय तशेंच. तिनांवेल्यान चार, 14 करीत 1967 वर्सा आमी 35 चेर पावले. जन संघाची मतांय 10 टक्क्यांलागीं पावलीं. पूण 1971 वर्सा परत 22 चेर पावले. टक्केवारीय देंवली. पांच वेंचणुको जायसर 1975 वर्सा प्रधानमंत्री इंदिरा गांधीन देशांत आणिबाणी जाहीर केली. आरएस्‌एस्‌ आनी जनसंघ धरून सगळ्या काँग्रेसविरोधी फुडाऱ्यांक बंदखणींत उडयले. तातूंतल्यान भारतभर काँग्रेसविरोधी वातावरण तयार जालें. पूण इंदिरेक दिसलें देश तिचेवांगडा आसा.

1977 वर्सा तिणें आणिबाणी काडली, फुडाऱ्यांक सोडले आनी वेंचणूक जाहीर केली. सगळे काँग्रेसविरोधी पक्ष आनी फुडारी एकठांय आयले, इंदिरेची तानाशाही मान्य नाशिल्ले मोरारजी देसाई आनी जगजीवनरामासारके काँग्रेसवालेय भायर सल्ले. सगळ्यांनी मेळून एक नवो पक्ष घडयलो. जनता पार्टी. जन संघय जनता पार्टींत विलीन जालो. काँग्रेसीचो धूप जालो. लोकशाय जिखली, एकाधिकारशाय सोंपली. जनता पार्टी सत्तेर आयली. बंडखोर काँग्रेसवालो मोरारजी देसाई प्रधानमंत्री जालो.

पूण समाजवादी आनी संघाच्या फुडाऱ्यांमदले मतभेद दिसान दीस वाडत गेले. "एक तर सरकारांत रावात वा संघांत" अशी जेन्ना शिटकावणी दिली तेन्ना अटलबिहारी वाजपेयी आनी लालकृष्ण अडवाणी ह्या दोनूय केंद्रीय मंत्र्यांनी राजिनामे दिले, पूण संघाकडेन फारकत घेतलिना. तत्वनिश्ठेक लागून सत्तेचेर खोंट माल्ली. मात संघाच्या ह्या दोनूय फुडाऱ्यांनी राज्यकर्ते म्हूण आपली तांक

आनी ताकद सिद्ध केली.

फुडाराक प्रधानमंत्री मोरारजी देसाईसारके बंडखोर काँग्रेसवाले आनी चरण सिंगासारके समाजवादी हांचेमदींय धुसफूस सुरू जावन ती वाडतच गेली. लोकदलाचो फुडारी चरण सिंगान सरकाराचो तेंको काडून घेतकीर मोरारजीक प्रधानमंत्रीपदाचो राजिनामो दिवचो पडलो. दोन वर्सांभितर जनता पार्टीचो चरण सिंग दुसरो प्रधानमंत्री जालो. पूण ताका तेंको दिवपाचे सोडून एकेक पक्ष कुशीक सरत गेले. चरण सिंगाक संसदेंत भोवमत सिद्ध करप कुस्तार जालें. फकत तीन सप्तकांभीतर ताचेंय सरकार कोसळ्ळें. राष्ट्रपती नीलम संजीव रेड्डीन लोकसभा बरखास्त करून नवे वेंचणुकेची घोशणा केली. 1980 चे वेंचणुकेंत वाजपेयीसारके कांय संघाचे फुडारी जनता पार्टीचे तिकेटीचेर परत वेंचून आयले. पूण इंदिरा गांधी भोवमत जिखून परत सत्तेर आयली. बिगर-काँग्रेस सरकाराचें सपन खिणभंगूर थाल्लें.

पूण अशें म्हूण जनसंघवाले ओगी रावले नात. त्याच वर्सा जनता पार्टींतल्यान भायर सरून अधिकृतपणान वाजपेयी, अडवाणी आनी हेरांनी भारतीय जनता पार्टीची स्थापना केली. पूण 1984 ची वेंचणूक येवचे आदींच पंजाबाच्या प्रस्नावेल्यान इंदिरा गांधीची हत्या जाली. वेंचणूक भावनीक पावंड्यार गेली. ताचो परिणाम म्हूण वेंचणुकेंत भाजपाचो धूप जालो. भाजपाचे फकत दोन खासदार वेंचून आयले. गुजरातांतल्यान ए के पटेल आनी आंध्र प्रदेशांतल्यान सी जी रेड्डी. वाजपेयीपासून हारलो. पूण कोणेंच जिद्द सोडलिना. रामजन्मभूमीच्या वादांतल्यान भाजपाक नवसंजीवनी मेळ्ळी. आनी ह्या राष्ट्रव्यापी चळवळींतल्यान तोच वाजपेयी 1998 वर्सा भारताचो धावो प्रधानमंत्री जालो. आनी आतां 2014 सावन संसदेंत पुराय भोवमत मेळोवन नरेन्द्र मोदी दुसरे खेपे भारताचो प्रधानमंत्री जाला. 543 सिटांचे लोकसभेंत भाजपाचो आंकडो 282 वेल्यान 303 चेर पावला. कितल्याशाच राज्यांनीय भाजपाची सत्ता चलता.

एखादी संकल्पना जर घट आसत आनी तिका लोकभावनेचो तेंको आसत

जाल्यार आज ना फाल्यां ती लोक तकलेर घेतात हेंच आज राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघान सिद्ध करून दाखयलां. फकत जाय आसता ती आपले विचारसरणेकडली खर निश्ठा आनी सगळ्या आडखळ्यांचेर मात करून वयर सरपाची जिद्द. वांगडाच निस्वार्थीपणान काम करपाची तळमळ. 1925 वर्सा स्थापन जाल्ल्या राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघान आनी 1951 वर्सा स्थापन जाल्ल्या जनसंघान हें आज सिद्ध करून दाखयलां. देखून म्हजेसारक्या एका साद्या स्वयंसेवकाक लेगीत ह्या संपूर्ण संघर्शमय प्रवासाचो सार्थ अभिमान आसा. जेन्ना जेन्ना हांव हाचेर विचार करतां तेन्ना तेन्ना परत परत दोळ्यांमुखार येता जनसंघाचें तें पयलें अधिवेशन. आनी त्या अधिवेशनांतल्या फुडाऱ्यांची ती निश्ठावान जिद्द!





# मीशाका प्रभू

**एप्रिलांत** आग्राच्यान पामरू आयलों आनी परत सोप्यार न्हिदून गुरुकुलांत शिकोवपाक लागलों. पूण परत अशे-तशे दोन-तीन म्हयनेच. मंगळूरांतले हिंदी प्रचार सभेचो सेक्रेटरी रामकृष्ण नावडाची बदली धारवाडा जाली. थंय आमची प्रांतीय सभा आशिल्ली. मंगळूराची सुवात खाली जाली आनी म्हाका सभेन आपोवन घेतलो. हांवें सेक्रेटरीचो ताबो घेतलो आनी कामाक सुरवात केली. परत मंगळूरा पावलों म्हूण खूश जाल्लों. पूर्वेसावन परत पश्चिमेक पाविल्लों. तोयबी उत्तर भारताची हवा खावन येवन. कितल्याशाच साहित्यिक आनी राजकारण्यांचो सहवास घेवन.

आतां हांव चिटणीस जाल्लों. म्हजी रावपाची वेवस्था ऑफिसांतच केली. एक पार्टिशन घालून खाट घाली. माळयेर रावतालों. न्हावपाची, संडासाची सकयल वेवस्था आशिल्ली. खाण-जेवण हॉटेलांत. मात जबाबदारी वाडिल्ली. सभेचें काम पळोवपाचें, मंगळुरा आनीक खंय हिंदी क्लासी काडपाचो प्रयत्न करीत रावपाचें, कार्यालयांत भायर चलपी सगळ्या हिंदी वर्गांचें नियोजन करपाचें आनी तेभायर हिंदी शिकोवपाचें. आमच्या कार्यालयाभायर कॅनरा हायस्कुलांतय

हिंदीचे वर्ग सुरू केल्ले. प्राथमीक धरून विशारद मेरेन वर्ग चलताले. शिकपाक विद्यार्थी येताले तशेंच शिक्षकय येताले. कांय जाण्टे, कांय नेण्टे.

थंयच मीराची आनी म्हजी पयली वळख जाली. ती श्रीनिवास पाठशाळेंत शिकयताली. हिंदी शिकपाक कॅनरा हायस्कुलांत येताली. लांबसडक बी जी मीरा. शिकपाक हुशार, उलोवपांत चुणचुणीत. जशी ताठ चलताली तशीच बेधडक उलयताली. दिसपाकय सुंदर आसली. म्हाका तिचें स्पश्टवक्तेपण आवडलें काय सौंदर्य तें सांगप कठीण. पूण 26 वर्सांचो हो तरणाटो तिचेकडेन नकळटांच आकृश्ट जाल्लो खरो. तिकाय घडये म्हजो सभाव आवडलो जावंये. दिसपाक इतलोय वायट नाशिल्लों. व्यायामान कमयिल्ली शरीरयष्टी आशिल्ली.

एकामेकांकडेन उलयत वळख वाडत गेली. तेन्ना चले-चलयांनी एकामेकांलागीं इल्लें चडूच उलोवप म्हटल्यार पासून चर्चेचो विशय आसतालो. म्हाका चिटणीस म्हणून सगळ्यांकडेन उलोवपाची मेकळीक आशिल्ली खरी. पूण तरीकय आमचें दोगांमदलें उलोवप, हांसप इल्लें चडूच जाता तें हेरांक जाणवलें जावंये. फाटल्यान चर्चाय जाताली जावंये. कोणें तरी ही गजाल तिची व्हडली भयण संजीवआका आनी भावोजीच्या कानार घाली.

एक दीस माधव पै हो तिचो भावोजी सरळ कार्यालयांत आयलो आनी विचारपाक लागलोः

“तुका ती इश्ट वे! तूं तिका व्हार्डिक कोरनु घेता वे?”

भितल्ल्या मनान खोशयेन चार-पांच तरी उडक्यो माल्ल्यो आसतल्यो. पूण भायल्यान मुमुरख्यांनी हांसत आनी आवंडो गिळीत हांवें जाप दिलीः

“जायत.”

म्हाका दिसता तो मीराचो हयकार घेवनच आयिल्लो. चलो-चली लागीं येवंक लागली जाल्यार चड तेंप रावप ना ही तेन्नाची परंपरा. तांणी आनीक वेळ केलोना. म्हज्या घरच्यांची खबर काडली. विस्वास दिवंक आमचे जांबावलेचे म्हाजन आशिल्लेच. तांणी लग्नाची तारीक थारायली. 7 मार्च 1954. मीराच्या सभावाचे वेगवेगळे पैलू म्हाकाय संवसार करपाक लागतकीरच कळ्ळे. हांव

कितलों भाग्यवान तें मागीरच होलमलें.

हांव ब्रह्मचारी. मंगळूरांत म्हजे काय कोण सोयरे-दायरे नाशिल्ले. आशिल्ले ते चार वळखीचे जांबावलेचे म्हाजन आनी हिंदी प्रचार सभा आनी संघांतले वांगडी. चीट धाडून घरा कळयलें. वांगडा मीराची पत्रिकाय धाडून दिली. ती जुळ्ळी. व्हडा मनान दाद आनी आईन 'पळयनासतना' जावपी हें लग्न मानून घेतलें हें तांचें व्हडपण. तांणी आपल्या पुताचेर दाखयल्लो विस्वास.

गोंय मुक्त जावचे पयलींची गजाल ती. पोर्तुगीज गोंयांतल्यान मंगळूरा येवपाक डायरेक्ट बस काय नाशिल्ली. आनी इतल्यो न्हंयो हुपीत तार-बस-तार करीत येवप दाद आनी आई, दोगांकय कुस्तार आशिल्लें. दोन दिसांचो सरळ प्रवास करून, तीं दोगांच जाणां, बोटीन आयलीं. हेर कोण ना. तिच्या घरच्यांक मेळ्ळीं. सुनेकय तांणी लग्नाच्या माटवांतच दोळे भरून पळयली.

माटोवय नांवाचोच. ऍनी बेजंट शाळेंत एक ल्हान माटवी कशी घाल्ली. शाळेंतलोच एक मास्तर 25 रुपया घेवन हो ल्हानसो मंटप घालतालो. व्हार्डिक म्हणटकीर हांवें नवो सदरो आनी नवी लुंगी विकती घेतिल्ली तितलीच. दिवप-घेवप कांय ना. संघ आनी सभेचे मुशींत तयार जाल्ल्यान हुंडो घेवपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. आईन थंयच मंगळूरा विकतो घेवन एक स पवनांचो हार सुनेच्या गळ्यांत घालो. आनी हांवें मंगळसूत्र.

वाजंत्री ना आनी जेवणावळय ना. कसलोच थाटमाट ना. म्हजे आनी तिचे म्हूण पन्नाशेक लोक आशिल्ले तितलोच कितें तो लग्नाचो बोवाळ. मंगळूरांत चण्या पिठांत साकर कालोवन चौकोनी आकाराची खडी करतात. कापां कशीं. ती कागदांत गुठलावन वाटलीं आनी सगळ्यांचीं तोंडां गोड केलीं. जालें शुभमंगल. मीराचो मामा डॉ माधव प्रभून आपणागेर जेवण दवरिल्लें. ती जेवणावळ. फोटोग्राफर पासून ना. लग्न जातकीर एका फोटो स्टुडियोंत वचून फोटे काडले. तातूंतलेच एक-दोन घेवन दाद आनी आई परत गोंयां गेलीं. म्हज्या सगळ्या घरच्यांनी फोटयांतल्यान व्हंकल पळयली.

गोंयां परत वच्चे पयलीं दादा आनी आईन विचाल्लें:

“शिकून जालें. लग्नय जालो. आतां येता गोंयां परत? थंय मेळटली खंयचे तरी शाळेंत नोकरी.”

म्हजें भावनीक मन परत गोंयांकडेन ओडपाक लागिल्लें. पूण वैचारीक मनान फाटीं ओडलें. गोंय काय अजून स्वतंत्र जालें नाशिल्लें. थंयचे कायदे वेगळे आशिल्ले. शिक्षणीक वेवस्था वेगळी आशिल्ली. हिंदी प्रचार सभाय थंय नाशिल्ली. हांगां म्हाका नोकरी आशिल्लीच. पूण तितल्यार हांव समादानी नाशिल्लों. आयुर्वेदाचो नाद सोडून दिल्लो. कितेंय करपाचें जाल्यार तें हिंदींतच हें मनान पक्कें थारायल्लें. खासा करून हिंदी एम्‌एची पदवी. ती घेवप हांगांच शक्य आशिल्लें.

हिंदी प्रचार सभे भायर आनीक दोन कुटुंबां हांवें जोडिल्लीं. एक राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें कुटूंब. तें म्हजे जिणेचें अविभाज्य आंग जाल्लें. गोंयांत संघाचें रुजवण जालें नाशिल्लें. आनी दुसरें कुटूंब मीराचें. तिच्या घरच्यांनी तर म्हाका आपलो आनीक एक पूतच कसो मानून घेतिल्लो. दादा आनी आईन स्वताच्या दोळ्यांनी तें अणभविल्लेंयबी. सून तर तांकां सारकीच मानवल्ली.

तांकां म्हजो विचार पटलो. “एकदां गोंयां येयात” म्हूण सांगून दोगांय भरिल्ल्या काळजान पूण तृप्त मनान भायर सल्लीं. इतल्या उदार काळजाचीं आवय-बापूय म्हाका मेळ्ळीं हें येवजून म्हजेंय मन भरून आयलें.

काशी मठाचें आनी म्हजें खंयच्या जल्माचें नातें तें नकळो. पूण हांव घडलों तो काशी मठाचे सावळेंतच. कार्कळा शिकपाक गेल्लों ती पाठशाळा आनी कॉलेज काशी मठाची. आनी आतां लग्न जावन बिराड हालयल्लें तेंय परत काशी मठाकडेन संबंदीत श्रीवेंकटरमण देवळाकडेन. देवाचे तळयेकडेन विशेक घरांचे चाळींत.

हंपनकट्टा बस स्टँडाफाटल्यान श्रीव्यंकटरमणाचें देऊळ आसा. ताचे कुशीक महामाया, विठोबा, कृष्ण आनी महागणपतीचीय देवळां आसात. मठाचो वाठार व्हडलो. चारूय वटेन लांबची लांब बसकी इमारत आनी मदीं तळी. ताचे मुखारच श्रीनिवास पाठशाळा ऑरिएंटल हायस्कूल.

मठाची श्रीनिवास निगमागम पाठशाळाय चलताली. वेदाभ्यासाची. श्रीव्यंकटरमणाच्या देवळांत. फुडाराक श्रीमद् सुधींद्र तीर्थ स्वामीजीन 1971 वर्सा ही पाठशाळाय हे तळयेच्या वाठारांत हाडली. गुरुकुल पद्दतीन वेदाभ्यास शिकोवपाखातीर. धावी पास जातकीर हांगां येवपाचें आनी वेदाभ्यासाचें फुकट शिक्षण घेवपाचें. आजय कितलेशेच भुरगे हे पाठशाळेंत वेदाभ्यासाचें शिक्षण घेतात. आमच्या भाऊचो धाकलो पूत हेमंतय हांगांच वेदाभ्यास शिकलो.

पाठशाळेचे उजवे वटेन आशिल्ल्या इमारती फाटल्यान लांबच्यो लांब दोन चाळी. एक स घरांची जाल्यार दुसरी णव. ह्या णव घरांचे चाळींत मीरा रावताली. कुशीच्या श्रीनिवास पाठशाळेच्या स्कुलांत शिकयताली. नवो संवसार खंय सुरू करचो हो प्रस्न मीराच्या घरच्यांनीच मिटयल्लो. तांणी म्हाका घरजांवयच कसो करून घेतिल्लो. घरांत जाण्टीं तीं बायलमनशांच. मीरा आनी तिची आवय सरस्वती गणपती कामत. मीराफाटलो भाव गोपाळकृष्ण 22 वर्सांचो. जनी ही भयण भायर पडिल्ली. तिचो पूत रामण्णा किणी 14 वर्सांचो. तोयबी तांगेरच रावतालो. मुखावेले चाळींतल्या एका घरांत मीराची व्हडली भयण संजीवआका रावताली. तांच्या ह्या कुटुंबांत आयलोंच तो घरांतलो जाण्टो पुरुष जावन. हिंदी प्रचार सभेंतलें म्हजें बिराड हांवें हालयलें.

घर तरी केदें? लांबचे लांब चाळींतल्यो दोन कुडी. पुराय चाळ मातयेची. नळे, माती, नळे, माती अशे तरेन वण्टी बांदपाची तेन्नाची पद्दत. घराचें भाडें म्हयन्याक सात रुपया. चार आणे भंग्याक दिताले. संडास उक्तो. घराचे भायर एक ल्हानसो उक्तो वारांद. भितर एकच कूड. ल्हानशें साल कशें. आनी ताका तेंकून ताच्याकय ल्हान रांदची कूड. भायर एक गोठो. आमकां वेगळो बॅडरूमबी कांय ना. आमच्या पांचय जाणांचो एक कॉमन बॅडरूम. दिसाचें उठप, बसप, शिकप सगळें त्याच सालांत.

घरांत नळ नाशिल्लो. घरालागींच एक बांय आशिल्ली. पूण तिचें उदक पिवपाक बरें नाशिल्लें. मात्शें फुडें चाळीभायर आनीक दोन बांयो आशिल्ल्यो. पिवपाक उदक हाडचेखातीर ते बांयचेर वचप. मंगळूर शारांत आशिल्ली पूण

आमच्या घरांनी लायट ना. सगळे दिवे कॅरोसिनाचे. 1965 वर्सा लायट आयल्या. तेमेरेन वाचप, शिकप सगळें दिव्यांच्या उजवाडांत.

तरीकय त्या येद्याशा घरांत तांणी म्हाका आस्पावन घेतिल्लो. त्या घराच्या धा पटींनी व्हडलें आशिल्लें काळीज तांचें. ताका लागून म्हाका कसलेंच परकेपण दिसलेंना. म्हजीं सगळीं भुरगीं ह्याच घरांत जल्मलीं, शेजराच्या श्रीनिवास पाठशाळेंत शिकलीं आनी ल्हानाचीं व्हड जावन लग्न लेगीत हांगांच्यानंच जालीं. संवसारांतले सगळे चडउतार अणभवीत 40 वर्सां आमी ते चाळींत काडलीं.

शांत शीतळ वाठार. तितलोच निसर्गसंपन्न. चाळीफाटल्यानच माडयो आशिल्ल्यो. तांचे शीतळ सांवळेंत पणस, करमलां अशीं झाडां पेडां. चाळीफुडल्यान फुलझाडां. आनी कुशीक मठांतलो मंत्रघोश. शाळेंत भुरग्यांचो चिंवचिंवाट. सगळें वातावरणच मंत्रमुग्ध करपी एक ल्हानसो स्वर्ग कसो.

हिंदी प्रचार सभेंत सचीव म्हूण काम करतनाच हांवें कुशीच्या कॅनरा हायस्कुलांत हिंदी शिकोवपाची नोकरी घेतली. पयशांक लागून न्ही, हिंदींतल्यान एम्ए करचेखातीर. तेन्ना शिक्षकांक एक्स्टर्नल एम्ए करपाक मेळटाली. फुडें प्रचार सभेंत नवो सचीव आयलो. कॅनरा हायस्कुलांतली नोकरी मात चालूच उल्ली.

हांव आनी मीरा दोगांय शिक्षक. हांव कॅनरा हायस्कुलांत जाल्यार मीरा घरा कुशीकच आशिल्ले श्रीनिवास पाठशाळेंत. म्हजो पगार म्हयन्याक 50 रुपया. तेभायर 25 रुपया म्हारगाय भत्तो आनी 10 रुपया सिटी अलावन्स. वट्ट 85 रुपया. तिचो पगार 80 रुपया. पूण तो दर म्हयन्याक दिवप शक्य नासतालें. सरकारी अनुदान मेळटालें. तें आयलें काय सगळ्यांक पगार वांटून दिवप. जमता तसो. हिका 50 रुपयांवयर पगार मेळिल्लो याद जायना.

रावपाक घर-दार मेळिल्लें, जिणेची गाडी रुळार आयिल्ली. पूण स्टेशनार बसून रावपाची म्हजी तयारी नाशिल्ली. संवसारांत घुस्पलों खरों, पूण जिणेचो एक नवो समांतर प्रवास सुरु जालो. नवी भटकंती.





# संघर्ष एके संघर्ष

**बी जी मीरा.**

बी फॉर बंटवाळ. बंटवाळच्या गणपती कामतीची चली. तिच्या ऍनी बेजंट स्कुलांत एकाच वर्गांत दोन बी मीरा आशिल्ल्यो. देखून मदीं बापायचें नांव घालून हिका बी जी मीरा केलें. तेंच नांव जल्मभर तिणें मिरयलें.

गोंयांतल्या कितल्याशाच जाणांसारकेच बाटाबाटीवेळार गणपतीचेय पूर्वज येवन बंटवाळ स्थायीक जाल्ले. शेत रोवन दीस काडटाले. झुजारी आशिल्ल्या बंट लोकांची वस्ती हांगाची. देखून ह्या शाराक बंटवाळ हें नांव पडलें. बिल्लवा, गणिगा, कुलाल, भंडारी, जैन हांचेवांगडा कोंकणी सारस्वत आनी क्रिस्तांवांचीय हांगा वसती आसा. एका तेंपावेलें अरबांकडेन वेपार करपी हें वेपारी केंद्र. पूण शारांतल्यान व्हांवपी नेत्रावती न्हंयेक परपरत पूर येवप. देखून ल्हवू ल्हवू कितलोसोच लोक विस्थापीत जालो. 1928 वर्सा गणपतीच्या कुटुंबाचेरय हावळ आयली. पुरांत पुराय घर-दार-शेत व्हांवन गेलें. सोळाव्या शेकड्यांतल्या पुर्तुगेजांचे बाटाबाटे उपरांत विस्थापीत जाल्लें कामत कुटूंब परत एक फावट

विस्थापीत जालें. गणपतीन आपली बायल सरस्वती, धुवो संजीव, मीरा आनी जनीक घेवन मंगळूराची वाट धल्ली.

गणपती हो निजाचो कलाकार. मंगळूर गेलो आनी आशिर्वाद घेवंक श्री सुकृतींद्र स्वामीक वचून मेळ्ळो. स्वामीन ह्या कलाकाराची कला ज्युस्त पारखिली. स्वामीक फोटोग्राफींचें पिशें आशिल्लें. तांणी गणपतीक धीर दिलो आनी फोटोग्राफी शिकयली. म्हजो मांव गणपती हो मंगळूरांतलो पयलो वेवसायीक फोटोग्राफर जालो. आज लेगीत ताचे कितलेशेच फोटे देवळांनी, मठांनी, संस्थांनी आनी ब्रिटिशांच्या आल्बमांनी लेगीत अभिमानान मिरयतात. बी जी कामत म्हूण.

सुरवेक येवन ताणें एक भाड्याचें ल्हानशें घर घेतिल्लें. पूण स्वामीजीन ताका फकत फोटोग्राफीच शिकयलिना, श्रीवेंकटरमण देवळाचे चाळींत तांकां रावपाक जागोय दिलो. परिस्थितीकडेन झगडपी सारस्वत कुटुंबांक आदार दिवपाखातीर देवस्थानान ही चाळ बांदिल्ली. एक कूड आनी एक पडवी कशी रांदची कूड. इतली ल्हान सुवात काय जायना, पूण उध्वस्त जाल्ल्या कुटुंबांक तो कितलोसोच व्हड आदार आशिल्लो. आज लेगीत आसा.

गणपतीचें कुटूंब ल्हवू ल्हवू स्थिरस्थावर जावपाक लागलें. 1932 वर्सा गणपतीगेर पुत्नरत्नय जल्मलें. गोपाळकृष्ण. सगळ्यांत पयली व्हार्डीक जाली व्हडली धूव संजीवीची. कोचीचो के माधव पै डिस्ट्रिक्ट बोर्डांत सुपरिटेण्डेण्ट म्हूण बदली जावन मंगळूरा आयिल्लो. तींय तांचेच घरामुखार चाळींत रावपाक लागलीं.

पूण संकश्टांनी पुरायपणान फाट सोडली नाशिल्ली. दुसरी धूव जनीचेंय लग्न जालें. मंगळूर शारांतच मरोळी रावपी किणी फामिलींत. तांचो रबर स्टँप तयार करपाचो उद्येग आशिल्लो. पूण कांय कारणांक लागून हें लग्न तिगलें ना. आपल्या ल्हान पुताक रामण्णाक घेवन जनी परत बापायगेर रावपाक आयली. पूण त्या धक्क्यांतल्यान स्वताक सावरपाक शकलिना. कांय तेंपान जग सोडून गेली. रामण्णाक आवयचे पदरांत घालून. मीरा फुडें शिकताली. गोपालकृष्ण सामकोच ल्हान आशिल्लो.

इतल्यांत गणपतीची इल्ली इल्ली करून दिश्टी गेली. फोटोग्राफीचो वेवसायच

बसलो. मेहनतीन उबारिल्लें कुटूंब परत ठप्प जावपाची परिस्थिती उप्रासली. ताणें सामकीच हाय खाली. आतां कशें जातलें ह्या हुस्क्यानच ऐन 55 वर्सांचे पिरायेचेर ताणें प्राण सोडलो. पुरांतल्यान वाटाविल्ल्या कुटुंबाचेर आनीक एक वसाड येवन कोसळ्ळी. पूण गणपतीची बायल सरस्वती हिकमती आशिल्ली. तिणें पेंगट बांदलें. तिचेंय कुटूंब धडपडींतल्यानच वयर सरिल्लें. आध्यात्मिक शक्तीचेंय बळगें तिचे फाटल्यान आशिल्लें.

तिचो एक मामा तर रामकृष्ण मिशनाचो स्वामी जाल्लो. स्वामी विरेश्वरानंद. ताका प्रभु महाराज म्हूण वळखताले. मूळ मंगळूरालागीं आशिल्ल्या गुरुपुरा नांवाच्या ल्हानशा शारांत 1892 वर्सा जल्माक आयिल्लो गौड सारस्वत ब्राह्मण पांडुरंग प्रभु. मद्रासांतल्या लॉ कॉलेजींतल्यान वकिली पास जाल्लो. थंय शिकतना ताणें स्वामी विवेकानंद वाचलो आनी ताच्या तत्वज्ञानान प्रभावीत जावन 24 वर्सांचे पिरायेर बेळ्ळूरच्या मठांत ताणें संन्यास घेतलो. चारच वर्सांभितर स्वामी ब्रह्मानंदान ताका आपलो उत्तराधिकारी म्हूण नेमियार केलो. 1920 वर्सा. तीच जिद्द आनी इत्साशक्त सरस्वतीमदींय आशिल्ली. तिच्या नांवाक सोबसारकीच.

मीरान शिक्षकाची नोकरी धल्ली. शेजराच्याच श्रीनिवास पाठशाळेंत. शाळेक सरकारी अनुदान मेळटालें खरें, पूण नेमान न्हय. देखून तिका पगारय दर म्हयन्याक मेळनाशिल्लो. पूण बुडटल्याक काडयेचो आदार. संजीव आकानय फुडाकार घेतलो. त्याच बोवाळांत 1954 वर्सा आमचें लग्न जालें. हे सगळे फाटभुंयेर जिद्दीच्या बळग्यार संघर्श करपी ह्या कुटुंबांत हांवूय भरसलों.

धाकलो गोपाळकृष्ण तेन्ना 22 वर्सांचो. शिकपांत व्हडलो हुशार नाशिल्लो. मॅट्रिकमेरेनय शिकपाक पावलोना. तो चडसो चित्रांमदींच रमतालो, चवथीच्या दिसांनी गणपती करतालो.  बापायची कला ताचेमदींय आयिल्ली. फोटोग्राफीय करतालो. अचकीत एक दीस नाच्च जालो. सगळ्यांचोच आवरो उडलो. खंय गेलो काय म्हूण वासपूस करीत जाल्यार हो एकलोच पावला मुंबय. बोल्सांत नाशिल्ली एक दमडी. थंय ताचो एक मामा आशिल्लो. पूण ताणें लागीं केलेंना. मात अशें म्हूण हाणें जिद्द सोडलिना. सावथ बॉम्बे आमचो वाळकेश्वराचो मठ आशिल्लो. थंय नशीब काडपाक येवपी सारस्वतांक आलाशिरो मेळटालो. म्हटल्यार एके

व्हडले कुडींत न्हिदपाक एक खाट. न्हावपा-धुवपाची वेवस्था. पोटापाणयाची तुवें करपाची. थंय रावन धडपडत ड्यूक्स हे सॉफ्ट ड्रिंक्साचे कंपनींत बोर्ड रंगोवपाची नोकरी मेळयली. चार दीस सुटी घेतली, मंगळूरा आयलो, आमकां खबर दिली आनी आयलो तसो परत गेलो.

मोटो पुरुषार्थी. आपली कला, मेहनत आनी प्रामाणीकपणाच्या बळग्यार दिनेश्वर कुंवरजी पंडोल ह्या ताच्या पारशी मालकाचो विस्वास संपादन केलो. खेतावाडी आशिल्ली ड्यूक्स ही तेन्ना मुंबय आनी पुराय पश्चीम महाराष्ट्रांतली व्हडली सॉफ्ट ड्रिंक्स कंपनी. सोडा, टँगो, रासबेरी, जिंजर, पायनॅपल, लेमोनेड आनी मँगोला खातीर फामाद. तेन्ना बैलगाडयेचेर घालून बाटल्यो सप्लाय करताले. उपरांत पंडोलान फोर्डाचे नवे ट्रक घेतले. बोर्ड रंगोवपी गोपाळकृष्ण ड्रायव्हिंग शिकलो आनी बाटल्यो सप्लाय करपी ट्रकाचेर ड्रायव्हर म्हूण लागलो. ल्हान हॉटेलवाले, रेस्टॉरंटकार, दुकानदार अशा सगळ्या रिटेलर्साकडेन इश्टागत जोडली. ड्रायव्हराचो सेल्समन जालो. आपल्या म्होवाळ सभावाच्या बळग्यार कंपनीचो सेल वाडयलो. पंडोलान ताची कुशळटाय पारखिली. आनी एका दिसा  सँट्रल मुंबय वाठाराची सेल्स एजन्सीच ताका दिवन उडयली. 1994 वर्सा पंडोलान आपली कंपनी पेप्सीक विकली आनी गोपाळकृष्णान धंद्यांतल्यान निवृत्ती घेतली. पिरायेचे 62 वर्सांचेर.

पूण फकत आपलीच उदरगत करीत रावलोना. ल्हानपणासावन जाल्ली दैना आनी एकठांय रावन कुटुंबान केल्ली धडपड ताणें अणभविल्ली. दानत आशिल्ली ताचेकडेन. पेंटर म्हूण आपूण स्थिरस्थावर जालेबराबर रामण्णाकय मुंबय व्हेलो. ताकाय लायलो पेंटर म्हूण ड्यूक्सांत. भाचोय मामाइतलोच सवाई. ताच्या पावलार पावल दवरीत तोय ड्रायव्हर, सेल्समन आनी उपरांत सेल्स एजंट अशे पाण्टे चडत गेलो.

वाळकेश्वर मठांतल्यान ते दादर शिंदेवाडीच्या चार मजली चाळींत रावपाक गेले. मठांत एकेक खाट आशिल्ली, हांगां एक कूड. तितले म्हणसर संजीव आकाचो व्हडलो पूत के एम् वरदराज पै म्हटल्यार राजण्णा मुंबय पाविल्लो.

रेल्वेंत कामाक लागिल्लो.  तोय तांचे वांगडा रावपाक लागलो. आनी थंयच आसतना एक दीस आवयकय मुंबय घेवन गेले.

ही अशी धडपडीची काणी एका गोपाळकृष्णाची न्ही. उडुपी तालुक्यांत पलिमार म्हूण एक गांव आसा. स्वामी मध्वाचार्याचो मठय ह्याच गांवांत आसा. थंयच्यान पुंडलीक कामत ताचेच वरी तरणे पिरायेचेर नशीब काडपाक मुंबय आयिल्लो. ताच्या दोनय लग्न जाल्ल्या भयणींचे बामोणु (घोव) मुंबय हॉटेलां चलयताले. तांच्याच एका हॉटेलांत कामाक रावलो आनी रातीचो नायट स्कुलाक वचून एस्‌एस्सी जालो. लिप्टन कंपनींत ड्रायव्हर म्हूण कामाक लागलो. थंयच ताची आनी गोपाळकृष्णाची वळख जाली. एकामेकांगेर येवप वचप सुरू जालें. आनी एक दीस आपली भयण उमाची सोयरीक गोपाळकृष्णाक व्हेली. 1961 वर्सा तीं लग्न जालीं आनी गोपाळकृष्णान आपलें बिराड परळाक एका भाड्याच्या घरांत हालयलें. मुंबयचीं टिपिकल एक रूम एक किचनाचीं घरां. त्या घरांतच ताचीं तीन भुरगीं जल्माक आयलीं. 200 चौखण फूटांच्या (अदमासे 19 चौखण मिटर) त्या घरांत वट्ट आठ लोक रावताले.

1966 वर्सा रामण्णाचें लग्न जालें आनी तांणी पागडी दिवन परळाकच नवें घर घेतलें. पयलींपरस तीन पटींनी व्हडलें, पूण दोन रूम आनी एक किचनाचें मात्शें व्हडलें घर. एक रूम गोपाळकृष्णाच्या पांच जाणांचो, एक रूम रामण्णाचो जाल्यार आवय आनी राजण्णाचो संवसार किचनांत.  मागीर सेल्स एजंट जाता म्हणसर रामण्णान चेंबूर फ्लॅट घेतलो जाल्यार गोपाळकृष्णानय 1990 वर्सा पूत गणेशाचें लग्न जातकीर चेंबूराकच डबल बॅडरूम फ्लॅट घेतलो.

मुंबय ताणे कर्मभूमी केल्ली खरी, पूण जल्मभूंय मंगळूराचो गोपाळकृष्णाचो मोग इल्लोय उणो जालोना. मंगळूरा घर बांदतलोंच हो निश्चेवच केल्लो. 1997 वर्सा बांदिल्लें मण्णागुड्डाचें ताचें तें ड्रीम हावस गोपाळकृष्णाचे मेहनतीची गवाय जावन आज लेगीत अभिमानान उबें आसा.

गोपाळकृष्ण आनी उमान आपल्या भुरग्यांकय तितलेच हिकमतीन वाडयलीं. व्हडलें उषा कॉर्पोरेशन बँकेचो अधिकारी मधुकर कामतीलागीं लग्न जालें आनी

तिचो पूत आज हैद्राबाद मायक्रोसॉफ्ट कंपनींत काम करता. तिसरें शोभा फळांचो होलसेल मर्चंट गणेश प्रभुलागीं लग्न जावन मंगळूरा पावलें आनी धाकलें रुपा बाळकृष्ण शणैलागीं लग्न जावन शारजा आसता. दुसरो पूत गणेश. तो तर सामकोच हुशार. चार्टर्ड अकांवटंटाचे परिक्षेंत भारतांत बाविसावो आयिल्लो. नोसिल, सोनी म्युझिक, बँक ऑफ अमेरिका अश्या व्हडल्या व्हडल्या आंतरराष्ट्रीय कंपन्यांखातीर काम करून आतां तो गोंयांत दोनापावला स्थायीक जाला. आपूण मूळ गोंयकार हो अभिमान बाळगून.

रामण्णाचेंय तशेंच. तोयबी पेंटर, ड्रायव्हर, सेल्समन अशें करीत ड्यूक्साचो सेल्स एजंट जालो. ताणेंय चेंबूरांतच फ्लॅट घेतलो. रजनी (आतां विद्या) बोरसांतल्या आमच्या मामालें चली. कांय तेंप जांबावले रावन शाळेंत शिकयतालें. मीरान ताका थंयच हेरलें आनी रामण्णाची सोयरीक व्हरून उडोवन दिलो लग्नाचो बार. तांचो व्हडलो पूत विजय दोतोर जावन आज अमेरिकेक आसा. दुसरो अजय मुंबय एके व्हडले कंपनींत अधिकारी आसा. धाकलें विनयाय लग्न जावन अमेरिकेक पावलां.

संजीव आकाचो वरदराज सिविल इंजिनियरिंगाचो डिप्लोमा घेवन 18 वर्सांचे पिरायेचेर मुंबय गेल्लो. सँट्रल रेल्वेंत कामाक लागिल्लो. फुडें सिनियर इंजिनियर जालो. पिरायेचे चाळीस वर्सांचेर तोय लग्न जालो. उडुपीलागसारच्या कटपाडी गांवची पूण मुंबय रावपी पांगाल सुब्राय भटाची चली भारती ताका सांगून आयली. ती सिंडिकेट बँकेत कामाक लागिल्ली. पन्नाशी लागतकीर वरदराजान निवृत्ती घेतली आनी तो बायल-भुरग्यांक घेवन मंगळूरा येवन स्थायीक जालो. ताची धूव माया पसून इंजिनियर जालें. नरसिंह भटालागीं लग्न जावन आतां बंगळूरा स्थायीक जालां.

संजीव आकाली धाकली धूव जानकीय शिकून नोकरेक लागली. पुत्तुराच्या रामदास प्रभुलागीं व्हार्डीक जावन तीं रावपाक कलकत्ता गेलीं. एपीआय स्कुटरींचे फॅक्टरींत तो इंजिनियर आशिल्लो. ताकाय दोन धुवो. व्हडलें सुषमा लग्न जावन मुंबय आसता जाल्यार धाकलें रेश्मा तांचेवांगडा.

चाळींतल्या एके कुडीच्या घरांतल्यान सगळीं पावलीं आपापल्या स्वताच्या शानदार फ्लॅटांनी. पूण तांचीं काळजां मात केन्नाच ल्हान जालीं नात. घरा आयिल्ल्या दरेकल्याक तांणी तोंडभर हांसून येवकार दिला आनी रावात रावात म्हूण आग्रो करीत तांची सरबराय केल्या. म्हजी व्हडली धूव आशा दोन-तीन वर्सांची आसतना आमी तिगांय तांच्याच आग्रयावेल्यान पयलेच खेपे मुंबय गेल्लीं. तींयबी चाळींतले ते एके कुडीच्या तांच्या बिराडार. रातभर ट्रेनीच्या जनरल कम्पार्टमेण्टांत उबीं रावन दुसऱ्या दिसा मुंबय पावलीं. हमालान आमकां दादरच्यान चलयत वडाळा सिंधू कॉलनींत व्हेलें. आमी वचपाचीं आशिल्लीं शिंदेवाडी. ती तर आशिल्ली दादरच. रेल्वे स्टेशनामुखार आशिल्ल्या गोल्ड मोहर मिला फाटल्यान. रातभर उबें रावन केल्लें जागरण आनी उपरांत सामान व्हांवयत दादर ते वडाळा आनी परत अशी पांच-पांच धा किलोमीटर केल्ली पांयपीट. पूण ते येदेशे कुडींत रावपी गोपाळकृष्ण, तांची आवय देवु (सरस्वतीबायक सगळे देवु म्हणटाले), तांणी जे तरेन आमचें स्वागत केलें तें पळोवन सगळी थाकाय खीणभरांत खंयचे खंय नाच्च जाली. मोगाची ताकदच आसता इतली जबरदस्त.

आमीच न्हय, म्हजें जांबावलेचें सगळें कुटुंबय तांणी आपलें केल्लें. आमच्या भाऊच्या (वसंत भट) धाकल्या स्मिताक पोलियो जाल्लो. ताचेर उपचार घेवपाक भाऊ आनी व्हनीबाय स्मिताक घेवन मुंबय आयलीं तींयबी तांच्या परळाच्या भाड्याच्या घरांत. देडेक म्हयनो तरी रावलीं आसतलीं. मागीरय परपरत उपचाराक येतालीं तेन्ना तांगेरच रावतालीं. नाजाल्यार रामण्णागेर. सुटयेच्या दिसांनी तींय जांबावले वचून रावतालीं. मीरा आनी गोपाळकृष्णाची बायल उमा हांचेमदीं तर भावजय-नणंदेचें नातें हांवें केन्ना पळयलेंच ना. भयणी म्हणचें काय इश्टिणी असो प्रस्न कोणाकय पडचो इतलीं एकामेकांक जीव करतालीं.

पुराय बेघर जाल्लें हें बंटवाळचें कामत कुटूंब आज जागतिकीकरणाच्या महासागरांत हांगां थंय फाफसलां खरें, पूण आपल्या पुराय कुटुंबाकडली नाळ कोणेंच तोडिल्ली ना. आजो, आजी, आवय, बापूय सगळ्यांचो तांकां व्हडा अभिमान. भुरग्यांनीय आपापले संवसार उबे केल्यात त्याच प्रामाणीकपण, जिद्द

आनी कश्टांच्या जोरार.

आनी हें सगळें आपल्या दोळ्यांनी पळोवन तांची आजी आनी तांच्या भुरग्यांची पणजी सरस्वतीन पिरायेचे 98 वर्सांचेर दोळे धांपले. फकत आपल्या नातरांकच न्ही तर पणटुरांक लेगीत आंगा-खांद्यार खेळयत. सुखासमादानान...





# भौशीक संवसार



भुवनेन्द्र महाविद्यालयांतले वांगडी: (बशिल्ले) के देविदास राम भट्ट आनी अनंत पद्मनाभ उडुपी. (उबे) दामोदर भट आनी श्रीधर भट



आप्त बंधु पी. एम्. शणैवांगडा



विश्व हिंदू परिषदेचे अध्यक्ष अशोक सिंघलावांगडा



हिंदी प्रचार भवन



बाल संरक्षण केन्द्र



बाल संरक्षण केन्द्रांतले संस्कार

# भौशीक संवसार



गोशाळेंत



वनिता समाजाची इमारत



वनिताश्रमांतल्या आंतरजातीय लग्नांत व्हकलेची व्होट भरतना गोकुळाची घरकान्न गायत्री



काशीमठ श्री सुधीन्द्रतीर्थ स्वामीचो आशिर्वाद



गोशाळेक एक लाख रुपयांची देणगी दितना मस्कताचे श्री. अनिल खिमजी



वनिताश्रमाचें सभाघर बांदपाक 30 लाख रुपयांची देणगी दितना मस्कतचे आश्वीन भाई

# भौशीक संवसार



मंगळूरच्या गौड सारस्वत सेवा संघान केल्लो सन्मान



हिंदी प्रचार सभा, उडुपीन केल्लो सन्मान



कर्नाटक राज्य महोत्सवांत जिल्लो पुरस्कार



कर्नाटकांतलो फिल्म पुरस्कार जैतवंत दिग्दर्शक श्रीनिवास राव सुजीर उर्फ कासारगोडु चिन्नाच्या 'उजवाडु' ह्या कोंकणी सिनेमाच्या डीव्हीडीचें मस्कत प्रकाशन करतना (मार्च 2015)



पुतणयी  उषा बाळेच्या विक्रमी 'पोटपुजा' पुस्तकाचें प्रकाशन करतना (फेब्रुवारी 2015)



विश्व हिंदू परिषदेच्या उडुपी जाल्ले धर्म संसदेंत जाल्लो भोवमान (2017)



भारतीय जनता पार्टीन मंगळूरांत केल्लो भोवमान (2020)



# ह्रिकमती मीश

**लग्न** जाता म्हणसर मायाच्या म्हयन्यांत शाळांक सुटी पडली आनी आमी दोगांय गोंयां वचून आयलीं. मीरा पयलेच खेपे गोंयां वताली. दादा आनी आई सोडून तिणें कोणाकच पळयलें नाशिल्लें. देखून तिची उमळशीक इल्ली चडूच. जाल्यार म्हजी उमळशीक हांव गांवांत वतां म्हुणून. तोयबी लग्न जावन बायलेक घेवन. ते वटेन घरच्यांचीय उमळशीक वाडिल्ली. तांची नवी सून आनी व्हनी पळोवपाक. फोट्यांतली.

बशीन गेलीं. कारवारची काळी न्हंय हुपून बशीन माजाळे. आनी फुडें चलत शेळी गेलीं. थंयच्यान कुळागरांतल्यान लोलयां वचपाची वाट आसा. व्हाळाचे धडयेवेल्यान पांयवाट. दोनूय वटांनी भाटां. माडांपरस माडयो चड. तें शांत शितळ वारें आगार आयलें आनी म्हजेच नकळत म्हजें आंग शिरशिल्लें. आमकां व्हरपाक चिना आका शेळी आयिल्लें. तें लोलयां पांडीर रावतालें. दनपरां तागेर जेवलीं आनी भायर सल्लीं जांबावले वचपाक. चिना आका म्हटल्यार दादाली भयण. ताका लग्न करून गांवांतच दिल्लें. चिना आकान सांगलें, मनोहर आनी सुलू

घरा नात. सुलू माजाळी खंय तरी आसता आनी मनोहर खंय आसा तें कोणाक खबर ना. एकलीच व्हडली व्हनी आसा घरा. व्हडली व्हनी म्हटल्यार मनोहराली पोसकी आवय. ती एकलीच रावताली. वांगडा दुसरें बिराड इंदिरा व्हनयेलें. बाप्पाली बायल. तितले म्हणसर शाणदाद गेल्लो आनी बाप्पाय.

स्वातंत्र्यसंग्रामाचे दीस ते. मनोहर आनी सुलू दोगांय रात-दीस गोंयच्या स्वातंत्र्याखातीर वावुरतालीं. मनोहर तर शिमेवेलो मुखेल धागो. काणकोणच्या तरणाट्यांक सत्याग्रहाखातीर तयार करप, सत्याग्रह घडोवन हाडप, भारतांतल्यान गोंयां येवपी सत्याग्रहींची वेवस्था करप अशी सगळींच कामां. काणकोणांतल्यान ताणें कितलेशेच सत्याग्रही तयार केल्ले. सत्याग्रह करपी गोंयचो बायलांचो एकमेव पंगड लेगीत ताचें कर्तूप. तेन्ना गोंयांत मराठींतल्यान फकत सातवीमेरेन शिकपाक मेळटालें. एसएस्सी करतलो जाल्यार कारवार, बेळगांव वो धारवाडा वताले. काणकोणचे भोवतेक सगळे कारवारच्या हिंदू हायस्कुलांत येवन शिकताले. ती फकत शाळाच नाशिल्ली. गोंयच्या स्वातंत्र्यसैनिकांचें वर्कशॉप आशिल्लें. थंयचे शिक्षकय राष्ट्रप्रेमान भारावन गेल्ले. मनोहर तांचेमदीं काम करून तांकांय सत्याग्रही करतालो. तेभायर काणकोण म्हालांत खांची-कोनश्यांनी भोवनय कार्य करतालो.

पूण अशें म्हुणून फकत नॅशनल काँग्रेस गोवाच्या सत्याग्रहींचीच जबाबदारी ताचेर आसताली अशें ना. हेर बंदूकधारी संघटनांचे कार्यकर्तेय ताचीच मदत घेताले. आझाद गोमंतक दल आनी कम्युनिस्टांची गोवन्स पिपल्स पार्टी लेगीत. देखून पुर्तुगेजांच्या रडाराचेर काणकोणांत सगळ्यांत वयर नंबर ताचो लागतालो. मोस्ट वाँटेड. ताका धरतल्याक इनामय दवरिल्लें पुर्तगेज सरकारान. तो मात कसोच पुलिशेच्या हाताक लागनाशिल्लो. चडसो भुमीगतच आसतालो. रानावनांतल्यान शिमेपलतडीं वचप-येवप चालूच आसतालें. म्हणटकीर तो गोंयां आसा काय गोंयांभायर तें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. लोलयां सांगप जांबावले वतां आनी जांबावले सांगप लोलयां वतां. आसतालो मात भलतेच कडेन. रानांतल्यान चलत बेळगांवांपासून वतालो. कितले फावटीं सत्याग्रह केला आनी कितले फावटीं भुमीगत कार्य करतना ताका धल्ला ताका कोंत ना हिशेब.

आमी गोंयां येवन गेल्यांत आनी फाटोफाट 14 ऑगस्टाक ताका बेळगांवां वतना कॅसरलॉकाच्या अटंग्या रानांत धल्ला. तोयबी रातीचो. आग्वादाची बंदखण तर ताचें तिसरें घरच कशें जाल्लें. एक फावट तर जांबावले आयिल्लेकडेन भर पावसांत रातचो केपेंच्या कोर्टाक हांणी घातलो उजो. पुलीस धरपाक जांबावले आयले जाल्यार हो आकांताचो हुंवार आयिल्ले कुशावती न्हंयेंत पाण्ट्यावेल्यान उडी मारून रातभर हुंवारांतच एका रुखाचे तेंगशेर वचून लिपून बसलो. आनी आमच्या ताच्याकय शूर वीर पोंवपी 20 वर्सांच्या बाबून ताका दनपारचें आनी रातीचें जेवण व्हरून दिलें. हुंवारांतल्यान पोंवत. पांयांसकयल कुशावतीचो भिरांकूळ हुंवार आनी हो रातभर न्हिदतालो सुशेगाद रुखाचेर.

आमच्या लग्नाच्या दोन वर्सांपयलींच मनोहराचें लग्न जाल्लें. तो तेन्ना 27 वर्सांचो जाल्यार ताची बायल सुलू (शोभा प्रभुदेसाय) 20 वर्सांची. तीय जांबावलेचीच. मूळची शणै बुयांव. जांबावले तांचो पसरो आशिल्लो. थंय हिचें आनी मनोहराचें जुळ्ळें. दोगांय नाटकांनी कामां करपी उत्कृश्ट कलाकार आनी गायक. आनी तितलींच खर राष्ट्रप्रेमी. 18 जून 1946 दिसा डॉ राम मनोहर लोहियान मडगांवां येवन सभाबंदी मोडली तेन्ना ती फकत 14 वर्सांची. पूण भियेनासतना गेल्ली ती इतिहासीक सभा पळोवपाक. फुडें लग्न जातकीर मनोहरावांगडा तीय स्वातंत्र्यसंग्रामांत वावुरपाक लागली.

आमी गोंयां गेल्लीं तेन्ना ती शिमेपलतडीं माजाळी लागसार आशिल्ल्या आंगडी गांवांत सत्याग्रहींच्या कॅम्पांत आशिल्ली. धाकल्या संध्याक घेवन. थंय तांचो स्वातंत्र्यसैनिकांचो मुखेल कॅम्प आशिल्लो. तो ती सांबाळटाली. देशांतले सगळे स्वातंत्र्यसैनीक पोळेंचे शिमेवेल्यान गोंयांत सत्याग्रह करपाक भितर सरताले ते पयलीं ह्या कॅम्पार येवन रावताले. तांचो मुखेली पीटर आल्वारीस तर आंगडी येवन वचून आसतालो. गोंयच्या संग्रामाच्यो सगळ्यो येवजण्यो थंयच थारताल्यो. 1954 आनी 1955 वर्सा 15 ऑगस्टा इतिहासीक सत्याग्रह जाल्ले. पुराय भारत देशांतल्यान आमचो राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ, सोशलिस्ट आनी कम्युनिस्ट पार्टींचे कार्यकर्ते सत्याग्रहांत वांटेकार जाल्ले. गोंयचे शिमेभायर कारवारावाटेन तांची

ावपा-जेवपाची सगळी वेवस्था आंगडीच्या कॅम्पांत सुलूच पळयताली. उपरांत 1957 वर्सा ती गोंयांत आयली तेन्ना रोकडीच तिका अटक जाली. पुर्तुगेज पुलिशेंतलो कर्दनकाळ म्हूण फामाद आशिल्लो आजेंत मोंतेर स्वता लोलयेंच्या घरा आयिल्लो तिका अटक करपाक. सामको फांतोडेर. उपरांत स म्हयने तिणें रेइश द मागूश बंदखणींत काडिल्ले.

लग्न जावन आमी पयलेच खेपे गोंयां गेलीं तेन्ना दोगांय लोलयां घरा नाशिल्लीं. चीना आकागेरच्यान लोलयां आमच्या घरा गेलीं, व्हडले व्हनयेक आनी इंदिरा व्हनयेक मेळ्ळीं, तांचो आशिर्वाद घेतलो आनी जांबावले गेलीं. दादा, आई, भाऊ, व्हनीबाय, गोविंद, बाबू सगळीं बशीकडेन दोळे लावनच बशिल्लीं. घरा आमचें जंगी स्वागत जालें. भाऊन तर भाड्याची टॅक्सी करून गोंय भोवंडावन हाडलें. म्हाड्डोळाय वचून आयलीं. कांय दीस रावलीं आनी आयलीं परत मंगळूरा. मीरा घरच्यांचेर खूश. आनी तें खूश म्हूण हांवूंय खूश.

मीरा मंगळूरांतल्या बेजंट नॅशनल हायस्कुलांत शिकिल्ली. ह्या शाळेंतल्यान भायर सरिल्लीं भुरगीं हीं फकत हुशार विद्यार्थी जायनात, संस्कारक्षम आनी देशाचीं जबाबदार नागरीक जावनच भायर सरतात. हे शिक्षणसंस्थेक शंबरांवयर वर्सांचो इतिहास आसा. ताची बुन्यादच घातिल्ली डॉ एॅनी बेजंटासारके बायलमनशेन. तीयबी गुरूदेव रविन्द्रनाथ टागोराच्या मार्गदर्शनाखाला. बायलांक शिक्षण दिवपाक जाय ह्या उद्देशान 1918 वर्सा हें बेजंट गर्लस् स्कूल सुरू जाल्लें.

1927 वर्सा थियोसॉफिकल सोसायटी ऑफ इंडिया हे नामनेचे संस्थेन हे शिक्षणसंस्थेचें वेवस्थापन आपल्या हातांत घेतिल्लें. उपरांत 1943 वर्सासावन विमेन्स नॅशनल एज्युकेशन सोसायटीन तें चलोवपाक घेतलें. आमचें लग्न जायसर 1956 वर्सा बेजंट नॅशनल गर्लस् स्कूल आनी बेजंट हायर प्रायमरी स्कूल अश्या दोन पावंड्यार चलपाक लागलें. तेंयबी कन्नड माध्यमांतल्यान. आज हे शिक्षणसंस्थेचे तीन वेगवेगळे कॅम्पस आसात आनी सात शाळा-कॉलेजी. बेजंट हायर प्रायमरी स्कूल, नॅशनल हायस्कूल, बेजंट इंग्लीश स्कूल,बेजंट प्री-युनिवर्सिटी कॉलेज, बेजंट विमेन्स कॉलेज, बेजंट इव्हिनिंग कॉलेज आनी

बेजंट इन्स्टिटयूट ऑफ पीजी मॅनेजमेंट स्टडीस. उणींच तीन हजार भुरगीं ह्या शाळा-कॉलेजींनी शिकतात.

हे शिक्षणसंस्थेक संचालक मेळ्ळे तेय एकापरस एक फांकिवंत आनी विचारवंत लोक. मणेल श्रीनिवास नायक, बी दामोदर प्रभु, मणेल कृष्णा नायक, प्रा पी पी गोमती हांचेसारक्या समाजसेवी आनी स्वातंत्र्यप्रेमी म्हालगड्यांनी ही संस्था मुखार व्हेल्ली. मीरा शिकतालें तेन्नाय तितलेच तांकीचे डॉ रावबहादूर केशव पै, सावकार व्यंकटेश पै, मिजार गोविंद पै असले रथी-महारथी हे शिक्षणसंस्थेचे संचालक आशिल्ले. ज्ञानपीठ फावो जाल्ले राष्ट्रकवी कुवेम्पू, साहित्यिक शिवराम कारंत आनी मास्ति व्यंकटेश अय्यंगार, राष्ट्रकवि मंजेश्वर गोविंद पै, स्वातंत्र्यसेनानी आनी कन्नड कवी कय्यार किन्नाण्णा रै, कवी द रा बेंद्रे अशे एकापरस एक सरस विचारवंत आनी साहित्यिक हे शाळेक नेमान भेट दिताले, भुरग्यांलागीं चर्चा करताले. तांच्याच सहवासांत मीरा घडिल्ली. सदांच तांचें गुणगान गायताली. तेभायर तिची हेडमास्तन्न राधाबाई आनी कन्नड पंडित पी के नारायणाचीय व्हडविकाय सांगताली.

ह्याच वैचारीक संस्कारांक लागून हुंडो दिवपाक तिचो खर विरोध आशिल्लो. म्हाकाय नाकाच आशिल्लो. घर-दार, भांगर-शिंगर, कपडेलत्ते घालून मिरोवप हेंय तिच्या सभावांतच नाशिल्लें. घडये ताकाच लागून आसत, आमचें जुळ्ळें. म्हज्या संघकार्यानय ती प्रभावीत जाल्ली. आनी हांव तिच्या प्रागतीक विचारांनी.

जितली विचारांनी प्रगल्भ तितलीच संस्कारक्षम आनी देवभक्त. देवपुजा, भजन, पुजापाठ हांचो तिका ध्यासच कसो. आमी जांबावले वाडिल्ले ते वेगळ्याच वातावरणांत. देवळांतले भट खरे, पूण आमच्या घरांत वेगळें देवघर नाशिल्लें. दामबाबाचें देऊळ हेंच आमचें देवघर. पुजा आनी आरतेक देवळांतच वचप. घरांत देवाक दिवो लावप आसता हें आमकां खबरूच नाशिल्लें. ते संस्कार म्हजेर मीरान केले. देवामुखार दिवो फाल्त आसपाक जायना हो तिचो खर नेम. आजूय तो नेम आमी नेमान पाळटात.

म्हजेर आनी भुरग्यांचेर जे कितें संस्कार जाल्यात ते चडशे तिकाच लागून.

म्हजे संस्कार नांवापुरते. जांबावले वा लोलयां गेल्यारय तिणें तेंच करचें. आमच्या सगळ्याच भुरग्यांक घेवन ती थंय भजन शिकोवपाक बसताली. भगवद् गीतेंतलो एकेक अध्याय घेवन शिकयताली. खणखणीत पूण तितलोच गोड ताळो. कर्नाटकी हेलांतल्यान गावन शिकयताली तें भुरग्यांकय खूब आवडटालें. गीतेचो अर्थ समजावन सांगताली तें आयकुपाक मागीर आमीय आशिकुशीक बसताले. सायंप्रार्थना ही संकल्पना जांबावले आनी लोलयां भुरग्यांमदीं तिणेंच रिगयली.

लग्न जालीं, संवसार सुरू जालो. पूण फुडें शिकचें ही इत्सा म्हाका जितली आशिल्ली ताच्याकय चड तिका. तिणेच सांगलें: "शिकातच तुमी. एम्‌ए करा." तिच्याच नाड्यार हांव फुडें सल्लों. नाजाल्यार एके वाटेन शिक्षकाची नोकरी, दुसरे वटेन संघाचें काम आनी तिसरे वटेन फकत पुस्तकां वाचून शिकप ही कसरत कशीच शक्य नाशिल्ली.

बेजंट हायस्कुलांत शिकतना तिणें जोडिल्लीं मनशां लग्न जातकीर हांवें प्रत्यक्ष अणभवलीं. मंजेश्वर गोविंद पै हो तर मद्रास सरकारान भोवमान केल्लो पयलो राष्ट्रकवी. नातें ना गोतें. पूण मीरान लग्नाची खबर दिवपाक ताका पत्र बरयलें आनी हो साद्या सरळ मनाचो व्हड कवी 71 वर्सांचे पिरायेर मुद्दाम मेळपाक आमच्या चाळींत आयलो. आमकां आशिर्वाद दिवन गेलो.

त्याच वर्सा 4 डिसेंबरा पयलें कन्यारत्न जल्मा आयलें. आशा. सुरळीत सुरू जाल्ले नवे जिणेची आशा म्हूण मीरानच ताका आशा हें नांव दवल्लें. आनी हांवें तितलोच आशावाद घेवन स्कुलांत हिंदी शिकयतनाच बनारस हिंदू युनिवर्सिटीचे बीएचे परिक्षेची तयारी सुरू केली. एप्रिलांत परिक्षा दिवपाखातीर काशी गेलों. म्हजी परिक्षा सोंपता म्हटल्यार फाटोफाट ही आपली आवय आनी म्हजे आईक घेवन काशी हजर. म्हजे परिक्षेच्या निमतान हिणें तांची दोगांयची जाण्टेपणांत काशीयात्रा करून काडली.

तशींच आमी भोंवपाक दिल्ली गेलीं. देशाचे राजधानींत वतकीर पळोवपासारक्यो खूब सुवातो आसात. कुतुबमिनार धरून राष्ट्रपती भवनामेरेन. पूण मीराची उमेद वेगळीच. तिका मेळपाक जाय आशिल्लें प्रधानमंत्री पंडित

जवाहरलाल नेहरूचो मुखेल निजी सचिव ए व्ही पै हाका. तिच्या बेजंट स्कुलाचो आदलो अध्यक्ष रावबहादुर केशव पैलो तो जांवय. पूण दिल्ली मात व्हडलें प्रस्थ. ए व्ही पै, एच व्ही अय्यंगार, बी के कौल आनी के राम ह्या चार निजी सचिवांक प्रधानमंत्र्याचें शॅडो कॅबिनेट म्हूणच वळखताले. के व्ही पै तर नेहरूवांगडा संयुक्त राष्ट्र सभेच्या (युनो) अधिवेशनांक लेगीत वचपी विद्वान मनीस.

दरेका बॉसाक ताच्या सकयल काम करपी वांगड्यांचो गोपनीय अहवाल बरोवचो पडटा. तातूंत नेहरून ए व्ही पैचेर बरयल्लें: ''फाटल्या वर्सभरांत म्हजो ए व्ही पैकडेन खूब लागींचो संबंद आयलो. वेगवेगळ्या तरांचे प्रस्न हाताळपाची ताची कळाशी खऱ्यांनीच उच्च दर्जाची म्हुणूंक फावो. जितलो परिश्रमी तितलोच प्रामाणीक. कामाचो कितलोय ताण आसलो तरी कसलीच कागाळ करिनासतना इश्टागतीन वावुरपी वांगडी. असले लोक चुकून सांपडटात. हांव तरी ताच्या कामाचेर पुराय समादानी आसां.''

फुडें इंडियन सिव्हिल सर्विसेंतलो हो कार्यक्षम अधिकारी नेहरू सरकारांत केंद्रीय गृह सचीवय जालो. एक 'आमचेगेलो' कोंकणी मनीस प्रधानमंत्र्याचो निजी सचीव आसा म्हूण तिका व्हड अभिमान. मीरान हांगां थंय फोनाफोनी करून ताचो मांव रावबहादूर पैचो फोन मेळयलो. तोय तेन्ना दिल्लीच रावतालो. ताका गळ घालून ए व्ही पैची ऍपॉयण्टमेण्ट घेतलीच. आमी दोगांय ताका मेळून आयलीं. सरळ ताच्या घरा वचून. इतलो कामाचो भार आशिल्लो मनीस, पूण आमचे लागीं आपलेपणान उलयलो. ती धन्य जाली. जशी कितें तिचीय एक आगळी-वेगळी काशीयात्रा जाल्ली.

फुडें म्हाका 1956 वर्सा कॅनरा स्कुलांत हिंदी शिक्षकाची नोकरी मेळ्ळी. तिच्याच बळग्यार हांवें एकेक करून एमए मेरेन मजल माल्ली. आग्रा गेल्लेकडेन हिंदी साहित्य संमेलन (प्रयाग) हांच्या साहित्य रत्नाच्या पूर्वार्धाची परिक्षा दिल्ली. 1957 वर्सा बंगळूर वचून उत्तरार्ध सोंपयलो. फुडल्या वर्सा भोपाळ वचून इंटर परिक्षा दिली. 1961 वर्सा बनारस हिंदू विद्यापीठाची बीएची पदवी. आनी 1964 वर्सा कर्नाटक विद्यापीठांतल्यान हिंदी एमएची पदवी. आशा सदांच फकाणां करी:

“आन्नाक एक भुरगें जावचें आनी ताणें एक परिक्षा दिवची.”

तेन्नाच 1965 वर्सा पुत्तूर विवेकानंद कॉलेज सुरू जाल्लें. 1915 वर्सा स्थापन जाल्ली ही पुत्तूर एज्युकेशन सोसायटी. पुत्तुरांत तेन्ना फिलोमेना हायस्कूल आशिल्लें. तातूंत शिकपी चलयांचेर खूब बंदना घाल्लीं. केसांत फुलांपासून माळपाक दिनाशिल्ले. देखून हिंदू संस्कृतीचें रक्षण जावचें म्हुणून हे शिक्षणसंस्थेचें नांव बदलावन विवेकानंद विद्यावर्धक संघ म्हूण केलें. स्वामी विवेकानंदाचीं तत्वां आपणावन कार्य सुरू केलें. फुडें 1965 वर्सा तांणी कॉलेज सुरू करपाचें थारायलें. थंय म्हाका हिंदीचो प्राध्यापक म्हूण नोकरी मेळ्ळी. आठ वर्सां कॅनरा हायस्कुलांत काडटकीर हांगां प्राध्यापक म्हूण जॉयन जालों, आनी हिंदी विभागाचों एच्ओडी जावन 18 वर्सांनी 1983 वर्सा निवृत्त जालों.

हें सगळें शक्य जालें मीराचे सहकाराक लागून आनी तिणें घेतिल्ले संवसाराचे जबाबदारेक लागून. मीरावांगडा लग्न हो म्हजो फकत संवसाराचो गाडो नाशिल्लो. एक शिस्तबद्ध आनी तितलेच विचारवंत जिणेची एक संस्कारक्षम भटकंती आशिल्ली ती .





# रामदास

**एके** वटेन संघाचें काम जाल्यार दुसरे वटेन हिंदी प्रचार सभेचें. तातूंत मर्दी शाळा. अशे तरेन आमचो संवसार सुरू जालो. लग्न जालीं त्याच वर्सा 4 डिसेंबरा आशा जालें. उपरांत पांच वर्सांनी रामदास. श्यामलाचो जल्म 1963 तलो. 5 मेक. आनी सगळ्यांत धाकलो गोकुळ आनीक दोन वर्सांनी. 10 जुलयाक. सगळीं भुरगीं आवयवांगडा कुशीच्या श्रीनिवास पाठशाळेंत वतालीं. थंयच मॅट्रीक पास जालीं. म्हणटकीर म्हजोय कामाचो भार उणो जालो. उरिल्लो संवसाराचो भार मीरान घेतिल्लोच. तेन्ना हांव घरांत कमी आनी भायर चड.

भुरगीं शिकपाक हुशार आशिल्लीं. आशा तर पयलींच्यानच हुशार. जितलें हुशार शिकपांत तितलेंच वक्तृत्वांतय. फाडफाड उलयतालें. शाळेंत ज्युनियर बी जी मीराच म्हणटाले ताका सगळे. रामदासय तितलोच हुशार. गोरोगोमटोच. ल्हानपणासावनच दिसपाक हँडसम. सगळ्यांलागीं मेळून मिसळून वागपी. आवयची कला श्यामलाक आयिल्ली. आवय इतलेंच गोड गायतालें. नाटकांनीय कामां करतालें. गोकुळ धडपडी. पाठ्यपुस्तकी शिक्षणापरस मॅकॅनिकल गजालीची

ब्रड आवड. ल्हानपणासावनच मायेस्त.

सुटी आयली काय भुरग्यांनी बोवाळ घालपाक लागप. गोंयां या. म्हटल्यार जांबावले. सगळींच भावंडां सुटयेंत जांबावले जमतालीं. भाऊलीं उषा, विद्या, नारायण, प्रदीप, हेमंत, नीता आनी स्मिता. मनोहरालीं संध्या, संदीप, सदेश, संजीव आनी सुदेश. बाबूलीं केतन, राजन, सुदीन आनी सचीन. तेभायर आमगेलीं चार जाणां. घे धुमाकूळ घालतालीं दीस आनी रात.

सकाळीं पणसाचे घरे जाल्यार सांजे घोटां आनी आंबे. मुसराद, मानकुराद, करेल, कुलास, फॅर्नांद अशे कितलेशेच. कोणाचो काथो चड धवो जाता हाची सर्त. सकाळीं घरे खावन पाण्ट्यार न्हावपाक. येवन पेज जेवप. सांजे परत केन्नाय पाण्ट्यार जाल्यार केन्ना कसकसले खेळ. लिपचेल्यांनी खेळटना तर आख्खें जांबावले पाड घालतालीं. एक-दोन फावटीं तर मेळचो न्ही म्हूण देवळाच्या गर्भकुडीमेरेन पसून पाविल्ले. भाऊन धेंगसो घालतकीर पळ्ळे. तेभायर केन्ना सोडयांनी जाल्यार केन्ना खांब्यांनी. सांज जाली काय इस्पिकांचो मांड पडटालो. थंय हांचीं झगडीं जालीं काय सोडयतना आमकां नाका शेवट जातालो. रुसून फुगून एकामेकांकडेन उलयनासतना न्हिदतालीं. सकाळीं उठून पळयल्यार सगळीं परत एक. रुसवे-फुगवे पाण्ट्यार बुडोवन येतालीं.

बाबूलो केतनय तितलोच हुशार. नाटकां घडयतालो आनी बसयतालोयबी. गायतालोय बरो सुरांत. तांच्यो येसायो आमचे मुखारच चलताल्यो. तरीकय मागीर एक दीस नाटकाचो प्रयोग. तो बसून पळोवपाची सगळ्यांक सक्ती. आमच्यो जाताल्यो हांसून मुड्ड्यो. तांणी केल्लें 'अती तेथे माती' हें नाटकुलें तर उत्कृश्ट जाल्लें.

पूण अशें म्हूण मीराली सांयप्रार्थना केन्ना चुकलिना. 'शुभं करोति कल्याणम् आरोग्यं धनसंपदा' धरून गीतेचे अध्याय गावपामेरेन. अचानक पुराय घर शांत शांत. आनी तातूंत मीरेवांगडा भुरग्यांचो आवाज. तें पवित्र वातावरण उतरांनी सांगप कठीण. काळजांतच साठोवपाचें.

घरा परत वतना लोलयां वचप. थंय चार दीस. केन्ना केन्ना वांगडा हेरय भुरगीं

येतालीं. वयर दोंगरार काजूंत धरून सकयल कुळागरांत आनी शेतांनी धुडगूस घालतालीं अक्षरशा. तेभायर काजू, घोटां, आंबे, पणसांचो तर फार. हांगां पाण्टो नाशिल्लो, पूण उदकाची व्हडली टांकी आशिल्ली. स्विमिंग पूल कसो. आनी तातूंत पडपी मिशिनाच्च्या उदकाचो घोगो. थंय भुरग्यांनीच एकेक खेळ सोदून काडिल्ले. केन्ना केन्ना सुलूक बडी घेवन वचून धेंगसो घालून टांकयेंतल्यान भायर काडचें पडटालें. जेवपाक येवपाक.

मंगळूर वचपाक भायर सल्लीं काय मनोहर आनी सुलू साक भरभरून दितालीं. नाल्ल म्हणनाका, आंबे–पणस म्हणनाका, पोपायो, जांब, पणसांचें सांठ, अटंबा सोलां, भिंडा सोलां, लोणचें कितें म्हुणून ना. एकेक फावट तर आमच्या कपडयांच्या सामानापरस खाणां आनी फळांच्यो पोटल्यो चड जातात्यो. एक फावट तर पिकप भरून सामान व्हरून मनोहरान कोडिबागच्यान जंगलाचेर आनी थंयच्यान मंगळूरचे बशीचेर चडयलां. (जंगल म्हटल्यार दोन व्हड्यांचेर फळीं घालून काळी न्हंय हुपपाक केल्लो सांगोड. ताचेर गाडयो पासून घालताले.)

सुटयेंत दुसरी ट्रिप आसताली भुरग्यांल्या मामागेर मुंबय. थंय परिक्षा उसरा सोंपताल्यो. म्हणटकीर जांबावले वचून मागीर मुंबय वतालीं. भुरग्यांक जांबावलेचो गांव जितलो प्रिय तितलेंच हें महानगर. भुरगीं येतकीर मामा आनी मामीचेर भार येतालो. दोगांय सभावान मायेस्त. तांचीं उषा, शोभा, माया आनी गणेश जाल्यार आमचीं आशा, रामदास, श्यामला आनी गोकुळ. चौपाटी, राणीची बाग, केन्नाय सिनेमा जाल्यार केन्नाय बेठींच मुंबय भोंवपाक. जिवाची अक्षरशा मुंबय करून येतालीं. जांबावलेच्या व्हडल्या घरांत जितलीं ऐसपैस न्हिदतालीं तितलींच मुंबयच्या त्या वन रूम किचनांत एडजस्ट जातालीं.

सगळीं भुरगीं कुशीच्या श्रीनिवास पाठशाळेंतच शिकलीं. 1965 वर्सा आशा एस्. एल्. सी. जालें. येदेशे कुडींत पांच जाणां रावतालीं आनी चिमणेच्या दिव्यांत शिकतालीं. तातूंत आशाची परिक्षा जाल्या तेन्ना मीरा चार म्हयन्यांची गुरवार. हांव म्हज्या शाळा, संघ आनी हिंदी प्रचार सभेच्या कार्यांत गुल्ल. रामदास स वर्सांचो जाल्यार श्यामल फकत दोन वर्सांचें. आपल्या ल्हान भावंडाची किरकीर

सोंशीत तें जिद्दीन शिकतालें. कितें जातलें कशें जातलें आमकांय धुकधूक आशिल्लीच. पळयल्यार ह्या पोरान आमकां शॉकच दिलो. कर्नाटक राज्यांत पयल्या शंबरांत आयलें. सगळ्याक आशाचें भरभरून कवतूक. आमकां तर सर्ग अक्षरशा दोन बोटां उरिल्लो.

तेन्ना रँकबी म्हणटात तो प्रकार नाशिल्लो. पयल्या शंबरांत आयलें जाल्यार फुडल्या शिक्षणाखातीर कर्नाटक सरकाराची शिष्यवृत्ती मेळटाली. अट एकूच. पालकांचें वर्सुकी उत्पन्न स हजारांवयर आसपाक जायना. आमचे अर्थीक परिस्थितीचो फायदो आशाक जालो. फुडें आमचें उत्पन्न वाडलें. पूण आशाची शिश्यवृत्ती मात चालूच उल्ली.

आशा संस्कृत शाळेंत शिकिल्लें. फुडल्या शिक्षणाखातीर संस्कृत आशिल्ली ती फकत मंगळूराचे सरकारी कॉलेजींत. पूण ते कॉलेजीचो दर्जो तितलो नाशिल्लो. कर्मधर्मसंयोगान त्याच वर्सा हिंदींतल्यान एमए जातकीर म्हाका पुत्तूराच्या विवेकानंद कॉलेजींत नोकरी लागिल्ली. आनी थंय संस्कृत आशिल्लें. म्हणटकीर आमी थारायलें, आशाक पुत्तूर कॉलेजींत घालप. प्रीयुनिवर्सिटीचो (पीयुसी) तेन्ना एकच वर्साचो कोर्स. मंगळूरच्यान 52 किलोमीटर पयस. सद्दां यो-वच काय शक्य नाशिल्लें. दुर्दैवान नवीच कॉलेज आशिल्ल्यान हॉस्टेलय नाशिल्लें. पूण कॉलेजीचे कुशीकच एका घरांत खूबश्यो चलयो रावन शिकताल्यो. आमी थारायलें, आशाक थंय दवरपाचें.

मीरा तेन्ना मातृमंडळी संस्थेंत खूब क्रियाशील आशिल्ली. आनी आपल्या मनमिळावू सभावाक लागून तितलीच सगळ्यांक प्रीय. ह्या मंडळांतली तिची एक मैत्रीण पुत्तूर रावताली. बी पुष्पा नामदेव शणै. विश्व हिंदू परिषदेंतय काम करताली. घरा मांव-मांय आसतालीं. तिका खंयच्यान तरी आशाची गजाल कळ्ळी. सरळ घरा आयली आनी तिणें सांगलें:

"आशा त्या घरांत ना रावची. थंय हून उदक लेगीत मेळनाची. फाल्यां मलेरियाबी जाल्यारू कशें जातलें? तें आमच्या घरा रावतलें."

आमची वाचाच बंद जाली. ना घरची ना सोयऱ्यांची. पूण मीराची पुण्याई

आनी देवाची कृपा. आशा एक वर्स तांगेर रावन शिकलें. 76 टक्के मार्क मेळ्ळे. त्या तेंपार इतले मार्क म्हटल्यार तकलेवेल्यान गेले.

आशान पी. सी. बी. घेतिल्लें. आवयक तें दोतोर जाल्लें जाय आशिल्लें. पूण रिजल्ट येवपाक खूब कळाव जाल्लो. मॅडिकलाचीं एडमिशनां चडशीं जाल्लीं. आशाक गणितांतय खूब रस आशिल्लो. तें म्हणपाक लागलें, हांव गणीत घेवन मुखार शिकतां. पूण मीरा खंय इतल्यान सोडटा? तेन्ना मॅडिकलाचो प्री-प्रोफेशनल कोर्स मॅडिकल कॉलेजींतच आसतालो. हिणें सोदून काडलें, म्हैसूर मॅडिकल कॉलेजीचीं एडमिशनां जालीं नाशिल्लीं. इंटरव्ह्यू लागीं आशिल्ले. संजीव आकाची धूव म्हैसूर आशिल्ली. तीय थंय आशिल्ली. आमी आनी वेळ केलोना. आशाक घेवन आमी रातचीं म्हैसूरचे बशींत चडलीं. दुसऱ्या दिसा इंटरव्ह्यू.

फांतोडेर केन्ना तरी मडिकेरी फुडें एका गांवालागीं बशीन थपकल माल्ली. ड्रायवर-कंडक्टर ठोक ठोक करतात, पूण बस काय सुरू जायना. स जालीं, सात जालीं, बस सुरू जावपाचीं चिन्नां दिसनात. आशाचो इंटरव्ह्यू णव वरांचेर. थंयच्यान म्हैसूर आनीक देड वराचो प्रवास. तेन्ना पी. पी. फोन करतले जाल्यार फकत पोस्ट ऑफिसांतल्यान. त्या गांवांत तर पोस्ट ऑफिसच नाशिल्लें. आनी फोन तरी कोणाक करतले? दुसरी बसय येना. देवा पाव देवा पाव म्हणटासर एक जीप येतना दिसली. आमी जिपीक हात दाखयलो. मात्शी मुखार वचून रावली. पळयल्यार जिपींत दोग-तीग जाण आशिल्ले. एक बायल मनीसय आशिल्ली. आमी तांकां आमची परिस्थिती सांगली. मनीस बरे आशिल्ले. तांणी सांगलें, हुस्को करनाका. आमी ताका कॉलेजींत पावयता. आशाक एकल्याकच आमी ते जिपींत धाडलें. अक्षरशा काळजार फातर दवरून. देवाचो धावो करीत.

णव वरांच्या अदमासाक दुसरी बस आयली. ते बशींतल्यान आमी म्हैसूर पावलीं साडेधांच्या अदमासाक. पळयल्यार आशा इंटरव्ह्यू दिवन तेन्नाच भायर सरिल्लें. आमच्या जिवांत जीव आयलो. कांय वेळान ताचो निकालय आयलो. तें सिलॅक्ट जाल्लें. हॉस्टेलाचीय वेवस्था आशिल्ली. खंयच्यान देव पावलो काय जालो आमकां. मीराक इतली खोशी हांवें केन्नाच पळयलिना. अक्षरशा

हवेंतच उडटाली कशी.

एक वर्स पीपीसी आनी मागीर फर्स्ट इयर एम् बी केलें. दोन वर्सां आशा म्हैसूर उल्लें. सुटयेंत येवन वचून आसतालें. संजीव आकाची धूव जानकी तेन्ना म्हैसूर आसताली. म्हणटकीर आमकां हुस्को नाशिल्लो. मागीर इंटरचेंज करून आशान आपलें एडमिशन मंगळूरा बदलून घेतलें. कस्तुरबा मॅडिकल कॉलेजींत शिकपाक लागलें. आमची मोगाची धूव परत आपल्या घोटेरांत आयली.



आशा आनी हांव पुत्तूर पावसर हे वटेन गोकुळ जल्माक आयिल्लो. आशा परत मंगळूर येयसर गोकुळ जाल्लो तीन वर्सांचो, श्यामल पांच वर्सांचें जाल्यार रामदास  णव वर्सांचो. सगळीं भुरगीं शिकपाक लागलीं, खेळपाक लागलीं, एकामेकांलागीं मोगाचीं झगडीं करत आमचो संवसार चलपाक लागलो. म्हजो चडसो वेळ संघकार्यांतच वतालो. तेन्नाच हांव विश्व हिंदू परिषदेखातीर काम करपाक लागिल्लों. मीराय वांगड दितालें. आमी दोगांय घराभायर आसल्यार आशा आवय कशी जावन घर सांबाळटालें.

अशें करीत 1973 त आशा मॅडिकलाच्या निमण्या वर्सा पावलें. रामदास तेन्नाच एस् एल सी पास जावन पीयूसी करपाक लागिल्लो. चौदा वर्सांच्या त्या भुरग्याक खूब कितें कितें करपाची उमेद. सायकल घेवन दी म्हूण फाटीक लागलो. बुधवारा 15 ऑगस्टाची सुटी आशिल्ली. आमच्या मनांत नाशिल्लें. तरीकय घेवन दिली. म्हज्या इश्टाचें ज्योती साइकल म्हूण दुकान आशिल्लें. थंयच्यान घेतली. थोडे पयशे दिले, उरिल्ले मागीर दिता म्हटलें.

रामदास खूश. पयलीं लागींच थोडे रावंड माल्ले. मागीर गांवभर भोंवलो. आनी उपरांत सायकल घेवन गेलो सरळ सुरतकल दर्यावेळेर. पावस सोंपलो नाशिल्लो. परत येतना घोग्यांनी पावस आयलो. हो भिजतच घरा. आयलो तोच जोर घेवन. कुडकुडत. पुसून काडसर पळयल्यार जोर चडटा. थंयच मदले

कुडींत सोफाचेर आड पडलो. रात जायसर म्हणपाक लागलो हड्ड्यांत दुखता. गिळपाकय त्रास जावपाक लागलो. कितेंय खालें जाल्यार ओंकून वतालें. सगळींच भियेलीं. धांवत वचून दोतोर किणीक आपोवन हाडलो. आमचो घरचोच दोतोर. रामदास तर ताचे मायेचो. हुस्क्यान तसोच धांवत आयलो. येतना स्टॅथोस्कोप पासून हाडलोना. आशाचो स्टॅथोस्कोप घेवन तपासलो. इल्लें दूद पिवपाक दिलें. नशिबान तें पिलो. जिवाक बरें दिसता म्हणपाक लागलो. आमकां मात्शें सू जालें. पूण रात हुस्क्यांतच गेली.

दुसरो दीस येयसर हड्ड्यांत दुखप वाडलें. जोर परत चडलो. दोतोरान सांगलें, हॉस्पिटलांत व्हरया. हंपनकट्ट्यार लागींच वॅनलॉक डिस्ट्रिक्ट हॉस्पिटल आशिल्लें. थंय पावसर ताका स्वास घेवपाकय त्रास जावपाक लागले. तसोच कस्तुरबा मॅडिकल कॉलेजीच्या हॉस्पिटलांत व्हेलो. आशा थंयच शिकतालें. व्हरचे व्हरून ताका आयसीयूंत घातलें. ऑक्सिजन लावन व्हॅंटिलेटराचेर दवल्लो. नाकातोंडांत ट्युब्स. आशाचे सगळे प्रोफेसर स्वता ताका पळयताले. आशाय आशिल्लें. ल्हवू ल्हवू करून कोमांत गेलो.

आमी दोगांय भायर तळमळत. भुरगीं आबूज. जातलो बरो म्हूण दोतोर धीर दिताले. पूण आशाचें तोंड वेगळेंच कितें तरी सांगतालें. हे मनःस्थितींत आमकां पावलो तो जना. रामदासाचो इश्ट. शेजराच्याच पाठशाळेंत वेदाभ्यास शिकतालो. दीस-रात हॉस्पिटलांत ठाण मांडून आशिल्लो. भितर कितें जाय नाका तें पळयतालो आनी आमकांय धीर दितालो.

शेनवार येयसर ताची प्रकृती आनीकय बिगडली. जोर तकलेक मारिल्लो. व्हायरल ब्रेन फीव्हर. दीस उदेलोच तो काळरात कशी. सकाळ जायसर रामदासान निमणो स्वास घेतलो...

आमचो मोगाचो पूत आमकां सासणाचो सोडून गेल्लो. आंगार वीज कोसळिल्लेवरी जालें. मीराची तर सुद्दच गेली. आशाय पुराय गळसणून गेलें. दोतोर जालें म्हूण कितें जालें? निमणे भयणच ती. म्हजी तकली तर पुराय गरगरताली.

जना आनी हेरांनी आमकां धीर दिलो. ताका एम्ब्युलन्सींत घातलो आनी

ाडलो आमचे चाळींत. सगळ्याक रडारड. पुराय चाळीचेरच आकांत आयिल्लो. कशेंबशें मन घट केलें. सगळे संस्कार केले. धीर दिवन दिवन लोक परत गेले. दीस कसोबसो वतालो. पूण रात खावपाक येताली. मीरा तर मदींच न्हिदांतल्यान आड्डीत उठ्ठाली. भुरगींय रडपाक लागतालीं. कालमेरेन हांसपी खेळपी गुडगुडीत ामदास आतां ना ही कल्पनाच सहन जायनाशिल्ली. ताचे सायकलीची चेन ासणाची तुटून गेल्ली. आनी आमच्या सुखी संवसाराची ट्रेन रुळावेल्यान निसरून पडिल्ली. अस्ताव्यस्त.





# आशा-किर्णं

**पूण** जीण खंय थांबता? अपघात जालो म्हूण ट्रेन खंय धांवपाची रावता? तिका धांवचेंच पडटा. अपघातांतल्यान वाटाविल्ल्यो बोगी एकठांय हाडून. सगळ्यांक परत रुळार हाडून.

स्वातंत्र्या दिसा ताका सायकल हाडली. 18 ऑगस्टाक ताची ज्योत पालवली. आनी तीन दिसांनी आयली चवथ. मीराल्या कुळाराची चवथ उल्ली आनी आमची जांबावले. पूण विश्व हिंदू परिषदेचें काम खंय रावता? दर चवथीक आमी हारेजनांक आपोवन सहभोजन करताले. ती जापसालदारकी म्हजी. तें खंय चुकता? मीरानय सांगलें, आंगावेली जबाबदारी चुकयनाका. तेच कोसळिल्ले मनः स्थितींत हांव सहभोजन वाडपाक गेलों. काळजार फातर दवरून. कर्तव्यभावनेन.

पूण तोंडाची रूच गेल्ली. पुराय जीणच कोडू लागपाक लागिल्ली. अश्या वेळार मुखार सल्लीं म्हजो मेवणो गोपाळकृष्ण आनी ताची घरकान्न उमा. बारा दिसांकडेन आयिल्लीं तेन्ना तांणीच थारायलें, तांचेवांगडा आमी मुंबय वचपाचें. म्हाकाय पटलें. कारण हांगां तर पावला पावलार रामदासाची याद खावपाक

येताली. मीरा तर ताचे कपडे, पुस्तकां, कितें दिसता तें पळयताली आनी हिस्टॅरिक जाल्लेवरी वागपाक लागताली. आशा आनी श्यामलाक शाळेक लागून मंगळूराच संजीवआकालागीं दवल्लें. जनाय आशिल्लो. आठ वर्सांच्या गोकुळाक घेवन आमी तांचे वांगडा गेलीं. मुंबय नवरात्रांमेरेन रावलीं. दवरिल्ली चवथ केली आनी परत आयलीं.

आशाचें तें फायनल इयर. खऱ्यांनीच सत्वपरिक्षा. एक म्हटल्यार मोगाचो भाव गेल्ल्याचो आघात. तातूंत ताणें चडूच मनाक लावन घेतिल्लें. दोतोर जावनय तें वा ताचे प्रोफेसर आशिल्ले सिनियर दोतोर रामदासाक वाचोवपाक शकले नाशिल्ले. तेच मनःस्थितींत तें शिकतालें. आमी मुंबय आसतना सगळें घरचें काम पळयतालें. श्यामलाक पळयतालें. एक तर घर ल्हान, तातूंत लायट ना. रातीन 11 जायसर लायब्ररींत बसून शिकतालें. जितलें भावूक तितलेंच जिद्दी. चारूय वटांनी आंगार कोसळिल्ले परिस्थितीचेर मात करून मुखार वचपाची सत्वपरिक्षा आशिल्ली ती ताची, फकत फायनल इयर न्ही.

इतले मर्दीं आशाक सोयरीक आयली. भुरगो कोइम्बतूरचो. कस्तुरबा मॅडिकल कॉलेजींत एम् एस् करतालो. थंयच ताणें आशाक पळयलें. पयलेच नदरेंत कोणेंय भाळचें अशेंच आशिल्लें आशा. आवयवरीच लांबसडक. धारदार सोबीत दोळे. शिकपांतली हुशारी चलपांत आनी उलोवपांतय दिसताली.

सी जी कामत म्हूण आमचो एक इश्ट आशिल्लो. ताचे मार्फत सोयरीक आयली. एक म्हटल्यार रामदासाच्या मर्णांतल्यान आतांच खंय तरी भायर सरतालीं. तातूंत आशाचें हें फायनल इयर. आमी मागीर पळोवया म्हूण फाफडून उडयलें.

पूण कोईम्बतूरची ही राव पार्टी रावपाक तयार नाशिल्ली. आमच्या वाड्यारच गिरिजा बाय म्हूण एकली रावताली. आमकां सामकी घरांतली. डॉ राघवेन्द्र तिचोय सोयरो. ताणें तिचेकडेन उतर घालें आनी ही येवन तकलेरच बसली.

''असली सोयरीक परपरत येता वॅ? कोइम्बतूरांतलें व्हडलें प्रस्थ. ताचो

बापूय, आजो सगळेच दोतोरू. तशिंची एकलो भावोजी हाय कोर्टाचो जज्ज आनी दुसरो रेल्वेंत चीफ इंजिनियरू. पूण पयशांचो गर्व ना पळे. हो भुरगो तर सामको भांगर. तुमी एक फावट कोइम्बतुरा वचून पळयाती न्ही?"

तिचो आग्रो मोडप कुस्तार आशिल्लें. आमकांय तिचें म्हणणें पटलें. पळोवन येवपाक कितें हरकत? रेल्वेची तिकेट काडली आनी आशाक घेवन गेलीं कोइम्बतुरा डिसेंबरांत.

केदो व्हडलो बंगलो. भायर व्हडलें कम्पावंड. भितर बंगल्यामुखार व्हडलें गार्डन. पोर्च. तांचे गॅरेजीइतलें आमचें चाळींतलें साल आसतलें. भितर सरतनाच काळीज धडधडपाक लागलें. ही येदी व्हडली असामी. आमी दोगांय सादीं मास्तर-बाई. चाळींत रावपी मध्यमवर्गीय लोक. फाल्यां थाल्लेंय जाल्यार कशें पेलतलें आमकां हें लग्न? आमचेकडेन नाशिल्ली फुटकी दमडी.

तीं दारांतच राविल्लीं आमची वाट पळयत. डॉ सुधाकर राव आनी ताची घरकान्न शारदा. दोगांयनी हांसतमुखान येवकार दिलो आनी चेपिल्लें काळीज मात्शें ल्हव जालें. गिरिजाबयन सांगिल्लें तें खरेंच. मनशां गिरेस्त, पूण तितलींच मायेस्त. मांयन तर पळयतनाच आशाक पसंत केली आनी थंयचे थंय चार जाण्ट्यांक आपोवन पसंतीचीं फुलां पासून माळून मेकळी जाली. मांव कोइम्बतुरा चो जाल्यार मांय महाराष्ट्रांतली. दोगय कोंकणी सारस्वत. मांय मराठीय बरी उलयताली.

हांव अजाप. कोंकणी मनीस मद्रासांत, आनी तोयबी कोइम्बतुरा कसो कितें पावलो? जाल्यार हे मूळ शणै. केरळांतले कोचीचे. तेयबी जांबावलेचे म्हाजन. हें आयकतकर परकेपण खंयचे खंय नाच्च जालें. नकळटांच आमी आनीकय लागींचे जाले. पोर्तुगिजांच्या धर्मांतरान खंय खंय पावलो आमचो लोक? रातचे तांगेरच रावले. तेन्ना खबरांतल्यान खबरो वाडत गेल्यो. कितल्योशोच गजाली कळत गेल्यो.

राघवेंद्राचो पणजो दामोदर शणैं. कोचीच्या कोर्टांत स्टॅम्प व्हॅण्डर आशिल्लो.

ताच्या पुताचें नांवय राघवेन्द्र. कश्ट काडून ताका मद्रास मॅडिकल कॉलेजींत शिकयलो. आनी फुडल्या शिक्षणाखातीर परदेशांत धाडलो. सर्जन जावन परत आयलो आनी कोचीचो फामाद दोतोर जालो. कोचीच्या राजाचो तर राजवैज (रॉयल डॉक्टर) तोच आशिल्लो.

कोणाक नसाय जाली कोण जाणा, पूण ताचे आड तांचे स्वामीजीकडेन कागाळ गेली. तेन्ना सारस्वत लोकांक परदेशांत वचपाक परवानगी नाशिल्ली. गेल्यार तांकां तांचे समाजांतल्यान बहिश्कृत करताले. तेंच जालें. डॉ राघवेन्द्र बहिष्कृत जालो. पूण इतल्यान एक अजाप घडलें. स्वामीजी दुयेंत जाले. दुयेंस हाताभायर वचपाक लागलें. भायर वचून शिकून आयिल्लो डॉ राघवेन्द्र हो एकूच उपाय आशिल्लो. म्हणटकीर निरुपायान स्वामीजीन ताका परत सारस्वत समाजांत घेतलो. आनी ताच्या उपचारांनी स्वामीजीय निवळ्ळे.

पूण डॉ राघवेन्द्र दुखावलो तो कायमचो. लंडनासावन आयिल्लो तेन्ना आख्ख्या गांवान रेल्वे स्टेशनावेल्यान बँड वाजोवन वरातीन ताका घरा हाडिल्लो. पूण उपरांत मात स्वामीन ताका समाजाभायर केल्लो. ताणें थारायलें, कोची सोडपाचें.

दर्या लागीं आशिल्ल्यान कोचीच्या वातावरणांत चिकचिकसाण खूब आसता. गिमाच्या दिसांनी तर नाका शेवट जाता. ते मानान सह्याद्रीच्या मुळसाकडेन आशिल्लें, आनी आतां तामिळनाडूंत आशिल्ल्या कोइम्बतूर शारांत ही चिकचिकसाण नासता. पावसय दोनय कडल्यान येता. जूनांतल्यान ऑगस्टमेरेन पश्चिमेचो मान्सून जाल्यार ऑक्टोबर–नोव्हेंबरांत परत पूर्वेचो मान्सून. मदीं सप्टेंबरांतय वातावरण ढगाळ. देखून जून ते नोव्हेंबरमेरेन हांगां वातावरण थंड आसता. दक्षिण भारतांतलें थंड हवेचें ठिकाण म्हूण फामाद आशिल्लें ऊटी शार तर कोईमतूराच्यान अशें तशें 85 किलोमीटरांचेर. देखून डॉ राघवेन्द्रान आपलो राबितो कोइम्बतूरा हालयलो. थंय येतकीर आडनांवय राव म्हूण बदल्लें.

ताचो पूतय फामाद सर्जन. परदेशांत शिकून सर्जरीच्यो कितल्योशोच

डिग्री घेवन आयिल्लो. डॉ सुधाकर राव लश्करांत मेजर आशिल्लो. दुसऱ्या महाझुजावेळार तो लश्करावांगडा ब्रह्मदेशांत आशिल्लो. उपरांत कोइम्बतूर येवन ताणें 1953 वर्सा आपलें नर्सिंग होम सुरू केलें. तेंच आतां पूत राघवेन्द्र आनी आशान फुडें चलोवपाचें आशिल्लें.

तांकां सगळेच तीन पूत. तिगूय दोतोर. व्हडलो पूत अमेरिकेंत स्थायीक जाल्लो. हेर दोगय कोइम्बतुरा प्रॅक्टीस करताले. डॉ राघवेन्द्र हरशीं आशापरस आठ वर्सांनी व्हड. तेन्ना आशिल्लो 27 वर्सांचो जाल्यार आशा 19 वर्सांचें. हायर सेकंडरी मेरेन कोइमतुरांतच स्टेन्स स्कुलांत शिकिल्लो. उपरांत मॅडिकल शिकपाखातीर मंगळूर आयिल्लो. थंयच कस्तुरबांत गायनेकॉलाजी, म्हटल्यार स्त्रीरोगशास्त्र आनी प्रसुतीशास्त्रांत एम् एस् करतालो. आशाय तेंच करपाचें आशिल्लें.



जेवन आमी परत गजालींक बसलीं तेन्ना आमचो वेय डॉ सुधाकरान झुजाच्यो गजाली सांगपाक सुरवात केली. तातूंतली एक घडणूक हांगां सांगपासारकी. झूज सोंपपाक आयिल्लें त्या दिसांतली. 1945 तली.

एके वटेन युरोप आनी आशियेचेर राज्य करपी इंग्लंड, अमेरिका, चीन, रशिया अशीं इश्ट राष्ट्रां जाल्यार जर्मनी, इटली आनी जपान हीं अक्ष राष्ट्रां (अक्षवृत्ताभोंवतणचीं) अशें हें झूज 1939 सावन स वर्सां चल्लें. तेन्ना जपानान ब्रह्मदेशाचेर स्वारी केल्ली आनी भारतांतलें ब्रिटीश लश्कर सेगीत तीन वर्सां अक्ष राष्ट्रांआड झुजतालें. जपानाक वांगड दिवपाक इटलीचेंय लश्कर आशिल्लें. तांणी डॉ सुधाकर आशिल्ल्या ब्रिटीश लश्कराचे टिमीक हारोवन झुजाचे कैदी केले आनी काझा बियांका हे बोटींत घालून ते इटलीच्या मार्गाक लागले. प्रिजनर्स ऑफ वॉरांक घेवन तांची बोट अर्द वाटेर आसतना अक्ष राष्ट्रांक हारोवन इश्ट

राष्ट्रां झूज जिकलीं. झूज सोंपलें.

"मजा म्हळ्यारी समुद्रांत मदेंच आसतना सगळें उलटा जालें. आतां इटली हारवली आनी आमी जिखले. ते जाले आमगेले बंदी. प्रिजनर्स ऑफ वॉर. युनिटांत हांवच चड वरिश्ट देखून तान्नी म्हाका चार्ज दिलो. आतां तारुं घुंवडसून परतून भारतांत व्हरची जबाबदारी म्हगेली जाली. म्हाका बोटींतुलें कस्सलें कळता? हांव डॉक्टरु नवे!" डॉ सुधाकर हांसत सांगतालो.

निमणे बोटीच्या इटालियन कॅप्टनाक घेवन तांणी बोट भारतांत हाडली आनी सगळ्या इटालियन कैद्यांक घेवन तांकां आपल्या डेहराडूनाच्या कॅम्पांत दवल्ले. तांचे वांगडा रावन डॉ सुधाकर इटालियन भासूय शिकलो. आनी ताच्या म्होवाळ सभावाक लागून इटालियन कैदी ताचेर विस्वास दवरपाक लागले. लश्करांतल्या त्या सगळ्या बंदिवान सैनिकांनी आपणालागीं आशिल्ल्यो इटालियन चलनाच्यो नोटी दोतोराकडेन दिल्यो आनी ताका विनयलें: केन्नाय इटलीक आयलो जाल्यार आमचे पयशे हाडून आमकां परत दी.

त्या इटालियन लश्करावांगडा संवसारांतलो एक फामादीक सर्जन आशिल्लो. प्रोफेसर पियेत्रो वाल्दोनी. आधुनीक सर्जरीचो बापूय म्हूण आख्खो संवसार ताका मानतालो. तांची दोगांयची खूब इश्टागत जाली. आनी इटलीक परत वतना प्रो वाल्दोनीन डॉ सुधाकराक आपणावांगडा येवन काम करपाचें निमंत्रणच दिलें. झूज सोंपून शांती पातळ्ळी आनी डॉ सुधाकर खऱ्यांनीच इटलीक गेलो. वतना त्या बंदिवान सैनिकांचे सगळे पयशे याद्दीन घेवन गेलो आनी ते प्रो वाल्दोनीकडेन सोंपयले.

"हांव जाणा वे मुस्सोलिनीचीं तीं नोटां रद्द केलेलीं म्हुणु? ते सैनिकांचें पयशे गेले म्हुणू चिके वायट दिसलें पळे म्हाका."

ताका जाल्लें दुख्ख आजय आमकां गजाली सांगतना ताच्या तोंडार दिसतालें. मात प्रो वाल्दोनीचो पावणो म्हूण वचून ताचेखाला स म्हयने ट्रेनिंग घेवपाक मेळ्ळें देखून तो खूश आशिल्लो. आनी हें सगळें सांगतना खंयच ताचे

तोंडार गर्व नाशिल्लो. हो मनीस कितलो सादो आनी प्रामाणीक ताची जितीजिवी देखच मेळ्ळी आमकां. सगळो हुस्को मेकळो जालो. आशा बऱ्या घरांत पडलें हे खोशयेन आमी मंगळूरा परतलीं.



एके वटेन इतल्या व्हडल्या घराब्यांत आशा पडटा तें चिंतून आमी खोशी जाल्लीं. दुसरे वटेन व्हडल्या लोकांचें हें लग्न आमकां परवडटलें कशें म्हूण चिंताय जाल्ली. पूण म्हज्या जांवयान एका खिणांत हो प्रस्न सोंपयलो. साकरपुडोबी कांय ना. दिवपा–घेवपाचेंय कांय ना. सादेपणान लग्न करपाचें. तेंयबी मंगळूरांत. आमचो थोडोसो लोक येतलो. तुमचो कितें तो तुमी थारायात. लग्न केन्ना करपाचें तेंयबी तुमीच तुमचे सोयीप्रमाण थारायात.

हे सोयरिकेन आमचे बाविल्ले जिणेक नवी कोमरी फुटिल्ली. मीरा तर खोशयेन सामकी फुलिल्ली. तेवटेन लग्न थाल्लां म्हणटकीर राघवेन्द्र आनी आशा कॉलेजींत मदीं मदीं मेळपाक लागलीं. साहजीक आशिल्लें. पूण मीराक हें पसंत नाशिल्लें. रोकडीच व्हार्डीक करया म्हूण ती फाटीक लागली. आशाची फायनल डिसेंबरांत आशिल्ली. पूण तिका थार नाशिल्लो. मे म्हयन्यांत 6 तारकेचो म्हूर्त काडून सोडलो.

म्हज्या कुटुंबांतलें पयलेंच कार्य. तातूंत आमच्या लग्नाक तर दादा आनी आई सोडून कोणूच नाशिल्लीं. म्हणटकीर आमी सगळ्यांक आपोवपाचें थारायलें. पयशांची वेवस्था हांगाच्यान थंयच्यान केली. आमचें कुटूंब म्हटल्यार सोसपाचें न्ही. म्हजेवाडच्यान आनी मीराच्याय वाडच्यान. पूण सगळीं उमेदीन आयलीं. भाऊ आनी मनोहरान आपापल्या परीन जाता तें सगळें धाडून दिलें गोंयच्यान. नाल्ल धरून सगळें कितें. तांचे पूत नारायण आनी संदीप बस मेळना म्हूण अक्षरशा ट्रकाचेर म्हाल घालून रातभर फाटल्यान ट्रकांत बसून सामान घेवन आयले. कारवारच्यान मंगळूर.

न्हवऱ्याकडले सगळे कोइम्बतूरच्यान बस करून आयले. सँट्रल कॉऑपरेटिव बँकेच्या हॉलांत तांची रावपाची वेवस्था केली. ही वेवस्था बरोबर आयिल्ल्यांक. पूण जावंयाक आनी ताच्या आवय बापायक कशे हॉलांत न्हिदयतले? लग्नाच्या हॉलालागींच एक लागींचो सोयरो रावतालो. ताका विचाल्लें. ताची जाप अजापाचीचः

"सोयऱ्यांक जमनीर न्हिदोवन आमी कशें खाटीर न्हिदचें? बरें दिसता वे तें?"

खंयच्यान तरी आमचे विश्व हिंदू परिषदेंत ही खबर पावली. पी एम् शणै हो आमचो परिषदेचो एक बरें मागपी वेपारी. आशाक खूब बरें करतालो. ताची धूव पासून म्हणटालीः

"आशाक्का आमगेल्या आनालें दुसरें चेर्डूं."

तांची रावपा-जेवपाची सगळी वेवस्था ताणें आपणागेर केली. इतलेंच न्ही, आशाचे व्हार्डिकेची खडी पासून ताणेंच केली.

केदें कुटूंब जाल्लें म्हजें!

कसलीच आडखळ येनासतना आशाचें लग्न जालें. आमच्या घरांतलें पयलेंच कर्नाटकी पद्दतीचें लग्न. देखून सगळ्यांकच ताचें आनिकय इल्लें चड अप्रूप. आशा दिसलें सुंदरच लग्नाच्या भेसांत. कितले जाणांनी कितले फावटीं ताची दिश्ट काडली म्हूण कोंत ना. सगळ्यांनी भरभरून कवतूक केलें. निर्विघ्नपणान कार्य जालें.

जालें, आशान आपलो पयलो संवसार थाटलो मंगळूरांतच. कारण दोगांय शिकतालीं. परिक्षा दीयसर मंगळूरा रावलीं आनी गेलीं परत कोइमतुरा. एक शेवणें गेलें उडून आपल्या घोटेरांत.

पूण नांव काडलें दोगांयनी. आसा तितल्याचेर समादान मानून पयशे जोडीत रावलिंनात. मुखार शिकत गेलीं. म्हजो जांवय बेल्जियम आनी जर्मनी वचून लॅप्रोस्कोपीचें खासा प्रशिक्षण घेवन आयलो. लॅप्रोस्कोपी सर्जरीचें बाळंतपण

करपी तामिळनाडूंतलो पयलो दोतोर डॉ राघवेन्द्र राव. 1975 वर्सा दोगांयनी फामिलीचें राव हॉस्पिटल चलोवपाक घेतलें आनी दोन वर्सांभितर ताणें हो विक्रम केलो. आतांमेरेन उण्योच आठ हजार तरी लॅप्रोस्कोपी सर्जरी आनी अडेच हजार हिस्टरोस्कोपिक सर्जरी केल्ल्यो आसतल्यो ताणे. देखूनच स्त्रीरोगतज्ञांच्या राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या वेगवेगळ्या संस्थांनी आज ताका मानाची सुवात आसा.

आमच्या आशान तर ताच्याकय फुडली मजल माल्ली. इतलीय लग्नाची धामधूम करून रोकडीच एमबीबीएसाची परिक्षा दिली आनी पुराय म्हैसूर युनिव्हर्सिटींत पयलें आयलें. दोन-दोन गोल्ड मॅडलां जिखलीं. तेभायर बॅस्ट आवटगोइंग लेडी स्टुडण्ट म्हूण राष्ट्रपती पदक जोडलें. तेन्नाचे राष्ट्रपती फक्रुद्दिन अली अहमद हांचे हातान दिल्ली एका सुवाळ्यांत ताका तें भेटयलें.

उपरांत कोइम्बतुरा वतकीर 1981 वर्सा चेन्नय वचून स्टॅनली मॅडिकल कॉलेजींतल्यान प्रसूतीशास्त्रांत पदव्युत्तर डिग्री घेतली. थंयबी पयलें आयलें. उपरांत ब्रुसेल्स आनी लंडनाक वचून मायक्रोसर्जरीचें प्रशिक्षण घेवन आयलें. प्रसुतीशास्त्रांभितर एकेक पावंडे चडत चडत आज तें प्रसुतीशास्त्रांतल्या अखिल भारतीय फेडरेशनाचें अध्यक्ष जालां. तेभायर भारतीय, युरोपियन आनी अमेरिकन सोसायट्यांचेंय वांगडी आसा. आंतरराष्ट्रीय परिषदांखातीर तर परदेशांत येवप-वचप चालूच आसता.

पूण तांचें दोगांयचें मोलादीक कार्य म्हटल्यार भुरगीं जायनाशिल्ल्या जोडप्यांक प्रजनन शास्त्रांतल्यान संतान दिवप. ते खातीर तांणी 1985 वर्सा राव हॉस्पिटलांत सॅंटर फॉर आसिस्टेड रिप्रॉडक्शन अँड एन्डोस्कोपी (कॅर) ह्या नांवान केंद्रच स्थापन केलें. आमच्या सामान्यांचे भाशेंत आमी ताका टॅस्ट ट्यूब बेबी म्हणटात. दादल्याचे परिपक्व जाल्ले शुक्राणू काडून तांचें प्रजनन करप आनी मागीर ते बायलेच्या गर्भाशयांत सोडून भुरग्याक जल्म दिवप अशी ही कठीण प्रक्रिया.

भारतांत हे टॅस्ट ट्यूब बेबीचे प्रयोग करपी पयल्या कांय दोतोरांमदीं आमच्या आशाचो नंबर लागता. कोईमतूर शारांतलें तर टॅस्ट ट्यूब बेबी तयार करपी तें

ायलें दोतोर.

आनी हें सगळें करतनाचो तांचो दृष्टिकोण म्हाका चड भावता. तंत्रज्ञान आनी मिशिनाच्या ह्या युगांत यांत्रीक जायनासतना मनीसपणान वागपाचो तांचो भावनीक दृष्टिकोण.

तांचीं दोगांय भुरगींय आज तेच वाटेन चलतात. दोगांय लेप्रोस्कोपिक सर्जन जाल्यांत. व्हडली धूव अर्चना लग्न जावन इंग्लंडा रावता. दुसरो दामोदर आतां राव हॉस्पिटल पळयता. ताची बायलय दीपिका त्याच हॉस्पिटलांत प्रशासन आनी मानवी संसाधनाची जापसालदारकी सांबाळटा.

ही सगळी कुशळटाय आनी भोवमान बरे आसात. पूण म्हजे धुवेन आनी जावंयान कितल्याशाच वांझ म्हणटल्या जोडप्यांक भुरगीं दिलीं आनी तांचे संवसार सुखाचे केले हेंच म्हाका सगळ्यांत व्हडलें आत्मीक समादान...





# विश्व हिंदुत्व

**1966** हें वर्स म्हजे जिणेचो आनीक एक टर्निंग पॉयंट. दर 12 वर्सांनी महा कुंभमेळा जाता. आलटून-पालटून गंगा न्हंयच्या काठार हरिद्वार, शिप्रा न्हंयच्या काठार उज्जैन, गोदावरी न्हंयच्या काठार नाशिक आनी गंगा, यमुना आनी आदली सरस्वती न्हंयांचें संगमस्थान आसा थंय प्रयाग. त्या वर्सा प्रयाग आशिल्लो. तेन्नाच 22 ते 24 जानेवारी अशें तीन दिसांचें पयलें इतिहासीक विश्व हिंदू संमेलन प्रयाग जालें. मौनी उमाशेक. ह्या संमेलनाक हजर रावपाचो योग म्हाका आयलो. सरस्वती न्हंय आटली तेन्ना तिचे काठावेल्यान मार्गक्रमण करीत आमचे पूर्वज गोंयां पाविल्ले. देखून आमी सारस्वत. तो गोंयचो सारस्वत लुप्त जाल्ल्या सरस्वती न्हंयच्या काठार संमेलनाक पावता ही भावना वेगळीच आशिल्ली.

दोन वर्सां आदीं 29 ऑगस्टाक कृष्णजन्माष्टमीच्या म्हूर्तार गोळवलकर गुरुजीन पवई, मुंबय विश्व हिंदू परिषदेची स्थापना केल्ली. ''धर्मो रक्षति रक्षितः'' हो मंत्र घेवन. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे सरसंघचालक गुरू गोळवलकर, केशवराम

काशिराम शास्त्री, स्वामी चिन्मयानंद, दादासाहेब आपटे, शीख संप्रदायाचे मुखेली श्रीसत्गुरू जगजीत सिंग आनी शीखांचे फुडारी मास्टर तारा सिंग हे संस्थापक. स्वामी चिन्मयानंद तिचे संस्थापक अध्यक्ष जाल्यार दादासाहेब आपटे सरकार्यवाह.

पुरायपणान बिनराजकीय आनी खंयच्याच राजकीय पक्षाच्या वांगड्याक प्रवेश नाशिल्ले हे परिषदेचीं उद्दिश्टां सादीं आनी सरळ आशिल्लीं. हिंदू समाजाक बळिश्ठ करप, हिंदू संस्कृताय आनी जीवनपद्दतीचें रक्षण, संवर्धन आनी प्रसार करप आनी संवसारभर फाफसल्ल्या हिंदूलागीं संपर्क दवरून तांचें हिंदुत्व तिगोवन दवरपाखातीर वावुरप. ही मोख दवरून दोन वर्सांनी प्रयाग कुंभमेळाच्या समयार विश्व हिंदू संमेलन घेवपाचीय येवजणय हांगांच थारिल्ली.

खूब व्हडलो आटाप आशिल्लो हो. मोख आशिल्ली 50 हजार प्रतिनिधींची. पूण जालो लोक 75 हजार. 25 हजार प्रतिनिधींची रावपाची वेवस्था. दोळे दिपकावन उडोवपासारको खीण आशिल्लो तो. पुराय हिंदुस्तानांतले संत-महंत जमिल्ले. काश्मीर ते कन्याकुमारी आनी द्वारका ते म्यानमार अशे सगळेकडल्यान प्रतिनिधी आयिल्ले. तशेंच जगाच्या खांची-कोनश्यांतल्यानय. खासा करून श्रीलंका, एडन, म्यानमार, नेपाळ अशा दक्षिण आशियाई देशांतल्यान आनी अमेरिका, आफ्रिका, थायलंड, मॉरिशस, त्रिनिदाद, फिजी सारक्या देशांतल्यानय.

तेभायर कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया, जर्मनी, फ्रान्स, पोलंड, स्वित्झर्लंड, फिनलँड, जपान अश्या वेगवेगळ्या देशांतल्या विद्वानांनी आपापले सदेश धाडिल्ले. आपले आशिर्वाद धाडप्यांमदीं तर आशिल्ले तिबेटी धर्मगुरू दलाई लामा, नेपाळाचो राजा आनी भारताचो राष्ट्रपती डॉ सर्वपल्ली राधाकृष्णन.

एकापरस एक महनीय व्यक्ती ह्या संमेलनाक जातीन हजर आशिल्ले. उत्तर प्रदेशाचो राज्यपाल विश्वनाथ दास, बिहाराचो राज्यपाल अनंतशयनम अय्यंगर, पश्चिम बंगालाचो राज्यपाल डॉ कैलासनाथ काटजू, नेपाळाचो आदलो प्रधानमंत्री तुलसी गिरी, नेपाळाच्या त्रिभुवन विश्वविद्यालयाचो कुलगुरू रुद्रराज पांडे अशे कितलेशेच. तेभायर अध्यात्मिक गुरू म्हुणून नामना आशिल्ले द्वारका पीठाचे जगदगुरू शंकराचार्य, उडुपीचे स्वामी विश्वेशतीर्थ, स्वामी चिन्मयानंद, संत

तुकडोजी महाराज आनी आमचे गोळवलकर गुरूजी.

संमेलनाचें उक्तावणच जालें उत्तर प्रदेशाचो राज्यपाल विश्वनाथ दासाचे हस्तुकीं. डॉ श्यामाप्रसाद मुखर्जीचो भाव आनी पश्चिम बंगाल हाय कोर्टाचो आदलो मुख्य न्यायाधीश रामाप्रसाद मुखर्जी अध्यक्ष आशिल्लो.

तीन दिसांचे चर्चे उपरांत वट्ट 11 थाराव आमी घेतले. तातूंतले मुखेल आशिल्ले हिंदू धर्म सोडून गेल्ल्यांची घर वापसी, धर्मसंस्था, मठ, आश्रम आनी मंदिरांच्या सामाजीक प्रतिश्ठेची पुनर्स्थापना, गोहत्येचेर बंदी हाडपी केंद्रीय कायदो मागप आनी गोरक्षेखातीर वावुरप, संस्कृत भाशेचें संवर्धन आनी प्रसार करप आनी जगभरांतल्या हिंदूंक एकठांय हाडप.

ह्या संमेलनान म्हाका एक मोख दिली. परत येतनाच मनांत हांवें थारायलें, हाचे फुडें विश्व हिंदू परिषदेचें काम करप. निमणें ती संद आयली. संमेलना उपरांत रोकडेंच काम सुरू जालें जिल्लो पावंड्यार परिषदेच्यो समिती काडपाचें. कर्नाटकाची जापसालदारकी आशिल्ली आमचे उडुपीचे पेजावर विश्वेशतीर्थ स्वामीकडेन.

मंगळूर जिल्ल्याची समिती काडपाचें जालें. ए. कृष्णराव म्हूण सिंडिकेट बँकेचो जनरल मॅनेजर आशिल्लो ताका अध्यक्ष केलो. संघाचे प्रांत प्रचारक कृष्णप्पान कार्यदर्शी म्हूण म्हजें नांव सुचयलें. तेंयबी मंगळूर, उडुपी, कुर्ग आनी कासरगौड ह्या चार जिल्ल्यांचो मेळून. सह-कार्यदर्शी म्हूण उडुपीचे प्रसिद्ध सुवर्णकार गुज्जाडी नरसिंह नायकाची निवड जाली.

उडुपी जगद्गुरू माध्व संप्रदायाचे संन्यासी पूज्य श्री विश्वेशतीर्थ स्वामी तरणे पिरायेचे आशिल्ले. तांची उमेद आमच्याकय चड. तांच्या आशिर्वादान आनी फुडाकारान थारायलें, कर्नाटकांत परिषदेच्या कार्याक प्रचार शक्ती मेळची म्हूण 1969 वर्सा डिसेंबरांत उडुपींत पयलें राज्य पावंड्यावेलें विश्व हिंदू परिषदेचें संमेलन घेवप.

आतां मात म्हज्या पांयांक चाकां लागलीं. कॉलेज सोंपतकीर पुत्तुरच्यान मंगळूर येवप आनी रातचीं आठ मेरेन परिषदेच्या ऑफिसांत बसप हें सदांचेंच

जालें. संमेलन लागीं येवपाक लागलें तश्यो आमच्यो भोवंड्यो वाडपाक लागल्यो. म्हजेवांगडा मीराय येवपाक लागिल्ली. कांय वेळार तर मुल्की, उडुपी, पुत्तूर, बेळंतगडी एकटीच वचून येताली. बायलांक मेळून मातृमंडळीची स्थापना करताली.

आशा तेन्ना आसतलें 14 वर्सांचें. रामदास णव वर्सांचो, श्यामल पांच जाल्यार गोकुळ अक्षरशा तीन वर्सांचो. पूण घरची सगळी जबाबदारी आशान घेतली. संजीव आकाय आसताली. आमी घरा पावसर आशा सगळ्या भुरग्यांक लावन अभ्यासाक बशिल्लें आसतालें. आवय-बापूय दोगांय कसल्या तरी म्हत्वाच्या कार्यांत घुस्पल्यांत हें तें जाणा आशिल्लें.

उडुपींत आमी आठ हजार प्रतिनिधींची रावपा-जेवपाची तयारी केल्ली. पूण निमण्या खिणाक रिपोर्ट येवपा लागले, चड लोक येवपाक सोदतात. चर्चाविनिमय करून थारायलें, सगळ्यांनी आठ दीस पयलीं नोंदणीच बंद करची. कारण पयलेच खेपे येदो व्हडलो आटाप हाताभायर वचत म्हूण भिरांत आशिल्ली. पूण इतलेंय करून तो हाताभायर गेलोच. सुमार 15 हजार प्रतिनिधी कर्नाटकाच्या विंगड विंगड जिल्ल्यांतल्यान आयले. आतां कितें करप? जेवणा-खाणाचें करपाक जाता, पूण रावपाची वेवस्था कशी करतले?

आमच्या तरणेबांड स्वामीजीन फुडाकार घेतलो. सकाळफुडेंच तांणी मायकावेल्यान उडुपीच्या थळाव्या लोकांक उलो माल्लो:

"आमच्या गांवांत पुराय राज्यांतल्यान लोक आयल्याती हिंदुचें संघटन करचेखातिरू. येवजिल्लें ताचे परसू डबल जाल्यात. तेन्ना आमच्या सगळ्या हिंदू भावांक हात जोडुन विनंती. तुमच्या घराचीं दारां आमच्या हिंदू बंधूंच्या निवासाखातीर उगडीं करचीं."

धडाधड लोक नांवां दिवपाक मुखार सल्ले. कोणूच प्रतिनिधी भायर उल्लोना. दोन दीस आमच्या उडुपीकारांचो पाहुणचार घेवन आनंदान परत गेलो. 'अतिथी देवो भव' हे आमचे भारतीय संस्कृतीचें प्रत्यक्ष दर्शन.

160 संत आनी साधू जातीन हजर आशिल्ले. खूब विहंगम अशें दृश्य

आशिल्लें तें. व्हड व्हड साधु संत वयर आसनार बशिल्ले. आनी तांच्या पांयांकडेन बैठक घालून आमचे फुडारी बशिल्ले. मेवाडचो महाराजा, विजयाराजे सिंधिया, जनरल करिवप्पा. धरुन गोळवलकर गुरुजी.

ह्या संमेलनान दोन म्हत्वाच्यो घोशणा, त्योयबी संस्कृतांतल्यान दिल्यो. क्रांतिकारी स्वरुपाच्यो. हिंदू धर्माक लागिल्लो डाग काडपाच्यो.

पयली घोशणा 'न हिन्दु पतितो भवेत्'. खंयचोच हिंदू हो पतित वा दलित न्ही.

आनी दुसरी घोशणा 'हिन्दवः सोदराः सर्वे'. सगळे हिंदू एकामेकांचे भाव.

गोळवलकर गुरुजीन तर कमालच केली. दलित समाजांतल्यान येवन आयएएस् जाल्लो भरणय्या आमच्या ह्या संमेलनाचो अध्यक्ष आशिल्लो. गुरूजीन ताका माचयेर मारिल्ली मिठी प्रसार माध्यमांतल्यान गाजली. 'शतमानद अप्पुगे' म्हूण कन्नडांतल्यान ताका प्रसिद्धी मेळ्ळी. म्हटल्यार 'हग ऑफ द सेन्च्युरी', ह्या शतकाची मिठी.

दोन म्हत्वाचे निर्णय ह्या संमेलनांत जाले. एक, समाजांतलो जातिवाद आनी अस्पृश्यता पुरायेन नश्ट करप आनी दुसरो, इतिहासीक अपघातांक लागून इस्लाम आनी ख्रिश्चन धर्मांत गेल्ल्या आमच्या भावा-भयणांक परत हिंदू धर्मांत हाडप.

पोर्तुगीजांचे बाटाबाटीचो बळी जाल्लो आदलो हिंदू तर आमच्या दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत खच्चून भरिल्लो. खासा करून खारवी समाज, कोंकणी समाज आनी ब्राह्मणांचें क्रिस्तांव धर्मांत धर्मांतर जाल्लें. तेभायर भटकळांतय कोंकणी लोकांक मुसलमान केल्ले. तांकां नवायत म्हणटाले.

तेन्ना घर वापसी हें उतर प्रचलीत जालें नाशिल्लें. पूण उद्देश तोच आशिल्लो. आमी कामाक लागले. आनी 1972 उदेता म्हणसर आमचे प्रयत्न फळाक आयले. 1972 वर्सा उण्याच 25 क्रिस्तांव कुटुंबांचे शंबरेक लोक परत हिंदू धर्मांत आयले. सगळे प्रॉटॅस्टण्ट. होम हवन करून तांणी नवीं हिंदू नांवां धारण केलीं. धर्मस्थळ क्षेत्राचे सन्मान्य श्री वीरेन्द्र हेगडे हांणी तांकां प्रसाद दिलो.

नशीब तेन्ना टीव्ही इतलो लोकप्रिय नाशिल्लो. नाजाल्यार हाचेर भारतभर बोवाळ जावपाचो. जालो ना अशें न्हय. थळाव्या दिसाळ्यांनी थोडे दीस आरतें-

परतें छापून आयलें. आमी जबरदस्तीन धर्मांतर केलें अशेय आरोप जाले. आमी सगळ्या आरोपांचें खंडन केलें. धर्मांतर केल्ल्यांनीय आमी आपखोशयेन परत हिंदू जाल्यात म्हूण सांगलें आनी वादाचेर पड्डो पडलो.

1973 येयसर आमचो रामदास आमकां अचकीत सोडून गेलो. जीण सैरभैर जाली. शिकोवपा वांगडाच आमी दोगांयनी विश्व हिंदू परिषदेच्या कामांत झोकून दिलें. तितलें म्हणसर आशाचें लग्न जालें. आमी ल्हवू ल्हवू स्थिरसावर जालीं. ह्या संपूर्ण काळांत विश्व हिंदू परिषदेंतल्या म्हज्या वांगड्यांनी आमकां जाता तितलो मानसीक आदार दिलो.

25 ते 27 जानेवारी अशें तीन दिसांचें दुसरें विश्व हिंदू संमेलन परत प्रयागाकच घेवपाचें थारिल्लें. परत 12 वर्सांनी कुंभ मेळा वेळार 1979 वर्सा. ते दिश्टीन तयारी सुरू जाली. पूर्वतयारी म्हूण आमी आदल्या वर्सा मंगळूर दोन दिसांचें जिल्लो संमेलन घेतलें. मंगळूर, उडुपी, कुर्ग आनी कासरगोड अश्या चारूय जिल्ल्यांतल्यान प्रतिनिधी आयले. तेन्नासावन दुसऱ्या विश्व हिंदू संमेलनाक वचपाची तयारी सुरू जाली. एक हजार प्रतिनिधींची नोंदणी जाली.

आदल्या संमेलनापरसय हें दुसरें संमेलन चड प्रेरणादायी आशिल्लें. फाटले खेपे मोख आशिल्ली 50 हजारांची आनी प्रतिनिधी जाल्ले 75 हजार. आतां मोख आशिल्ली एक लाखाची आनी जमले ताच्याकय चड. 60 हजार प्रतिनिधींची रावपाची वेवस्था केल्ली. ते खातीर 120 एकर जमनीचेर तंबू घाल्लीं विशेक ल्हान शारांच कशीं उबारिल्लीं. एका शारांत तीन हजार प्रतिनिधी. तांचें जेवण-खाण, संडास-न्हावप, बापरे, केदो आटाप हो. पूण इतलें शिस्तबद्ध चलतालें सगळें कीं कोणेंय अजापच जावपाचें. एक लाखांवयर प्रतिनिधी आशिल्ल्या माटवांत लेगीत दीसभर पिन ड्रॉप सायलन्स म्हणटात तशी शांतताय आसताली. लोकांचो आवाज जाणवतालो तो फकत हर हर महादेवाचो गजर घालताले तेन्ना वा ओंकाराचो धीरगंभीर मंत्रोच्चार करतना.

इतलेंय करून यंत्रवत अशें कांयच नाशिल्लें. सगळ्याक चैतन्याचेंच वारें व्हावतालें. आनी तितलीच जाणवताली आयोजकांची सर्जनशीलता. वेगवेगळ्या

राज्यांखातीर वेगवेगळीं तंबूंचीं शारां उबारिल्लीं. आनी तीं सजयिल्लींय त्या त्या प्रदेशाचीं खाशेलेपणां दाखयत. भितर सल्ल्यार अक्षरशा त्या प्रदेशांतच भितर सरिल्लेवरी दिसतालें. आनी सगळे तंबू भोंवन आयल्यार भारत-दर्शन कशें.

पयल्या संमेलनाची फलश्रुती ह्या दुसऱ्या संमेलनांत पावलाकणकणीं जाणवताली. हे खेपे तर जगभरांतल्या 18 देशांतल्यान प्रतिनिधी आयिल्ले. तेयबी हिंदू, शीख, बौद्ध, जैन अशे सगळे. चड भर दिल्लो बौद्ध धर्मियांचेर. तिबेटाचो राष्ट्राध्यक्ष आनी धर्मगुरू दलाई लामान फाटले खेपे फकत आपलो आशिर्वाद धाडिल्लो. पूण हे खेपे ते स्वता आशिर्वाद दिवपाखातीर आनी संमेलनाचें उक्तावण करपाखातीर आयिल्ले. ही सगळी विश्वशक्ती पळोवन भारावन गेल्ल्या परिषदेचे सरकार्यवाह दादासाहेब आपटेन घोशीत लेगीत केलें:

''लंडन ते श्रीलंकामेरेन पुराय विश्वांतलो हिंदू आतां एकठांय आयला. आतां हिंदू धर्माक कसलीच भिरांत उरिल्ली ना. भिरांत धरपाचीच जाल्यार ती हेरांनी.''

हें संमेलन जाल्लें तेन्ना केंद्रांत पयलेच खेपे काँग्रेसीची सत्ता वचून जनता पार्टीचें सरकार आयिल्लें. आमचो जन संघय त्या पक्षांत विलीन जाल्लो. आमचे जनसंघी फुडारी केंद्र सरकाराच्या मंत्रीमंडळांत आशिल्ले. प्रधानमंत्री मोरारजी देसाई आनी संरक्षण मंत्री जगजीवन रामान मुद्दाम संमेलनाक आपले संदेश धाडिल्ले. तेभायर नेपाळ नरेश वीर वीरेन्द्र विक्रम शहा आनी मॉरिशसाचो प्रधानमंत्री शिवसागर रामागुलम हांणीय.

कितलेशेच साधु-संत आनी धर्मगुरू ह्या इतिहासीक घडणुकेक आशिर्वाद दिवपाक स्वता हजर आशिल्ले. खासा करून बद्रिकाश्रमाचे शंकराचार्य शतानंद महाराज, आमचे उडुपीचे मध्व जगद्गुरू स्वामी विश्वेशतीर्थ महाराज, मुंबयचे जगद्गुरू प्रथमेश रणछोडदाचार्य महाराज, वाराणसीचे रामानंदाचार्य शिवरामाचार्य, आसामाचे रामानंद देव गोस्वामी आनी पुज्य देव्हारा बाबा.

तीन दिसांत संमेलनाच्या मुखेल माटवांत वेगवेगळ्या विशयांचेर स सत्रां जालीं. पूण तितलींच येसस्वी जालीं तीं संमेलनाच्याच प्राकारांत पूण माटवाभायर जाल्लीं कांय मुखेल उप-संमेलनां. विश्व संस्कृत संमेलन, मातृ संमेलन,

संत संमेलन आनी बिगर-निवासी हिंदू संमेलन. तेभायर बिगर-निवासी हिंदू विद्यार्थ्यांची विश्वव्यापी संघटनाय ह्या संमेलनांत स्थापन जाली.

परत एक फावट एक-दोन न्हय तर वट्ट 13 थारावाच्या स्वरुपांत निर्धार जालो. जातीयवाद आनी अस्पृश्यता नश्ट करपाची, मठ-मंदिरांचें रक्षण करपाचें, गोरक्षा आनी गोसंततीचीय रक्षा, मातृभूमी रक्षणाखातीर जनजागृती आनी हिंदू अल्पसंख्य आसा थंय हिंदूंच्या हितसंबंदांची राखण.

मातृमंडळींतल्यान महिलांक एकठांय करपाचें रुजवण ह्याच संमेलनांत पडलें. उपरांत म्हजेवांगडा मीरान ह्या संकल्पांत व्हांवोवन घेतलें. पूण प्रयागासावन परत येतना वाटेर एकूच किडो मनांत वळवळटालो. आमी आमच्या चारूय जिल्ल्यांनी हिंदूंचें संघटन केलें खरें. पूण कसल्याच सेवा कार्याक हात घाल्लो ना. फकत संमेलनां, परिषदो केल्यो, घोशणा दिल्यो वा बाटिल्ल्या लोकांक परत हिंदू धर्मांत हाडलें म्हूण जायना. ल्हानपणासावन हिंदू धर्माची शिकवण भुरग्यांक दिवपाक जाय. जांचीं कुटुंबां आसात थंय आमच्या प्रयत्नांतल्यान तांचे आवय-बापूय तांकां हिंदू धर्माची शिकवण दितले. पूण जे अनाथ आसात, बेघर आसात तांचें कितें? तांकां आदार दिवपाक जाय, योग्य शिक्षण दिवपाक जाय, तांच्या पांयांर उबें करपाक जाय.

रेल्वेंतल्यान येतना वाटेर ह्या विचाराचेर थोडी साधक-बाधक चर्चा जाली. पूण मागीर कामाकच हात घालो सरळ. पी एम शणै हो वेपारी आमच्या परिषदेचो बरें मागपी. शिवाय आशाच्या लग्नासावन आमचे मदीं एक वेगळेंच घरगुती नातेंय तयार जाल्लें. ताचेकडेन ही येवजण मांडली. ताणें सरळ आपली देड एकर जमीन दिवन उडयली. दर आयतारा हांगां-थंय भोवन आमी वर्गणी जमा केली. वर्सभरांत एक ल्हानशें घर उबाल्लें. आनी थारायलें, 20 नोव्हेंबर हो विश्व बाल दीस. संयुक्त राष्ट्र संघान थारायिल्लो. त्या दिसा हें केंद्र सुरू करपाचें. 1980 चें दसक ह्या केंद्रान सुरू जालें.

आनीक एक गजाल थारायली. ह्या केंद्राक अनाथाश्रम म्हणप ना वा बालकाश्रम म्हणप ना. जेन्ना भोंवतणीं समाज आसता, लोक आसता तेन्ना ह्या

समाजांत कोणूच अनाथ आसपाक शकना. आसपाक जायना. ह्या समाजांतलीं सगळीं भुरगीं हीं आमचीं भुरगीं. तांच्या कल्याणाखातीर वावुरप ही आमची दरेकल्याची सामाजीक जापसालदारकी. तीयबी सहानुभुती दाखोवन न्ही, तर कर्तव्यभावनेन. त्या भुरग्यांचो पालक जावन. तेन्ना आमी ताका नांव दिलें: 'बाल संरक्षण केंद्र'.

अश्या स भुरग्यांक घेवन आमी हें केंद्र सुरू केलें. तांकां शाळेंत घालें. तांची जेवपाची, रावपाची, शिक्षणाची अशी सगळी जापसालदारकी घेवपाक पयसो जाय आशिल्लो. दर आयतारा आमी भोंवपाक लागले. ल्हान–व्हड देणग्यांतल्यान फंड उबो केलो. ल्हवू ल्हवू भुरग्यांचोय आंकडो वाडपाक लागलो.

फाटल्या 14 वर्सांनी परिषदेचें काम वाडत चलिल्लें. म्हणटकीर 1983 वर्सा आमी दुसरें राज्य संमेलन घेवपाचें थारायलें. तेंयबी दक्षिण कन्नडांतल्या धर्मस्थळा. बेळत्तंगडी तालुक्यांत उज्रे शारालागीं आशिल्लो हो गांव म्हटल्यार एक व्हडलें तीर्थक्षेत्र. नेत्रावती न्हंयचे देगेर आशिल्ल्या ह्या गांवांत देवळांच देवळां. शिव, मंजुनाथ, अम्मानावरू, चंद्रनाथ आनी 12 मीटर उंचायेचो एक बाहुबलीयबी. हांगासरल्या देवळांचे धर्माधिकारी जैन, देव चडशे शिव आनी पुजारी मात वैष्णव पंथाचे. देखून हिंदू आनी जैन अश्या दोगांयचें हें तीर्थक्षेत्र जालां. दिसाक उणेच 10 हजार तरी भक्तगण भेट दितात.

आमच्या दुसऱ्या संमेलनाक पुराय राज्यांतल्यान 60 हजार प्रतिनिधी आयले. फाटले खेपेपरस पांच पटींनी चड. तेभायर 74 मठाधीश आशिल्ले. ''मम दीक्षा हिन्दू रक्षा, मम मंत्र समानता'' हो मंत्र ह्या संमेलनांत घुमलो. कोणूच हिंदू पतीत ना, सगळे हिंदू आमचीं भावा–भयणां म्हणीत हिंदू धर्मांतली अस्पृश्यता नश्ट करपाचो सोपूत आमी घेतलो. हिंदूंची रक्षा आनी सगळे हिंदू समान.

तावे फाटोफाट त्याच वर्सा आयली एकात्मता यात्रा. विश्व हिंदू परिषदेन आयोजीत केल्ली सगळ्यांत व्हडली भारत भोवंडी. हिंदू धर्मांतल्या वेगवेगळ्या पंथांतल्या आनी जातींतल्या लोकांक एकठांय हाडप, तांचेमदीं राष्ट्रीय भावना जागृत करप आनी समाजविघातक चालिरिती आनी अंधश्रद्धा नश्ट करप ही हे

यात्रेची मोख आशिल्ली.

गंगा नदीच्या पवित्र उदकान भरिल्लो कलश आनी भारतमातेचें तैलचित्र घेवन भारताच्या वेगवेगळ्या भागांतल्यान ही यात्रा वांगडाच सुरू जाली. तेभायर दरेका राज्यांत ल्हान ल्हान सुमार 300 उपयात्राय जाल्यो. पूण मुखेल यात्रेचे आशिल्ले तीन वेगवेगळ रथ. काठमांडू ते रामेश्वरम असो पशुपती रथ, हरिद्वार ते कन्याकुमारी असो महादेव रथ आनी गंगासागर ते सोमनाथ असो कपिल रथ.

एक हजार दीस चलिल्ल्या ह्या रथयात्रांनी पांचश्यांवयर जिल्ले आनी शारां, पांच हजारांवयर प्रखंड आनी पांच लाखांवयर गांवांनी हे रथ भोंवले. 86 हजार किलोमिटरांच्या ह्या रथयात्रांनी सात कोटींपरस वयर भक्तगण सामील जाले. डिसेंबराच्या निमण्या सप्तकांत कन्याकुमारी वच्चेपयलीं महादेव रथ कर्नाटकांत आयलो. आमचे खातीर हो आगळो-वेगळो रथोत्सवच आशिल्लो. आमच्या प्रांतांतल्यान तर हजारांनी लोक हे यात्रेंत आनी सभांनी वांटेकार जाले.

प्रयाग जाल्ल्या दुसऱ्या विश्व हिंदू संमेलनान आमकां सगळ्यांक एक आचारसंहिता घालून दिल्ली. उपरांत आमी घेतिल्लें राज्य संमेलन जावं, रथयात्रा जावं वा आमी सुरू केल्लें बाल संरक्षण केंद्र, सगळ्याक आमी ही आचारसंहिता राबयली. आमचे जिणेंत रुजयली. आमचे जीवनशैलीची ती एक अविभाज्य आंग जाली.

- सूर्य हो आमचो अनादि ईश्वर, ताका सदां सकाळीं वंदन करचें.
- ओम हें विश्व पावंड्यार मानून घेतिल्लें ब्रह्मज्ञानाचें चिन्न. तें गळ्यांत घालचें, वाहनांचेर पितारचें आनी आमचें लिखाण लेगीत ओम बरोवन सुरू करचें.
- श्रीमद्भगवदगीता हो आमचो हिंदूंचो पवित्र धर्मग्रंथ दरेका घरांत आसचो.
- दरेकल्याची इश्ट देवता दरेका घरांतल्या देवाऱ्यांत आसची आनी तिची नित्यनेमान पुजा करची.
- तुळस ही सगळ्यांत परिणामकारक वखदी वनस्पती. तेन्ना पावित्र्य आनी शुद्धतेचें हें प्रतीक दरेका घरांत आसचें.

– नेमान आमच्या थळाव्या मंदिरांत देवदर्शनाखातीर आनी पुजेखातीर वच्चें.

ही आचारसंहिता घालून दिवची पडप हीच हिंदू धर्माची खरें म्हटल्यार शोकांतिका आशिल्ली. पूण विश्व हिंदू परिषदेच्या रुपान हें दूखदिणें चित्र बदलपाक लागिल्लें. आमच्या पवित्र धर्मांत परत हिंदू संस्कृतीचें रुजवण पडपाक लागिल्लें. वातावरण बदलपाक लागिल्लें. एक नवचैतन्याचें वारें व्हांवपाक लागिल्लें. आनी हें वारें शिरंतरांनी खेळयत कानांत वारें भरिल्ल्या पाडकावरी हांव बेभान जावन जगपाक लागिल्लों.





# भोंयां तुजे याद्गीक

**1983** वर्सा हांव रिटायर जालों. कर्मधर्मसंयोगान त्याच वर्सा आमची दुसरी धूव श्यामलाचेंय लग्न जालें. श्यामल तेन्ना बीएस्सीच्या निमण्या वर्सा आशिल्लें. 20 वर्सांचें जायसर ताचें लग्न करून दिवपाचेंच अशें मीरान थारायल्लें. कॉलेजींत वचपाक लागिल्लें तेन्नाच तिणें श्यामलाक शिटकावन दवरिल्लें:

"श्यामला, वीस वर्सांचेर तुका व्हार्डीक कोर्नु दिंवच्याक आस्स... कितें? तुजेवरी बरोचसो आंगलोटाचो गोरोच बामोणु पळोवका तुकां."

हांव मनांतल्या मनांत हें आयकून हांसतालों. हिणें बरो आपले पसंतीचो घोव मोग करून सोदिल्लो. धुवेक मात आवयचे पसंतीचो. पूण हांव कांय उलयलोंना. कारण पयशेकार, खूब्ब शिकिल्लो, परदेशांत आशिल्लो जावंय जाय हो तिचो आग्रो केन्नाच नाशिल्लो. भुरगो सुसंस्कृत, कश्ट करपाची तयारी आशिल्लो आसपाक जाय. ताणें हुंडोपासून घेवपाक जायना हाचेर ती ठाम आशिल्ली. उलयताली तशी वागतालीयबी. ह्या असल्या विशयांचेर नाटकांय बरयिल्लीं तिणें. पुस्तकांय छापिल्लीं ताचीं. 'तूं काम सोडि', 'काळि सून', 'देण्या स्वार्थु' हीं

तिचीं नाटकां गाजिल्लींय मंगळूरांतल्या स्कुलांनी. श्यामलानय तिच्या नाटकांनी कामां केल्लीं. तेन्ना तेंय जाणा आशिल्लें आवयची माया आनी काळजी. तिची निवड चुकचिना हाची खात्री आशिल्ली ताकायबी.

जालेंय तशेंच. श्यामल फायनल इयराक आसतनाच आगस्टाच्या म्हयन्यांत एक दीस अचकीत गिरिजा आक्का भितर सल्ली. चलो भुरगो तिच्या घरांतलोच. तिचे सुनेचो भाव. विवेक सुरेन्द्रनाथ पै. चार्टर्ड अकावंटण्ट. मुंबय आसतालो. बापूय सुरेन्द्रनाथ पै तोन्से रेल्वे बोर्डाच्या इलॅक्ट्रिकल इंजिनियरिंग डिपार्टमेंटाचो डायरेक्टर म्हूण रिटायर जाल्लो. भारत सरकारांत जोड सचीव (जॉयंट सेक्रेटरी) पदाचो हुद्दो आशिल्लो ताचो.

मीरान भुल्लुसून वचप साहजीक आशिल्लें. तिणें रोकडीच श्यामलाची पत्रिका गिरिजा आक्काक काडून दिली. ती जुळ्ळीयबी. तरीकय आमकां परत एक फावट काळजांत धस्स जालें. बापूय हिंदी प्रोफेसर जाल्यार आवय हिंदी टीचर. आशावेळारय होच प्रस्न मनांत आयिल्लो. परवडटलें आमकां?

इतले म्हणसर विवेकाची दुसरी भयण शांता श्यामलाक पळोवपाक मुद्दाम आयली. शांता कमलाक्ष शणै ही ताची व्हडली भयण रांची रावताली. तिच्या मांवाची भयण सरोजनी कामत मंगळूर आसताली. तिका मेळपाक म्हूण आयिल्ली ती तशीच आमगेर आयली. सरोजनी कामत मीराची सोयरी. हें कळटकीर मीरा आनीकय खूश जाली. शांताकय श्यामल खूब आवडलें.

आतां सगळीं घरचींच म्हणटकीर इल्लें चडूच तोंड फोडून उलोवप शक्य जालें. सरोजनीन मीराक स्पश्ट सांगलें:

"श्रीमंत म्हण गर्व कांय ना पळे तांका. सादा लोक ते. भारी सादा मनीस कसलेंच घेंवचें दिवंचें ना म्हुण्ण सांगलां. मात्र कामाची चली नाका म्हळ्ळां."

श्यामलाक खरें म्हटल्यार एमएस्सी करपाक जाय आशिल्लें. पूण ताणेंय मनाची तयारी दाखयली.

तोन्सेंचें हें घराणें आशिल्लेंय तशेंच. मणिपालासारको ल्हानसो गांव फकत शिक्षणीक संस्था, हॉस्पिटल आनी बँकिंगाच्या मळार काम करून आंतरराश्ट्रीय

पावंड्यार व्हरपांत ह्या घराण्याचें खूब मोटें योगदान आसा. खासा करून टी एम ए पै फावंडेशन. टीएमए म्हटल्यार तोन्से माधव अनंत पै. विवेकाच्या आज्याचो खास्सो बापोल भाव.

गोंयच्यान मंगळूर वतना उडुपी लागचे पयलीं तोन्से गांव लागता. दर्या देगेलागीं. सुवर्णा न्हंयचे देगेर. विवेकाचो आजो मंजुनाथ पै ह्या गांवांतलो आयुर्वेदिक वैज. थोडेशें शेत. अचकीत एक दीस न्हंयक हुंवार आयलो आनी तांचें शेत-भाट सगळें व्हांवन गेलें. पुराय जीण उध्वस्त जाली. चरितार्थाखातीर मंजुनाथान बायल मनकर्णिका आनी पूत सुरेन्द्रनाथाक घेवन कल्याणपुरा लागीं केलें. त्याच न्हंयच्या काठार वशिल्लो उडुपी जिल्ल्यांतलो गांव.

खूब कठीण परिस्थितींत सुरेन्द्रनाथ शिकलो. मद्रास प्रेसिंडन्सी पावंड्याचेर ताणें नंबर काडलो. स्कॉलरशिप घेवन गिंडी इंजिनियरिंग कॉलेजींत शिकपाक लागलो. पूण घरचे बिकट परिस्थितीक लागून स्कॉलरशिपींतले अर्द पयशे ताका घरा धाडचे पडटाले. अक्षरशा दिसाक फकत एका जेवणाचेर रावन ताणें इलॅक्ट्रिकल इंजिनियरिंग पुराय केलें आनी रेल्वेंत इंजिनियराची नोकरी धल्ली. तेन्ना केन्ना हें तोन्से कुटुंब स्थिरस्थावर जालें.

टीएमए पैचो पूत टी ए पै, म्हटल्यार तोन्से अनंत पै, हो सुरेन्द्रनाथाचो तिपोल भाव. ताची हुशारी पळोवन टी ए पैन खंय ताका ऑफर दिल्ली. मॅडिकलाक वच आनी मणिपाल हॉस्पिटल पळय. पूण हाका इलॅक्ट्रिकल इंजिनियरिंगच करपाक जाय आशिल्लें. स्वताचे हिकमतीचेर आनी परिस्थितीलागीं झगडत ताणें आपलें सपन पुराय केल्लें. आपले हुशारीच्या जोरार जोड सचिवासारक्या पदावेल्यान तो निवृत्त जाल्लो.

सुरेन्द्रनाथ आनी शारदाक पांच भुरगीं. व्हडलें शांता, दुसरें गीता, मागीर रामकृष्ण, लता आनी विवेक. धुवो बऱ्या सुखवस्तू घरांनी लग्न जावन गेल्यो. रामकृष्णय लायटिंग फिलिप्स इंडिया कंपनीचो मुखेली आशिल्लो. धाकलो विवेक सीए.

श्यामलाची बीएस्सीची फायनल परिक्षा एप्रिलांत आशिल्ली. पूण मीराक थार

नाशिल्लो. ऑक्टोबरांतच साकरपुडो करून उडोवपाचें थारायलें. 30 ऑक्टोबरा विवेक आनी श्यामल एकामेकांक मेळ्ळीं. दोगांयनी एकामेकांक पसंत केलीं. आमचो निमणो हुस्को मेकळो जालो. दुसऱ्याच दिसा साकरपुडो जालो. आनी 28 फेब्रुवारी 1983 मुंबय श्यामलाचें लग्न जालें. ताचे उपरांत श्यामलान बीएस्सीची फायनल परिक्षा दिली.



रिटायर जातकीर असोच एक दीस घरा एकलोंच बशिल्लों. मीरा शाळेंत गेल्ली. गोकुळ तेन्ना मॅकॅनिकल डिप्लोमा पुराय करून एका दुकानार ट्रेनिंगाक वतालो. दारार कोणें माल्लें काय म्हूण पळयल्यार भाऊ (व्हडलो भाव वसंत भट), मनोहर आनी बाबू दारांत. अचकीत कितें जालें काय म्हूण म्हज्या तोंडार भिरांत, जाल्यार हे तिगूय हांसत उबे.

तिगूय जाण ठोस अशें प्रपोजलच घेवन आयिल्ले. म्हाका गोंयां परत व्हरपाचें. आतां हांव रिटायर जाल्लों. दोनीय चलयांचीं लग्नांय जाल्लीं. तेन्ना आतां तरी मीरा आनी गोकुळाक घेवन हांवें गोंयां येवन स्थायीक जावचें हो तांचो आग्रो.

पूण थंय येवन करतलों कितें? रावतलों खंय? जगतलीं कशीं?

ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापोय ते घेवन आयिल्ले. लोलयां मारकोण व्हाळावटेनचें कुळागरांतली शीर आमची भटांची आशिल्ली. थंयच मनोहरान आपल्या भाटाचो इल्लोसो कुडको भाऊक दान दिल्लो. आनी भाऊन थंय ल्हानसो बंगलो कशें घर बांदिल्लें. भायर बल्कांवाचो वारांद, एक व्हडलो हॉल, दोन तितलेच व्हडले बॅडरूम, देवघर, किचन, डायनिंग, न्हाणी आनी फाटल्यान दोन संडास. घरामुखार बांय. उदकाची टांकी आनी घरभर 24 वरां उदक. तें घर तशेंच पडून आशिल्लें. आमी थंय रावपाचें. भाट पळोवपाचें. गोकुळान गोंयां वा लागीं खंय नोकरी पळोवपाची वा कसलोय वेवसाय-धंदो सुरू करपाचो. पूण कोंतान, आतां हांवें गोंयां रावपाक येवपाचें.

मीरा दनपरां शाळेंतल्यान येतकीर परत हाचेर चर्चा जाली. हांवें गोंय सोडून चार दसकां जाल्लीं. आतां तरी आपलो भाव परत गोंयां येवचो ही तांची इत्सा तोंडभर व्हांवताली ती पळोवन म्हज्याय काळजाक पीळ पडलो. आजकाल घराब्यांतले भाव भाटबेंस सोडून वतात काय म्हूण रावतात. आनी हे म्हजे तिगूय जिवाभावाचे भाव हांवें आमच्या भाटाबेंसांत परत येवचें म्हूण धडपडटाले.

दनपरां जेवन सांचे बशीचेर तिगूय जाण परत गोंयां गेले. आनी तांचे फाटोफाट म्हजेंय मन गोंयां धांवलें.

ती रात हे कुशीर ते कुशीर करीतच गेली. सिनेमांनी फ्लॅशबॅक दाखयतात तशी सगळी भटकंती सरसरत दोळ्यांमुखावेल्यान गेली. लोलयें, जांबावले, मडगांव, धा न्हंयो, कार्कळ, जेल, मंगळूर, त्रिचनापल्ली, आंध्र प्रदेश, आग्रा, परत मंगळूर, पदवी परिक्षांखातीर केल्ली भोवंडी, संघांत केल्ल्यो भोवंड्यो. ही सगळी म्हजे जिणेची कमाई. खूब कितें जोडिल्लें हांवें ह्या प्रवासांत. अणभव, विचारधारा आनी कितलेशेचे जिवाभावाचे मनीस. आजून जोड चालूच आशिल्ली. आतां तर बाल संरक्षण केंद्रासारके प्रकल्प आंगार घेतिल्ले.

हें सगळें सोडून गोंयां वचप?

अशें न्ही कीं पयलेच खेपे हांव गोंयां वचपाचें चित्तालों. आयुर्वेदाची पदवी घेवन लग्न जाल्लों तेन्ना दादा आनी आईन विचारिल्लें. पूण तेन्ना तें प्रॅक्टिकलय नाशिल्लें. गोंय तेन्नाय पोर्तुगीजांच्या शेकातळाच आशिल्लें. फुडें हिंदी एमएची पदवी घेतकीरय गोंयां वचपाचो विचार आयिल्लो. तेन्ना गोंय मुक्त जाल्लें. मडगांवची चौगुले कॉलेज धरून कांय कॉलेजींनी नोकरी मेळत काय म्हूण वासपूस केल्ली. पूण म्हजी प्रायव्हेट डिग्री थंय चलनाशिल्ली. देखून तेन्नाय विचार फाफडून उडयिल्लो.

पूण आतां गृहस्थाश्रमाचो पावंडो सोंपपाक येतना म्हज्या भावांनी येवन म्हज्या काळजाचें कुरकूट परत उक्तें केल्लें. गोंयचो मोग परत काळजांतल्यान व्हांवपाक लागिल्लो. लोलयेचें तें घर, कुळागर, जांबावलेचो पाण्टो सगळीं परत उलो घालपाक लागिल्लीं. थंयच्या शितळ वाऱ्यांत माड-माडयांचेर हांव धोलपाक

लागिल्लों. पाण्ट्यावेल्या उदकांत उदारो पडून मळब तेळपाक लागिल्लों. गोंयच्या मोगाची वसाड तकलेंत तांडव कांडटाली.

पूण मागीर संवसार चलोवप कसो? हांव तर रिटायर. पेन्शन काय व्हडलें मेळनाशिल्लें. हेरांवरी जोडय कांय सांठोवन दवरिल्ली नाशिल्ली. नोकरी आसतना लेगीत म्हजी अर्द जोड तर संघकार्यांतच वताली. थोडी कितें उरिल्ली तीय दोनय चलयांच्या लग्नांत खर्च जाल्ली. इन्शुरन्साची पॉलिसी मॅच्युअर जातकीर म्हाका मेळिल्ले फकत 1000 रुपया. पॉलिसी केल्ली तेन्ना 1960 च्या दसकांत 1000 रुपया म्हटल्यार व्हड आशिल्ले. पूण मेळिल्ले तेन्ना म्हाकाच हांसपाक आयलें. दुसरे वटेन गोंयां वतलीं जाल्यार मीराकय नोकरेचेर उदक सोडचें पडपाचें. रिटायर जावपाचे पिरायेर तिका काय गोंयां कोण नोकरी दिवपाचो नाशिल्लो. गोकुळ कितें करतलो तें तोच नकळो आशिल्लो.

ताणें मॅकॅनिकल डिप्लोमा केल्लो खरो. पूण प्रयत्न करून लेगीत ताका मंगळूरा नोकरी मेळनाशिल्ली. स्कोपच नाशिल्लो. मुंबय आशिल्ल्यो नोकऱ्यो. पूण मीरा ताका कशीच मुंबय धाडपाक तयार नाशिल्ली. मुंबय खंय? रामदास वचतसावन ती गोकुळाक एकटो चाळीभायर पातयेनाशिल्ली. भायर गेलो जाल्यार तिचे वांगडा. दुदान तोंड भाजतकीर गोकूळ जाल्लो ताक. सावटाखालचे रोप.

आरतो-परतो विचार जालो. आशा आनी श्यामलाचेंय मत घेतलें. आनी निमणें निर्णय जालो. एकदम उदकांत उडी मारून पोंवपाक लागप ना. ल्हवू देंवन उदकाचो थाव घेवप, एक-दोन हात मारून पळोवप. आनी जमता जाल्यार मागीर तड गांठप. गोंयां वचप. पूण पयलीं फकत एक-दोन वर्सांखातीर. मीरान व्हॉलिण्टरी रिटायरमेंट घेवप ना. मॅनेजमेंटाकडेन पयलीं स म्हयन्यांची सुटी मागप. बिनपगारी. दिसल्यार मागीर वाडोवप. गोकुळ तेन्ना एका मरीन स्पॅर पार्टांच्या दुकानांत ट्रेनिंग घेतालो. ताचेंच दुकान ताणें कारवारा घालप. थंय नुस्त्याचो मोटो वेपार चलता. चल्लो धंदो बरो जाल्यार रावले गोंयांत. नाजाल्यार परत मंगळूर. चाळींतलें घर सोडप ना. भाडें चालूच दवरप. फोनपासून कट करप ना.

निर्णय घेतलो, भावांच्या कानार घातलो आनी उखलून हाडलो आमचो

संवसार मंगळूरच्यान लोलयां. कोणूय चली लग्न जातकीर आपल्या घोवाच्या घरा संवसार करपाक वता. हांगां मीरा आपल्या भुरग्यांची लग्नां जातकीर घरा रावपाक वताली. जिणेचे उतरंडीचेर. तिका तें कितलें कठीण गेलें आसतलें तीच जाणा. पूण भायर उलोवन दाखयलें ना. म्हज्यो भावना समजून घेवन आयली लोलयां रावपाक.

लोलयेंच्यान जांबावले रावपाक गेल्लों तेन्ना सामकोच ल्हान आशिल्लों. आज वर्सां लेगीत याद जायनात. पूण उण्याच 50 वर्सांनी, 1984 वर्सा, परत गांवांत आयिल्लों. म्हजें नांव सार्थ करपाक. एल श्रीधर भट. आनी ह्या भटाची ही भटकंती.



मंगळूरच्यान येतना विश्व हिंदू परिषद आनी राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या म्हज्या वांगड्यांनी पोट भरून निरोप दिलो. एक ल्हानसो निरोप सुवाळो लेगीत केलो एका हॉलांत. कसलीय मजत लागल्यार आमी आसात अशें उतरय दिलें. तेच तर आशिल्ले इतलो तेंप म्हाका सांबाळपी, वेळ प्रसंगार पावपी, धीर दिवपी सगळें कितें. मंगळूर सोडटना वायट दिसलें ना तितलें म्हज्या ह्या वांगड्यांक सोडून येतना दिसलें.

गोकुळाची पिराय तेन्ना फकत 19 वर्सांची. तातूंत गोंयां येवपाची ताका व्हडलीशी उमेद नाशिल्ली. मर्दी तर नाकाच वचपाक म्हूण लागिल्लो. आतांय केन्ना सांगता, मंगळूरच्यान बस कारवार भितर सल्ली आनी सगळें आंगूच थंड जालें. नाका हें कारवार अशें दिसपाक लागलें खंय. मंगळूरा आसतनाय चार लोकांमदीं स्वतंत्रपणान वावुरपाची चडशी संवकळ नाशिल्ली. शेजराच्या श्रीनिवास पाठशाळेंतल्यान पास जावन डिप्लोमा करपाक गेलो तेन्ना स्वतंत्रपणान चार लोकांमदीं वावुल्ला तितलोच. नाजाल्यार चडसो आमचे वांगडाच. उपरांत कांय म्हयने दुकानार एप्रेण्टिस म्हूण लागलो तो इल्लोसो अणभव गांठीक. धंद्यांत तर

दुकानदार आनी गिरायक हांची गांठ कशी मारची तें लेगीत नकळो आशिल्लो. आनी गोंयांत तर चार लोक वळखीचेय नाशिल्ले. लोलयांयबी आनी कारवाराय.

तरीकय आपले हिकमतीचेर गोकुळान आपलो बिजनेस सुरू केलो. कारवार एज्युकेशन सोसायटीचे बिल्डिंगेंत एक दुकान भाड्यान घेतलें. भाडें म्हयन्याक 500 रुपया. डिपॉझिट 10,000 रुपया. मरीन स्पॅर पार्ट हाडपाक भांडवल जमयलें. ताच्या नशिबान ताका उधार दिवपी एक मनीसय मुंबय मेळ्ळो. रोकडेंच गोकुळान दुकान सुरू केलें.

सकाळफुडें माश्यां वचून कारवारची बस धरतालो आनी णव वरांचेर दुकान उगडटालो. दनपरां थंयच सविता हॉटेलांत म्हयन्याचीं कुपनां घेवन जेवतालो. आपलेच भितर गुरफटून पडिल्लें सुपुल्लेशें शार तें. कोणाक घाई नासताली. म्हणटकीर लोक तर चारा उपरांत बाजाराक भायर सरतालो. पूण गोकुळाक पांचांभितर दुकान बंद करपाची घाई आसताली. कारण गोंयां येवची निमणी बस सांजे 5.30 वरांचेर. ती चुकल्यार उल्लो आडकून. गिरायक भायर सरतालें तेन्ना हो बाबडो बशींत आसतालो.

तातूंत नुस्तेंमारी म्हटल्यार दर्या, हवामान अश्या सगळ्या निसर्गीक गजालींचेर अवलंबून आशिल्लो वेवसाय. वारें कशें व्हांवता आनी दर्या खवळ्ळा काय ना हाचेर नुस्तें कशें पडटलें तें थारतालें. म्हणटकीर नुस्तेकारांच्याय हातांत दिसपट्टो पयसो घोळनाशिल्लो. तेय म्हाल उधार सोदताले. मरीन स्पॅर पार्टाचीं हेर दुकानां उधार दितालीं. पूण गोकुळाक उधारी परवाडनाशिल्ली. आनी उधारी ना म्हूण गिरायक नाशिल्लें. धंद्याच्या दर्यांत ताणें आपलें तारूं सोडिल्लें खरें, पूण ह्या दुश्टचक्राच्या वादळांतल्यान तें थाऱ्यार हाडप ही कसरतच आशिल्ली.

जेवपा-खावपाची मारामार नाशिल्ली. पूण हातांत पयसो घोळनाशिल्लो. ताका लागून गोकुळ निर्शेतालो. घरा आयलो काय किरकिरतालो. कित्याक आयलीं काय म्हूण आमचेर बेजारतालो. ताचेर वादय जाताले. आमी जाता तशीं ताका थातारतालीं. पूण मागीर केन्ना केन्ना न्हिदूनच रावतालो. वचपच ना दुकानार. म्हणटकीर हांव वचपाक लागलों दुकानार. पूण म्हाका कितें कळटालें तातूंतलें? ताका लागून पांचशें रुपयांचो म्हाल तीनशें रुपयांक विकपाचेय काय

प्रसंग घडटाले. तो आनीकय खुबळटालो.

निमणें आवयन आपल्या पयशांतल्यान ताका मोटारसायकल घेवन दिली. आनी मागीर गोकुळ आठ वरांचेर दुकान बंद करून येवपाक लागलो. आमच्याय जिवाक मात्शें सू जालें.

पूण दुसरे वटेन मीराचें फाटीचें दुखणें दिसान दीस वाडपाक लागलें. केन्ना तरी एक फावट केदारनाथ गेल्लीं तेन्ना ही घोड्यार बशिल्ली ती पडली. फाटीचें हाड दुखावलें. ती दूख आतां भायर सरताली. थंय लोलयां गांवांत तसो दोतोर ना. कारवाराय ना. मडगांवां व्हरून दाखयलें, पूण गूण पडलोना. निमणें आशान सांगलें, दोगांय कोइम्बतुरा येयात. सारकी ट्रीटमेंट करया.

गोकुळाक एकटो सोडून वचपाबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. मनोहर आनी सुलून सांगलें, तुमी हुस्को करनाकात. ताच्या जेवणा-खाणाचें आमी पळयतात. तरीकय आमी जनाण्णाक आपोवन हाडलो. गोकुळाक सांगात जावचो म्हूण. मनोहर आनी सुलूय दोगांच आशिल्लीं. तांचीं भुरगीं शिकपाक आनी नोकरेक लागून मडगांवां आसतालीं. आमी दोनेक म्हयने कोइम्बतुरा उल्लीं. आनी जनाण्णा लोलयां.

रामदासाच्या मर्णाविळार लागीं आयिल्लो जनाण्णा आमच्या कुटुंबाचो एक अविभाज्य भागूच जाल्लो. रामदास गेल्लो, पूण जसो कितें जनाण्णाच्या रुपान तो आमचे भोंवतणींच वावुरतालो. आमच्या घरांतल्या सगळ्या कार्यांचो भार ताणेच उखलिल्लो. मागीर जावं तें आशाचें लग्न, श्यामलाचें वा गोकुळाचें. हालींच एक फावट तर आशाची धूव अर्चना आपली बॅग रेल्वेंतच विसल्लें. जाल्यार हो सुटपाक पाविल्ले ट्रेनींत भितर सरून हनुमानान द्रोणागिरी पर्वत उखलून हाडचो तसो बॅग घेवन आमचेमुखार हजर. गोकुळाक तर जनाण्णा म्हटल्यार जालो. ताकाच लागून आमी कोइम्बतुरा गेलीं तेन्ना जनाण्णा आशिल्ल्यान आमकां गोकुळाचो कसलोच हुस्को जालोना.

अशीं दोनेक वर्सां गेलीं. गोकुळ आपले परीन खूब धडपडलो. पूण ताचो धंदो स्थिरस्थावर जावपाक शकलो ना. गोंय आनी कारवार ताका मानवलें

ना आनी आमकां परवडलें ना. निमणे आमकांय निर्णय घेवचोच पडलो. गोपाळकृष्णाची दुसरी धूव शोभाचें लग्न थारिल्लें. आमकांय परत मीराच्या उपचाराखातीर कोइम्बतूर वच्चें आशिल्लें. तेंच निमित्त घेतलें आनी 1986 वर्सा जूनाच्या म्हयन्यांत पावसा दिसांनी आमी आमची बिटकी कवळ्ळी. आयलीं परत मंगळूरच्या चाळींत. गोंयची दोन वर्सांची भटकंती करून.





# गोकुळ आनी घरकुल

**आयलीं** तशींच सामान लावन भायर सल्लीं कोइम्बतुरा वचपाक. गोकुळाक दवल्लो फाटल्यान. ट्रेनींतल्यान देंवन आशागेर भीतर सरता थंयच आसात, जनाण्णाचो फोन आयलोः

"गोकुळाक सानुलो एक्सिडेंट जाला. पांयांक मात लागलां. बँडेज कर्नु घरा धाडलां. चिंता करचें कांय कारण ना. तुमकां कळोवचें म्हूण फोन केलो."

मीराचो जीव वयर-सकयल जालो. गोकुळाकडेन उलय म्हणसर तिका थार नाशिल्लो. पूण तो हांसत उलयलो आनी सगळ्यांकच सू जालें.

आमी भायर सरतकीर मोटारसाकयल घेवन हो थोडे दीस जेवपाक म्हूण जनाण्णागेर वतालो. जनाण्णा रावतालो मोगुरनाड. बंटवाळालागींच. मंगळूरच्यान विशेक किलोमीटरांचेर. थंय वतना हाची मोटारसायकल निसल्ली आनी एका पांयाक मार बसलो. कोणे तरी उखलून बंटवाळ हॉस्पिटलांत व्हेलो. जनाण्णाक फोन केलो. तो आयलो आनी टॅक्सीन ताका मंगळूर हॉस्पिटलांत व्हेलो. एक-दोन टांके पडले. आनी पांयांक बँडेज.

पूण मोटारसायकलीक मार बशिल्लो. नवीच इंड सुझुकी ताची. गोंयां आसतना दोन-तीन म्हयने पयलीं दुसरी नवी घेतिल्ली. आमचे थंय लागींच मिशन स्ट्रीटाचेर पी व्ही पै म्हूण सुझुकीचो एजंट आशिल्लो. थंय व्हरून मोटारसायकल सारकी करपाक दिली.

मीराक थार नाशिल्लो. उपचार जालो तशींच आमी परतलीं. हरशींय ती गोकुळाक एकलो पातयेनाशिल्ली. एकूच फावट ताका फाटल्यान दवरिल्लो आनी हो एक्सिडेंट जाल्लो. ताका प्रत्यक्ष पळयसर हिचे जिवांत जीव नाशिल्लो.

आमी परत आयलीं तरी गोकुळाची मोटारसायकल सारकी जाली नाशिल्ली. आज दितां, फाल्यां दितां चालूच आशिल्लें. हाणें सद्दां रिक्षा करप आनी थंय वचून बसप.

ते कंपनीचो डायरेक्टर सुरेन्द्र पै हाका नियाळटालो. हो भुरगो सद्दां येता, पासियेंस काडून बसता आनी दुसऱ्या दिसा परत येता. कुतुहलनाच ताणें गोकुळाक आपयलें आनी वासपूस केली. कोण, खंयचो, कोणालो, कितें करता, कितें शिकला सगळें कितें. तो मीराक वळखतालो. एक फावट व्यंकटरमण देवळांत ताणें आशाचें भाशणय आयकल्लें. तेंय ताका याद आशिल्लें.

ताका ह्या भुरग्यांमदीं स्पार्क दिसलो. सुरेन्द्रान हाका विचाल्लें:

"आमगेले सँटरांतू काम करता वे? वर्कशॉप इन्चार्ज म्हुण्णू? 400 रुपया सांबोळ (पगार) मेळतलो."

हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळिल्लें. गोंयच्यान परत येतकीर कितें करप होच तर प्रस्न आशिल्लो. आनी हांगां बशिल्लेकडेन नोकरी चलून आयिल्ली. हरशींय बेकार बसून कितें करतलो? गोकुळाकय सुरेन्द्र पै आवडिल्लो. ताणें हय म्हूण सांगून उडयलें.

ल्हानपगासावन गोकुळय पुस्तकांपरस यंत्रांनीच चड रमतालो. आनी मरीन स्पॅर पार्टांपरस ताका वाहनांचे स्पॅर पार्ट चड आवडटाले. आपसूकच तो कामांत रमत गेलो.

पी व्ही पै ही तशी व्हडली कंपनी. पांच-स व्हडल्या व्हडल्या वाहनांचे

डीलर. टीव्हीएस् कंपनीची इंड सुझुकी मोटारसायकल धरून अशोक लेलँडाच्या ट्रकांमेरेन. तेन्नाची फामाद कार प्रिमियर पद्मिनीचीय डीलरशीप तांचेच कडेन आशिल्ली. ते मानान मोटारसाकयलींचो विभाग सामकोच ल्हान. विशेक जाण कामाक आशिल्ले. पूण हेर गाडयांपरस ह्या विभागाकडेन लक्ष इल्लें उणेंच आसतालें. सुरेन्द्र पैचो एक पुतणयो गोपिनाथ इंड सुझुकी पळयतालो. पूण ताकाय पुराय लक्ष दिवप शक्य नासतालें.

ल्हवू ल्हवू गोकुळ शिकपाक लागलो. गिरायकांक बरी सर्विस दिवपाक लागलो. आज यो, फाल्यां यो ना. सांगिल्ल्या वेळार मोटारसायकल रिपॅर जावन धुवन पुसून तयार. सगल्यांकडेन बरो उलयतालो. रिलेशन सांबाळटालो. हाका लागून गोकुळावेलो कंपनीचो विस्वास वाडलो आनी ताचो पगारय. वर्सभरांत इल्लो इल्लो करून गोकुळ म्हयन्याक 700 रुपया जोडपाक लागलो.

दुसरे वटेन इंड सुझुकी फामाद जावपाक लागली. धडधड करून सेल वाडपाक लागलो. पी व्ही पै मुळांत गाडयांचे डीलर. इंड सुझुकी नवीच बाजारांत आयिल्ली म्हणटकीर सर्विसिंगय तेच करताले. पूण तें तांकां जमना जालें. पयलीं फकत मोटारसायकली विकत्यो घेवपाखातीरच बुकिंग करचें पडटालें. पूण आतां सर्विसिंगाकय बुकिंग करचें पडपाक लागलें. एकेकल्याक म्हयनोभर रावचें पडटालें बुकिंग करून. गिरायक बोवाळ घालपाक लागलें. तेन्ना आतां सर्विस सँटर वेगळेंच सुरू करपाक जाय अशें इंड सुझुकी कंपनीचें मत पडलें.

इतले म्हणसर दोगांमदलें विस्वासाचें नातें आपलेपणाचें जाल्लें. सुरेन्द्र पैचो सुरेन्द्र मामा जाल्लो. सुरेन्द्रमामान गोकुळाक विचाल्लें:

"आमी सुरू करचें वॅ सर्विस सँटरू? हांव आनी तूं पार्टनर. कशें?"

"फिफ्टी-फिफ्टी. पयसो तुग्गेलो, काम मेग्गेलें", गोकुळान सांगून उडयलें. ताणें मान्य केलें.

सर्विस सँटराक जागो पळोवपाक सुरुवात जाली. पूण मंगळूरय ल्हवू ल्हवू करून वाडपाक लागिल्लें. 1951 वर्सा हांव कार्कळच्यान मंगळूर आयिल्लों तेन्ना हांगां लोकसंख्या आशिल्ली अशीतशी एक लाख. पूण 1986 वर्सा ती चार

लाखांचेर पाविल्ली. एक तेंपावेलें कर्नाटकांतलें हें स्लिपिंग टावन. ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांचें, माड-माडयांचें, झाडा-पेडांचें. बंदराक लागून वेपारी केंद्र जाल्लें. पयलीं मसाल्याचो वेपार, मागीर कॉफी आनी काजू बियो. जाल्यार आतां मीन, सारें आनी तेल. तेभायर आमच्या सारस्वत समाजांतल्या धुरिणांनी उबारिल्ल्या सिंडिकेट बँक आनी कॅनरा बँक तशेच कोर्पोरेशन बँक, विजया बँक, कर्नाटक बँक अशाय कितल्याशाच बँकांचें हेडक्कार्टर्सय मंगळूरच. उच्च शिक्षणाचेंय मंगळूर ल्हवू ल्हवू केंद्र जावपाक लागिल्लें.

ह्या दिसान दीस बदलत चलिल्ल्या अर्थीक घडामोडींक लागून मंगळूर कात सोडपाक लागिल्लें. जमनींचे रेट झरझर वाडपाक लागिल्ले. भाडींय अव्वाच्या सव्वा सांगताले. निमणें सुरेन्द्र पैन थारायलें, भाड्यान जागो घेवप ना. मण्णगुड्डा आशिल्ल्या ताच्याच घराच्या कंपावडांत थोडो जागो आशिल्लो. थंयच सर्विस सँटर उबारप. ताचेयकडेन पयशे नाशिल्ले. तो पी व्ही पैचो एक पार्टनरच आशिल्लो. म्हणटकीर दोगांयनी मेळून देडेक लाखांचें बँक लोन काडलें आनी सर्विस सँटर उबाल्लें. 'मोट्रॅक्स' म्हूण नांव दवल्लें.

दोन वर्सां पयलीं कारवारा दुकान चलना म्हूण घरा न्हिदून रावपी हो भुरगो आज एका वर्कशॉपांत कामाक लागता कितें, थंयच्या गोलमालाचो पर्दाफाश करता कितें, तांचो विस्वास जिखता कितें आनी आज स्वताच्या एका सेल्स आनी सर्विस सँटराचो मालक जाता कितें. तोयबी एक एक्सिडेंट जावन. सिनेमाची स्टोरी कशी. पूण म्हज्या दोळ्यांमुखार घडली.

गोकुळाची नसाय जाल्लेय खूब जाण आशिल्ले त्या वर्कशॉपांत. धरून आमचे जीएसबी लोक. मोट्रॅक्साच्या उक्तावणाचें कार्ड घेवन गेलो तेन्ना तर थंय काम करपी आमच्याच एका जीएसबी मनशान ताका 'आशिर्वाद' लेगीत दिलोः

"पी व्ही पैलागीं धंदो केल्लो कोणीच वयर पावलो ना पळयी. एक-दोन वर्सांत बंद करचें पडटलें तुका वर्कशॉप."

"म्हिगेल्या हार्ड वर्काचेरू म्हाका पुरायी विस्वासू आसा. कस्सोंचू बंद करचोना. पळितलीं तुमी," गोकुळ ताका सांगून आयलो.

कोणाक अभिमान दिसचो ना असल्या पुताचो?

गोकुळ मार्गाक लागलो आनी मीराक आतां ताच्या लग्नाचो हुस्को जावपाक लागलो. कुंडल्यो पळोवपाक सुरवात जाली. निमणें एक कुंडली जुळ्ळी. हेजमाडिच्या गडियार घराण्यांतलें गायत्री. येडपादउ गांवचें. कार्कळ येवचे पयलीं लागता. बापूय उपेन्द्र गडियार कॅनरा बँकेंत काम करतालो. बायल चंद्रकला हावसवायफ. चार भुरग्यांमदलें गायत्री सगळ्यांत व्हडलें. बीकॉम करून थंयच गणेश अँड कंपनी म्हूण ऑडिटराकडेन नोकरी करतालें. त्या हांसमूख दोळ्यांनी शिटूकसाण भरिल्ली. चली आमकां आनी गोकुळाकय पसंत पडलें. 1990 वर्सा सप्टेंबराचे 3 तारकेर लग्नाचो बार जालो.

म्हजो जांवय विवेकाचे मावशेलो पूत मणिपाल ग्रुपांत आशिल्लो. ताचेकडेन उतर घालून तिका मंगळूरा ल्हानशी नोकरी मेळ्ळी. आमच्या चाळींतल्या घराच्या उक्त्या वारांदाक वण्टी काडल्यो आनी गोकुळाखातीर बॅडरूम केलो. गोकुळाचो धंदो आजून फायद्यांत आयलो नाशिल्लो. रिणां आशिल्लीं फारीक करपाचीं. पूण तो वर्किंग पार्टनर आशिल्ल्यान ताकाय नेमान पगार मेळटालो. तांचो संवसार सुरू जालो. फुडें 1998 वर्सा गोकुळ आनी सुरेन्द्रान वर्कशॉप वाडोवन मोटारसायकली दवरपाक शोरूम केलो. गायत्रीन ती नोकरी सोडली आनी वर्कशॉपाचो वेव्हार पळोवपाक लागलें. घरची नोकरी.

मंगळूर परत येतकीर चार वर्सांभितर गोकुळाची गाडी रुळार येवन वेवस्थीत चलपाक लागली. म्हज्या तीनय भुरग्यांनी आपापले संवसार उबे केल्ले. स्वताचे हिकमतीचेर. मुंबयच्यान मस्कत वच्चेपयलीं श्यामलान बीएड केल्लें. आनी मस्कत वतकीर ताणें आपली एक ल्हान शाळा सुरू केल्ली. आशा तर घोवाच्या खांद्याक खांद लावन राव हॉस्पिटल नवे नवे तेंगशेर व्हरीत आशिल्लें.

आमचे वांगडच्या घोव-बायल काम करतल्यांनी सगळ्यांनी आपापलीं घरां बांदिल्लीं. आमी मात दोगांय शिकोवप आनी संघाचें काम ह्या बोवाळांत म्हज्या भुरग्यांक एक बरें घर लेगीत दिवपाक शकलीं नात. आमकां दोगांकय तीच एक खंत कशी आशिल्ली.

हांवें गोकुळाक म्हळें: ''तुगेल संवसार मार्गाक लागलो. आतां आमकां एक

आमचें घर जाय. तुमगेल्या संवसाराक.''

असले बाबतींत ताचो गायड आनी फिलॉसॉफर म्हटल्यार सुरेन्द्रमामा. आमच्या मनांतलें गोकुळ ताचे कडेन उलयलो. सुरेन्द्रमामा ताच्याकय फुडलोः

''तुमी आनी खंयीं जागो कित्याक सोदताची? आमगेले मोर्ट्रक्सावयरीच घर बांदुयात न्हय?. जागेचे पयशे एडजस्ट करया. बिजिनेसाकय बरें जातलें.''

ही कल्पना सगळ्यांकच आवडली. इल्ली इल्ली करून पुंजावन दवरिल्ली 40 हजारांची म्हजे जिणेची कमाई हांवें काडून गोकुळाक दिली. पूण तितल्यान खंय घर जाता? आमचेकडेन ना कसली प्रॉपर्टी ना कांय भांगर शिंगर. बँक खंय रीण दिता? गोकुळ जितलो हिकमती तितलोच स्वाभिमानी. ताणें थारायल्लें, कोणामुखार हात पसरप ना. भयणां बेजार जालीं. पूण हो ठाम. गोकुळाइतलेंच गायत्रीय धडपडी. दोगांयनी हांगां थंय धडपड करून पयशे उबे केले आनी घराक घाले.

वर्सभरांत मण्णगुड्डावर्कशॉपावयर घर उबें केलें. एक ल्हानसो हॉल, दोन बॅडरूम, किचन आनी न्हाणी-संडास. शरण्या जल्माक आयलें तें घर घेवनच आयलें. 1993 वर्सा आमी घरप्रवेश करून थंय रावपाकय गेलीं. तितले म्हणसर मीराय रिटायर जाल्ली. पूण तिचे फाटीच्या दुखण्याक लागून तिका वयर सकयल करप कुस्तार जातालें. म्हणटकीर रोकडीच चाळ सोडलीना. थोडे-दीस हांगां थंय करीत रावलीं. आनी ल्हवू ल्हवू करून मण्णगुड्डा स्थायीक जालीं. स्वताच्या घरांत.

लग्न जातकीर 38 वर्सांनी आमी स्वताच्या घरांत पाविल्लीं. तो आनंद आगळोच आशिल्लो.

सगळेच अपघात वायट नासतात. कांय बरेय आसतात. आनी वायट घडणुकेकय दुसरी बाजू आसता. त्या वायटांतल्यान बरेंय जाता. जिणेच्या निमण्या पावंड्यार हांव हें प्रत्यक्ष अणभवातालों. म्हजे भटकंतींतलो एक नवो धडो.













पणटू (धूव श्यामलाचो नातू)
युवा पै त्रामानाक खेळयतना



जांवय डॉ राघवेन्द्र आनी धूव डॉ आशावांगडा राजस्थान



आंबावलेल्या पाण्ट्यार



# दुर्येसाची घुशी

**सगळें** कितें स्थिरस्थावर जाता इतल्यांत आनीक एक जीवघेणें संकश्ट मुखार येवन दत्त कशें उबें रावलें. वर्स 1993. मीराक हड्ड्याकडेन एक गांठ आयली. दोगांय विश्व हिंदू परिशदेच्या कामांत गुल्ल आसतालीं. अशान नात शरण्या घरांत येतसावन तर तिचे उमेदीक थार नाशिल्लो. त्या बोवाळांत तिणें ते गांठीकडेन कांय दीस दुर्लक्ष केलें. पूण गांठ मात्शी घटशी जावपाक लागली. त्या दिसांनी श्यामला कुळारा आयिल्लें आशिल्लें. ताणेंय हात लावन पळयलें. चण्यायेदें कितें तरी लागता म्हूण ताणेंय सांगलें.

आशा तेन्ना ट्रेनिंगाखातीर लंडन गेल्लें. ताका कळयलें आनी जावंय राघवेन्द्राकय. आशान आनीक वेळ केलोना.

"तुमी आनीक वेळ काडनाकाची. फांल्यांच तिकेट बूक कोर्नु कोइम्बतुरा वच्चें. चॅक कन्नु पळोवया."

आशा अशें केन्नाच उलोवपी न्ही. म्हणटकीर आमीय कळाव केलोना. तिकेट बूक केली आनी गेलीं कोइम्बतुरा.

टॅस्टीचे रिपोर्ट बरे नाशिल्ले. मीराक ब्रॅस्ट कॅन्सर जाल्लो. रोकड्या रोकडें

ऑपरेशन करपाक जाय आशिल्लें.

आयकून दोगांय थंयच थंड जालीं. आंगाक शेळो घाम फुटलो. तितले म्हणसर आशा लंडनच्यान परतलें. आमची मनस्थिती तांकां कळ्ळी जावंये. दोगांयजाणां बरीं अणभवी दोतोर. तांणी धीर दिलो.

"भिंवची गरज ना. ब्रॅस्ट काडल्यार सग्ळें सारकें जातलें. बायोप्सी रिपोर्ट येतकी कळटलें कसली स्टेज कांय म्हुण्णू. कॅन्सर म्हुळ्या आतां इतलें भिवचें ना, कितें? सायन्स जोर फुडें पावलांची."

आमीय मनाक थातारलें. इतलीं सगळीं संकश्टां पळयलीं, तातूंतल्यान वाट काडली. कळाव काय जालो ना. आमच्या नशिबान आमचींच भुरगीं दोतोर आसात. तींयबी अणभवी. कितें जाता तें धीरान झेलपाचें.

आशाच गोकुळाकडेन उलयलें. सर्जरी दिसा ताका पाव म्हूण सांगलें. रामण्णाक कळटकीर तोय मुंबयच्यान धांवत आयलो. ल्हानपणांत आवय वचत सावन मीराच ताची आवय जाल्ली. मागीर तो खंय रावता?

ऑपरेशन कोण करतलो हो प्रस्नूच नाशिल्लो. म्हज्या जावंयाइतलो बरो सर्जन तेन्ना पुराय कोइम्बतूरांत नाशिल्लो. तरीकय गोकुळ येतकीर ताणें आपली फॉर्मेलिटी केलीचः

"आमच्या मॅडिकल प्रफॅशनांतु घरचे लोक ऑपरेशन कन्नाती. तुमकां प्रॉब्लेम ना न्हवॅ?"

प्रॉब्लेम कसलो? आमकां तर तो देव कसो पाविल्लो. तामिळनाडूंतल्या एका बऱ्यांतल्या बऱ्या सर्जनाच्या हातान मीराचें ऑपरेशन जातालें.

ऑपरेशन बरे भाशेन जालें. ट्यूमर बायोप्सीखातीर धाडून दिलो. आतां बायोप्सी रिपोर्टाची वाट पळोवपाची.

इतले मजगतीं एक मजेशीर घडणूक घडली. ऑपरेशन थेटरांत भितर वतना राघवेन्द्रान रामण्णा आनी गोकुळाक हांसत हांसत सांगलेंः

"सर्जरी जातकी एक इंटरेस्टिंग गजाल सांगुची."

जाल्यार कितें? कोणें तरी फोन करून तांकां आदल्या दिसा धमकी दिल्ली.

फाल्यां सांजेमेरेन पांच लाख दियात नाजाल्यार हॉस्पिटल ब्लास्ट करतां. तांणी रोकडेंच पुलिसांक कळयिल्लें. हॉस्पिटलांत भायर-भितर सगळ्याक साद्या कपड्यांतले पुलीस आशिल्ले. वातावरण तंग आशिल्लें. आनी हो मनीस सकाळफुडें हांसत हांसत आमकां सांगतालो, इंटरेस्टिंग गजाल आसा!

सांगलां त्या जाग्यार पयशे पावयतां म्हूण ताणें ब्लॅकमेलराक सांगिल्लें. पूण तीय येवजण पुलिसांनीच केल्ली. एका बॅगेंत मदीं कागदा कुडके घाल्ले आनी भायर दोनय वटांनी नोटी घाल्ल्यो. आनी ती बॅग व्हरून त्या जाग्यार दवरपाची कोणें? रामण्णा आनी गोकुळान. दोगय एका पांयार तयार जाले. तांणी व्हरून दवल्लीयबी ती बॅग. पूण व्हरपाक कोणूच आयलोना. तांकां घडये कळ्ळी आसतली पुलिसांची येवजण. तांचो प्लॅन फ्लॉप जाल्लो. मीराचें ऑपरेशन मात सक्सॅसफुल जाल्लें.

आमी तो शुभ शकुन म्हुणूनच पळयलो.

रिपोर्ट आयलो. किमोथॅरपी करपाची काय ना हाचेर तांचेमदीं बरोच विचारविनिमय जालो. आशा आनी राघवेन्द्राचें मत आशिल्लें, किमोथॅरपी करपाची. पूण कुप्पुस्वामी कॅन्सर हॉस्पिटलाच्या दोतोराचें मत पडलें, गरज ना. रेडियेशन करून टेमोक्सिफॅन गुळी घेतल्यार पुरो. कोइमतुराच रेडियेशनाचो कोर्स केलो.

ट्रीटमेंट पुराय करून दोन-तीन म्हयन्यांनी आमी परत मंगळूरा आयलीं. टेमोक्सिफॅन ही गुळी नेमान घेवप हीच तिची आतां ट्रीटमेंट आशिल्ली. हेर सगळें सदचेभाशेन. आनी नेमान चॅकप करप.

आमी दोगांयनी परत कामांत झोकून दिलें. आतां रिटायर जाल्ल्यान तीय म्हजे सांगाता येताली. विश्व हिंदू परिषदेच्या मातृमंडळीच्यो शाखा उबारपाखातीर वावुरताली. मुळांतच सगळ्यांकडेन मेळून मिसळून वागपी. आपलीं मतां बेधडक मांडपी. ताका लागून मंगळूर आनी भोंवतणच्या वाठारांनी महिला मंडळांनी तिका वेगळोच मान आशिल्लो. इतलीं वर्सां टीचर आशिल्ल्यान तिचीं विद्यार्थींय जळामळा गांवांगांवांनी फाफसल्लीं. ताचो आमकां खूब फायदो जालो. विश्व

हिंदूची मातृमंडळी दिसान दीस घट जावपाक लागिल्ली.

मीरा फकत एक बरी शिक्षकच नाशिल्ली. तितलीच बरी एक सामाजीक वावुरपीय आशिल्ली. तीयबी 'बोले तैसा चाले' अशी. आमच्या सारस्वत समाजांत लग्नासारक्या कितल्याशाच कार्यांनी देण्याघेण्याचे सोपस्कार सुमराभायले. परवडनात जाल्यार लेगीत करपाक जाय ही संस्कृताय जाल्ली. ताका लागून रिणां काडून लग्नकार्यां करपाचो वेळ लोकांचेर येतालो. परमपुज्य श्रीमत् सुधींद्रतीर्थ स्वामी ह्या रुढी-परंपरांच्या आड आशिल्ले. तांच्याच आशिर्वादान तिणें मंगळूरांत पयलो 'जीएसबी महिला वृंद' स्थापन केल्लो. 1969 वर्सा. आनी 'चॅरिटी बिगिन्स ऍट होम' ह्या न्यायान भुरग्यांक संस्कारक्षम करचेखातीर आपल्याच घरांत पयलें 'बाल संस्कार केंद्र' स्थापन केल्लें.

जितली बरी वावुरपी तितलीच बरी लेखक. ल्हानपणासावनच तिका बरोवपाचें पिशें. कन्नड भाशेंत पदां, काणयो आनी नाटकांय बरयिल्लीं. उपरांत कोंकणीन बरोवपाक लागली. कादंबरी वा कवितेपरस नाटक चड प्रभावी हें तिचें ठाम मत. कारण ताचें सादरीकरण जाता आनी तें वाचनाची आवड नाशिल्ल्या लेगीत सर्वसामान्य लोकांलागीं पावता. तिचीं तीन नाटकां तर खूबच गाजिल्लीं. 'तूं काम सोडि', 'काळि सून' आनी 'देण्या स्वार्थु'. तिनूय सामाजीक विशयांचेर भाश्य करपी आनी नसत्या रुढी परंपरांमदीं घुस्पून रावनाकात असो उलो मारपी. शाळेंत करपाखातीर म्हूण बरयिल्लीं, पूण शाळेंतल्यान पास जावन भायर सरिल्लींय भुरगीं आपापल्या गांवांनी करतालीं.

'देण्या स्वार्थु' हें तिचें नाटक मंगळूर आकाशवाणीवेल्यान प्रसारीत जाल्लें जाल्यार 'काळि सून' हें धारवाड आकाशवाणीवेल्यान. 'तूं काम सोडि' ह्या नाटकाक तर 1984 वर्सा अखिल भारत कोंकणी एकांक नाटक कृती स्पर्धेंत पयलो पुरस्कार फावो जाल्लो. तिचें कॅन्सराचें दुखणें सुरू जालें तेन्ना तिका उमेद येवची म्हूण ह्या तिनूय नाटकांचें देवनागरी लिपयेंतलें 'त्रिवेणी' हें पुस्तक छापलें. 1995 वर्सा मंगळूर जाल्ल्या पयल्याच विश्व कोंकणी संमेलनांत व्हडा दबाज्यान ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन जाल्लें. ताका लागून तर सामकीच खूश आशिल्ली.

पयलीं श्यामल मुंबय आसतालें. उपरांत विवेकाक ओमानाच्या मस्कत शारांत आशिल्ल्या झुबेर फर्निशिंग कंपनींत बरी नोकरी सांगून आयली. तीं मस्कत रावपाक गेलीं. राघवेन्द्र आनी आशा रात-दीस हॉस्पिटलांत बिझी आसतालीं, जगभर सेमिनारांनी भोंवतालीं. गोकुळ आनी गायत्री मोट्रॅक्सांत गुल्ल जाल्लीं. आनी आमी विश्व हिंदू परिषदेंत. मदीं गोंयां आनी मुंबय वचून येतालीं. मीरा पयलींभाशेन फिट जाल्ली. विवेक आनी श्यामलाच्या आग्र्याक लागून 1997 वर्सा मस्कत भोंवन आयलीं.

मात एकूच गजाल चुकली. मीरान दोतोराक विचारनासतना आपली टेमोक्सिफॅन घेवप बंद केली. दोतोरान सांगिल्लें, कांय तेंपान ही गुळी घेवपाचीय गरज उरचिना. पूण ती केन्ना बंद करपाची तें दोतोरान थारावपाक जाय आशिल्लें. आपूण बरी जाली अशें धरून हिणेंच सात वर्सांउपरांत ती बंद केली.

2000 वर्साची गजाल. हिची जेवणा-खाणावेली वान्सा उडली. कर्मधर्मसंयोगान मे म्हयन्याचे सुटयेंत श्यामल भारतांत आयिल्लें. दोतोराकडेन गेलीं तेन्ना लक्षांत आयलें. गुळी बंद जाल्ल्यान आंगांत हांगां थंय फाफसल्ल्या कांय कॅन्सराच्या पेशींनी परत जीव धरिल्लो. दोन-तीन म्हयन्यां भितर त्यो हाडांनी भरसल्ल्यो. आशालागीं उलोवन श्यामल आमकां तशेंच घेवन मुंबय केईएम हॉस्पिटलांत गेलें. आतां किमोथॅरपीबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो.

पूण एक फावट कॅन्सराच्यो पेशी हाडांनी भरसल्यो काय त्यो खंय पावत सांगू नजो. दोतोरांनी सांगिल्लेप्रमाण मंगळूराच तिची किमोथॅरपी केली. किमोक लागून तिका बरें दिसपाक लागलें. वेवस्थीत जेवपा-खावपाक लागली. पूण विकनेस जाणवतालो. केस झडिल्ले. तरीकय विग घालून सगळ्याक भोंवताली. तशी ती न्हिदून उरनाशिल्ली. पूण पयलींवरी धांवपळय करप शक्य जायनाशिल्लें. रोकडीच थकताली. दोतोरानय सांगलें, आतां जिवाक सांबाळ.

पयलीं मस्कतच्यान येतना श्यामलान हिका सद्दां साबण, शांपू, पावडर, पर्फ्यूम अशें कितें कितें घेवन येवप. हिणें एक-दोन आपणाक दवरप आनी बाकीचे सगळे आयल्ल्या गेल्ल्याक वांटत रावप. आवडटालें तिका तें. त्या वर्सा किमो केल्ल्यान केस झडिल्ले. म्हणटकीर श्यामलान कांय हाडलें ना.

जाल्यार ही सांगताः

"तुकाचि राबतालें. तुगेलो शाम्पू लावन केंस बेगीन वाडटले न्हवॅ."

श्यामलान आनीक वेळ केलोना. तशेंच मंगळूर बाजारांत गेलें आनी तिका हाडटाले ते सगळे इम्पोर्टेड साबण, शाम्पू, पावडर घेवन आयलें. ही खूश. जिणेकडेन पळोवपाची तिची दिश्टीच तशी आशिल्ली. किमो घेतकीर आतां परत बरी जातलीच अशी खात्री आशिल्ली तिका. सगळ्यांक सांगताली, हांव जगतलींच.

2001 वर्स येयसर मात ती आनीकय जाम जाली. तिच्यो यादीय शेणपाक लागल्यो. मार्चांत आमी तिका ट्रिटमेंटाखातीर कोइम्बतूर घेवन गेलीं. श्यामलय आयलें मस्कतासावन. आमी थारायलें, निमणें मेरेन तिका सारकी ट्रिटमेंट दिवपाची. कोइम्बतुराच दवरपाचें. पूण ही लागली घराच वचपाक जाय म्हूण. आशान आनी श्यामलान कितलें सांगून पळयलें. कशीच आयकना.

श्यामलाक दोनय धुवो. ताणें विचाल्लें: "फाइ म्हाका कितेंय जालें तेदना हांव मेगेल्या चेर्डुवां वोट्टु वच्चेना वॅ?"

"वच. पूण मिगेलो पूत आसा न्ही वॅ," हिची हांसत हजरजबाबी जाप. श्यामल चूप.

निमणें तिणें गोकुळाक कोइम्बतुरा आपोवन हाडलोच. जितली हिकमती तितलीच हट्टी. आशा आनी राघवेन्द्राक मात्शें वायट दिसलें. हांवें तांकां स्पश्टूच विचाल्लें:

"खरें कितें तें सांगा. निवळटली ती?"

तांणी तकली सकयल घाली. तांकांय गॅरँटी नाशिल्ली. हांव कितें समजुपाचें तें समजलों. मागीर हांवेंच तांकां समजायलें, वतात आमी मंगळूरा. तिका थंय तिचे लागींचे लोक मेळटले. आमच्या सोयऱ्यांकय गोंयच्यान हांगां येवप म्हटल्यार दोन-तीन ट्रेनी बदलून येवचें पडटलें. मंगळूर सगळ्यांकच लागीं पडटा. तिकाय मानसीक समादान मेळटलें. तेंच सगळ्यांत चड म्हत्वाचें.

गोकुळ तयारी करचेखातीर फुडें गेलो. आमी ट्रेनीची फर्स्ट क्लासाची तिकेट

काडली. वतना तांणी वांगडा एक ट्रेण्ड नर्सय दिली. हांव आनी श्यामल तिका घेवन मंगळूर आयलीं. स्टेशनार व्हील चॅर घेवन गोकुळ तयारच आशिल्लो. ही दाराकडेन पावन देंवपाक पळयता जाल्यार गोकुळान तिका तशीच उखल्ली आनी बसयली व्हील चॅरार. जाल्यार ही लढाय जिखिल्लेवरी पळयता श्यामलाक. आमी सगळीं खो खो हांसतच स्टेशनार देंवलीं.

मण्णगुड्डा घरा पावलीं आनी हिका नवो जोश आयलो. श्यामलान सांगलें, तिका बरो उजवाड आशिल्लो आनी बाथरूम आशिल्लो बॅडरूम दिवया. जाल्यार ही कशीच आयकना. आपल्याच रुमांत रावतली म्हूण हट्ट. नातरांवांगडा रमली. तिच्यो इश्टिणीय मेळपाक येवपाक लागल्यो. गोंयच्यान तर कोण ना कोण तरी पावतालेच खबरेक. ती खुशाल आसताली. आनी तिका पळोवन आमी.

श्यामल परत गेलें मस्कत. जूनांत परत येतां म्हूण सांगून. ताची धूव दीपाक कूर्ग स्कुलांत घालपाक तें येवपाचेंच आशिल्लें.

तिका कल्पना आयिल्ली दुयेंस खंय पावलां तें. तिणे पयलींच सांगून दवरिल्लें:

"आतां आनी परत हॉस्पिटलांत ना वच्चें. कितें जाता तें घराच जावों."

15 मे. सदचेवरी सकाळीं उठली, न्हाली, देवाची पुजा केली आनी आड पडली. तिका मेळपाक मुंबयच्यान तिची भावजय उमा, गणेश आनी ताचीं घरचीं पावलीं. मीरा सामकी रावताली तिका. उमा म्हटल्यार तिका सामकी जिवाभावाची. लग्न जायतसावन तिका उमाचें भारी कौतुक. मंगळूर येताली तेन्ना तिका सगळ्याक भोवंडावप, फुलां माळप, कितें कितें म्हूण ना. नणंद-भावजय नातेंच नाशिल्लें तांचें. घट्ट इश्टिणी कश्यो.

उलयतां उलयतां गणेशाक हांसत सांगपाक लागली:

"तुगेल्या आन्नाकू मेळूंक वच्चीं आसा रोकडींची." तिचो भाव गोपाळकृष्ण दोन वर्सांपयलींच भायर पडिल्लो.

"गायत्री, उमाक लिंबू शरबत कन्नु दी न्ही पिवच्याक," हिणें सुनेक फर्मायलें.

नाका नाका म्हणटा आसतना तिका लिंबू पिवयलो. तिचो हात घट्ट धरून

आपल्या हड्ड्यार दवल्लो.

"जोर न्हीद येता गो."

बस्स. इतलेंच उलोवन दोळे धांपले ते सासणाचेच.

उमा आनी गायत्रीन रडपाकच सुरू केलें. सकयल्यान गोकुळ आनी सुरेन्द्रय धांवन आयले. पूण सगळो खेळ सोंपिल्लो.

ती गेल्ली.

आजुबाजूचे लोक येवपाक लागले. कितें जाप दितलों तांकां? भगवद्गीता काडली आनी वाचपाक सुरवात केली. तिची निमणी इत्सा.





# रामजन्मभूमी

**एके** वटेन म्हजे जिणेंत ही सगळी उलथापालथ जाताली आनी दुसरे वटेन देशांत रामजन्मभूमीच्या प्रस्नावेल्यान रणकंदन माजपाक लागिल्लें. आमी मंगळूर सोडून गोंयां गेले तेन्नाच हो प्रस्न पेटपाक लागिल्लो. ते खातीर विश्व हिंदू परिशदेन फुड़ाकार घेतिल्लो. खरी सुरवात तर उडुपीच्यानच जाल्ली.

आमी गोंयां आसतना 1985 वर्सा 31 ऑक्टोबर आनी 1 नोव्हेंबर अशी दोन दिसांची धर्म संसद उडुपी जाल्ली. श्री पेजावर मठाच्या आमच्या परमपुज्य विश्वेशतीर्थ स्वामींच्या आशिर्वादान. मुखेल विशय आशिल्लो अयोध्येच्या रामजन्मभूमीचो. बाबरी ढांच्याच्या तळघरांत आशिल्ल्या राम ललाच्या मंदिराचो 'ताला खोलो' हो उलो हेच धर्म संसदेन मारिल्लो. आनी दुसरी म्हत्वाची घोशणा म्हटल्यार 'मंदिर वहीं बनायेंगे'. 8 मार्च 1986 मेरेन सरकारान राम ललाचें कुलूप काडलें ना जाल्यार देशभरांतल्यान संत अयोध्येक वतले आनी कुलूप तोडटले अशी शिटकावणीय दिल्ली. तशेंच हाचेर जागृती करपाखातीर भारतांतल्या दरेका गांवांत श्रीराम-जानकी रथ व्हरपाचोय निर्णय जाल्लो.

फाटोफाट परिषदेन अयोध्येच्या जिल्लो सत्र न्यायालयांत केश घाली. आनी

फेब्रुवारी 1986 त जिल्लो न्यायाधीश के एम पांडेन इतिहासीक निकाल दिलो. राम ललाच्या पुजेखातीर दारां उगडचीं. ''हिंदू लोक जर थंय राम ललाची पुजा करीत आयल्यात जाल्यार मंदिराचीं दारां उगडून पुजा करपाक दिल्यार कितें मळब कोसळचें ना'' अशें जुविजान सांगलें. उत्तर प्रदेशांतलें वीर बहादुर सिंगाचें काँग्रेस सरकार वा केंद्रांतलें राजीव गांधीचें सरकार, कोणाकूच हिंमत जालिना ह्या आदेशाक आव्हान दिवपाचें वा मंदिर बंद दवरपाचें.

आमचेखातीर तर हें पयलें व्हडलें जैत आशिल्लें. शंबर वर्सांची अखंडीत लढाय निमणें फळाक आयिल्ली.

मुळांत अयोध्येंत आशिल्लीं तीन राम मंदिरां. श्रीराम जन्मभूमी मंदिर, त्रेता का ठाकूर मंदिर आनी स्वर्ग द्वार मंदिर. तातूंतलीं दोन इतिहासाच्या ओघांत लोकांचे यादींतल्यान शेणलीं. पूण अयोध्येचो मूळ रहिवाशी श्रीराम जन्मभूमी मंदिर विसरपाक शकलो ना. 1528 वर्सा बाबराचो सरदार मीर बांकीन हें मंदीर मोडून थंय मशीद बांदिल्ली. देखून तिका बाबरी मशीद म्हणटाले. मूळ मंदीर मातयेभरवण जालें. उल्लो तो फकत भायलो राम चबुतरा. ही मंदिराची सुवात परत घेवपाखातीर वट्ट 76 ल्हान-व्हड लढायो जाल्यो अशें इतिहास सांगता. लाखांनी शिपायांनी ते खातीर आपलें रगत सांडलें.

उपरांत मुगल सत्ता सोंपून ब्रिटीश राज सुरू जालें तेन्ना 1885 वर्सा महंत रघुवीर दास दाद मागपाखातीर फैझाबाद कोर्टांत गेलो. राम चबुतऱ्याचेर पक्क्या स्वरुपाचें मंदीर बांदपाक दिवचें ही ताची मागणी कोर्टान भायर माल्ली. त्या आदेशाक वयल्या कोर्टांत आव्हान दिलें तेन्ना ब्रिटीश न्यायमूर्ती कर्नल चॅमियरान स्वता अयोध्येक भेट दिली आनी मंदीर मोडून मशीद बांदपाचे मुसलमानांचे करणेचेर दूख परगटायलें. पूण 356 वर्सांपयलींचो इतिहास उस्तून काडुंचो नाका अशें ताचें मत जालें. 1934 वर्सा हनुमान गढीच्या रामभक्त बैराग्यांनी मशिदीच्या घुमटांचेर चडून थोडी तोडफोड केली. पूण तेयबी घुमट ब्रिटिशांनी हिंदूंकडल्यान कर घेवन परत बांदले.

1947 वर्सा ब्रिटिशांची सत्ता गेली आनी भारत स्वतंत्र जालो. दोन वर्सांभितर अयोध्येंत एक अप्रूप घडलें. 23 डिसेंबर 1949 ह्या दिसा मशिदीच्या तळाक

राम ललाची मूर्त प्रकट जाली. हजारांनी रामभक्त बाबरी ढांच्याकडेन धांवले आनी तांणी अखंड नाम संकीर्तन सुरू केलें. काँग्रेसीचो गोविंद वल्लभ पंत तेन्ना उत्तर प्रदेशाचो मुख्यमंत्री आशिल्लो. वातावरण चिघळचें न्ही म्हूण जिल्लो अधिकाऱ्यान बेगोबेग ते सुवातेचो ताबो घेतलो आनी राम ललाचे सुवातेक तालो माल्लो. मात भायल्यांतल्यान पुजा करपाक परवानगी दिली.

तोच तालो काडून 1986 वर्सा परत भितर वचून पूजा सुरू जाल्ली.

हे घडणुकेन एक नवेंच वारें भारतभर तयार जालें. त्या वर्सा जूनांतच आमी परत मंगळूर आयिल्लीं. हांवें नवे उमेदीन परत विश्व हिंदू परिषदेखातीर काम करपाक सुरवात केली. श्रीराम-जानकी रथाक लागून देशभरांतलें वातावरण बदलपाक लागलें. हे फाटभुंयेर 1 फेब्रुवारी 1989 ह्या दिसा कुंभ मेळाच्या समयार प्रयागाक संत संमेलन जालें. कांचीचे शंकराचार्य स्वामी जयेन्द्र सरस्वती महाराजाचे अध्यक्षतेखाला श्रीराम मंदिर उबारपाचे नदरेन थंय तीन म्हत्वाचे निर्णय जाले. एक, मंदिर उबारपाखातीर रामजन्मभूमी ट्रस्ट स्थापन करपाचो. दोन, 10 नोव्हेंबर 1989 ह्या दिसा मंदिराचो शिलान्यास करपाचो. आनी तिसरो, कारसेवा करून देशभरांतल्यान पूजाअर्चा करून रामशीला अयोध्येक हाडपाच्यो.

त्या वेळार लोकसभेंत भाजपाचे खासदार आशिल्ले फकत दोन. परत लोकसभा वेंचणूक आशिल्ली त्याच नोव्हेंबराच्या म्हयन्यांत 22 ते 26 मेरेन. उत्तर प्रदेशाचो मुख्यमंत्री तेन्ना आशिल्लो नारायण दत्त तिवारी जाल्यार भारताचो प्रधानमंत्री राजीव गांधी. दोगांय काँग्रेस फुडाऱ्यांक वातावरण बदलपाक लागलां हाची सुलूस लागिल्ली. म्हणटकीर वेंचणुकेचें वारें काँग्रेसी वाटेन व्हांवचें देखून तांणी शिलान्यासाक परवानगी दिली. पर्यायूच नाशिल्लो. पूर्वनियोजित येवजणे प्रमाण 10 नोव्हेंबरा शिलान्यास जालो.

वेंचणुकेचें वारें उरफाटें व्हांवपाक लागलें. भाजपाचे खासदार दोनांवेल्यान 85 चेर पावले. फाटले वेंचणुकेंत 414 सीट जिखून सत्तेर आयिल्ली प्रधानमंत्री राजीव गांधीची काँग्रेस 197 सिटांचेर निसरून पडली. बोफोर्स प्रकरणाचेर आवाज काडलो म्हूण मंत्रीमंडळांतल्यान भायर मारिल्लो विश्वनाथ प्रताप सिंग

जनता दलाचो फुडारी जालो. ताणें 143 सिटां जिखलीं. सरकार घडोवपाक जाय आशिल्ले 273. तेन्ना पर्याय नासून भाजपाक घेवन ताका राष्ट्रीय आघाडीचें सरकार घडोवचें पडलें. तेलुगु देसमाचो फुडारी एन टी रामाराव जालो हे आघाडेचो अध्यक्ष. वांगडा तामिळनाडूचो द्रमुक, आसामाची गण परिशद आनी सोशलिस्ट काँग्रेस. कम्युनिस्ट पक्षांनी भायल्यान तेंको दिलो. आणिबाणी उपरांत बिगर-काँग्रेस पक्षांक घेवन सरकार घडोवपाचो हो दुसरो प्रयोग आशिल्लो. दोनय कडेन संघ परिवाराक वांगडा घेवपाबगर दुसरो उपाय नाशिल्लो.

तेवटेन उत्तर प्रदेश, बिहार, मध्य प्रदेश अश्या पुराय हिंदी राज्यांनी काँग्रेसीचो धूप जालो. भाजपा तर स्वताच्या बळग्याचेर मध्य प्रदेश आनी हिमाचल प्रदेशांत सत्तेर आयली जाल्यार राजस्थान आनी गुजरातेंत भाजपाच्या सहभागान राष्ट्रीय आघाडेचीं सरकारां. जनता दलाचो फुडारी मुलायम सिंग यादव उत्तर प्रदेशाचो मुख्यमंत्री जालो जाल्यार लालू प्रसाद यादव बिहाराचो.

पूण फकत सत्ता आनी सत्तेखातीर कसलेय तरेची तडजोड ही संघाची वा भाजपाचीय केन्नाच भुमिका नाशिल्ली. आतां मोख आशिल्ली ती एकूच. मंदिर वहीं बनायेंगे. 1990 च्या 23 आनी 24 जूनाक विश्व हिंदू परिषदेच्या मार्गदर्शक मंडळाची बसका हरिद्वारा जाली. थंय अयोध्येंत पयली कारसेवा करपाचो निर्णय जालो. 1 नोव्हेंबरा दिसा. दुसरे वटेन भाजपाचो राष्ट्रीय अध्यक्ष लालकृष्ण अडवाणीन सप्टेंबर आनी ऑक्टोबरांत सोमनाथ ते अयोध्या अशी राम रथ यात्रा करपाचो निर्णय जाहीर केलो. मुलायम सिंग आनी लालू प्रसाद यादव चाळवले. मुलायम सिंगान तर जाहीरच केलें:

"कार सेवक आनी रथ यात्री सोडूनच दियात, आपले परवानगेबगर एखादें शेवणेंपासून आपलीं पाखां उत्तर प्रदेशांत फडफडावंक शकचें ना."

भाजपा आनी विश्व हिंदू परिषदेन थारायलें, हें आव्हान झेलपाचें आनी हांकां शिंगार घेवपाचें.

25 सप्टेंबरा गुजरातेंत सोमनाथासावन सुरू जाल्ली रथयात्रा दर दिसा उणेच 300 किलोमीटर प्रवास करीत आनी पांच-स जाहीर सभा घेत 19 ऑक्टोबरा

बिहारांत भितर सल्ली. रथ यात्रेक बिहारांत पांय दवरूंक दिवचों ना अशी शिटकावणी दिवपी मुख्यमंत्री लालू प्रसाद यादवाक सुरवेक धाडस जालें ना यात्रा आडावपाचें. पूण पटणा शारांत भितर सरून जाहीर सभा घेतकीर लालून 24 ऑक्टोबरा अडवाणी आनी प्रमोद महाजनाक अटक केली. दुसऱ्याच दिसा लोकसभेंतलो भाजपाचो फुडारी अटलबिहारी वाजपेयीन राष्ट्रपती भवनार वचून व्ही पी सिंग सरकाराचो तेंको काडून घेतलो. इकरा म्हयन्यांत राष्ट्रीय आघाडेचें सरकार कोसळ्ळें.

हे वटेन लाखांनी कार सेवक अयोध्येची वाट चलपाक लागिल्ले. 1 नोव्हेंबराक रामजन्मभूमीकडेन कारसेवा करचेखातीर अयोध्येंत भितर सरिल्ल्या देड लाख कारसेवकांक उत्तर प्रदेश सरकारान आदल्याच दिसा अटक केली. तरीकय कारसेवकांचो आंकडो देंवनाशिल्लो. वेगवेगळ्या वाटांनी कारसेवक बाबरी ढांच्याची वाट चलपाक लागले. पुलिसांनी घाल्लीं आडमेळीं तोडून 'जय श्रीरामा'च्यो घोशणा दीत भितर सरीत रावले. एकल्यान तर पुलिसांचीच व्हॅन चलोवन व्हरीत बॅरिकेड तोडली आनी हजारांनी कारसेवक रामजन्मभूमीकडेन पावले. धा आनी वीस हजार न्ही, उणेच पावूण लाख. तातूंतलो एकलो तर सरळ घुमटाचेर चडलो आनी ताणें ताचेर भगवो हुबयलो. कांय जाणांनी घुमट फोडपाचोय यत्न केलो.

कारसेवकांक थातारता म्हणसर पुलिसांक खरस काडची पडली. दुसऱ्या दिसा 1 नोव्हेंबरा परिषदेच्या फुडाऱ्यांनी जाहीर केलें:

"आमी फाल्यां परत रामजन्मभूमीकडेन कारसेवा करपाक वतले. कोण आडायता तें पळोवया"

मागीर मात मुलायम चाळवलो. 'जय श्रीरामा'च्यो घोशणा दीत शांतपणान चलत वचपी कारसेवकांक आडावपाचे हर तरेन प्रयत्न केले. लाठीमार केलो, दुकां धुंवोर सोडलो. तरीकय हजारांनी कारसेवक बाबरी ढांच्यांत भितर सल्लेच. तांकां धावंडावंक निमणें पुलिसांनी अमानुष फारपेट केलो. अक्षरशा जालिनवाला बागेंत जनरल डायरान केल्ल्या अमानुष घडणुकेची याद करून दिवपी फारपेट.

आमचे परिषदेचे 20 कारसेवक शहीद जाले. शरयू न्हंय हिंदू शहीदांच्या रगतान पावन जाली.

वातावरण आनीकय खुबळ्ळें. विश्व हिंदू परिषदेन थंयच अयोध्येंत तांचेर संस्कार केले आनी तांकां शहीद घोशीत केले. तशेंच तांचे अस्थिकलश भारतभर भोवंडावन हे घडणुकेचो बदलो घेवपाचो सोपूत घेवपाचो उलो समेस्त भारतियांक माल्लो. वांगडाच जाहीर केलें:

''ही कारसेवा शांततेन फुडले 40 दीस चलतली.''

ह्या घडणुकांच्यो खबरो वाचून आनी आयकून हांगां मंगळूरांत आमचेंय रगत खवळ्ळें. आमी थारायलें, आतां मर्णाची भिरांत धरप ना. कारसेवा करपाक भायर सरप. तरनाटे, जाण्टे, बायलां सगळ्यांनी वचपाचें थारायलें. मेळटा ती ट्रेन धरून आमी झांशी गेले. थंयच्यान चित्रकूटाची ट्रेन धल्ली. झांशी उत्तर प्रदेशांत जाल्यार चित्रकूट मध्य प्रदेशांत पडटा. थंयच्यान अयोध्या फकत 260 किलोमीटर. पूण उत्तर प्रदेश सरकारान आमचो चित्रकूट वचपाचोच रस्तो आडावन दवरिल्लो. आमी परत झांशी आयले.

आतां चित्रकूटाचो रस्तो धरप शक्य नाशिल्लें आनी ट्रेनीन प्रवास करपय. दुसरी वाट आशिल्ली ती पयसुल्ली. नैनी अलाहाबाद वचपाचें आनी थंयच्यान सुल्तानपूर वचून अयोध्या. झांशीच्यान नैनी अलाहाबादच 400 किलोमीटर आशिल्लें. पूण आमच्या आंगांत वाग संचारिल्ले. थारायलें, चलत वचप. लागून लागून कितले दीस लागतले? दोन दिसांनी अलाहाबाद पावले. थंयच्यान सुल्तानपूराची ट्रेन धल्ली. थंयच्यान अयोध्या फकत 64 किलोमीटर. पूण पुलिसांनी चारूय वटांनी नाकेबंदी केल्ली.

आमी सुल्तानपूराच्या फुडल्या स्टेशनार देंवले. थंय आमकां आमच्या थळाव्या स्वयंसेवकांनी एका कारखान्याच्या कंपावंडांत दवल्ले. बाजारांत वचून खावपाची माणसुकी ना. हाडून दिवपाचीय ना. पुलीस येतल्या वतल्याचेर कावळे कशे नदर दवरताले. फकत चिरमुल्यो खावन रावले. मध्यान रातीं परत आमकां उठयले. पुलिसांची गस्त त्या वाठारांत सुरू जाल्ली. दपत दपत

काळखांतच कितलेशेच चलत एके शाळेंत हाडून आमकां सोडले. थंय रात काडली. सकाळफुडें परत पदयात्रा चालू. शेतांतल्यान रानांतल्यान कांटे कुटे माड्डीत एका गांवांत पावले. थंयच्या लोकांनी खिचडी करून दिली. तोंडाक लावपाक मिठांतलो आंब्या काथो. रातचे गोमती न्हंयचे तिरार पावले. थंयच शिदोरी कशी बांदून घेतिल्ली खिचडी खावन न्हिदले. दुसऱ्या दिसा गोमती हुपली आनी पावले अयोध्येक.

अयोध्या खंयची? पुलिसांची छावणी म्हटल्यार उपकारत. वचत थंय बंदूकधारी पुलीस नाजाल्यार पॅरा मिलिटरी फोर्स. सगळ्याक वातावरण तंग. केन्ना बंदूक वयर सरत आनी गुळी सुटत नेम ना. आनी तरीकय जिवाची पर्वा करिनासतना 'जय श्रीराम', 'मंदिर वहीं बनायेंगे' म्हूण घोशणा दिवपी आमी हज्जारांनी कारसेवक. एक फारपेट केल्लो, विशेक मडीं पातळायिल्लीं आनी माल्यांतल्यान म्होंवा मूस सुटचे तशे भारतभरांतल्यान गूं गूं करीत कारसेवक अयोध्येक पाविल्ले. आमचो तो जोश पळोवन पुलिसांकय धडकी भरिल्ली जावंये. आमची मरपाची तयारी आशिल्ली. पूण प्रशासनाक बंदूक उखलपाची हिंमत नाशिल्ली. मुलायम भारतभर पुराय बदनाम जाल्लो. आमचे बजरंग दलाचे तरनाटे तर अक्षरशा थयथयाट घालताले. जिवाचेर उदार जावनच आयिल्ले सगळे.

उत्तर प्रदेश सरकारान आतां नवो पावित्रो घेतिल्लो. पुलीस आमकां बशींनी भरताले आनी सोडून येताले शाराभायर पयस खंय तरी. रामजन्मभूमीचें दर्शन आमकां भायल्यानच जालें. पूण भितर वच्चेपयलींच पुलीस आयले आनी भल्ले आमकां बशींनी. बद्द अलाहाबाद स्टेशनार व्हरून सोडले. घोशणा दिवन दिवन ताळो पडलो. पूण जिद्द सोडलिना.

आतां परत येवपाबगर दुसरो मार्ग नाशिल्लो. पूण लढाय मारूनच परतल्ले. पुराय भारतांतल्यान अयोध्येक व्हांवपी तो जनसागर पळोवन उत्तर प्रदेशाचेंच न्हय तर केंद्र सरकार पासून भियेल्लें. हांव ट्रेन धरून मुंबय आयलों आनी श्यामलागेर देंवलों. चार दीस सुशेग घेतलो आनी परत गेलों मंगळूरा.

तेवटेन व्ही पी सिंगाचें सरकार पडटकीर सत्तेक भुकेल्ल्या चंद्रशेखरान केंद्रांत

नवें सरकार घडयिल्लें. 64 खासदारांक घेवन तो जनता दलांतल्यान फुटिल्लो आनी काँग्रेसीक घेवन ताणें काडया-बडयांचें नवें वजें बांदिल्लें. पूण ताका कापस्ताद नाशिल्ली आमकां कोणाक हात लावपाची. मात रामजन्मभूमी न्यास आनी बाबरी मशीद कृती समितीमदीं समेट घडोवन हाडपाचो आपले परीन यत्न करतालो. पूण ताचेंय सरकार तिगलें ना. 1991 चो मार्च म्हयनो येयसर काँग्रेसीनच ताचो तेंको काडून घेतलो. कोणूच सरकार घडोवंक शकना म्हणटकीर लोकसभाच बरखास्त जाली. फुडली लोकसभा घडटा म्हणसर चंद्रशेखर कुकमाक आदार कसो प्रधानमंत्री उल्लो.

व्ही पी सिंगान सत्तेर येतकीर मंडल कमिशनाचो अहवाल अंमलांत हाडून हेर मागासवर्गियांक 27 टक्के आरक्षण दिल्लें. ताचेरय भारत पेटिल्लो. आनी दुसरे वटेन मंदिराचो वाद. ताका लागून 1991 ची लोकसभा वेंचणूक 'मंदिर-मंडल वेंचणूक' म्हूण गाजली. 20 मेक सावन तीन पावंड्यांनी वेंचणूक आशिल्ली. पूण पयल्या पावंड्याचें मतदान जालें ताच्या दुसऱ्याच दिसा राजीव गांधीची हत्या जाली. वेंचणूक मुखार वचून फुडल्या पावंड्यांचें मतदान 12 आनी 15 जूनाक जालें.

पयल्या पावंड्याचें मतदान जाल्लें थंय काँग्रेसीन यथेश्ट मार खालो. मात हे हत्येचो परिणाम म्हूण फुडल्या दोन पावंड्यांनी तांकां चड सिटां मेळ्ळीं. तरीकय फाटले खेपेपरस फकत 35 चड. वट्ट 232. मंडलवाल्या व्ही पी सिंगाच्या जनता दलाक फकत 69 सीट मेळ्ळे. म्हटल्यार 74 उणे. सीट वाडले ते फकत भाजपाचे. 120 चेर पावले. मंडलान मार खाल्लो. मंदिराचो घंटानाद वाडलो. भाजपा लोकसभेंतलो मुखेल विरोधी पक्ष जालो. आमचो अटलबिहारी वाजपेयी विरोधी पक्ष फुडारी जालो. काँग्रेसीच्या पी व्ही नरसिंह रावान अल्पमताचें सरकार चलयत कशींबशीं पांच वर्सां पुराय केलीं.

पूण ताचे कारकिर्दींत ताका नाका शेवट केलो तो फकत राम मंदिराच्या प्रस्नान. 1992 वर्सा 6 डिसेंबरा दुसरी कारसेवा जायसर भारतांतलें आनी उत्तर प्रदेशांतलेंय चित्र बदलिल्लें. केंद्रांत काँग्रेसीचें अल्पमतांतलें सरकार जाल्यार

उत्तर प्रदेशांत भाजपाचें सरकार. कल्याण सिंग मुख्यमंत्री.

आनी 6 डिसेंबरा तो इतिहास घडलो. लाखांनी कारसेवक अयोध्येंत जमले. पुलिसांची सांखळ तोडून भितर सल्ले, वानर सेनेवरी घुमटांचेर चडले. कांय खिणांभितर तांणी ते घुमट उडोवन पुराय बाबरी ढांचो चकनाचूर केलो. इतलेंच न्ही, तर पुराय वाठार निवळ करून थंय रामललाची मूर्त लेगीत स्थापन केली. ताका लागून उत्तर प्रदेशाचें सरकार बरखास्त जालें. पूण आमचें कितल्याशाच पिळग्यांचें सपन पूर्ण जालें.

मुखावेली काणी जगजाहीर आसा. भाजपा 168, 182 अशे पावंडे चडत लोकसभेंत बळिश्ट जावपाक लागली. एकेक करून राज्यांय काबीज करपाक लागली. 2004 आनी 2009 वर्सा जाल्ल्या वेंचणुकांनी 138 आनी 116 चेर मात्शी देंवलीयबी. पूण इतले मजगतीं आमचो वाजपेयी दोन फावटीं भारताचो प्रधानमंत्री जालो. 1996 वर्सा फकत 16 दिसांचो जाल्यार तीन वर्सांभीतर परत पुराय टर्म.

उपरांत दोन टर्म कॉंग्रेसीच्या मनमोहन सिंगाचें सरकार आयलें खरें. पूण ह्या सरकाराच्या भ्रश्टाचाराक लोक पुराय विटले. आनी 2014 सावन आतांमेरेन नरेन्द्र मोदीचें भाजपा सरकार सत्तेर आसा. तेंयबी एकाचेर एक दोन विक्रम करीत. 2012 वर्सा 282 सीट जाल्यार 2017 वर्सा 303 सीट जिखून.

आतां राम मंदिराचोय प्रस्न सुटला. 10 नोव्हेंबर 1989 ह्या दिसा केंद्र आनी राज्य सरकारांचो रोष आपणायत राम मंदिराचो बुन्यादी फातर बसयिल्लो. शिलान्यास करून. बरोब्बर 30 वर्सांनी, 10 नोव्हेंबर 2019 ह्या दिसा, ह्या देशाच्या सर्वोच्च न्यायालयान भारतीय जनमानसाचे इत्सेचो कळस ताचेर चडयलो. जंय बाबरी ढांचो आशिल्लो आनी जंय राम ललाची मूर्त आशिल्ली तेच सुवातेर राम मंदिर बांदपाचो आदेश सुप्रिम कोर्टान दिलो.

आतां वाट पळोवपाची ती फकत भव्य दिव्य राम मंदिराची...





# जिणेचें संचित

**मीरा** गेली आनी जीण अर्दकुटी कशी दिसपाक लागली. उरिल्ली जीण पूर्णत्वाक व्हरचेखातीर हांवें भरीव कामांनी झोकून दिवपाचें थारायलें. विश्व हिंदू परिषद आतां घटमूट जाल्ली. बजरंग दलांत नव्या दमाचे तरणाटे आयिल्ले. बायलांची दुर्गा वाहिनीय तयार जाल्ली. तें काम मार्गाक लागिल्लें. म्हणटकीर हांवें नवी जापसालदारकी भुजांर घेवपाचें थारायलें.

गोंयां वच्चेपयलीं 1980 वर्सा सुरू केल्लें बाल संरक्षण केंद्र ल्हवू ल्हवू आकार घेवपाक लागिल्लें. फाटल्या 20 वर्सांनी भुरग्यांचो आंकडो दोनावेल्यान 50 वयर पाविल्लो. (आज तो 80 चेर पावला) हांगां थंय भोंवन एकठांय केल्ल्या पयशांतल्यान आश्रमाची स्वताची इमारत उबी जाल्ली. फकत कर्नाटकांतल्यानच न्ही तर आमचे स्वयंसेवक बद्द इशान्येसाकून मेघालयांतल्यान अनाथ भुरगीं हांगां धाडपाक लागिल्ले. थंयच्या राज्यांतल्या भुरग्यांक भारत ही संकल्पनाच खबर नासता. तांकां हिंदुस्तानांत भरसून घेवप हें आमचेखातीर एक नवें आव्हान जाल्लें. भारताचो इतिहास-भूगोल, भारतीय भाशा, भारतीय संस्कृती हांची वळख करून

दिवपाच्यो वेगवेगळ्यो कार्यावळी थंय सुरू केल्यो.

सरकारी अनुदान व्हडलेंशें कांय मेळनाशिल्लें. पूण लायन्स आनी रोटरीसारके क्लब आनी कितल्योशोच बँको आदार दिवपाखातीर मुखार सरिल्ल्यो. खंयूंय गेल्यार हांव एका दिसाचो खर्च आमकां देणगी म्हूण दियात अशें मागतालों. मीरा आसतना एक फावट मस्कत श्यामलागेर गेल्लीं. थंय लेगीत तेंच केल्लें. दरेकलो आपापले परीन मजत करतालो.

आज लेगीत कांय जाण दर एका दिसाच्या जेवणाचो खर्च धाडून दितात जाल्यार कांय जाण आपल्या भुरग्यांचे वाडदीस लेगीत आश्रमांत येवन मनयतात. इल्लें इल्लें करून हें केन्द्र स्वयंसहाय्यी जावपाक लागलां. ह्या आश्रमांत तयार जाल्ल्या कांय भुरग्यांनीच आश्रम चलोवपाची जापसालदारकी घेतल्या. मुळाव्या शिक्षणासावन पदवी शिक्षणामेरेनच न्हय तर आमचीं कांय भुरगीं पदव्युत्तर शिक्षण आनी सीए लेगीत करून समाजांत आपापल्या पांयांर उबी रावल्यांत.

शोभा भट्ट म्हण मातृ मंडळीची आमची एक वांगडी आशिल्ली. ती बायलां खातीर कितें तरी करपाक जाय अशें सदांच म्हणटाली. ती पिडूड्यार जावन गेली तेन्ना तिच्या घोवान आमकां एक एकर जागो दिलो आनी तिचे यादीखातीर कितेंय करात म्हूण सांगलें. तेन्नाच थंय एक इंजिनीयरींग कॉलेज आयलें. तांकां थंय खूब जागो जाय आशिल्लो. आमचोय जाय आशिल्लो. तांणी चड पयशे दिवन आमचोय जागो विकतो घेतलो. त्या पयशांनी आमी शाराभायर 10 एकर जागो घेतलो. मंगळूरच्यान 22 किलोमीटर भायर. बंटवाळ तालुक्यांत पजीर म्हूण गांव आसा थंय.

इतलो व्हडलो जागो मेळटकीर उमेदय वाडली. एक कित्याक? दोन प्रकल्प सुरू करया. एक शोभा भट्टाचे स्मृतीखातीर. इतल्या वर्सांनी एक गजाल हांवें पळयिल्ली. खंयचीय जात आसूं वा धर्म. बायलमनशेक समाज आदरभावान वागयना. वाट चुकिल्ल्या बायलांक घरांत घेना. लग्न जावन सोडून दिल्ल्यो बायलो आसतात वा शिक्षण दिवंक नाशिल्ल्यान उबंत पडिल्ल्योय बायलो आसतात. नाना

तरा. मीराय हे परिस्थितीचेर सदांच अस्वस्थ आसताली. म्हणटकीर थारायलें, ह्या बायलांखातीर एक वनिता आश्रम सुरू करप. तांकां अन्न, वस्त्र आनी आलाशिरो तर दिवपच, पूण वांगडाच शिक्षण आनी वैजकी उपचार दिवप. जमता तशीं तांचीं लग्नांय करून दिवप. जाती-कातींचे भेद पार करून.

बायलमनशांक आमी आमच्या धर्मांत देवीसमान मानतात. पूण तशी वागणूक दिनात. आनी तितलीच वायट वागणूक दितात दुसरे देवीक. आमच्या गायांक. कामधेनूक. तेन्ना कर्नाटकाच्यान केरळांत बेकायदेशीरपणान गायो व्हरताले. ट्रकांनी चेंपून चेंपून भरताले. तातूंत थोड्यो वाटेर मरताल्यो. पुलिसांनी धल्ल्यो जाल्यार उरिल्ल्यांची अवतिकाय पळोवपाक जायनाशिल्ली. प्रशासनाकय तांचें कितें करप कळनाशिल्लें. तेन्ना आमी थारायलें, वांगडाच गोशाळा उबारप. गोमातेक नवी जीण दिवप.

ते खातीर आमी गो-वनिताश्रय म्हूण ट्रस्ट स्थापन केलो. समाजांत उबंत पडिल्ली गोमाता आनी बायलांचें पुनर्वसन करचेखातीर. गायांखातीर गौरी, गंगा, कपिला आनी अमृता अश्यो एकेक करून चार गोशाळा उबाल्ल्यो. बायलांखातीर वनिता आश्रयाचें नवें हॉस्टेल उबाल्लें. रामनमीच्या म्हुर्तार 21 एप्रिल 2002 ह्या दिसा ह्या दोनय प्रकल्पांचें उक्तावण केलें.

पुराणांत एक काणी आसा. समुद्र मंथन जातकर ऐरावत बी आयले उपरांत कामधेनू आयली तेन्ना सगळे तेत्तीस कोटी देव गायेच्या आंगांत भितर सल्ले. दरेका रोमांत एकेक देव गेलो खंय. सगळ्यांत निमणें पावली लक्ष्मी. तिका सुवात नाशिल्ली. तिणें विचाल्लें, हांव खंय रावूं? तिका सांगलें, शेणांत राव म्हण. म्हणून गायचें शेण पवित्र. खंयचोच साधू जांव महात्मा, ताच्या मलाक कोण आफुडनात. पूण गायचें शेण पवित्र मानून ताका आफुडटात. देवळांत कितेंय करत जाल्यार गायेबगर कांय जायना.

पयलींच्यान आमच्या धर्मांत गायेची पुजा करतात तें ती फकत दूद दिता म्हणून न्हय. गायेकडल्यान मेळपी सगळेंच कितें वखदी. तिचें शेण आनी मूत

पसून. शेण सारें म्हूण वापरतात तें जालेंच, ल्हान आसतना आमी माथें तासताले तेन्ना रगत येतालें. तें पेकचें म्हूण आमी गायेचें शेण आनी तुळशींतली माती अँटिसॅप्टिक म्हूण माथ्याक लायताले. गायेचें पयलें मूत धरून ताचो अर्क करतात. हो अर्क कॅन्सर निवळावपाक लेगीत उपकारता. पंच घवी, दूद, धंय, म्होंव, शेण आनी मूत. वतांत भोंवपी गायेची बॅकबोन नाडी आसता तातूंतल्यान बॅक्टेरिया नश्ट करपी वखद तयार करतात. गायेच्या दुदांत हळडुवो रंग दिसता. गाय म्हटल्यार दिव्य वखदांचो कारखानोच कसो.

ह्या सगल्या गजालींचो शास्त्रशुद्ध अभ्यास करून आमीय हे गोशाळेचो वखदी कारखानो केलो. आज आमचेकडेन सुमार 300 गायो आसात. तातूंतल्यो थोड्योच दूद दितात. पूण ह्या सगळ्या गायांचें शेण, मूत वापरून आमी वखदां तयार करतात. पंचगव्य म्हुणून तें बाजारांत लोकप्रिय आसा. मधुमेह चूर्ण, हर्डे चूर्ण, पडास्पुताना बाम, तोंडाक लावपाचो पावडर, दंतमंजन, न्हावपाचो साबण अशे जायत्यो गजाली तयार करतात. तिशेक लोक कामाक आसात.

म्हयन्याक उणोच चार लाख खर्च आसता. पूण इतलेंय करून जोड जाता ती फकत लाखभर रुपयांची. तेन्ना देणग्यांबगर पर्यायच उरना. लोकय हात आखडून दिनात. आमी तीन तरांच्यो देणग्यो केल्यात. एक - उदयास्त गोसेवा. म्हटल्यार सगळ्या तिनशेंय गायांचो खर्च म्हूण एका दिसाचे 10 हजार रुपया दिवचे. दुसरो - गोमाता. म्हटल्यार एका गायेखातीर वर्साक 10 हजार दिवचे. आनी जमता ताणें एक लाख रुपया दिवचे. ते कॉर्पस फंडांत घालून ताच्या कळंतराचेर आमी गोशाळेचो खर्च चलयतात.

ट्रस्ट चलोवपाकय बरे लोक मुखार सल्ल्यात. सगळेच सात जाण. मंगळूर वाठारांतलो नामनोचो शिक्षणतज्ञ आनी सामाजीक वावुरपी प्रा एम बी पुराणिक अध्यक्ष. तितलोच नामनेचो शिक्षणतज्ञ आनी सामाजीक वावुरपी डॉ पी अनंत कृष्ण भट सचीव. निवृत्त जाल्लो तंत्रगिन्यानी मनोहर तुळजाराम, नामनेचो दोतोर डॉ अनंतलक्ष्मी भट, दोन उद्योजक हितेन्द्र कोठारी आनी सुरेश जैन तशेंच हांव

विश्वस्त.

एकेक करून प्रकल्पाक हात घालीत गेले. रोटरीसारके क्लब मुखार सल्ले. केरळांतल्या आनंदाश्रमान तांकां जमना म्हूण तांच्यो पंचविशेक सिंधी गायो आमकां दिल्यो. आमच्या ट्रस्टाक दिल्ल्या देणग्यांखातीर देणगीदारांक आयकर सूट दिवन भारत सरकारान व्हडले उपकार केले. ताका लागून जगभरांत फाफसल्ल्या देणगीदारांनी मजत केली. श्यामलाकडेन मस्कत गेल्लों थंय तर वांगडाच 16 लोकांनी भरघोस देणग्यो दिल्यो आनी तातूंतल्यान वनिता समाजाखातीर प्रशस्त भोजन शाळेचो प्रकल्प उबो जालो. उडुपीच्या कनयूर मठाचे श्री विद्यावल्लभ तीर्थ स्वामीचे हस्तुकीं ताचें उक्तावण जालें. आज आमचो ट्रस्ट भारत सरकाराच्या गोरवां कल्याण बोर्डानय अधिकृतपणान मानून घेतला.

हरशीं कर्नाटकांत देणगी मागपाक वतना कांय हजारांची देणगी मागप जातालें. पूण मस्कत म्हजो जांवय विवेक आनी धूव श्यामला म्हाका घेवन भोंवलीं आनी लाखांनी रुपयांच्यो देणग्यो जमल्यो. कोणें पांच पांच लाख दान दिले. दिलीप मेहता, अनिल खीमजी, नवीन गांधी हांचेसारके लोक तर वर्सुकी तत्वार लाखांच्यो देणग्यो दितात. मस्कत रावपी आश्वीन भाई हे व्यक्तीन तर कमालच केली. वनिता समाजाच्या वाठारांत आशिल्ल्या गोपाळकृष्ण मंदिराच्या सभाघराखातीर तीस लाख रुपयांची देणगी दिली. उक्तावणाखातीर तो आपलें पुराय कुटूंब घेवन आयिल्लो. आज तें सभाघर वेगवेगळ्या कार्यांक दिवन तातूंतल्यान आमचो फंड जमता.

पोटापाणयाखातीर देशाभायर गेल्ल्या लोकांचो जीव आपल्या देशांतल्या लोकांखातीर कितें तरी विधायक कार्य करचें म्हूण तीळ तीळ तुट्टा. तातूंतल्यानच असो पयशांचो पावस पडटा. इतलीं वर्सां फकीर कसों जगलों. पूण कसल्याय कार्याक हात घालतना पयशांची चिंता चड केलिना. बरें कार्य करता म्हूण कळटकीर आनी प्रामाणीकपणान केल्लें कार्य पळयतकीर आपली मूठ सदळ करपी कितलशेच दिलदार लोक ह्या संवसारांत आसात हो निदान म्हजो तरी

अणभव. ते खातीर भिकारी वा लाचार जावपाची निखालस गरज ना.

पूण अशें म्हुणून फकत गोशाळा चलोवप इतल्याचेरच आमीय समादान मानलें ना. समाजाची मानसिकता बदलत चल्ल्या हें मतींत घेवनय कांय गरजेचीं पावलां उबाल्लीं. गोहत्या बंद जावची हाचेर जनजागरण जावचें म्हूण 2001 वर्सा 26-27 फेब्रुवारी अशें दोन दिसांचें गोसंमेलनय घेतलें. कोल्या मठांच्या स्वामींनी उक्तावण केल्लें. नागपूराच्या गोविज्ञान अनुसंधान केंद्राचो मुखेली सुनील मानसिंग मुजरत मार्गदर्शन करपाखातीर आयिल्लो. आजय ह्या ट्रस्टावरवीं गोहत्येआड काम चालूच आसा.

सुमार 40 वर्सांनी, 2009 वर्सासावन, हांवें विश्व हिंदू परिशदेच्या सक्रिय कामांतल्यान विश्रांति घेतली. मागीर फकत बाल प्रशिक्षण केन्द्र, वनिता समाज आनी गोशाळा ह्या कामांनी झोकून दिलें. आठवड्यांतल्यान एक फावट मण्णगुड्डासावन दोन बशी धरून सकाळीं पजीरा वचप आनी सांजे परत येवप वा केन्नाय बाल केंद्रांतल्या भुरग्यांवांगडा दीस सारप होच दिनक्रम जालो.

सगळ्यांत चड सूख मेळ्ळें तें आनीक एके गजालीचें. वनिता आश्रमांतल्या चार चलयांक आपल्या पांयांर उबें करून तांचीं लग्नांय करून दिलीं. तींयबी चडशीं शिरशीच्या सारस्वत घरांतल्या शेत-भाट आशिल्ल्या कश्टकरी सुखवस्तू शेतकारांलागीं. चलयांक शेता-भाटांनी काम करचें पडटा म्हूण आजकाल मध्यमवर्गीय आनी उच्च मध्यमवर्गीय जाल्लो हविक ब्राह्मण समाज आपल्यो धुवो ह्या लोकांक दिना. आमच्यो चारूय चलयो सारस्वत समाजांतल्यो न्ही. पूण तांचेर जाल्ले संस्कार पळोवन आनी आमचेर पुराय विस्वास दवरून ते खोशेन तांचेलागीं लग्न जाले. लग्नाचे व्होवळीक पत्रिकेचेर श्रीधर भटाली पोसकी धूव म्हूण घातलें. आजूनय खूब जाण वासपूस करतात. पूण आमचेच लागीं लग्नाच्यो चलयो नात. लग्न करून दिल्ल्या चलयांचे संवसार सुखान चल्ल्यात.

म्हजें स्वताचें वैयक्तीक कुटुंबय मार्गाक लागलां. आशाचीं दोनय भुरगीं दोतोर जालीं. तींयबी आवय-बापायवरीच प्रसुतीशास्त्र आनी स्त्रीरोगतज्ञ. व्हडली धूव

अर्चना दोतोर श्रीधर कामतीलागीं लग्न जावन इंग्लंडांत स्थायीक जालां. दोन भुरग्यांची आवय जालां. दुसरो पूत दामोदर कोइम्बतुरा तांचें हॉस्पिटल चलयता. ताची बायल दिपिका ह्युमन रिसोर्स करून हॉस्पिटलाचें काम पळयता.

श्यामल आनी विवेक आतां मस्कतासावन ऑस्ट्रेलियेंत स्थायीक जाल्यांत. तांकां दोनय धुवो. व्हडलें दीपा इंजिनियर जावन घोव रोहित वेंकटावांगडा सिडनी आसता. धाकलें स्नेहा बापायवरी चार्टर्ड अकावंटण्ट जावन थंयच काम करता.

गोकुळानय फाटल्या 35 वर्सांत मंगळूरा आपलें स्वताचें ल्हानशें साम्राज्य उबें केलां. आज ताचे हाताखाला काम करपी धायेक लोकांचे संवसार चलयता. तो आनी गायत्रीन मेहनतीन 'मोट्रॅक्स' चलोवन तातूंतल्यान जमीन विकती घेतली. थंय स्वताची बिल्डिंग बांदून दुकानां भाड्याक दिल्यांत. तेच बिल्डिंगेंत स्वताचो सुसज्ज असो तीन बॅडरुमांचो फ्लॅट घेतला. हांवूंय तांचेच वांगडा रावतां. व्हडली धूव शरण्या इंजिनियरिंग आनी एम्एस् करतकीर अनिल कामतीलागीं लग्न जावन कॅलिफोर्निया आसा. धाकलें शिवानी मॅरिट सीट मेळोवन कस्तुरबा मॅडिकल कॉलेजींत एमबीबीएस तिसऱ्या वर्सा आसा. म्होवाळ नात लागीं आसा म्हूण म्हाकाय बरें दिसता.

सगळीं भुरगीं शिकून सवरून हांगां थंय फाफसल्यांत खरीं. पूण मोबायल तंत्रज्ञानाक लागून एकटेपण निखालस जाणवना. व्हॉट्स एपाचेर व्हिडियो कॉलांतल्यान तांचे लागीं उलोवप चालूच आसता.

आज 94 वर्सां पुराय जातना सगळो भूतकाळ नियाळटां तेन्ना दिसता, दादान आनी आईन म्हाका कार्कळा धाडून बरेंच केलें. उद्धार केलो म्हजो. हाका मुखेल कारण कार्कळचो सदानंद हेगडो. तो जांबावले पावलो नाशिल्लो जाल्यार कितें जाता आशिल्लें चिंतपाकच शकना. फकत आयुर्वेद न्ही, आयुष्य शिकलों हांगां कर्नाटकांत येवन. सगल्या तरांच्यो खांचखळयो पार करीत. कभी सुख, कभी दूख म्हळ्ळें कितलें खरें. एकंदरीत जिणें व्यर्थ जालें ना. कुछ न किया म्हणून पश्चाताप करचो पडलो ना.

अर्थीक नदरेन तशींच उल्लीं जायत आमी दोगांय. वेव्हारीक नदरेन आसतय गरीब. पूण आज हांव आनी मीराइतले गिरेस्त कोण नासत संवसारांत. आमी दोगांय सादीं मास्तर. पूण हातासकयल्यान हजारांनी भुरगीं गेलीं. शेंकड्यांनी भुरग्यांक घडोवपाक पावलीं. आज तीं येतात, मेळटात, नतमस्तक जातात तेन्ना जीण धन्य जाल्ल्याचें आगळेंच समादान मेळटा.

आमचीं भुरगींय शिकून व्हड जालीं. फकत पयशांनी न्ही, तांच्या कार्यानय. रात–दीस म्हणिनासतना मनीसपणाचे भावनेन आशा आनी राघवेन्द्रान कितल्याशाच जाणांचे संवसार सुखी केले. विज्ञान आनी जिद्दीच्या बळग्यार तांकां संतती मेळोवन दिली. श्यामलाक तर पयशांची गरजच नाशिल्ली. तरीकय मुंबय आसतना बीएड केलें आनी मस्कत वतकीर स्वताची 'हॅपी होम' नर्सरी सुरू केली. ल्हान ल्हान भुरग्यांक संस्कारीत केलें. बॅस्ट टीचर म्हूण पुरस्कारय घेतलो. गोकुळ आनी गायत्रीय सामाजीक वावरांत घुस्पल्लीं आसतात. आपल्या म्होवाळ सभावान दोगांयनीय कितल्याशाच लोकांच्या काळजांत घरां केल्यांत. सामाजीक मळावेले कितलेशेच लोक म्हाका आज गोकुळाचो बापूय म्हूण पाचारतात तेन्ना अभिमानान हड्डें आपसूकच फुलता.

कार्कळ, मंगळूर, पुत्तूर असो आख्खो जिल्लो आज म्हजो कसो जाला. खंयच परकी दिसना. ल्हानपणासावन आजमेरेन कोणेंच गोंयचो म्हूण म्हाका परको मानलोना. वेल्यान जिवाक जीव दिवपी इश्ट हे भुंयेंत मेळ्ळे. उडुपी अष्टमठांचे पेजावर स्वामी, धर्मस्थळाचो धर्माधिकारी विरेंद्र हेगडो, पि. वी. एस बीडीसचे स्व. मधुसूदन कुशे असल्या कितल्याशाच महापुरूशांचो अमोघ संपर्क जालो. म्हजी जीण धन्य जाली.

म्हजी जीण आनी विश्व हिंदू परिशद हे एकाच रुळाचे दोन पाट कशे. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ आनी विश्व हिंदू परिषदेन म्हजें व्यक्तिमत्व घडयलें. म्हजे जिणेक एक दिशा दिली. कितलिशींच स्टेशनां आमी वांगडाच गेले. आतां जाण्टेपण जाल्ल्यान म्हजो रूळ थांबला. पूण म्हज्या वांगडचो तो वैचारीक रूळ मुखार

वचत आसा. सदांच माय भूमीचे कांय पूण रीण पावोवपाचो प्रयत्न करीत जगलों. तिका तिचें वैभव परत प्राप्त जाता तें पळोवन संतृप्ती दिसता. अभिमान दिसता म्हाका म्हजे हे जिणेचो. अहंकाराचो वारो ताका न लागो हीच इश्वरचरणीं प्रार्थना.

हय, आनी हे संतृप्त अवस्थेंत हांव न्हिदतां तेन्ना सपनांच्या कुपांचेर बसून गोंयांतय वचत आसतां. जांबावलेच्या पाण्ट्यार, दामबाबाच्या देवळांत, ल्हान-व्हड पेडांचेर, लोलयेंच्या कुळागरांतल्या माड-माडयांचेर धोलत आसतां. आज हे घडयेक म्हजो कोणूच भाव ह्या संवसारांत ना. पूण तांच्योय यादी मनाक संतयतात. काळजाक सुखावतात. करीत रावतां हांव, शितळ वाऱ्याचेर आनी नितळ थंड कुशावतीच्या उदकांत, मनसोक्त भटकंती...

मैं रहूँ ना रहूँ, माँ तेरी शान अमर रहे।

सर्वे भवंतु सुखिनः







खंय वतां हांव?
हे त्या रानांत?
हे त्या मसणांत?
काय वाळवंटांत?
कितें जातलें म्हजें!
आरे देवा,
कितें करूं, कोणां सांगूं?
म्हण्टां म्हण्टां
दिसलो तो म्हासागर
ऊंच ऊंच ल्हारांचो
गुर्र घर्स्स स्वरांचो
पडलों वचून त्या म्हासागरांत
पूण कित्यांत, खंय, जाणात?
स्वातीचे उगडे शिंपयेंत
आनीक कितें सांगूं?
म्हज्याच नकळटां
जालों हांव मोती
स्वातींतलो मोती!



संजना पब्लिकेशन्स